

**प्रसिध्द जाल्लें साहित्य**

1) कयपंजी- कविता संग्रह (1989)

2) घोंटेर- कथा संग्रह (2000)

3) मळबझेंप- कथा संग्रह (2006)

4) मृगजळ- कथा संग्रह (2009)

5) श्रावण शिंवर- कविता (2011)

6) काळीं कुपां रुपेरी देग- कथा संग्रह (2012)

7) प्रीय सखी- पत्रसंग्रह (2014)

**ते भायर बाल साहित्याचीं पंचवीस पुस्तकां बरयल्यांत.**

अणकारीत पुस्तकां

1) जपान पळोवन आयलों (2008)

2) रक्त कूंड (2013)

3) चान्न्या रातीचो दुःखांत (2015)

# अमृतवेळ

(कादंबरी)

माया अनिल खरंगटे




मोहीत प्रकाशन

**Amrutvel**
Novel

**अमृतवेळ**
कादंबरी

---

**माया अनिल खरंगटे**

**प्रकाशन क्र. 6**

**पयली उजवाडावणी - 2016**



उजवाडावपी
**मोहीत प्रकाशन**
एफ् - 3, पितूळ कामत कॉ.ऑ.हा.सो.
आकें आल्त
मडगांव - गोंय, 403601
मो. 9420685278

**छापणावळ**
इंप्रेशन बेळगांव

**मुखचित्र**
कलानंद श्रीधर कामत बांबोळकार

**अक्षर जुळोवणी**
अभिनव क्रिएशन्झ

**मोल :** रू. 290/-

'केन्नाय तरी येतली
म्हजीय अशी फांतोड'
म्हणत फांतोडेच्या अमृतवेळाची
वाट पळोवपी तिका -

# मनांतलें

हावें कथा लेखनाक सुरवात करत साकून एक कथानक म्हज्या मनांत घोळटालें. त्या कथानकांतली नायिका, म्हाका आपल्याचेर काणी बरय म्हणून फाटीक लागिल्ली म्हळ्यार अतिताय जावची ना. पूण तिची काणी तशी मोटवी नाशिल्ली. हे काणयेंत समाज इतिहास सगळेंच येतालें. हांव जितली जितली ती काणी पेल्यान धुकळटालें तितली ती म्हज्या मनांत घुमशेणां कांडटाली.

इतले मजगती भौ. महाबळेश्वर सैल जेन्ना जेन्ना म्हज्यो कथा वाचताले तेन्ना म्हाका कादंबरी बरोवपाचो आग्रो करताले. मनांत कादंबरी आसलीच. पूण ती बरोवपाचो धीर जाय नासलो. 2008 सालांत मात हांवें कादंबरी बरोवपाचो निश्चेव केलो. एक प्रकरण बरयलेंय बी. पूण मदीं जायत्यो अडचणी येत रावल्यो.

त्या बोवाळांत हावें प्रवास वर्णनां, कथा आनी बालसाहित्य हातूंत म्हाका घुस्पावन घेतलें. कादंबरी मनांत खतखतत आसली. तिची सुरवात कशी करची, कशी मांडची हाचेर म्हजो अभ्यास चालूच आसलो. तातुंतल्या कांय प्रसंगांपासत हांव प्रत्येका कडेन भासाभास करतालें. स्वातंत्र्य संग्रामा विशीं कितें कशें बरोंव हें उदय बाबांकडेन भासाभास करून थारायलें. उदयबाबांक याद आसा काय कितें हांव नकळ.

अशे तरेन एक एक प्रसंग हांव घट करून घेतालें. पूण प्रत्यक्ष कादंबरी बरोवंक हात येना आसले. हर्षाकडेन उलयतना एक खेप ताका हावें कादंबरी विशीं सांगिल्लें. तेन्नाच्यान हर्षा सूंट कशें कादंबरी बरय म्हणून म्हज्या फाटल्यान लागलें. असो प्रत्येका कडच्यान फोर्स घेत एकदांची कादंबरी बरोवंक सुरवात केली. पूण एका चित्तान म्हाका कादंबरी बरोवंक मेळ्ळीच ना. मदीं नाका आशिल्ल्यो अडचणी येत गेल्यो. पूण हावें नेट सोडलो ना. संपूर्ण कादंबरी मनांत तयार आशिल्ली. तातूंत रंग भरपाचें काम करत हावें ती बरोवन काडली.

कादंबरी लेखनाक हावें जायते जाणांचो आदार घेतलो. भौ. सुधाबाय, भौ. सतीश दळवी, भौ. माधव बोरकार, भौ. संजय तळवडकार, हांच्या वांगडाच भौ. रजनीताईचें 'हांणी घडयलें गोंय' ह्या पुस्तकाचोय आदार घेतलो. ते भायर आनी जायत्या जाणांनी म्हाका प्रत्यक्ष - अप्रत्यक्ष रितीन आदार केला.

चड करून त्या काळार एकठांय कुटुंबांत चलयो-बायलो कश्यो वागताल्यो हें म्हाका म्हजी आजी स. सावित्रीबाय शेळडेकार आवय सौ. मीरा पुंडलीक शेळडेकार आनी चुलत आतें सौ. विमलबाय श्रीरंग प्रभुदेसाय हांणी आदार केलो. भाटकार शाहींतल्यो बऱ्योचश्यो गजाली हावें स्वता अणभविल्ल्यो. तरीय तातुंतले बारीक सारीक तपशील म्हजो बापूय श्री पुंडलीक शेळडेकार हांणी सांगलो.

तरीय अश्यो जायत्यो गजाली आसात जी माहिती मेळोवपा पासत त्या काळावयल्यो गजाली खबर आशिल्ल्या मनशांक सोदून काडून मेळचें पडलें. पूण खट कशें हावें प्रत्येक गजालीचे फाटल्यान लागून तपशील जमयलो, आनी ही कादंबरी पुराय केली.

भौ. माधवबाबान तर बारिकसाणेन ही कादंबरी वाचून कांय तपशील चुकिल्ले ताची नीट चवकशी करून म्हाका ते बदलूंक लायले.

कादंबरी हें एक तशें मोठें कठीण काम. मूळ कथानका वांगडा ताची भोंवतणची फास्कीय सांबाळची पडटा. सगळें सांबाळून, सगळें

भान दवरून एकदांची ही कादंबरी बरयली. ती कशी जाल्या कितें जाल्या ती तुमी वाचकानी थारावपाची.

कादंबरी लेखनाक जांव ती छापून येसर ज्या ज्या कोणे म्हाका कळत-नकळत आदार केला तांचो मोग म्हज्या काळजांत सदांच उरतलो. तुमचे उपकार मानून तुमी म्हजे पासत केल्ल्या उपकाराचें मोल करूंक सोदना

बाब अभिनव क्रिएशन्झान कादंबरीची भितल्ली मांडावळ सोबीत बरी केल्या आनी बाब कलानंद कामत बांबोळकार हाणें भायल्यान पुस्तक नटयलां. अभिनव क्रिएशन्झ, कलानंद, तुमचो आदार म्हाका सदांच जाय.

**माया अनिल खरंगटे**

# अमृतवेळ

## 1

निकतीच फांतोड फुलताली. झिळमिट्यार उठून गायनां गावपी सुकण्यानी सूर धरिल्लो. पयसुल्ल्यान सकल्या वाड्यार जागे जाल्ले कोंबे साद घालूंक लागिल्ले. रातराणयेच्या दोळ्यांर लकण येताली, तीच संद घेवन तिचो गंध हात-पांय कवळटालो. झाडां झाडांर उगरमेळ्या कळ्यांच्या दोळ्यांत दीस पळोवपाचें सपन फुलिल्लें.

बाक के ऽ न्ना जाग आयिल्ली. हार्लीसराक रातची मदींच तिची न्हीद चाळवताली, आनी चितनाचे गुंगुल्ले तिचे भोंवतणी घुंवत रावताले. मागीर आनी तिका न्हीद लागनासली. फांतोड जावपाची वाट पळयत ती हे वटेन - ते वटेन कुशी परतीत रावताली.

आयज अश्योच कुशी परतितना बाक फांतोडेची सुलूस लागली. ती उठून हातरूणार बसली. उशा पोंदची जपमाळ काडून तिणें गळ्यांत घाली. रातची न्हीद लागना तेन्ना ती जप करीत बसताली. म्हणून ती जपमाळ पातयेनासली. बान पदर माथ्यार घेतलो आनी दोनय हात जोडून मंगेशाक पायां पडली.

सकाळचीं नित्याचीं कामा करतना आज तिका बेठेंच अस्वस्थशें दिसतालें. दोन - चार फावटीं तिचो दावो दोळो फडफडिल्लो. त्या वेळार मंगेशाक हात जोडून तिणें मनांतच म्हळें, ‘देवा, मंगेशा, आज

तरी बरी खबर येताशी कर.'

बा सकाळची कांयच खाय नासली. पेलो भर दूद पियेवन ती न्हावन आयली आनी देवाकुडींत बसून जप करूं लागली.

बा हातान मणी ओडटाली, तोंडान देवाचें नांव घेताली, पूण मनांत मात शांतुलाचेच विचार घोळटाले.

बाचो घरकार गेलो तेन्ना शांतूल फकत एका वर्साचें आसलें. येदेशे किटीक बा रड-रडत म्हणटात तशी वाडयताली. 'जातनाच बापायक खालो' अशें म्हणत ताची आजी ताका हात सुद्धां लायनासली. बान दुदाक धरल्यारय तिका फडफडावन कामाचें निमती सांगून उठयताली. ताका लागून शांतुलाक आवयचें दूद सारकें पियेवंक मेळनासलें आनी तें किरकिरें जाल्लें. रातची मांय न्हिदतकच मात बा ताची अपुरबाय करताली.

घोवा फाटल्यान धिरान उबी रावन बान व्हडल्या पुताचें आनी दोनय धुवांचीं लग्नां केलीं. आतां उरिल्लीं ती शांतूल आनी हरिदत्त, 'हरी चलो भुरगो, ताचें कशेंय लग्न जातलें. शांतुलाक धा सोंपलीं. आतां ताचें बेगीन लग्न जाऊं जाय.' बाक हीच चिंता हालींसरा लागिल्ली.

- 'उमाबाय ऽ ये उमाबाय?'

- 'बा जपाक बसल्या, मात्से बसात हां.''

- 'बरें, बरें,' सुनबाय इल्लें उदक हाड हां.'

- 'हाडटां, हाडटां'.

निराबायन उदकान भरिल्लो पितुळचो तांबयो पेलो आनी पितुळचे ताटलेंत गोडा खडे दवरून उमथेमानेन भायर हाडून दवरले आनी भितर गेली.

वतां वतां तिणें देवाकुडींत नदर माल्ली. बान जपमाळ सांगशेंत दवरिल्ली. बाचें पांया पडून जातकच हिराबायन तिका म्हळें,

- 'बा, पडवेर दादाभट येवन बसल्यात?'

- 'आयले बरे जालें. देवा मंगेशा, बरी खबर घेवन आयल्यातशे कर. पांच वातीचो दिवो लायतां.'

देवाक होरावन, माथ्या वयलो पदर सारको करून बा भायर गेली.

- 'दादा, बरें आसात मू?'

- 'हय, हय, मंगेशाचे कृपेन आसां बरो?'

-'बऱ्याच दिसांनी आयले तुमी. आमकां विसरले काय दिसलें?'

-'छे, छे, ऊमाबाय यजमानाक विसरून आमचें कशें जातलें?'

-'तुमी कामाचे मनीस विचारूंक बरें दिसना, तरी विचारतां, शांतुलाच्या लग्नाविशीं म्हणिल्लें तुमकां. खंयी कोणय भुरगो बी नदरेक आयला?'

-'तीच खबर घेवन आयलां हांव.'

-'हय, जांव, देवा मंगेशा आसा तूं?

-'ऊमाबाय, शांतुलापासतच ह्या दिसांनी फिरतालों हांव. सगळें सारकें जुळून आयल्या शिवाय येवचोना म्हणून थारायिल्लें.'

-'म्हणटकीर आतां सगळें थारावन आयल्यात तर तुमी?' उमळशिकेन बान विचारलें.

-'हय, सादारणशें तशेंच म्हळ्यार जाता. तुमकां थळ मान्य आसा जाल्यार रोखडेंच थारावया सगळें.'

-'हय, हय, खंयचो भुरगो? घर-दार भाट-बेंस कितें आसा मूं?'

-'ऊमाबाय बरीच ताकीत जाल्या तुमकां. एका बराबर इतले प्रस्न विचारल्यार जापो कश्यो दिवं?'

-'खरें तुमचें, शांतुलाच्या लग्नाचो घोर लागला जिवाक. तुमी सवकासायेन सांगात.'

-'वडगांवच्या शिरवयकाराक वळखतात न्हय तुमी. व्हडलें घराणें. भाटा-बेंसान ताण. कितल्योच माळयो, पोट माळयो, दोन राजांगणा, अशें घर, एक पालासच कशी. भोंवतणी फुलां-फळांनी भरिल्लें पोरसूं. ताची उस्तवारी करपाक पांच - स मानाय वावुरतात. खावपा-जेवपाची ददात ना.'

-'आगे बाये, येद्या व्हड घराब्यांतली सोयरीक हाडल्या तुमी बायेक? जांव, इतलो तेप बापूय नाशिल्ल्या ह्या पोराचें जातलें कशें हाचोच घोर लागिल्लो. चलो कोणाचो?

-'शंकरबाबालो व्हडलो चलो विष्णुदाद. ताचोच व्हडलो पूत रामचंद्र. रायूदाद म्हणटात ताका. लांब, रूंद, गोरो, धवो बरो आसा.'

-'आमचें शांतूल मोटवें, दिसपाकय मात्सें फाटीं. पसंत पडत मूं

तांकां? तुमी सांगलां मू सगळें सारकें?'

-'पसंती पासत तुमी भिवनाकात ऊमाबाय. तें म्हजेर पावलें. हावें सगळें सगळें सांगलां.'

-'चल्याची आवय कोणाची?'

-'आसगांवच्या व्यंकटू शणैली चली. व्हडलें कुटूंब. घरचो नाल्ल, तेल बी विकपाचो धंदो.'

-'आजोळय बरें ताण तर? घालपा-करपाचें कितें? दोनय घराणीं ताण. आमची परिस्थिती तुमी जाणात. आमकां वटत मू हें थळ?'

-'बऽरें, तांकां फकत चली आनी नाल्ल जाय. चली मात बऱ्या संस्कारांत वाडिल्ली जाय खंय. विष्णूदादान पयलींच सांगलां, 'चलयेक भांगरां -शिंगरां घालना जाल्यार कोताक येता, पूण घराणे बरें जाय.' म्हणून तुमचें शांतूल म्हज्या दोळ्या मुखार आयलें. धा सोंपली न्हय ताका?'

-'चवथीकडेन धा सोंपिल्ली ताका. स म्हयने गेले आतां. चल्याक कितलीं वर्सां?'

-'अठ्ठाविसावें पयरच सोंपलां.'

-'अठ्ठावीस?'

-'तातूंत किते? चलो भुरगो जितलो व्हड तितलो संवसार समजिकायेचो जाता.'

-'खरें तुमचें'

-'तुमकां थळ मान्य आसल्यार न्हवरेकारांक कळयतां. घराण्याची चवकशी बी करपा आसल्यार करात. मागीर सगळें थारावया.'

-'शिरवयकाराल्या घराण्याक कोण वळखना. म्हजे भावजेचें पयसुल्लें नातें आसा त्या घराण्याकडेन. तातूंत तुमी सुचयल्लें थळ बरें आसतलेंच. रोखडेंच कितें तें जावनी. शांतुलाचीं वर्सां वाडटात हांगां.'

-'बरें तर.'

-'तोंड गोड करात दादा, बरी खबर हाडल्या तुमी आज. हीं केळीं

खायात, आनी दूद पियात.'



सात-आठ दिसा उपरांत शिरवयकाराले घरचे लोक शांतुलाक पळोवंक येतले म्हणपाचो रकाद आयलो. दिस्तच सखाराम धाकल्या भावाक हरिदत्ताक घेवन म्हाल हाडपाक कारवार गेल्लो. थंयच्यान म्हाल हाडून फोंड्या आनी लागसारच्या गांवांनी व्यापाऱ्यांक घालपाचो ताचो ल्हानसोच धंदो आसलो.

घरांत दादलो मनीस नासतना दाखोवपाची कार्यावळ कशी करप?' बाचेर आकांत आयलो. तशी बा धिराची. ती कसल्याय कामांत खुबच बेगीन निर्णय घेताली. तिणें नागनाथाक धाडून शेजारच्या विठ्ठलबाबाक आनी शिवराम शणैक रकाद धाडलो.

बामण वाड्यार चार-पांच बामणांचीं घरां लागीं लागीं आसलीं. सगळीं उल्यासादाक एकामेकांक पावताली. एकाच कुटुंबांतलीं कशीं वागतालीं. तांच्याच धिरार सखाराम आठ-आठ दीस म्हाल हाडूंक -घालूंक म्हणून हांगां थंय वतालो.

बाक सोयरे येवचे पयलीं तांगेर येवपाचें उतर विठ्ठलबाब आनी शिवराम शणैन दिलें.

सोयरे येवपाचो दीस लागीं येता तसो बा चो आनी व्हनीबायचो खपखप वाडटालो. 'देवा, एका उतरान पोर पसंत पडल्यार पुरो. घालपा-करपाच्या निमतान आडायना जाल्यार पुरो.' बा मंगेशाक होरायत आसली. तिचो जप करपय वाडिल्लो.

व्हनीबाय लग्न जावन आयिल्ली तेन्ना शांतूल फकत तीन वर्सांचें. तिणें ताका आपली धुवच कशी वाडयिल्ली. एके वटेन इतल्या व्हड घराब्यांत सोयरीक जुळूंक आयल्या म्हणपाची खोस जाल्यार दुसरे वटेन शांतूल वतलें म्हणपाचें दुख व्हनीबायक जाल्लें.

शांतुलाक मात कांयच खबर नासली. तें भावाचीं भुरगीं नागनाथ, सखू आनी राजाराम वांगडा खेळपांत गुल्ल आसलें. शांतुलाक पळोवपाक

येतले तेन्ना ताका णववारी कापड न्हेसोंवपाक जाय आसलें. कापडाचो प्रस्न नासलो, ‘पोलक्याचें कितें करप? इतलें बेगीन शिंवून जावचो ना? व्हनीबायक चिंता जाल्ली. तिणें बाक म्हळें, बान रोखडेंच म्हळें, ‘आगे नवो कित्याक शिंवपाक जाय? तुज्या पोलक्याक दोरो घालून दी ताका.’

-‘म्हजो पोलको? शांतूल केदें. म्हज्या एका पोलक्यांत दोन शांतुलां जातली.’

-‘सुनबाय, तें पदर सोडून सोयऱ्या मुखार येवचें ना. पदर गच्च पांगुरतकर भितल्लो पोलको कोणाक दिसतलो?’

व्हनीबाय आपलो पोलको दीस्त शांतुलाच्या जोखाचो करपाक ताका परत्-परत खेळटां थंयच्यान भितर आपयताली. शांतूल तिचेर बेजार जातालें. ताणें म्हळे, ‘व्हनी, म्हाका परत-परत भितर आपयनाका. म्हाका नाका तो तुजो पोलको, आमचो खेळ अर्दो उरता.’

व्हनीबायन ताका वेंगेंत घेवन म्हळें,

-‘बायू, तुका पळोवपाक सोयरे येवपा आसात. व्हंकलबाय आमची बरी दिसूं जाय. पळयतां खिणी तांकां मानूं जाय. मागीर घोव येतलो कोणाक व्हरूंक. हांगचो खेळ पुरो आतां. मागीर घोवागेर वतकर जाय तितलें खेळ.’

-‘हें, म्हाका नाका घोव-बी. हांव म्हजे व्हनी म्हऱ्यांतच रावतलें. खंयच वच्चें ना. कळ्ळें, परतून घोव -भोव म्हणून म्हाका चाळोवचीना तूं. चल, हांव खेळूंक वतां.’

-‘आगो बायू पयलीं अशेंच म्हणटात चलयो. मागीर एकदां घोवागेर गेलीं काय कुळाराच्या लोकांक साप्प विसरतात. कामाच्या व्यापा मुखार आमी आमचीच वळख विसरतात.

-‘व्हनी, तूं एकटीच बडबडटा. हांव वतां हां, म्हजो खेळ उरता हांगां.



शांतुलाक पळोवंक सोयरे येतले त्या दिसा निराबायच्या आदाराक

सुंदराव्हनी आनी जयाका आयलें. तांणी चा, शिरो केलो. शिवरामागेर साकून नव्यो चिक्र-पिरी पयलेच दिसा हाडून दवरिल्ल्यो. बामणवाड्यार कोणागेर सोयरीं येवचीं आसलीं, काय शिवरामाल्यो चिक्र-पिरी व्हरतालीं. बेसनलाडू तांणी पयले दिसाच करून दवरिल्ले. नारायणा बायलेन पिकीं रसबाळीं केळीं धाडून दिल्लीं.

खाणा तयारी जातकच निराबायन शांतुलाक आपलें णववारी कापड न्हेसयलें. गळ्यांत आपलो छडो घालो. तिचीं भांगराचीं काकणां शांतुलाच्या हाताक गळे कशी जातालीं. जयाकान आपल्या हाताचीं काकणां ताका घालीं. तींय मात्सीं व्हडलींच जातालीं. पूण निराबायन मुखार ताचीं कंवचेचीं काकणां घालीं आनी ताचे हात सोबयले.

शांतुलाक णववारी न्हेसणान चलूंक येय नासलें, तातूंत हातांत शिऱ्याच्यो ताटल्यो घेवन वचप म्हळ्यार सामकेंच कुस्तार. पूण व्हनीन ताचे कडल्यान दोन-तीन दीस सराव करून घेतिल्लो. ते प्रमाण शांतूल हळू हळू शिऱ्या ताटल्यो घेवन भायर आयलें. वसंत शणैल्या बाबीन बाकी सगळें भायर हाडून दवरिल्लें. थंयच शिऱ्याच्यो ताटल्यो दवरून तकली सकल घालून शांतूल उबें रावलें.

अशे तरेन शांतूल उबें रावलां तें पळोवन जयाकान दारा फाटल्यान राविल्ले कडेन निराबायक हळूच चिमटो काडलो. निराबायन हांसून म्हळें, 'जय, होय सराव करून घेतला हावें ताचे कडल्यान. ना जाल्यार तूं जाणा, शांतूल आमचो होळो, पिरी दवरून तांकां पळोवन हांसत रावतलें आसलें'.

खऱ्यानीच, शांतुलाक, तांची मातय लज दिसूं नासली, आनी भंय लेगीत दिसूं नासलो. ताका त्या मनशांक पळोवं जाय आसलीं, घोव म्हणटात तो कसो दिसता तो पळोवपाची उमळशीक लागिल्ली.

ह्या दिसांनी ताचीं भावाचीं भुरगीं आनी शेजारचीं विभा, मोनू, सरस्वती ताचो घोव कसो आसतलो, ताचें घर कशें आसतलें थंय खेळूंक मेळटलें काय ना, हाचेरूच उलयतालीं. तांणी शांतुलाक

घोवाघरच्या लोकांक सारके पळोवन येवन आमकां सांग हां म्हणून शिटकावणी दिल्ली. पूण व्हीबायन ताका तकली सकल घालून रावंक लायिल्लें, म्हणून तें तशें राविल्लें. पूण मनातल्यान चुळबुळत आसलें.

सोयऱ्यां मदल्या एकट्यान ताका विचारलें, 'बाय, तुजें नांव कितें?'

प्रस्न विचारतल्याक पळोवन फिस्स करून हांसून ताणें 'शांतूल' म्हणून सांगलें, आनी दोनय हातानी कापड वयर काडून धांवून भितर आयलें. दाराफाटल्यान रावन पळोवपी भावज 'आगो, आगो,' म्हणटा आसतना तें धांवन फाटल्या पोरसांत ताची वाट पळोवपी इश्टिणी म्हऱ्यांत गेलें.

फाटल्यान सोयरे व्हडान हांसतालें. व्हनीबाय, लजेन तांबडी जाली. 'लग्नाची व्हंकल जाली तरी अजून कसलेंच धणंग ना, व्हेल्ल्या घरां किते करतलें तें एक मंगेश जाणा.' व्हनीबायन जयाकाक आनी सुंदराव्हनीक म्हळें.

-'कांय भिवनाका निराबाय, ल्हान आसा तें अजून. तातूंत हो पयलोच प्रसंग.'

-'आनी आनी असो प्रसंग नाका बाये. हातूंतच पसंत पडल्यार पुरो. एकदां शांतुलाचें बरे भशेन लग्न जालें काय बा, हुस्क्या मेकळी जाली.'

-'हय गे निराबाय, बाक दीस-रात ताचीच चिंता. हालींसरा चितें जप करपाचें वाडलां पळे.'

धांवून पोरसांत गेल्लें शांतूल इश्टिणी म्हऱ्यांत पावतनाच व्हडाव्हडान हासूंक लागलें.

-'आगो कितें जालें? 'तुका चलून दाखोवंक लायलें?' 'तुका कितें विचारलें?' 'तुजो घोव कसो दिसता?' सगळ्यांचे प्रस्नार प्रस्न. शांतूल फकत हांसतालें. हांसपाचो ओग थांबतकर बऱ्या वेळान म्हळें, 'तातुंतलो कोण न्हवरो कोण जाणा. चारय जाण व्हडल्या मिशांचे आनी पिकिल्ल्या केसांचेच आशिल्लें. तांच्यो मिश्यो पळोवन म्हाका सामकें हासूंक येतालें. एकल्यान म्हाका नांव विचारलें, हांवें ताचे

कडेन पळयतकूच म्हाका चड हासूंक येवूं लागलें म्हणून नांव सांगून थंयच्यान धांव माल्ली. आतां बा घालतली म्हजेर धपाटे?

शांतुलाची खबर आयकून सगळींच हासूं लागलीं.



आठ दिसांनी शिरवयकारालो मुकादम वासू नाल्ल आनी साखर घेवन सिंगबाळागेर आयलो. बाचे खोश्येक शीम-मेर उल्ली ना. येद्या व्हड घराब्यांत आपली धूव लग्न जावन वतली हे खोश्येन बान वाडोभर साखर वांटली. घराव्या दुदाचे दूदफेणे करून सोमार दीस म्हादेवा देवळांत निवेद्याक धाडले.

साखर, पेडे खावन बाक मानपी लोक खुशाल जाले. 'जांव, सोमूबाबा फाटल्यान बान कांयच दवरलें ना. 'खरेंच संवसाराचो गाडो नीट चलयलो. मन व्हड तिचें म्हणून शांतुलाची सोयरीक पयल्याच डावाक जाली.'

बाचो दुस्वास करपी तर्क-वितर्क काडत आसले. शिरवयकाराचें घराणें म्हणटनाच साखर तांकां करात्यावरी कोडू लागली.

-'इतल्या व्हड घराब्यांत शांतूल? म्हाका धड दिसना, दाळींत कितेंय पूण काळें आसा.'

-'काय सगळीच दाळ काळी रे?'

-'आसत, आसत, ही व्हड घराणीं म्हळ्यार भायल्यानच तांचे भपके. घडये भितर पोकळ वांशे आसतात.'

-'तशेंच आसत. भुरग्याविशीं कोण कांय उलयनात. घर अशें बरें आनी तशें बरें, इतलीं शेतां-भाटां आसात, तितली जमीन आसा, ह्योच गजाली सांगतात.'

-'विष्णू शिरवयकारालो व्हडलो चलो खंय. आमी सदांच धाकल्याकच पळयला, लग्ना कारणाक जांव, जात्रा काल्यांनी, व्हडल्याक केन्ना पळयलोच ना. तूं सांगता तशें कितेंय पूण आसूं जाय.'

-'पळोंवया, सगळें आतांच उलोवन सोंपोव नये. हातच्या काकणांक

हारसो नाका, लग्ना दिसा कळटलें कितें तें.'

-'पूण कितेंय सांग येशेदाद, शांतुलान नशीब काडलें. तशें सोमूदादा फाटल्यान बान गिरीजा आनी ऊमाचें लग्न खंयचे परिस्थितींत केलें तें आमी जाणात. हातांत काकणां आनी गळ्यांत छडो घालून दोगांकय उजयलीं. त्याच कामाक तिका अर्द जमीन विकची पडली.'

-'हय तर. दिल्ल्या घराय बाबडीं त्रास काडटात. गिरिजाचो घोव गेला. पूतय धड न्हय. घरचो पसरो आसा आनी कुळागर आसा म्हणून कशेंयतरी संवसार चलयता बाबडें.'

-'ऊमाचो घोव कितें हटमटवाळे करून संवसार चलयता आमी जाणात, पूण तोंडान पटे मारपा सोडिना.'

-'आतां शांतुलाचें कशें ते पळोवया.'

-'पूण, कितेंय सांग जगू. बाक ताब्ल पडला.'

लोक तर्क-वितर्क करत आसले. बाचें घर मात खोश्येन भरिल्लें.

शिरवयकारालो घराबो व्हड. घरचीं आनी धुवो बिवो म्हळ्यारच दोनशें वयर लोक. तातूंत सोयरीं धायरीं. 'इतल्या सगळ्या लोकांक घेवन व्हंकलकारांगेर वचून लग्न गरप म्हळ्यार तांचेर नस्तो ताण जातलो? हें सगळें येवजून विष्णूदादान घरांत आवयकडेन भासाभास केली आनी लग्न वडगांवांच करपाचें थारायलें. व्हंकलकारांक पांच-स दीस दवरपा सारकीं व्हड व्हड घरां गांवांत खूब आसलीं. तातूंत अंतूशेटीले घर चडच आस्कळ-विस्कळ. चवक्योय बऱ्योच व्हड. एके चवकेर सवो घाल्यार तिनय चवक्यांवयल्यान लग्न दिश्टी पडटालें. तांचे भितर थारावणी जातकर तांणी शिवड्यां वासूक धाडून सखारामागेर रकाद दिलो.

रकाद आयकून बाक सूऽ जालें. ह्या दिसांनी तिका हीच चिंता खाताली. येद्या व्हड घराब्याक कोणागेर दवरतलीं... थोड्यांक हेद्यागेर, थोड्यांक खांडेपारकारागेर अशें वांटून दवरचीं पडटलीं... आनी लग्न? शिवराम देसायायलें घर चड व्हड नासूं चवक्यो बऱ्यो आसात... थंय

सवो घालून लग्न करूं येता... पूण तांची सगळ्या सोयऱ्यांची उठ-बस कशी करतलीं आमी... आमकां झेपत मू हो खर्च?... अशा विचारांनी बा सामकी आकूळ -पिकूळ जाल्ली.

पूण शिरवयकारालो रकाद येतकर बाक खरो सुशेग जालो. तिणें मनापासून देवाक हात जोडले आनी म्हळें, 'देवा, मंगेशा, आसा तूं म्हज्या फाटल्यान. एक व्हडली चिंता ना केली तुवें, हांच्या फाटल्यान तुज्याच आदाराचेर उबें आसा हांव, म्हजी चिंता तुकाच बाबा.'

दोनय घराब्यांत लग्नाची तयारी सुरू जाली.



बाचे वटेन चड सोयरीं नासली. तिचे दोन भाव लग्न जाल्ले. उरिल्ले दोगय आंकवारच आसले. एक भयण बेळगावां दिल्ली. तिचें गोंयांत खंयच्याच सोयऱ्यागेर यो-वच नासलें. दुसरी भयण काणकोणा रावताली. तिचें कुटूंब व्हड. पूण घरची गरीबी. ती कितेंय निमित्त करून सोयऱ्या-धायऱ्यांगेर म्हयन्या घडीनी वचून रावताली. ती कामाक वाग. त्या घरांतलीं पडटा तीं कामा ती हांसत्या तोंडान करताली. तिका इल्लें पोटभर जेवण जाय आसलें. तें मेळ्ळ्यार तिची कितेंय करपाची तयारी आसली. म्हणून ती जे कोणागेर वताली तांकां नाका जायनासली. कांय जाण तर लग्ना कारणा वेळार मुद्दाम तिका आपोवन व्हरतालीं.

भाच्वेचें लग्न थारलां म्हणून रकाद आयले बरोबर ती धुवे-पुताक घेवन म्हयनोभर पयलींच बागेर रावंक आयली.

बाय खुशाल जाली. 'एकटी सून शेजाऱ्यांच्या आदारान लग्नाचो व्याप कसो जाग्यार घालतली? हाचोच तिका हुस्को जाल्लो. भयणीन तिची चिंता ना केल्ली. बाची व्हडली धूव गिरिजा. तिचो घोव गेल्ल्याक माथ्यार पदर आयिल्ल्यान ती खंयच भायर-भितर सर नासली. तिची दुसरी धूव उमा पणजे सुखटणकारागेर दिल्ली. तिची जाण्टी आजीमांय हातरूणार आसली. ताका लागून ऊमाक ऊठ-सूट कुळारा येवंक मेळनासलें. ताणें लग्नाच्या आट दीस पयलीं येवपाचें उतर बाक दिल्लें.

बान आपले ऐपतीप्रमाण लग्नाचे तयारेक सुरवात केली. सखारामान हाचे - ताचे कडल्यान उश्णे पयशे घेवन चार भांगराची काकणां, मंगळसूत्र आनी न्हवऱ्याक मुदी केली. पूण गळो उगडो. गळ्यांत कितें आनी कशें करप हाची बाक चिंता जाल्ली. बा कडेन तर फुटको येळ नाशिल्लो. लग्नाच्या हेर खर्चापासत रीण काडपाक पुताची कशी धांवपळ चल्ल्या ती बा जाणा आसली. आनी आनी रीण काड म्हणपाचो तिका धीर नासलो.

पूण व्हनीबायन बाची चिंता पयस केली. ती शांतुलाक आपली धुवच समजताली. तिणें मुकाट्यानी आपलो छडो हाडून बा मुखार दवरलो. बाचे दोळे भरून आयले, ''सुनबाय, तुज्या बापायन तुका घाल्लो छडो तूं शांतुलाक घालता?'

-'बा, आज शांतुलाक ताची गरज. हो वेळ सांबाळूं जाय न्ही?'

-'खरें तुजें सुनबाय. पूण आपलें भांगर...'

-'आसूं बा, रान्नीर तपलें दवरलां. आदन सळसळ्ळां जातलें. तांदूळ घालूंक वता.'

बाची भयण थंयच बसून फोव आसुडटाली. तिणें म्हळें, 'आका कितेंय सांग, तुका सुनबाय बरी मेळ्ळ्या. बापायन तिका थोडें भांगर घालूं नासलें. धंद्याच्या नांवान घोवान अर्दे भांगर ना केलें. आतां आपूण जावन आपलो छडो नंडेक घालूंक भायर सल्ल्या.'

-'हय बाये, मंगेशाची कृपा, आनी कितें उलोवं?'

-'न्हवरेकार कितें घालतले काय? कितें सांगलां तांणी?'

-'तशें कांय म्हणुना तांणी, पूण आयकल्ले भितर हेर सगळें भांगर तींच घालतलीशीं दिसता. चुडो घालचे पयलीं गोंठ-पाटली घालूं जाय म्हूण भांगराचो करण पयलींच धाडून दिता म्हळां. पळोवया करणांत कितें कितें येता तें?'

-'नशीब काडलें आका तुज्या शांतुलान.'

-'म्हजे नशीब कोणे काडलें मावशे?'

तेन्नाच घागऱ्याचो कासाटो मारून राजारामाक हाण्डीर घेवन भायर गेल्लें शांतूल थंय पावलें.

-'आगो शांतूल, हो कितें अवतार तुजो? लग्न आसा तुजें रोखडेंच. सोडय तो घागरो.'

-'मावशे, घागरो सोडयल्यार म्हाका राजारामाक हाण्डीर घेवन चलूंक त्रास जाता.'

-'घागऱ्यान चलूंक त्रास जाता, मागीर घोवागेर वतकर येदें व्हडलें णववारी कापड कशें न्हेसतलें आमचें बायूल?'

-'शी, णववारी? येदें व्हडलें कापड परत न्हेसप, शीऽ?

-'आगो लग्न जातकर कापड न्हेसचेंच पडटा. थंय कितें घागरो पोलको घालतलें? ' मावशेन शांतुलाक तिडायलें.

-'हांव न्हेसचेंच ना तें व्हडलें कापड. त्या दिसा म्हाका चलूंक लेगीत येय नासलें. हावें व्हनीक पयलींच सांगिल्लें, म्हजें लग्न करूं नाका म्हणून' रडकुऱ्या आवाजान शांतुलान म्हळें. बा आनी मावशी व्हडान हासूं लागलीं. शांतूल पांय आपटीत भितर गेलें.



# 2

शिरवयकारागेर लग्नाचे तयारेक बरोच नेट आयिल्लो. विष्णूदादागेर विठाय आनी जयमिनी फाटल्यान बऱ्या तेंपान नवसा सायासान जाल्लो रामचंद्र, रायू घरांतलो पयलो वयलो अर्थ अपुरबायेचो पूत. ताच्या लग्नाची सगळ्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक आमांत्रणां गेल्लीं. रानपी म्हयनोभर पयलींच आयिल्लो. लग्नाचे दीस लागीं पावतात तश्यो घरच्यो धुवो-सोयरीं धायरीं येवंक लागिल्लीं.

लग्नाचे तयारे वांगडाच सगळ्यांची ऊठ-बस, मनां सांबाळप हीं कामांय वाडिल्लीं. तांगेर पयलीं पासून अशा कार्याविळार कल्याण, भीमा, रुक्मीण ह्या सदच्या वावराड्यांक भायर भितल्ली कामां सांगनासलीं. त्या कामाक आमोणें, अवेडें हांगाच्यान तांच्यो दुसऱ्या मुणकाऱ्यां बायलो कामाक येताल्यो आनी कल्याण ताच्यो भयणी घरांतल्यो सुनो-धुवो, सोयरीं हांचे बरोबर ताचें केंस कान वळोवंक, न्हेसणाच्यो घडयो करप, भुरग्यांक नटोवप, तांकां सांबाळप असलीं कामा करताली. इतलो सगळो लोक आदाराक आसतानाय कामा फावरूणूकेक येना आसलीं.

विष्णूदादान किरवंट बरीच सदळ केल्ली. हरशींय जाल्यार विष्णूदाद उमेदीचो मनीस. घरांत लोकांक, सोयऱ्या-धायऱ्यांक आपोवप, तांची

सरबराय करप हातुंतच ताका उमेद जाताली. भावांच्या भुरग्यांची लग्रा लेगीत ताणें थाट-माटान केल्लीं. आतां तर आपलोच पूत. ताची उमेद दुपेटीन वाडिल्ली.

त्या घरांतल्या दादल्यांक घरांतल्या कसल्याच कामा विशीं आपले बायलेक विचारून करपाची संवय नासली. पूण हे खेपे मात विष्णूदादान चाल मोडली. रातची व्हनीबाय कुडींत येतकर ताणें विचारलें,

-'आगे सुनेक कितें भांगर घालपाचो विचार आसा? व्हनीबाय पयलीं अजापली. मागीर लजेत-लजेत हांसून तिणें म्हळें, -'हें हो कितें? हांव कितें सांगतली? आपूण सगळें जाणात, आपूण करतात तें म्हाका मान्य.'

घोवान आपल्याक विचारलें हेच खोशयेंत ते रातीं व्हनीबायक धन्य जालें. तिका न्हिदय उसरांच लागली.

दुसरे दीस सकाळीं भाकऱ्यो काडटना व्हनीबायन आपले जावेक हिराबायक रातची खबर म्हळी.

मुमुरख्यानीच हिराबायन म्हळें, 'व्हनीबाय, तुवें सांगलें मगे सुनेक कितें घालूं जाय तें?'

-'खंयचे गे? हांव कितें आपल्याक वळखना. रातची बायल खोशी जाल्यार तांची शेज रंगता, म्हणून आपणे म्हाक विचारलां. हांवें सांगिल्ले आपूण थोडेच करतले...'

-'खरें तुजें व्हनीबाय, तांकां आमचें खंय पडलां. तांकां जाय तें सादोवंक ते संगणे-मंगणे करतले.'

-'कितेंय जांव हिराबाय, म्हाका विचारलें, तातुंतच म्हाका भरून पावलें.'

-'आमी इतल्यारच खोशी जावपाचीं.'

-'जावां -जावांची कसली खुसखूस चल्ल्या? आज आमकां चटणी -भाकरी मेळटली काय ना?'

सवादां उदक पिता-पितां केंसर आकान तिरसुवादपणान कशें

विचारलें. नंडेक पळयतकर दोगी जवो उमथे मानेन काम करूंक लागल्यो.

केंसराक लग्न करून काणकोणां दिल्लें. लग्नाक दोन वर्सां जाता म्हळ्यार ताचो घोव गेलो. शंकरबाप्पान ताका रोखडेंच कुळारा हाडलें. केंसर सभावान मात्से हुर्र-फुर्र, तितलेंच मायेस्त. भावजांचें नटप-थटप, घोवांच्यो गजाली उलोवन हांसप ताका सामकें माननासलें. तें कित्याय कितें उलोवन तांकां दुखयतालें. आतांय भावजांचें उलोवप ताणें सारकें आयकूंक नासलें, पूण तांचें हांसप पळयल्लें. म्हणून फुर्र करून तापलें.

व्हनीबाय ताका रस्पेतान वागयताली. पूण हिराबायचो सभाव दुसऱ्यांक तिडावपाचो. तिणें नंडेक दिसचो अशेतरेन जावेक कोंपर माल्लो. आनी ती पेल्यान गेली. केंसरान तो पळयलो आनी सवादांउदका वाडगो जमनीर आपटून बडबडत भायर गेलें.

तें पळोवन खू-खू करून हांसत हिराबायन म्हळें, 'आतां दीस बरो वतलो व्हनीबाय. लग्ना तयारी नेटान करूंया.'



रायुदादाचें लग्न व्हडा थाटान जालें. शांतूल सिताबाय जावन शिरवयकारागेर तांदळांचें माप उमथून भितर सल्लें. सकाळच्यान न्हेशिल्लें णववारी न्हेसण, हातभर भांगरा, गळोभर भांगरां, माथ्यांतय फुलां आनी भांगर शांतुलाचो जीव सामको उबगून गेल्लो. लग्ना माटवांतच ताणें चार वेळा तरी व्हनीक विचारिल्लें, 'व्हनी हें जड जड सामान केन्ना काडप?'

व्हनी ताका फुसलायत आसली, 'अशें म्हणू नाका शांतूल. आतां तूं शिरवयकाराची सून. तुका सदांच अशें घालून रावचें पडटलें तागेर?

तरी लेगीत शांतुलान घरावतकूच हें सगळें काडून घागरो-पोलको घालतलें असो मनाचो समज करून घेतिल्लो.

घरभरवणी जातकर घरांतलें देव देवस्पण, सगळ्यांक पांया पडप,

इतलें जाता म्हणसर शांतूल सामकें जाम जाल्लें. ताका झेम येताली. पूण घरांत येत साकून ताचे परस मात्सी व्हड एक बायल ताचेबरोबर आसली. ती ताका सिताबाय सिताबाय म्हणत जागयत ताका एके कुडींत घेवन आयली आनी म्हळें, 'सिताबाय आतां हें कापड बदलुंया.

-'हय, आतां म्हाका घागरो-पोलको घालूंक मेळटलो मगो? आनी हीं सगळीं भांगरां बी काडया मगो?

कल्याण खूक करून हांसलें. ताणें म्हळें,

-'सिताबाय आतां तुजें लग्न जालां, तुवें कापडांच न्हेसपाचीं, आनी हें सगळें भांगर घालूनच रावपाचें हां.'

उलयतां उलयतां कल्याणान णववारी कापडाच्यो मिरयो काडल्यो. सिताबायक अळंग हातातन दुसरें कापड न्हेसयलें आनी तिका एके शेंदरेर बसयली. ताणें कुडीचें दार उगडले बरोबर कोण कोण भुरगीं येवन येवन ताका पळोवन वतालीं. कोण ताका काकी म्हणी, कोण मामी म्हणून उलो मारी. सिताबायक बशिल्ले कडेन मजाज दिसताली. एके वटेन तिका झेमय येताली. पोटाक भुकय लागिल्ली. पूण भुरग्यांच्या आवाजान तिका जागी दवरिल्ली.



लग्नाक म्हयनो जावन गेलो. सोयरीं धायरीं आपल्या आपल्या घरा परतलीं. सगळ्यांचे व्यवहार सदचे वरी सुरू जाले. सिताबायक अजुनय त्या घराची, घरांतल्या मनशांची संवकळ जाऊं नासली. कल्याण तिचे बरोबर आसतालें. तिचे केंस वळोवप, न्हांवक उदक उपसून दिवप, न्हेसवप, तिचीं हेर सगळीं कामां करूंक कल्याण तत्पर आसतालें. तिका त्या घरांतल्यो रितीभातीय तें शिकयतालें.

सिताबाय येदें व्हड घर, एकठांय रावपी इतलीं सगळीं मनशां पयलेंच खेप पळयताली. तिका त्या घराचो भंय दिसतालो, इतल्या सगळ्या मनशांचोय भंय दिसतालो. जेवण करपाचे व्हड व्हड तोप, थालयो पळोवन तर तिका कडकडो भरतालो. बाच्या काणयांतल्या

राजवाड्यांच्यो, थंयच्या कितल्याशाच लोकांच्यो खबरी, तांतल्यो सगळ्यो गजाली तिका येवजताल्यो. आनी आपूण तसल्याच एका राजवाड्यांत कैदेंत आसां कशें तिका दिसतालें. मागीर तिका रडूंक येतालें. अशा वेळार कल्याण लागीं आसल्यार बेगी-बेगीन तिका वेंगांत घेतालें.

-'सिताबाय कुळाराची याद आयली? वोगी वोगी. अशा भरिल्ल्या घरांत रडनात.'

मागीर कल्याणाचो तिका धीर कसो दिसतालो. तें आपलें कुळारचेंच मनीस कशें दिसतालें.

दनपारच्यो सगळ्यो बायलो लकण काडटाल्यो. तेन्ना सिताबाय कल्याणाबरोबर खेळटाली. इंदू, कुमूद, जायलें, विजय तांच्या वांगडा खेळूंक येतालीं. कल्याण तांकां वेगळे वेगळे खेळ शिकयतालें. पांच फातरांचे तर कितलेशेच खेळ ताका खबर आसले. व्हनीन सिताबायक लग्नावेळार ताबूलफळें दिल्लें. तीं ताबलांनी खेळटालीं. ताच्या फाटल्यान आशिल्लाया कांगफळ्यांनीय खेळटाल़ीं.

-'ह्या येद्या व्हड घरांत लिपून खेळपाक कितली मजा येतली न्हय?'

-'हय, हय सिताबाय. आमी खूब वेळा लिपून खेळटात. तूंय येतली खेळपाक?'

-'हांगां लिपून खेळटना कोण खंय लिपला तें कोणाकूच कळना. आमी खेळया मगे सिताबाय.' विजयान उमेदीन विचारलें.

-'आगो बायांनो, सिताबाय ह्या घरची सून. ती लिपचेल्यानी कशी खेळटली तुमचे बरोबर? हे असले बसलेकडचे खेळ तिणें खेळ्यार जाता.'

-'आंवय, कितें गो कल्याण?' गाल फुगयत कुमुदान म्हळें. इंदून रोखडेंच विचारलें

-'आंगणांत सांजवेळा नळखुटेन, मिठानी बी खेळ्ळ्यार जाता मगो तिणें?'

-'हय, सांजवेळा कोण नासता तेन्ना बोवाळ करनासतना खेळात.

वोदोळचें तांचें उलोवप आयकून सिताबायचें तोंड पडिल्लें. सांजवेळां आंगणात खेळपाक जाता म्हणटकच तिका उमेद जाली. 'पूण... हें कापड न्हेसून कशें खेळप... तातूंत हाताक हीं इतलीं काकणां... भांगरां... सगळेंच जड... जड... शी म्हाका खेळूंक जमचें ना...' ताणें उदास जावन म्हळें.

-'ना गो इंदू, आतां म्हज्यान धांवून बी खेळूंक जावचें ना.'

-'हय सिताबाय, तूं धांवून उडयो मारून खेळों वचना जाल्यार चड बरें,' केंसरआकान बी पळयल्यार बेश्ठेंच धेंगसायतलें तुका. आगो चलयांनो तुमीय आतां व्हड जाल्यांत. धांवोन - नाचोन कित्याक खेळूं जाय तुमकां. जायल्या तुजेंय आतां लगीन आसतलें. बसलेकडचे खेळ खेळपाची संवय दवर.'

-'पुरो हां कल्याण. तूं मेळटा तेन्ना म्हज्या लग्नाचेर येता. हांव अजून ल्हान आसां.'

जायल्यान गाल फुगोवन म्हळें. सिताबायक खूक करून हांसूक आयलें. तें पळोवन कुमुदान म्हळें,

-'सिताबाय, तुका हांसूक म्हणून रोखडेंच येता मगे?

-'सिताबाय, हांव फकाणा करना. म्हाका खऱ्यानीच इतले बेगीन लग्न करपाचें ना. लग्न जातकर म्हाका तुजेभशेन खेळूंक बी कांयच मेळचें ना.?

सिताबायन हांसून म्हळें, 'जायल्या हांवय लग्न थारलें तरी व्हनीक, बाक हेंच सांगताले. पूण कोण्णे म्हजें आयकलें ना.. केलेंच म्हजें लग्न, बाक तर सामकी ताकीत जाल्ली म्हज्या लग्नाची.'

-'खरें गे सिताबाय, ही जाण्टीं म्हणून, सामकी हींच शीं, तांकां जाय तेंच करतलीं? विजय फडफडलें.

-'ये, आमी हांगाच उलोवपाचें. आमचें कोण आयकता? जायल्यान म्हळें.

तांचे उलोवणे आयकून कल्याणान मुमुरख्यानी म्हळें, 'आगो म्हज्या बायांनो, तुमी ल्हान आसात खरीं. ल्हान आसतनाच तुमकां तुमच्या घरा धाडपाची जाण्ट्यांक ताकीत जाता.'

सिताबायक अजून त्या घराची संवकळ जाऊं नासली. तशें तिका अजून कसलेंच कामय करचें पड नासलें. ती तांदूळ लेगीत वेंचूक आयली जाल्यार,'व्हंकलबाय, तूं नवी सून. वोगी बसून आमचें काम शिकून घे. मागीर आसाच तुका कामां. तीं कशींच चुकचीं नात.' अशें म्हणून मांयो तिका कामां करूंक दीय नासल्यो.

सिताबाय मागीर फाटले पडवेर बसताली. थंयच्या पोरसांतलीं झाडां तोखेताली. सिताबायक पोरसाची खूब आवड आसली. पूण हांगा पोरसांतलीं सगळीं कामा तांचे मानाय, वावराड्यो करतालीं. मोगरीं, जायो-जुयो, आबोलीं, कसलीं आनी कसलीं म्हणून ना सगळे तरेचीं फुलझाडां थंय आसलीं. तांचीं फुलां काडून कल्याण, भिमा, यशोदा फांतयो घालून घरांतल्या बायलांक माळटालीं. हें सुद्धा काम सिताबायक करूंक मेळनासलें. मागीर सिताबायक वाज येतालो. मागीर ती कल्याणा म्हऱ्यांत बसून ताचे कडल्यान ह्या घरांतल्यांची वळख घेताली.

त्या येद्या व्हडल्या घरांत दोन घराबे रावताले. शंकरबाबाक तीन पूत. विष्णूदाद, वैकुंठबाब आनी विठ्ठल. विष्णूदाद आनी वैकुंठबाबाचें लग्न जातकर तशेंच कारण घडलें आनी तांकां वेगळ्यो रांदच्यो कुडी करून दिवच्यो पडल्यो. विठ्ठल लग्न जाऊ नाशिल्ल्यान विष्णूदादागेरच रावतालो.

दोन रांदच्यो कुडी आसल्यो तरीय वेगळें कितेंय शिजलें जाल्यार एकामेकांक दिल्याबगर तांकां सूख लागनासलें. आपले आवडीचो पदार्थ कोणागेर आसा जाल्यार भुरगीं हक्कान ते वासरेंत वचून पानार बसतालीं.

एक रांदची कूड मात सदांच बंद आसताली. ती म्हादेवबाबाची. तो

शंकरबाबाचो भाव. ल्हान आसतनाच बापायचो कसलो तरी राग धरून बेळगावां वचून राविल्लो. थंयच रावपी एका गोंयकार चलयेकडेन ताणें लग्न केल्लें. ताका सदाशीव आनी शांताराम हे दोन चले आनी सुभद्रा, रतन, विमल अश्यो तीन चलयो आसल्यो.

कृष्णादाद आससर म्हादेवबाब केन्नाच वडगवां घरा आयलो ना. पूण कोणा कोणाकडल्यान शंकरबाब ताची खबर घेतालो. तो ताका कितल्याच जाणाकडल्यान घरा परत येवपाक रकाद धाडटालो. पूण म्हादेवबाब बापूय आसासर घरा परतलो ना.

कृष्णदाद मरचे पयलींच शंकर बाबाच्या व्हडल्या पुताचें विष्णूदादाचें लग्न थारिल्लें. पूण अचकीतच कृष्णदाद गेलो. वर्सा भितर विष्णूचे लग्न करूंक जाय म्हणून शंकरबाबान चार म्हयन्या उपरांतचो म्हूर्त थारायलो. ह्या लग्ना निमतान ताणें म्हादेवबाबाक गोंयांत येवपाचो आग्रो केलो.

ह्या वेळार मात म्हादेवबाब आपल्या बायल भुरग्यांक घेवन घरा आयलो. तीं आगगाडयेन आयिल्लीं. ताचीं भुरगीं घरभर सगळ्यांक बेळगांवच्यो, आगगाडयेच्यो व्हडविको सांगतालीं. घरांतल्यांक तांच्यो गजाली म्हळ्यार जादुच्या काणयांतल्यो गजाली कश्यो दिसताल्यो. उज्यार चलपी गाडी म्हळ्यार राकेसच आसूं जाय, असो तांणी समज करून घेतिल्लो. 'त्या उज्या गाडयेंत बसून हीं कशीं जिवीं उल्लीं काय?' हाचेंच तांकां अजाप जाल्लें. उज्या गाडयेंत बसून बेळगांवा वच्चे पडटा म्हणून केन्नाच बेळगावां वचप ना असो तांणी आपले भितर निश्चेवय केल्लो.

तांची मराठी भरसून मराठी हेळ्यान उलयल्ली कोंकणी आयकून सगळ्यांक मजाच दिसताली.

ह्या लग्ना उपरांत तांचें गोंयांत यो वच सुरू जालें. पूण म्हादेवबाब येतालो तो सोयरो कसो. केन्ना जात्रेक तर केन्ना लग्नाक. जात्रेक तीं पयलीं साकुनच येतालीं. भायले भायर कवळ्यां रावन, कवळेंच्यानच

बेळगावां वतालीं. आतां मात तीं सात-आठ दीस तरी वडगावां येवन रावतालीं. अंजनीन मात आपले रांदचीकुडींत केन्नाच रांदलें ना. ती हांगेर - तांगेर जेवन वताली. तांची रांदची कुड सदांच बंद आसताली. येद्या व्हडल्या घरांतलो तो भाग चडसो बंदच आसतालो. लग्न कार्य आसल्यार मात सगळें घर वापरपाक जाय पडटालें, तेन्ना म्हादेवबाबाची कूड, रांदची कूड उगडटालीं.



## 3

सिताबाय हळू - हळू घरांत भरसताली. कल्याण तिका पुराय घराब्याची वळख करून दितालें. पूण सिताबायक नात्याचो घुस्पागोंदळ कसोच समजनासलो. घरांतल्यो चलयो मात तिच्यो इश्टिणी जाल्ल्यो. तांकां लागून तांच्या आवयांची तिका वळख जाल्ली.

मात्सो मेकळो वेळ मेळ्ळो काय सिताबाय हळूच कल्याणाक पेल्यान व्हरताली आनी जाण्टेल्यांच्यो गजाली विचारून घेताली.

कृष्णदाद मरतकच घराब्याची जबाबदारी शंकरबाबाचेर आयिल्ली. घरचीं शेतां-भाटां, दोंगर खूब. नाल्ल, तांदूळ वर्सभर पावन उरिल्लें विकून भरपूर पयसो येतालो. घरांत लागपी बारीक सारीक सामान चड करून भात ना जाल्यार नाल्ल दिवन बदलाक घेतालीं. म्हालो, मडवळ, होडेकार, नुस्तेकार हांकां तर वर्साक एकफावट खंडा वेळार भात दिलें काय तांचे कडल्यान सेवा मेळटाली. तांच्या वाड्यार सगळ्या भाटकारांची अशीच चाल आसली.

शंकरबाबा तसो तापट सभावाचो. व्यवहाराक एकदम चोख. हिशेब बरोवंक वासू शणै येतालो. पूण शंकबाब खासा आपूण सगळे हिशेब तपासतालो. इल्ली लेगीत चूक मेळ्ळी जाल्यार वासू शणैक उजरावन काडटालो. नाल्ल, भात विकतनाय सगळो व्यवहार तोच पळयतालो.

भागें आनी केंसराचें लग्न करतना शंकरबाबाक थोडें रीण काडचें पडलें. तें ताणें कवळेंच्या कॉमिसांवा कडल्यान घेतलें. रीण काडचें पडल्यार लेगीत शंकरबाबान दोनय धुवांचीं आनी दोनय पुतांची लग्ना थाटामाटांत केल्लीं.

विष्णूचें आनी वैंकुठाचें ल्हानपणांतल्यान पटनासले. वैकूंठ मात्सो फुर्र सभावाचो. आपल्या वाद्याचो कसो. विष्णू बापायक कामा-धंद्यांत आदार करतालो. ताणें बरोवप, वाचप, हिशेब करप सगळें शिकून घेतिल्लें. बापायन वैंकुठाकय शिकोवपाचो जायतो यत्न केलो. पूण ताणें अक्षरवळख करून घेतली तितली. ताच्या भायर वचून पुस्तकाक ताणें हात लायलो ना. तो आपल्या आवडीच्या वावराक लागलो. ताका रोवपा खोवपाची आवड.

तो भाजी-पालो, फळ झाडां रोयतालो. ताचो हातगूण बरो. ताणें रोयिल्लीं झाडांबरीं तरतरतालीं. भरपूर फळां दितालीं. ती भाजी-पालो फळां तो मडगांवा, सावड्ड्यां धाडून विकतालो.

वैकुंठाची बायल हिराबाय. तीय ताचेवरी हुर्र सभावाची. तितलीच मायेस्त. म्हजें, तुजें म्हणपाचीय तिका संवय आसली. तिचो हो वेगळचार करपाचो सभाव पार्वतीव्हनीक, व्हडले आईक मानवलो ना. त्या घरांत सगळीं एका मतान, एका विचारान चलतालीं. पूण वैकुंठ जसो म्हजें, तुजें करीत आपल्या मतानच चलतालो तशेंच ताची बायल हिराबाय करूं लागली. भरिल्ल्या घरांत सदां उठून किचकीच नाकात म्हणून व्हडले आईन तांकां वेगळ्यो रान्नी करून दिवपाचें थारायलें.

एकाच घरांत दोन रान्नी करूंक शंकरबाब कसोच तयार नासलो. ताका सगळें घर एकटावन राविल्लें जाय आसलें. पूण पार्वतीव्हनीन घोवाक समजायलो.'आयकलां, आमी आसतनाच हांची ही तरा. आमचे फाटल्यान झगडीं-झुजां जावन मना विटून पेल्यान रावचे परस आमीच तांच्यो वेगळ्यो रांदचीकुडी करून दिवया.'

हरशीं शंकरबाब कोणाचेंच कितेंच आयकुपी न्हय. बायलांक कितेंच

विचारपाचीय तांची रीत नासली. पूण पार्वती व्हनीच्या हुशारकायेचो शंकरबाबाक जायते फावट अणभव आयिल्लो. घरांतले किचकीच ताच्याय कानार पाविल्ले. म्हणून शंकरबाबान चड वाद घेवंक वच नासतना पार्वतीव्हनीची सांगणी मानून घेतली. वैकुंठाक वेगळें बिराड करून दिलें.

पर्वतीव्हनीन हिराबायक पयलींच सांगलें, 'जरी नित्याक दोन रात्री आसल्यो तरी सणा-परबेक एकच रांदची कूड आसतली.'

वैकुंठाचें आनी केंसराचें लग्न बरोबरच जाल्लें. वैकुंठागेर मोगरें जालें. तांच्या लग्नाक दोन वर्सां जाता थंय आसात, केंसराच्या घोवाक जिवाणे चाबलें आनी मरण आयलें. केंसराक निकतेंच न्हाण आयिल्लें. भुरगें-बाळ जावचे पयलींच ते बालविधवा जालें. घरचीं ताचे केंस कापून ताका माथ्यार पदर घेवंक लावंक सोदताले. ही गजाल कळना फुडें पार्वतीव्हनीन घोवाच्या हाता पायां पडून केंसराक कुळारा हाडूंक लायलें. शंकरबाबाकय इतल्या ल्हान वयार धुवेचें केंस कापून ताची विदर्णा करपाचो विचार पटूं नासलो. आपली आवय माथ्यार पदर घेवन देव देव करीत बसताली, तें पळोवन ताका सदांच वायट दिसतालें. आतां तोच वेळ केंसराचेर येवनये हो पार्वतीव्हनीचो विचार ताका रोखडोच पटलो. ताणें रोखडेंच केंसराक आपल्यागेर हाडलें.



केंसराचे केंस कापूंक दिवुना म्हणून केंसराच्या घरचीं शंकरबाबाचेर भयंकर खुबलीं. निमणे तांणी शंकरबाबाक रकाद धाडलो, 'आमच्या पुता वांगडा सूनय मेली आमकां. ह्यान फुडें आमचें तुमचें नातें तुटलें. परत आमच्या घराचें सपण तुजे धुवेक चडूंक मेळचें ना.'

गांवांतय शंकरबाबाक लोकांनी नांवां दवरलीं. दोग जाण एक जाले काय शंकरबाबाची अकटाय करताले. ताका तरेतरेन उलयताले. 'आतां हो सुधारणा करता, फाल्यां गांवांक त्रासांत घालतलो.'

-'गोंया भायर सुदारणेचें वारें व्हांवता म्हणून आयकल्लें, थंय असो

भश्टकार चलता तो आयकल्लो.'

-'आतां आमच्या गोंयांत भश्टकार जावंक लागलो. आतां परिणामाक तयार रावात.'

-'असल्यानी आमचो धर्म बुडयतले हे लोक.'

गांवकारांची उतरां शंकरबाबाच्या कानार येतालीं. हरशीं साद्या साद्या कामाक तापपी शंकरबाब मात ह्या वेळार वोग्गी रावलो.

हें वोगी रावप ताचे भलायकेक मानवलें ना. पयलींच बालविधवा जाल्ले धुवेची चिंता मन पोखरतालें तातूंत गांवच्या लोकांच्या उलोवण्यानी काळीज दुखवतालें. तो खालावत गेलो. आनी सादें जोराचें निमित्त जावन शंकरबाब गेलो. घराचो खांबो कोसळ्ळो. आतां सगळो भार विष्णूदादाचेर आयलो.

शंकरबाब वतकर गांवांत परत बोवाळ सुरू जालो. 'पार्वतीव्हनीन धुवेक बोडकी केली ना. आतां पळयात, तीय माथ्यार पदार घेवची ना.'

अशें जायतें तरेन लोक उलोवंक लागले. पार्वती व्हनीक ताची कल्पना आशिल्ली. तिणें रोखडोच म्हाल्याक, आपोवंक लायलो. तिणें माथ्यार पदर घेतलेबरोबर गांवात उठिल्लें वादळ थंड जालें.

संवसाराचो भार विष्णूदादाचेर पडिल्लो खरो पूण, विष्णूदाद आवयक विचारलेबगर कांयच कर नासलो. पार्वतीव्हनीची व्हडले आईची तकली फीन. तीय पुताक दिस्तादीस्त सल्ले दिताली. शंकरबाबाच्या धाकट्या पुताक विठ्ठलाक शिकपाची आवड आसली. म्हादेवबाबाच्या भुरग्यांकडल्यान ताणें बेळगांवच्या शिक्षणाविशीं खूब आयकल्लें. शंकरबाब आस्तनाच तो बेळगावां काकागेर शिकूंक गेल्लो. ताणें व्ह. फा. (व्हर्नीकुलर फायनल) पास करतकच, थंयच शिकोवपाची नोकरी धरली.

ताचें बेळगावां वचप पयलीं शंकरबाबाक मातय आवडूं नासलें. पूण पुताचो हट. तातूंत पार्वतीव्हनीन म्हादेवबाबाची गजाल याद करून

दिली, 'बापायन आडायलो म्हणून तुमचो व्हडलो भाव गोंय सोडूनच गेलो. तसो आमचो पुतय वचत जाल्यार?'

हें सांगना फुडें शंकरबाबान ताका बेळगावां वचूंक मान्यताय दिली. वतना सांगलें, 'फकत शिकपा पुरतोच तुवें बेळगावं रावप. शिकप पुराय जाले बरोबर तुवें गोंयांत येऊ जाय. कळ्ळें?'

विठून रोखडेंच म्हळें, 'हय बाप्पा, हांव शिकप पुराय जाले बरोबर रोखडोच गोंयांत येतलों.'

पूण विठून बेळगावां नोकरी धरली हें कळ्ळें बरोबर शंकरबाब मनांतल्यान भियेलो. सगळ्यांत धाकटो पूत जाल्ल्यान विठू ताचे चड आवडीचो आसलो. ताणें थंय नोकरी धल्ली म्हणटकर तो आनी गोंयांत येना, असोच ताच्या मनान भंय घेतलो. ताच्या निमण्या दिसांनी हीय खंत ताका पोखरताली. निमणे ताणें पार्वतीव्हनी कडल्यान विठूक परत गोंयांत हाडपाचें उतर घेतलें.

शंकरबाब वतकर विठू घरा आयिल्लो. त्या वेळार व्हडले आईन ताका शंकरबाबाचो हुस्को सांगलो. आनी म्हळें, 'विठू बापायची निमणी इत्सा पुराय करचो ना? तुजेर खूब जीव आशिल्लो रे तांचो. तुज्या नांवान वथ्रेंत जीव सोडलो ताणीं.'

विठू मुकाट्यानी दुकां गळयत रावलो. बापायचे दीस जातकर तो उठून बेळगावां गेलो. कांयच सांगनासतना पूत बेळगावां गेलो म्हणून व्हडली आई घुस्मटून, घुस्मटून रडूं लागली. कुसुमान तिका थातारपाचो यत्न केलो, पूण निमणे विष्णूदादान तिका सांगलें, 'आई, तूं भिवनाका, हांव ताका कसोय करून घरा हाडटां.' व्हडली आई पुताचेर विश्वासून रावली. तरी पूण तिचें काळीज भियेल्लें. मदीं मदीं ती मुकाट्यांनी दुकां गळयताली.



आवयक कांयच जाप दियनासतना विठू उठून बेळगावां गेलो. वाटभर तो आवयच्या उलोवपाचेर विचार करतालो. ताका शिकोवपाची

खूब आवड आसली. मुखार आनी शिकप घेवपाचेंय आसलें. पूण आवयचें तोंड ताच्या दोळ्यामुखावेले हालनासलें. तिणें सांगिल्ली बापायची निमणी इत्साय ताका अस्वस्थ करताली.

... गोंयांत येवन हांव कितें करतलों? ... हांव शिकलां मराठी... गोंयांत आसात तीं इश्कोलां पोर्तुगेज... हावें दादा भशेन शेत-जमनीचे हिशेब पळयत बसपाचें... बेळगावां म्हाका कितल्यो संदी आसात. वडगांवां, आमच्या गांवांत आसा कितें? ... अशा आरत्या परत्या विचारांनी ताची तकली भेरेवन गेली.

विचारांच्या घुस्प्यांत घुस्पत विठू म्हादेवबाबागेर पावलो. विठूचें तोंड पळोवन म्हादेवबाबाक दिसलें, 'बापायचें दुःख पोरान चडच जिवाक लावन घेतलां.' ताणें विठूक वेंगांत घेतलो आनी फाट पोशेली. ताच्याय दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागली. काकाचो मायेचो हात लागले बरोबर विठूक खोळसा फुटून रडूंक आयलें. अंजनी काकीनय ताका वेंगांत काडलो. सगळ्यांक दिसलें शंकरबाबाचे यादीन विठू रडटा.

सांजवेळचे चा पिवंक सगळीं बशिल्लीं तेन्ना म्हादेवबाब आपल्यो आनी भावाच्यो ल्हानपणांतल्यो यादी सगळ्यांक सांगू लागलो. तेन्ना विठूक परतय रडूंक येवंक लागलें. ताणें रोखडोच आपल्याक सावरलो आनी आवयन परत गोंयांत आपयला म्हणून सांगलें.

गोंयांत तांच्या घरांत भुरग्यांनी जाण्ट्यां मुखार एक उतर उलोवंक जाय नासलें. जाण्ट्यानी सांगला तें मुकाट्यानी आयकप अशी तांची चाल आसली. पूण म्हादेवबाबाच्या घरांत सगळें वातावरणच वेगळें आसलें. जेवताना, चा पितना म्हादेवबाब अंजनीकाकी आनी सगळीं भुरगीं मेळून गजाली करतालीं. चडसो म्हादेवबाबच उलयतालो. पूण सगळीं भुरगीं मेकळेपणान आपल्यो मनातल्यो गजाली एकमेकांक सांगतालीं.

आजय चा पितना विठ्ठलान आपल्या मनाचो खतखतो काका

मुखार मांडलो. म्हादेवबाब चिंतेंत पडलो. ताणें म्हळें, 'विठू, आरे बाप्पा म्हजेवरी तूंय हांगा चिकटत म्हणून भियेलो. एकेवटेन खरें ताचें. हांगां रावपाची एक फावट संवय जातकर परत गांवघरा वचन दिसना. विठू तूं हांगां राविल्लो म्हाकाय जायच आसलो. म्हज्या सदाशीव आनी शांतारामावरीच तूं म्हाका. पूण व्हनी सांगता तेंय खरें. बाप्पाची निमणी इत्सा तशीच आसा जाल्यार वच तूं गोंयांत. ताच्या आत्म्याक तळमळूंक लांव नाका.'

-'पूण काका, हांव घरा वचून करूं कितें? पाड्याचो आनी खंडाचो हिशेब करीत बसूं?'

-'हय वो, तुमी ताका गोंयांत वच म्हणटात ते, तो पोर थंय वचून करतलो कितें?'

-'ताच्यान जायतें करूं जाता. विठू, आसा तयारी?'

-'कितें करूं येता म्हज्यान काका? सांगात तरी?'

-'आरे, आमच्या गांवांत शाळा ना. आमच्या घरांतली भुरगीं वासू शणै कडल्यान चार अक्षरां शिकतात, बरोवपा वाचपा पुरतेंच शिकप तें. पूण हांगचेवरी थंय शाळा खंय आसा?'

-'बाप्पा, थंयची कोण्ण भुरगीं शाळेंत जायनात? सदाशिवान अजापान विचारलें.

-'जायनात न्हय, वचनात? विठून म्हळें.

-'हय सदाशीव, म्हणून म्हण्टां विठू, तुज्यान थंय शाळा सुरू करूं येता.'

-'कशें शक्य आसा काका? कोण भुरगीं धाडटलो म्हजे शाळेंत?'

-'हय वो, शाळेंत वचून शिकतात, हें पयलीं आमच्या गांवांत लोकांक कळ्यार मूं? विठूचीं पिशेपणां म्हणून ताका पयलीं हिणसायतले.'

-'आगे, अशें उलोवन तूं ताचें मन पयलींच मोडूं नाका.

-'काका, तूं सांगता तें खरें पूण...'

-'आतां पूण ... बीण काडत बसूं नाका. तुका जाय तो आदार हांव

करतां. हांगाच्यान पाट्यो, पुस्तकां, खडू व्हर. फळोबी तुका मडगांवां मेळू येता. तुका आनी कितें लागता तें मडगांवां मेळना जाल्यार हांव धाडटां.'

विठूक काकाची सांगणी पटली. पूण हो प्रयोग साध्य जायत काय कितें हाचे विशीं दुबाव आसलो. एक मात घरा वतकच घरच्या व्यवहारांत लक्ष घालपाची ताका मातय इत्सा नासली.

खूब वेळ भासाभास करून निमणें विठू काकान सांगलां तशें करूंक तयार जालो.



विठ्ठल परत गोंयांत येता म्हणपाचें पत्र म्हादेवबाबान धाडलें. घरभर सगळ्यांक उमेद जाली. तसो घरांत सगळ्यांक विठूचो हुस्को आशिल्लो. व्हडली आई ताचे वाटेक दोळे लावन बसली.

विठू येवपाच्या दिसा विष्णूदादान सावडड्यां रेल्वेस्टेशनार बैलगाडी धाडली. दोन व्हड ट्रंक, ते भायर आपल्या सामानाचो एक ट्रंक घेवन विठू बैलगाडयेंत बसलो.

-'विठूभाऊ, इतले ट्रंक भरोन आख्ख्यें बेळगांव हाडलें काय कितें तुयें?'

-'रामू, आख्खें बेळगांव कितें ह्या तीन ट्रंकांनी जाता?'

-'विठूभाऊ, आमगे वडगांव आनी हें सावड्डें धरून, येदें आसा बेळगांव? '

-'आरे पिशा, बेळगांव आमच्या गोंया परसय व्हड आसा.'

- 'म्हळ्यार?'

- 'कितें सांगू तुका? पापया, बेळगांव म्हणटात तें खूब व्हड आसा. तुज्यान येवजुपाक जावपाक ना. आसूं'.

- 'आमगे धरतर, येदी व्हड आसा '?

रामू येवजुणुकेंत पडलो.

इतलें सामान घेवन आयिल्ल्या विठूक पळोवन घरांत सगळ्यांक

अजाप जालें. भुरगीं तर ताच्या फाटल्या-फुडल्यान भोवूं लागली. विठून आपलो ट्रंक उगडून भुरग्यांक खावंक, खेळणी दिवन धाडलीं.

भितल्ल्या घरांत बायलांकय त्या व्हडल्या दोन ट्रंकांत कितें आसा तें जाणून घेवपाचे कुचकुचे पडिल्ले. पूण विचारतलीं कशीं?

रमाबाय मांयचे मुखार गणगणली. केंसर थंयच आसलें, तेंय बडबडलें. तितल्यांत थंय हिराबाय पावली. ती सडेतोड, तिणें म्हळें, 'आतां न्हवरो न्हय तो. लग्न करपाच्या विचारान कापडांबी घेवन आयला आसतलो '.

व्हडले आईच्यान आतां वोगी रावंक जालें ना. तिणें एक धेंगसो मारून म्हळें,' आमचे भुरगे आपल्या लग्नाची तयारी आपुणच करपा इतले अजून आपसुलाद जाऊं नात. हिराबाय, तुमकां सगळ्यांक कुसकूस पडला, जाणा हांव, थार धरात मात्सो. सांगतलो तो म्हाका सगळें.

सगळीं उमथे मानेन आपल्या कामाक गेलीं. रातचें व्हडलेआईन विठूक त्या ट्रंकांविशीं विचारलें. विठून म्हळें, 'आई, त्या ट्रंकांनी कितें आसा तें मागीर सांगतां. म्हाका पयलीं दादाकडेन उलोवंक जाय.

- 'भंया कांय न्ही मरे?'

- 'ना आई, तूं भिवनाका.'

रातचीं जेवणा जातकर फाटलीं कामां जाग्यार घालून जातकर बायलो गजालींक बशिल्ल्यो. आज तांचेमर्दी विठुच्या दोनय ट्रंकांचो विशय चलतालो. केन्नाच न्ही तें केंसर आकाय तांच्या गजालींत सामील जाल्लें. विठून दादाकडेन उलोवंक जाय म्हणील्लें तें केंसरआकान भायर रावन आयकल्लें. कोणय आवयकडेन उलोवंक आयले काय भायर रावन आयकुपाची ताका संवय आसली. आतां ती गजाल ताणें भावजांक सांगली.

मागीर हिराबायचे तर्क सुरू जाले. तिचे तर्क आयकून सगळीं हांसतालीं. तेन्नाच व्हडली आई तांबयो घेवन पिवचेलें उदक व्हरूंक

म्हणून भितर सरली. हिराबायचें उलोवणें तिच्या कानार पडलें,' आगे, तर्कशास्त्री आतां पुरो करात खूसखूस. चलात न्हिदात.'

सगळीं मुकाट्यानी उठून आपले-आपले कुडींत गेलीं. विठून दुसरेच दिसा विष्णूदादाक शाळेची गजाल सांगली.

- 'आरे, वासूशणै आमच्या भुरग्यांक मुळाक्षरां शिकयता, भुरग्यांक बरोवंक वाचूंक कळटा तें बरें पुरो. तांकां कितें व्हडले एँप्रेगाद जावपा आसात?'

- 'दादा आतां तितलें शिकून जायना. मुंबय बेळगांवा दादले बायलो सगळीं शिकतात. शाळाच न्हय ताचे मुखावेलें शिकप घेवंक कॉलेजीय आसात थंय.'

- तुज्यो बेळगांव, मुंबयच्यो व्हडविकायो आमकां नाकात. तो लोक थंय शेण खातलो म्हूण आमीय खावप? पयसुल्ल्यो गजाली नाकात, मडगांवच्या चलयांच्यो गजाली आयकल्यात हावें. त्यो शिकतात आनी 'जय हिंदिस्तांतय ' वांटो घेतात खंय. आमकां नाकात हे थेर.

- 'पूण दादा, आतांच्या काळात फकत बरोवंक वाचूंक शिकून कोताक येना, हेर गजालीय शिकूंक जाय. शिकप म्हळ्यार गिन्यान जोडप. जगांत बदल घडत आसा तशे आमीय बदलूंजाय दादा. हावें पुस्तकां, पाटयो, खडू सगळें हाडलां. हेर गांवांनी भायल्यान मास्तर हाडून घरांत दवरून शिकयतात. आमच्याय भुरग्यांक आमची देवाधम र्ची भास, जगांतल्यो हेर गजाली सगळें कळूं जाय'.

- 'कर, कर, कितें करता तें कर. एकदां तुज्या मनांत आयिल्लें तू सोडपार ना. सूंठ कसो म्हजे फाटीक लागतलो. कोणा-कोणाक शिकयतलो? कितें थारायलां तुवें?'

- 'दादा, आमगेले तीग जाण, मुकुंद शणैले दोग जाण, मळकर्णे कारालेय आसात, शंकरदादाले चले आसात. सात-आठ जाण आसल्यार पुरो.'

- 'तुवें मनार घेतलां मरे? जालें तर. तूं आतां घरच्या व्यवहारांतय लक्ष घाल.'

- 'हय दादा सकाळचीं दोन वरां, सांजेचें एक वरभर, इतलोच वेळ शिकयतलों हांव. पूण दादा... '

- 'आतां कितें उल्लें?'

- 'आमच्या वाड्यार भुरग्यांक शिकूंक धाडात म्हणून तुमीच सांगिल्लें बरें न्हय दादा.'

- 'खरें तुजें, उलयतां हांव तांचेकडेन.'

जानवें दोनय हातांच्या आंगठ्या बोटांत धरून फाटीर घांशीत विष्णूदाद चवखेर पासयो मारूं लागलो, आनी आपले भितर बडबडूं लागलो... मडगावां पणजे जायते भुरगे शिकतात म्हणून हावेंय आयकल्लें... आमच्याय भुरग्यांक शिकपापसून फाटीं कशे दवरुं येता... खरें उलयलो विठू... आईच्या कानार घालचें पडलें...

विष्णूदद तसोच व्हडले आईचे कुडींत आयलो. व्हडली आई जपमाळ ओडटाली, पूण तिचें लक्ष दोगय पूत भायर कितें उलयतात ताचेर आसलें. विष्णूदाद भितर येता तो पळोवन तिणें बेगीबेगीन माथ्यावेलो पदर सारको केलो आनी माळ गळ्यांत घाली, आनी म्हळें, 'विठू कितें म्हणी?'

- 'भुरग्यांक शिकयतां म्हणटा. नव्या समाजाक फुडो करूंक आमचीं भुरगी खंयच फाटीं उरूं जायना म्हणी तो.'

- 'ती किरिस्तांवांची पुर्तुगेज भास शिकयता खंय?'

-'ना, ना, आमची भास, मराठींत शिकयतलो तो. आमचीं देवा धर्माचीं पुस्तकां वाचूंक मेळटलीं म्हणी तो.'

-'हय मू? बरें आसा तर. तुजो मामा सांगी, ताच्या चलयांकय ताणें इश्कोलांत घाल्यांत खंय. फिरंगी भास शिकोवंक. दादाक हो भश्टक्कार कसो कोताक येता, तोच जाणा.'

-'आसूं आई, चलयांक शिकोवपाचो विशय मोठ्यान म्हणू नाका.'

-‘बरें, शिकोवनी ताका भुरग्यांक. आमकांय देवा -धर्माचीं पुस्तकां वाचून दाखय म्हळ्यार दाखयतले.’

आवयन अशी सहज मान्यताय दितकर ताच्या मनांत आयलें.... ‘आई आमची सदांच नवे विचार रोखडेच आपणायता.

आमकां मात जड जातात...’ समाधानान तो चवखेर आयलो.



# 4

विठ्ठलाची शाळा उमेदीन सुरू जाली. एकेवटेन तो आंकडे मुळाक्षरां तोंडान म्हणूक शिकयतालो आनी एके वटेन बरोवंक शिकयतालो. ताणें चड भर दिल्लो तो पाठांतराचेर. तो कविता, श्लोक, भक्तीगीतां शिकयतालो.

पास्तीसाकुडींत तांची शाळा चलताली. विष्णूदाद बल्कांवार बसून तांचो अभ्यास आयकतालो. विठू संस्कृत श्लोक बी स्पश्ट बरे शिकयतालो. ते आयकून विष्णूदाद खोशी जालो. तांच्या पाड्यांचो, कवितांचो आवाज घरांत भितर लेगीत येतालो. तो आवाज आयकून व्हडली आई खुशाल जाताली. तिणें मनांत म्हणचें..'जांव भुरगीं खऱ्यानीच शिकतात.'

विठाय, जयमिनी, मोगरें, जायलें, चवखेर खांब्या आडसाक रावन तांच्यो कविता आयकून म्हणूंक शिकलीं. तांकां दिसतालें, 'विठूकाकान आमकांय शिकोवचें... पूण विचारतली कशीं आनी कोणाक? पयलीं आज्येचीं मान्यताय जाय आसली. ती मेळ्ळ्यार सगमीं कामां बरे भशेन जातात हाचो तांकां अणभव आसलो. जायलें मोठें हुशार. ताणें एक माण्णी काडली. तीं रातचीं आज्येच्या कुडींत न्हिदतालीं. ताणें हळूच त्यो कविता गुणगुणूंक सुरवात केली. दिस्त व्हडले आईन तो

आवाज आयकलो. तिणें ताका म्हळें, 'आगो तोंडांतल्या तोंडांत कितें बडबडटा? व्हडल्यान म्हण. ताळो बरो पापया तुजो.'

बाकिच्या तिगांयनीय म्हळें, 'आज्ये, आमीय म्हणूं?'

'हय, हय, म्हणात. पूण हळू'

चोवगांय विठून चल्यांक शिकयल्ल्यो कविता, भक्तीगीतां म्हणूंक लागलीं. 'बरीं म्हणटात मुगो तुमी. खंय शिकलीं म्हजीं बायुलां?'

तेन्नाच पदराक हात पुशीत भितर सरिल्ल्या केंसरआकान तिडकीन म्हळें,

-आई चड तोखणायो करूं नाका. हीं विठूले शाळेंतलीं पदां. विठू आतां चलयांकय शिकयतलो. जालें मागीर घराचो उश्टवारो, सगळो भश्टक्कार करूं जाय तुमकां.'

केंसर आकाक पळोवन चलयो माथ्यार पांगरूण घेवन वोग्गी राविल्ल्यो. केदो वेळ केंसर आका, चलयांक आनी भावाक शाळेवेल्यान खेपत रावलें. निमणे व्हडले आईन एक धेंगसो घालो,
- 'केंसर, विठू भुरग्यांक शिकयता म्हळ्यार कसलो भश्टक्कार करता? वेल्यान पुण्याचेंच काम करता. म्हज्या दादाल्यो आपाल्यो चलयो लेगीत शिकतात. कितलीं पुस्तकां वाचतात. घरांतल्यांक वाचून दाखयतात. दादा, आपा म्हणटा शिकप म्हळ्यार गिन्यान जोडप. समाज खंय पावला जाणा तूं? आमकां हांगा बसून कांयच कळना.'

- 'पुरो, पुरो आई, गिन्यान जोडून चलयांक कितें मड्डम जावन भोंवपा आसा? रानपा-वाडपाक कळ्ळयार खूब जालें. तांच्या लग्नाचे पळे आतां, घोडयो कश्यो वाडल्यात, धेण कश्यो नाचत आसतात. फाल्या-परां भायर जावपाच्यो जाल्यो.'

- 'वोगी रावन आयकून घेतां म्हणून कितलें उलयतलें तूं केंसर? खूब कड्डता तूं ह्या चलयांचेर. बारीक पळेता हांव, तीं खेळ्ळयार तुका नाकसुरें वता, तांणी कितेंय केलें तूं तांचेर कड्डता, आमच्या म्हऱ्यांत आसतना मात्सीं मेकळीं वागूं तांकां, मागीर आसाच बंदखण.'

- 'हय मगे, शिकय तांकांय बी. विठू म्हऱ्यांतच कित्याक, पोर्तुगेज शिकपाक धाड तांकां केप्यां.'

- 'ती फिंर्गी भास कित्याक? हांव सांगतलें विठूक, तांकां चार अक्षरां शिकय म्हणून. आमकां मागीर तीं जाय तेन्ना शिवलिला, भागवत लिला, पांडव प्रताप, हरी विजय असली सगळीं पुस्तकां वाचून दाखयतलीं.'

इतलो वेळ गोजडे पोंदच्यान आजी आनी आकाच्यो गजाली आयकुपी चवगांयनीय एकदम पांगरुण काडून खोश्येन विचारलें,

- 'आज्ये खरेंच?'

- 'कितल्यो मालकिर्याद पळे ह्यो घोडयो. इतलो वेळ पांगरुण माथ्यार घेवन आमच्यो गजाली आयकतालीं. आतां तांकां शिकय मागीर जावनी तांका आनीकय आपसुलाद' केंसर फडफडलें.

चोवगांनीय उमेदीन पांगरूणा भितल्ल्यान एकामेकाचे हात धरून खोशी उक्तायली.



केंसराची बडबड काना मनार घेयनास्तना व्हडले आईन दुसऱ्याच दिसा विष्णूदादाक आपले कुडींत आपयलो आनी सांगले, - 'विष्णू, विठू भुरग्यांक बरो शिकयता न्हय??

- 'हय आई, संस्कृत श्लोक, पाडे बरे शिकयता. बेळगवां रावन विठून वेळ पेड्यार केलोना हें आतां कळटा.'

- 'हांव कितें म्हणी विष्णू, ह्या चल्यांचें शिकून जातकच विठूक म्हणुंया चलयांकय थोडें शिकय म्हणून.'

-'आई, कितें सांगता गे? चलयांक शिकय म्हणुंया? फाल्यां लग्नावेळार कितेंय अडचण आयली जाल्यार?'

-'आरे हांव खंय तांकां व्हडलें, व्हडलें शिकोंवया म्हणटां? मात्शें बरोवंक वाचूंक आयल्यार पुरो. देवाचीं पुस्तकांतरी वाचून दाखयतलीं आमकां.'

विष्णूदादाक पयलीं कशेंच पटलें ना. पूण आपली आवय कितें करता, उलयता तें विचार करूनच करता हाची ताका खात्री आसली. तरीय चलयांक शिकोवप हो विचार ताका कसोच पट नासलो. निमणे व्हडले आईन ताका तयार केलोच. दारा भायर रावन आयकपी केंसर मात फडफडत रानचेकुडींत गेलें आनी भावजांचेर ताणें राग काडलो.

विठूक आयकून खूब खोस जाली. दुसऱ्याच दिसाच्यान विठाय, जयमिनी, मोगरें जायलें पास्तीसाकुडींत काका म्हऱ्यांत बसून शिकूंक लागली.

विठून रोखडेंच म्हादेवबाबाक पत्र बरोवन ही खबर कळयली.

ताणें पत्राची जाप विष्णूदादाक बरयली. घरांतल्या. चलयांक शिक्षण दिवंक लायलां म्हणून काळजाथावन परबीं भेटयलीं. पूण घरांत मात व्हडली आई आनी चारय चलयो सोडल्यार सगळे बेजार जाल्ले. केसरआकान तर बरोच राग दाखयलो. येतना-वतना तें भाचरांक कुटलायतालें. आपल्याक संवसार करूंक मेळूना हाचो राग तें सदांच भावजांचेर काडटालें.पूण भावाच्या भुरग्यांक मायेन वागयताले. पूण ह्या दिसांतली ताची चारय चलयांकडची वागणूक वळोवन रमाबाय आनी हिराबाय आपले भितर उलयतालीं.

- 'कितेंय सांग विठ्याई, केंसरआकालें चड जाताशें दिसना तुका?'

- 'हय गे खुबच कचकचायता तें चलयांक?'

- 'कित्याक काय म्हणटां हांव, तुका संवसार करूंक मेळ्ळोना, तूं आमचेर राग काडटा बरें आसा, भुरग्यांक कित्याक खाता?'

-'तेंच न्ही, तांकां व्हडले आईन जर शिकोवंक सांगला जाल्यार शिकूनी म्हणटा हांव, तातूंत कितें जालें.'

-'तुका बरें दिसलें तर तीं शिकतात तीं.'

-'ना गे हिराबाय, म्हाकाय तितलेंशें आवडलें नासलें. आपल्याकय विचारलें हांवें.'

-'हय! कितें म्हणी दादा?

-'तांकांय मान्य नासलें खंय, पूण व्हडली आई कितेंय करता तें विचारानच करता. म्हणटकीर व्हडले आईचो निर्णय योग्यच आसतलो, अशें म्हणटालें आपूण. तेन्ना म्हाकाय दिसलें, भुरगीं शिकलीं जाल्यार आमकां स्तोत्रां बी शिकोवंक लावया. म्हजी मुंबयची भयण सांगी, थंय भुरगीं इश्कोलांत वचून शिकतात खंय, मुखार कुलेजांत म्हणून खंय वचूनय शिकतात खंय.'

-'आसत गे, आमचे हांगां अजून कोण चलयो शिकतात म्हणून आयकूं ना न्हय. पूण कितेंय सांग विठ्याआई, आमगेर हे अजून फडफडटात, चलयांक फिर्गी शिकोवन मड्डम करून उडयतात काय म्हटले.'

-'हिराबाय, नाय जाल्यार वैकुंठबाबाक भावाले कसले विचार केन्ना पटल्यात? पयलीं-पयलीं तांचे कितले वाद जातालो. एकामेकाच्या आंगार झुडून वताले. म्हाका हांगां बशिल्लेकडेन थरथरो सुट्टालो.'

-'खरें विठ्याई, हांव आनी दोळे धांपून देवतेनांव घेत रावतालें. हालीं मात्से जाण्टे जाल्यात काय म्हणटां. दादाच्या तोंडाक तोंड दिवंक वचनात.'

-'जाण्टे बी कांय न्हय, ते आपल्या झाडांत रमल्यात. तातूंत वेगळी रानन करत साकून आंगार जबाबदारी आयलल्या.'

इतल्यांत थयं येवपी केंसरआकाक हिराबायन पळयलें. तिणें जावेक कुरू केली आनी उमथेमानेन आपल्या कामाक लागलीं.



विठूक जायत्यो सोयरिको येताल्यो. आपल्या शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या भावाची विष्णूदादाक खूब तोखणाय आसली. ताका बरीशी चली पळोवन लग्न करपाचें थारायल्लें.

बेळगावां म्हादेवबाबाचो इश्ट तुकाराम प्रभू चोडणेकार तांच्या शेजराच रावतालो. ताची चली लतिकाची सोयरीक गोयांतच जावची, 'त्या निमतान गोंय आमकां परत लागीं जातलें' अशें तुकारामाक दिसतालें.

विठू म्हादेवबाबागेर आसताना तुकारामान म्हादेवबाबाक म्हणचे, 'तुज्या पुतण्याक म्हजो जांवय कर. आमी सोयरे जावया,' म्हादेवबाबान 'बरें भशेन' म्हणचें.

लतीका वयांत येतकर तुकाराम म्हादेवबाबाच्या फाटल्यान लागलो. 'लतीका दोन यत्ता शिकलां... मात्सें नव्या विचारांचें... अशी सून पार्वतीव्हनीक मान्य जायत मूं?' हाचो म्हादेवबाबाक हुस्को दिसतालो. म्हणून तो गोंयांत पत्र बरोवंक फाटीं फुडें जातालो. अंजनीकाकीक लतिकाची हुशारकाय खूब आवडटाली. तिणें घोवाच्या फाटीक लागून गोयांत पत्र धाडूंक लायलें. वांगडाच ताचो फोटो आनी नक्षत्रय धाडलें.

'म्हादेवबाबाचें पत्र, तेंय दाटशेंच , कितें बरयलां काय?' अशें येवजीत विष्णूदाद ते पत्र घेवन आवय म्हऱ्यांत आयलो.

लखाटो उगडटकर तातूंत चिटये वागंडा चलयेचो फोटो आनी नक्षत्र मेळ्ळें. चलीं दिसूंक बरी आसली. व्हडले आईक पळयले बरोबर फोटो आवडलो. म्हादेवबाबान पत्रांत तांच्या घराण्या विशीं चलयेचें चलणुकेविशी बारिकसाणेन बरयल्लें. गोंयांतल्या तांच्या सोयऱ्यांचीय माहिती बरयिल्ली. पूण... चली शिकिल्ली. हेंच तांकां मानवलें ना. लाखाटो आवयम्हऱ्यांत दवरून विष्णूदाद भायर गेलो.

भाव आवयचे कुडींत गेला तें पळोवन केंसरआका दाराक कान लावन उबें आसलें. भाव भायर सरतना दारांत घुस्पल्लेवरी करून तें रोखडेंच भितर सल्लें. 'बाप्पा कितें म्हणटा?' लाखाटो उगडीत ताणें आवयक विचारलें. लाखाट्यांतलो चलयेचो फोटो आनी नक्षत्र पळोवन ताणें म्हळें,

-'बाप्पान बेळगांवच्यान चलयेचो फोटो धाडला? जालें तर, थंय हागुटट्या भशेन कास नाशिल्लीं कापडां न्हेसतात म्हणून आयकलां.'

-'कापडाचें बरें आसा. आमच्या घराप्रमाणे हांगां णववारीच न्हेसूंक लायतलीं आमी.'

-'म्हणजे, बाप्पान धाडल्या म्हणून तुमी रोखडीच मान्य केली

चली?'

-'केंसर, शिताफुडें मीठ खातां तूं, निकतेंच पत्र आयलां. विचार करचोच आसा अजून.'

-'विचार करपाची कांयच गरज ना. दादाक सांग, नक्षत्र आनी फोटो परतीय म्हणून.'

-'केंसर, मात्से तोंड धांप पळोवया. तुज्या माथ्यार कांय सोपोवं ना.'

आवयचेर फडफडत केंसर भायर गेलें. विठून मान्यांत न्हांवक वतना भयणीचो फडफड आयकलो.

... गोंयांत चलयो पाडपडल्यात. आतां भायल्यो सुनो हाडात.

... माथ्यार मिरयां वांट्टकीर कळटले...

भयणीच्या उलोवपा वेल्यान आपल्या लग्नाविशीं कितेंय पूण आसतलें हें विठूक कळ्ळें. न्हावन देवाक पायां पडून तो आवयचे कुडींत गेलो.

आवायन ताका बाप्पाचें पत्र दिलें. पत्र वाचतनाच विठूचें तोंड मुमुरखेंच जालें. व्हडले आईच्या नदरेंतल्यान तें सुटलें ना. तिणें म्हळें, 'चलयेक वळखतारे विठू?'

-'हय आई, बाप्पाच्या घराक तेकुनच तांचें घर. दोन घरां खरीं, पूण तीं एकमेकाचीं सोयरींच कशीं वागतात.'

-'चलयेक पळयल्या तर तुवें.'

-'हय आई, आमी बरोबर खेळटालीं, गजाली करतालीं.'

-'चली तुका मान्य आसा?'

-'बरी मनशां तीं आई.'

-'मनशां कशीं तें आमी पळयतात रे, पूण एक सांग, तुका थंयच गुठलायला तर ताणी, फकत आमकां कळोवंक हें पत्र'

-'ना तशें न्ही, तशें न्ही आई, म्हाका थंय तांणी कांयच सांगू ना.'

इतलें उलोवन तोंडावेलो हांसो लिपयत विठू भायरगेलो. तरी ताचो

हांसो व्हडले आईच्या नदरेंतल्यान सुटलोना. तिणें देवाच्या वटेन तोंड करून दोनय हात जोडले आनी म्हळें, 'देवते, तुजो खेळ अगाध, सगळें बरे भशेन जाग्यार घाल.'



विठूक आयिल्ले लतिकेच्या सोयरिके वेल्यान घरांत बरोच बोवाळ जालो. व्हडले आईन विठूचें मत कोणाक सांगलें ना. पूण विष्णूक चलयेची चवकशी करूंक लायली. हाका ताका सांगून विष्णूदादान चलयेची माहिती घेतली. घराण्याची चलयेची माहिती एकदम बरी मेळ्ळी. हिराबायच्या कुळारचे वटेन तांचें नातेंय आसा म्हणून कळ्ळें. हिराबायच्या बापायन मुददम येवन व्हडले आईक चलयेकारांची माहिती दिली.

भितल्ल्या घरांत बोवाळ घालो तो केंसरआकान आनी हिराबायन. ती चली शिकल्या आनी शहरांत रावपी म्हणून तांकां ती नाका आसली. पूण तांच्या उलोवपाचो आवाज व्हडले आई मेरेन पावलो ना.

विष्णूदादाचे प्रत्येक गजालींत वैकुंठबाबाचो सदांच विरोध आसतालो. ह्या विरोधाक कारण जायच आसतालें अशें ना. हे खेपे मात ताका बरें कारण मेळिल्लें, चली बेळगावां रावपी, सुधारिल्ली हेंच कारण ताका अडखळटाले. विष्णूदादाच्या मनांतय खंयतरी होच हुस्को लिपिल्लो. पूण आवयमुखार ताका उलोवपाचो धीर नासलो. तातूंत म्हादेवबाबान ही सोयरीक हाडल्या म्हणटकीर तो आपलेवरी विठूकय हळू हळू बेळगावां व्हरत असो हुस्कोय जाल्लो. वैकुंठबाबाचो बोवाळ व्हडले आईच्या कानार गेलो. हरशीं दोगय भावांची वादावादी जाल्यार व्हडली आई केन्नाच मदीं पड नासली.

हे खेपे तिणें दोनय पुतांक आपले कुडींत आपयले आनी कडक उतरांनी विचारलें, 'वैकुंठ सगळेकडेन तुजो बोवाळ कित्याक? आवयन वैकुंठाक प्रस्न विचारिल्लो पूण जाप विष्णून दिली.

-'आई, तो म्हणटा तें पळयल्यार एकेवटेन खरें शें दिसता. ताका

म्हादेवबाबान शिर्वोशेचें निमित्त करून परत बेळगावां व्हेलो जाल्यार? बायल थंयची म्हणटकीर तीय विठूक आग्रो करतली?

'विष्णू ते पासत तूं भिवनाका. हांव उलयतां विठूकडेन?

व्हडले आईन विशय थंयच सोंपयलो. सांजवेळचोच विठूक आपले कुडींत आपयलो आनी शिर्वोशेचें निमित्त करून परत बेळगावां रावंक वचचोना अशें उतर घेतलें.

ही सोयरीक जमून येवचे पासत विठू आवयचें कितेंय आयकूंक घेवंक तयार आसलो. ताका लतिका आवडटालें. ताचे बापोलभाव थंयचे इश्ट लतिकाच्या नांवान ताका तिडायतालेय बी. त्या त्या वेळार विठू कांयच उलयनासलो. पूण मुमुरख्याच तोंडान इश्टाच्यो मस्कऱ्यो आयकून घेतालो.

ताका अचकीत बेळगांव सोडून वडगांवा रावंक येवचें पडलें, तेन्ना लतिका पयसावलें म्हणून चड वायट दिशिल्लें. आतां ताची सोयरीक येतकर मात ताणें लज सोडून आयवकडेन आपलो हेतू उक्तायलो.

व्हडले आईन कोणाकच पुताची गजाल कळयनासतना ही सोयरीक घडोवन हाडली.

लतिकाचो बापूय तुकाराम म्हयनोभर बेळगांवच्यान सगळें कुटूंब घेवन गोंयांत येवन रावलो. लतिकाचें लग्न पांच परतवण, वेय जेवण सगळें करूनच तीं बेळगावां परतलीं.

म्हादेवबाब हे खेपे म्हयनोभरा खातीर वडगांव रावंक आयलो. सगळो विरोध पेल्यान दवरून अख्खें घर लग्नाक नटलें. पार्वती व्हनीचें हें निमाणें कार्य आसलें. तिणें सगळ्या सोयऱ्यांक आपोवंक लायिल्लें. उमेदीचीं ल्हारां घरभर खळखळूंक लागलीं.

लतिकान सरस्वती जावन विठूच्या घराचो हुंबरो हुपलो. ताचें खालते मानेन, नमळायेन वागप पळोवन भितल्लें घर खोशी जालें. व्हडले आईन पयलीं हुस्कार सोडलो.

लग्नाक तीन म्हयने जातकर व्हडले आईन विठूक वेगळी रानन

करपाक लायली. एके रान्नीच्यो दोन रान्नी तिणें केल्ल्योच आतां तिणें तिसरी रानन मांडपाक लायली. विठू भाऊ पयलीं कसोच तयार नासलो, ताणें म्हळें, 'आई, आमकां वेगळीं घालूं नाका. आमी दादा आनी रमावैनी म्हऱ्यांतच रावतली.'

-'विठू तुमकां खंय पयस धांवडायना. भाव-भावजे म्हऱ्यांतच आसतलीं तुमी, रानन मात वेगळी. म्हज्या दोळ्यां मुखार तुमचें तिगांयचेय संवसार फुलतात ते पळोवनी म्हाका.



विठूचो वेगळो संवसार सुरु जालो. पूण सणा परबें प्रमाण, बऱ्या वायटाकय रान्नी एक जाताल्यो.

विठूच्या लग्नाकडेन रमाबाय गुरवार आसली. विठाय आनी जयमिनी फाटल्यान चार वर्सांनी रमाबाय गुरवार आशिल्ली. मदीं दोन खेपो तिचो आबोर्त गेल्लो. म्हणून हे खेपे व्हडली आई तिका सांबाळटाली. लग्नाच्या बोवाळांत लेगीत तिचें सुनेचेर लक्ष आसलें.

णव म्हयने भर जावन रमाबायगेर चलो जालो. नवे पिळगेंतलो पयलो वयलो नातू. घरभर खोशी पातळ्ळी. 'विठू बायलेचो पांयगूण हो.' बशिल्लेकडेन विठूबायलेची तोखणाय जाताली.

विष्णूदादान सटी आनी बारसो दबाज्यान केलो. घरांतलो पयलो नातू म्हणटकीर शंकरबाबाचें नांव दवरप हें सगळीं जाणा आसलीं. म्हणपाक कितें दवरूंया हाचेर बोवाळ चलतालो.

शंकरबाबाचो रामचंद्र नांवाचो एक भाव चार पाचं वर्सांचो आसतनाच पेड्डेर जाल्लो. शंकरबाप्पान जितो आसताना 'विष्णुगेर चलो जाल्यार रामचंद्र नांव दवरूंया हा' म्हणून सांगिल्ले. व्हडले आईक नातू जालो तेन्नाच घोवाच्या उतरांची याद जाली. आनी तिणें नातवाक रामचंद्र नांव दवरूंक लायलें. मेल्ल्या देराचें नांव कशें घेवप? म्हणून पार्वतीव्हनी ताका रायू म्हणू लागली. आनी घरादाराचो तो रायू - रायूदाद जालो.

रमाबायच्या बांळटेरवेळार सरस्वतीन खूब आदार केलो. हिराबायक रांदचीकूड सांबाळपाकय तिणें आदार केलो.

सरस्वती शिकल्या म्हणून कड्डपी बायलांक आतां सरस्वती खुबच आवडूंक लागली. ती तांकां स्तोत्रा शिकयताली. तिणें कुळारच्यान येतना स्तोत्रां, पुराणांच्यो पोथयो हाडिल्ल्यो. चवखेर विठू तेळसांजचो दादल्यांक धार्मीक पुस्तकां वाचून दाखयतालो. जाल्यार सरस्वती रातची बायलांची सगळीं कामां जातकर तांकां वाचून दाखयताली. तिचो आवाज म्होवाळ. तीं तांकां स्तोत्रांबी बरी करून शिकयताली.

विठाय, जयमिनी, मोगरें, जायलें आनी घरांत चार दिसांक आयिल्या सोयऱ्या धायऱ्यांच्यो चलयो लेगीत काकी म्हऱ्यांत बसून वाचूंक बरोवंक शिकताल्यो. पास्तीसा कुडींत बसून चलयांनी शिकचे परस काकी म्हऱ्यांत बसून चलयो शिकतात तें भितल्ल्या घराक आवडलें. केंसरआकाक सरस्वतीच्या शिकपाची चड तिडक आसली. पूण आतां ताकाय तिणें म्होंवाळ आवाजान वाचिल्लीं पुराणां आवडूंक लागली.

सगळीं रातचीं व्हडले आईचे कुडींत वचपाची वाट पळयतालीं.

शिक्षणाचेर कड्डपी त्या घराक, विठून आनी ताचे बायलेन शिक्षणावटेन वळयलें. जे भुरगे विठूचे शाळेंत शिकताले तेय आपल्या घरांत देवादिकांची पुस्तकां वाचून दाखयताले. तांचे घरयेच विठूक तोखेताले.

व्हडले आईन वयल्या वाड्यावयल्या चलयांक सरस्वतीकडेन शिकपाक आपयलीं. पास्तीसाकुडींत सकाळचो विठू शिकयतालो. जाल्यार सांजवेळची सरस्वती चलयांक आपले कुडींत शिकयताली.

आतां कोणच तांच्या शिकपाक विरोध कर नासलो.



विठूच्या लग्नाक देड वर्स जाता थंय आसा सरस्वती गुरवार जाली. रमाबाय परत गुरवार आसली, तरी जावेची अर्थ अपुरबाय करताली. त्याच दिसांनी हिराबायगेर जुवळे चले जाल्ले. वसंत आनी जयवंत.

व्हडले आईक मनापासून खोस जाल्ली. तिणें म्हणचें, ‘भुरगे-बाळांनी घर भरप हाचे सारकें दुसरें भाग्य ना. म्हज्या घराचें गोकूळ जालें.’

समाबायगेर दुसरो चलो जालो. ताका आज्याचें नांव दवरलें शंकर. पूण म्हणटालीं शाणू. शाणूक दोन म्हयने जातासर सरस्वती बाळंत जाली. तिका गोरी-धवी सोबीत चली जाली. व्हडले आईन देवतेक हात जोडलें, ‘तुवें पयलीं वंशाचो दिवो दिलो, आतां वोडवी धाडली, तुजी कृपा दवर तांचेर.’

ह्या बाळंटेरांतल्यान सरस्वती उठलीच ना. तिका व्हाळणी लागिल्ली. ती थांबलीच ना. वैजिणीन सांगलें तिका बळंतरोग जाला म्हणून.

विजय तीन म्हयन्याचें आसतना सरस्वती गेली. व्हडली आई मनांतल्यान हाल्ली. तिच्या मनांत येतालें, ‘म्हजीच नदर म्हज्या गोकुळाक लागली काय?’ अशा तेरेचे प्रस्न तिच्या मनांत येवन ती आकूळ-पिकूळ जाताली. रमाबाय आपल्या शाणू वांगडा विजयाक सांबाळटाली. सरस्वती बरी नाशिल्ल्यान रमाबाय विजयाक आपलें दूद पयलींच दिताली, आतां ताची सगळी जापसालदारकी रमाबायन घेतली.

विठू सरस्वतीच्या मरणान सामको हाल्लो. तो चलयेक पळय लेगीत नासलो. हरशींय जाल्यार त्या घरांत बापूय आपल्या भुरग्यांची अपुरबाय चार चौगांत कर नासले. रातचें कुडींत वतकर करताले तितली.

सरस्वती वचून चार म्हयने जाले. तरीय घरांतलें सुतकी वातावरण निवळूं नासलें. व्हडले आईक मनापासून दिसतालें ...‘रमाबाय आपल्या भुरग्यांवांगडा विजयाक कितलो तेप म्हूण सांबाळटली?... विजयाक सांबाळूंक ताची हक्काची आवय जाय...’ व्हडली आई दीस-रात हाचेरच विचार करताली.

विष्णूदादाक आपोवन तिणें विठूक सोयरीक पळोवंक सांगली.

ह्याच दिसांनी विष्णूदादाच्या विठायेची सोयरीक जुळून आयली. सरस्वती वचचे पयलींच हे सोयरिकेचीं उलोवणीं चलतालीं. मडगांवच्या नायकागेर ताचें नक्षत्र धाडिल्लें. नक्षत्राक पडटा म्हणून नायकागेरच्यान रकादय आयिल्लो. पूण हांच्या घरांतल्या सुतकाक लागून मुखावेलीं उलोवणीं जावंनासलीं.

आतां ताच्या लग्नाचीं उलोवणीं सुरू जालीं. विठायेच्या लग्ना पयलीं विठूचें लग्न करचें अशी व्हडले आईची इत्सा आसली.दिस्तच तिचो भाव आपल्या मेवण्याच्या चलयेची सोयरीक घेवन तांगेर आयलो.

-'आका, म्हज्या मेवण्याची परिस्थिती तूं जाणा. दनपरां शीत जेवल्यार सांजे पेज. तातूंत एका फाटल्यान एक अश्यो तीन चलयो. तश्यो तिनय व्हंकलोच. पूण पयशांचे अडचणेक लागून अजून व्हडल्याचें जुळना. चवथी कडेन बारा सोंपल्यात ताका. आतां दिवाळे कडेन न्हाण आयलां.'

-'आं! न्हाण आयलें? न्हाण येवचे पयलीं चलयो उजवल्यार सगळें सारकें जाता.'

-'हय आका, पूण कितें करतलो तो म्हणून? घालपा-करपाक लागून व्हेल्ली सोयरीक मोडटा. तातूंत चली घसघशीत जावेसाची. बारा वर्सांचें चली चवदा वर्सांचें कशें दिसता. चली नाका-दोळ्यान शिरवंत.'

-'मागीर! कितें विचार आसा तुज्या मेवण्याचो?'

-'म्हाकाच दिसलें आका, विठुचो आनी सुमनाचो जोडो बरो सोबतलो. शांतो चलयेक धाकुटपणांत दिवंक तयार आसा.'

-'अशें? विठूच्याच लग्नाचो म्हाका घोर लागला. तो परत लग्न जावंक कसोच तयार ना. ताणें अशें म्हळें म्हणून आमच्यानी वोगी रावूं जाता? म्हजो सोपूत घालून हावें ताका लग्नाक तयार केला.'

-'सरस्वतीचेर ताचो सामको जीव आसलो. म्हणून किते लग्ना बगर रावंक जाता?' -'हयर तर, आनी तें पोर आसा न्हय रे?'

तेच फावटींत लग्नाचें थारावन मामा विष्णूक चली दाखोवंक घेवन गेलो. विष्णूक चली मानवली. विठूचो प्रस्नच नासलो. हे खेपे आवयन सोपूत घाला म्हणून तो लग्नाक तयार जाल्लो. घरच्या घराच तांणी विठूचें लग्न केलें. व्हंकलकारांक लेगीत लग्नाचो व्हडलो आक्त नाका आसलो.

काकीबायक, विठूचे दुसरे बायलेक लग्न करून हाडटकर घरांत कुचकूच चलतालो. 'पोर सवती आवय हातांत पडटलें. ही ताका कशी वागयतली कोण जाणा?'

-'कित्याक काय म्हणटा? आमी कितें मेल्ले आवयचें दूद पिल्यांत? ताका त्रास दिता ती वोग्गी रावन पळोवंक?'

-'हय गो तू , आमी अशी सोडची ना विठू बायलेक.'

घरांतल्यांचो भंय विठू बायलेन फट थारायलो. ती मायेस्त आसली. तिणें नवी व्हंकल म्हणी नासतना पयल्याच दिसा विजयाक वेंगांत घेतलें. आपली खरीच धूव कशी ती ताका वागयताली. तें पळयतकर व्हडली आई धरून घरांत सगळ्यांक सूऽ जालें. काकीबायन मरसर आपूण सवती आवय म्हणपाचें विजयाक केन्नाच दाखोवन दिलें ना.

विठूच्या लग्नाच्या बरोबर म्हयन्यान विठायेचें लग्न थारायलें. विष्णूदादाचें पयलें कार्य. ताणें मोठ्या दबाज्यान विठायेचें लग्न केलें.

दुसऱ्याच वर्सा जयमिनी, मोगरें आनी जायल्याचें लग्न थारलें. तिनय लग्नां चवखेर सवे घालून करपाचें थारलें. तीन कार्या एका फाटोफाट जातलीं म्हणटकर चवथें कार्य कितेंय तरी करूंकच जाय आसलें. व्हडले आईन विष्णू मुखार हो प्रस्न दवरलो. विष्णूची व्हडली भयण भागें म्हापशां साखरदांड्यांगेर दिल्लें. ताची परिस्थिती सादारणशी आसली. तें स-स म्हयने कुळारा रावन वतालें. घरचेपरस कुळाराच चड रावातालें म्हळ्यार जाता. आपल्या धाकल्या चल्याची मूज करुं जाय म्हणून तें आवयकडेन सदांच पिरंगतालें. आतां हीं तीन लग्ना करचे पयलीं भाग्याच्या चल्याची मूज करपाचें तांणी थारायलें. भायलें

भायर मूज जावन येतली म्हणून कळटकीर भाग्याचो घोव रोखडोच तयार जालो.

विष्णूदादान चारय कार्यां उमेदीन केलीं.



## 5

व्हडले आईन साठी हुपिल्ली. आतां ती जामशी जाल्ली. बाळंतपण, दोनवेळा पोटचें गेल्लें हांकां लागून तिची कूड पयलींच थकिल्ली. तातूंत सरस्वतीच्या मरणान ती मनानय खचिल्ली.

तिनय नातींचीं मनाप्रमाण लग्नां करून घेवन ती सातिस्वेर जाल्ली. आतां आयिल्ल्या दिसा ती एकच बडबडटाली,

-'हांच्या फाटल्यान सगळीं कर्तव्यां केलीं. नातीचीं लग्ना लेगीत पळयलीं. विठूचोय संवसार बरो चल्ला. आतां देवतेन आपल्या म्हऱ्यांत व्हरचें.'

विष्णूदादाच्या कानार तिचें उलोवणे येतकर एक दीस ताणें तिडकून म्हळें, आई, कसली वाचा आयल्या तुका? तुज्या नवसा - सायासाच्या रायुचें लग्न पळोवं नाका तुका?'

-'हय रे, मागीर ताचीं भुरगीं पळयन दिसतली. ही सरपळी केन्ना सोंपपार ना. म्हजें इतलेंच मागणे हातरुणार उडयनास्तना देवतेन याद करची.'

व्हडली आई मरपाची भाशा उलयताली खरी, पूण तिचो जीव रायू भोंवतणी घुस्पल्लो. तिणें रायूक खूब्ब मायेन वाडयल्लो. तिच्याय मनाच्या एका कोनशाक रायूचें लग्न पळोवपाची इत्सा आसली. पूण

हालींसराक तिका थंडी-बारकूण फाल्त नासलें आतरें पयऱ्यान जोरय येतालो. काम-धाम करपाची उमेद कमी जाल्ली. म्हणून 'आपले आतां चड दीस ना' अशें तिका मनांतल्यान जाणवतालें. तातूंत रायुची नवी चिंता चितें मन कोंचायताली.

रायूदाद जायत साकून नाजूक प्रकृतीचो, आतरे पयऱ्यान थंडी-बारकूण, जोर ताका आसतालोच. तो जायत साकून अशक्तय आसलो. चलो म्हणून पयलींच ताच्यो चड अपुरबायो जाताल्यो, तातूंत बरो नाशिल्ल्याच्या निमतान ताका चडच सांबाळप जातालें. हाचो परिणाम ताच्याय मनाचेर तर जाल्लोच पूण घरांतय सगळ्यांचेर जाल्लो. सगळे भुरगे आंगणांत, घरभर तरेकवार खेळ खेळटाले. पूण रायूदाद केन्नाच तांचे मदीं खेळूंक वच नासलो.

... बाब धांवनाका... बाब पडत... बाबाक पुरो जातलें.... अशें जाण्टी ताका सतत सांगत आसतालीं. तांच्या अशा उलोवण्यानी रायुदादाचें मनय भितरें शें जाल्लें.

हरशी तो अभ्यासाक हिशेबांत फिशाल आसलो. पूण बाकी सगळ्या कामांत तो बाबू. पयलीं जाण्ट्यांनी ताका बाबू केल्लो, मागीर ताका संवय जाली. खंयी आयल्या-गेल्यार लेगीत म्हाका पुरो जालें, म्हज्यान नज म्हणून तो बोवाळ घालतालो.

कोणागेरय लग्न कारण जांव ना जाल्यार आनी कितेंय आसूं रायूदाद चडसो वचच नासलो. गेलोय जाल्यार एका जाग्यार वोग्गी बसतालो. चडसो कोणाकडेन उलोवंक लेगीत वच नासलो.

ताचीं सगळीं कामां करूंक नाम्याक दवरिल्लो. तो ताचो इश्टच कसो जाल्लो. रायूदाद ताचे कडेन मात मेकळेपणान उलयतालो. आपल्या मनांतल्यो गजाली ताका सांगतालो.

रायुदादाक वाचनाची गोडी आसली. विठूभाऊच्या शाळेंत शिकपी सगळ्यांक ताणें वाचनाची गोडी लायिल्ली. विठूभाऊ मडगांव, पणजे गेलो जाल्यार मुजरत गोश्टीचीं पुस्तकां, मासिकां घेवन येतालो.

विठूभाऊक कामा निमतान हांगां थंय भोंवचें पडिल्लायान ताका कळिल्लें, फकत मराठी शिकप घेवन कोता येवचें ना. पोर्तुगेज शिक्षणय घेवंकच जाय. तो भुरग्यांक पोर्तुगेज शिकोवया म्हणून विष्णूदादाचे फाटीक लागलो. विष्णूदाद रोखडोच तयार जालो. ताकाय शिक्षणाचें म्हत्व कळिल्लें. भुरग्यांक पुर्तुगेज शिकपाक खंय घालप हाचेर दोगय भावांनी भासाभास केली. मडगांव ताकां लागीं पूण थंयी जाल्यार बिराड करून रावचें पडटलें आसलें. विठाय मडगांवा रावतालें. ताच्या घोवान बिराड पळोवन दिवचेली जबाबदारी घेतली. जेवण-खाण मात आपल्यागेरूच घेऊं जाय अशें ताणें विठूभाऊक सांगलें.

रायूदाद, शाणू, वसंत आनी जयंत चोवगांकूय मडगांवा पोर्तुगेज शिकूंक धाडपाचें थारलें. व्हडले आईक रायूदादाक मडगावां धाडपाची मातय इत्सा नासली. ताका घरांत हांगाचो पेलो थंय दवरूंक दियनासली. ताचीं सगळीं कामा नामो ना जाल्यार आवय करताली. मडगांवा धाडल्यार ताचें कशें जातलें हाचो तिका हुस्को जाल्लो, आनी म्हणून ताका मडगांवा धाडचो न्हय अशें तिणें मनातच थारायलें. पूण तिणें उलोवन दाखोवचे पयलींच रायूदादान आपूण मडगांवा शिकूंक वचचो ना म्हणून हट धरलो.

व्हडले आईन मनांतच म्हळें, 'चल देवता करतातें बऱ्या खातीरच, हरवें सोदतल्याक भाजिल्लें मेळ्ळें.'

विठूभाऊन ताका घरांतच पोर्तुगीज शिकोवपाचें थारायलें. तो आपुणय शिकतालो आनी रायूकय शिकयतालो. विठूभाऊच्या शिकोवपांत वाचनाचेर चड भर आसतालो. ताका लागून भाशेचे धडे दिता दितांच तो ल्हान ल्हान काणयां पुस्तकां हाडून ते दोगय वाचताले.

सरस्वती वचत साकून चलयांक शिकोवपाचें बंद जाल्लें. ज्यो चलयो शिकिल्ल्यो त्यो बायलांक पुस्तकां वाचून दाखयताल्यो. वाचनाची गोडी भुरग्यांक लागिल्ली तशी आयकुपाची गोडी बायलांक लागिल्ली. देवाचीं पुस्तकांच न्हय तर विठूभाऊ हाडटालो त्या

मासिकांतल्यो कथा, कादंबऱ्योय तीं घोस्तान आयकतालीं.

विठूभाऊन आपले दुसरे बायलेक सुमनाकय वाचूंक बरोवंक शिकयलें. पूण तिका शिकपा परस शिवणसूत करपाचो चड घोस्त आसलो. पोलके-घागरे, ल्हान भुरग्यांचे व्हिस्तीद ती शिंवताली. विजयाक ती तरेकवार मोदीचे व्हिस्तीद शिंवन घालताली. घरांतल्यांचे कपडे शिंवपाचो वावर खोशयेन तिणें आपल्या आंगार घेतलो. चलयांकय आपल्या म्हऱ्यांत बसोवन शिवण शिकयताली.

भरप-विणप तर तांच्या घरांत सगळींच बायलां करतालीं. व्हडले आईक विणपाचो सामको नाद आसलो. आतां मात तिचे हात थरथरतात म्हणून विणप बंद केल्लें. केंसर आका तर भावांक बानयानांय वणून दितालें. भरतकाम मात ताका मतय आवड नासलें. हिराबाय भरतकामाक फिशाल आसली. साडयांर लेगीत ती नाजुकसाणेन पाना फुलांचीं, किरामोरांची चित्रां भरताली.



विठूभाऊ पयलीं पयलीं घरचेघराच पोर्तुगेज शिकतालो खरो, पूण ताका आतां इश्कोलांत वचून शिकन दिसलें. तेन्नाच केप्पां पोर्तुगेज इश्कोल सुरू जाल्लें. वडगांव साकून केपें बरेंच लागीं. सक्काळीं इश्कोलाक वचूंक भायर सल्ल्यार, इश्कोल सुट्टकीर जेवंक घरा पावतालो. ताणें आपल्या वांगडा रायूकय इश्कोलांत येवपाचो आग्रो केलो.

पूण रायून आपले भोंवतणी बेठीच एक वंय घालून घेतिल्ली. ते परस व्हडलें आईन ताचे भोंवतणी खुंटे पुरिल्ले आनी रायून ते घट्ट करून घेतिल्ले म्हळ्यार अतिताय जावची ना. ताणें विठूभाऊक सांगलें, 'विठूकाका, हांव सदां उठून बरो नासतां, इतले पयस चलत यो-वच करप म्हाका जमचें ना. तूं थंय कितें शिकता तें घरा येवन म्हाका शिकय.'

विठूभाऊ कितें उलयतलो? रायूक साथ दिवंक भितल्ल्या घरांतल्यो बायलो तयारच आशिल्ल्यो. ताणीय रोखडेंच म्हळें, 'आसूं हां, रायूक

इतले पयस वचपाचे दगदग कित्याक करूं जाय. ताका शिकून एँप्रेगाद थोडोच जावपाचो आसा?

इतल्यार रायूदादाचे शिकप उल्लें. पूण ताणें घरांत वाचन-बरोवप चालूच दवरिल्लें. ताचो आवाज बरो खणखणीत आसलो. रातचें चौकेर दादल्यांक पुस्तकां वाचून दाखोवपाचें काम विठूभाऊ नासल्यार रायूदाद करतालो. रायूदादाचो आवाज कुडींत बशिल्लेकडेन व्हडले आईक लेगीत आयकूंक येतालो. नातू वाचता तें आजी तोखणायेन तल्लीन जावन आयकताली.

विठूभाऊ आतां पोर्तुगेज कांदबऱ्यो, पुस्तकां वाचूंक हाडटालो. रायूदाद त्यो वाचून कोंकणीत अर्थ सांगतालो.

विठूभाऊन केप्यां शेतमान मेरेन शिकप घेतलें आनी ताका थंयच शिकोवपाक आपयलो. विठूभाऊक खोस जाली. ताचो वाडटो प्रपंच आशिल्लोच ते भायर तांगेर आयिल्लो -गेल्लो, धुवो, नातरां फाल्त नासतालीं. घरभाटाचेर सगळो खर्च भाग नासलो. तांदूळ नाल्ल घरचे आसले तरी हेर खर्च खूब आसतालो. खंडा वेळार भात विकून पयशे येताले. तेन्ना घरांतल्या सगळ्यांक तशेंच त्या वेळार आशिल्ल्या धुवां नातरांकय वर्साचे दोन दोन कपडे, कापडां हाडटाले. उरिल्ले पयशे हेर खर्चाक पावयतासर विष्णूदादाक नाका पुरो जातालें.

तसो वर्साचो जेवणा -खाणाचो पुरूमेंत तांगेर एकदम करून दवरताले. तरीय खंय ना खंय पयशांची गरज लागताली. विठूभाऊक नोकरी मेळटकर ताका मात्सो सुशेग जालो. पूण विष्णूदाद आनी व्हडले आईक मात विठूची ही नोकरी मानू नासली. तांच्या घरांत अजून मेरेन कोणेच नोकरी करूं नासली. आनी विठूक मेळिल्ली तीय फिरंग्यांची नोकरी हाचें तांकां चड वायट दिशिल्लें.

नोकरी कितली गरजेची हे विठूभाऊन आवयक आनी भावाक समजावन सांगलें आनी म्हळें, 'दादा, आई, हांवे जरी फिर्ग्यांली नोकरी धल्ली तरी शिकोवपा सारकें पवित्र काम हांव थंय करतलों. आमच्याच

लोकांक शाणे करपाचें तें काम. तातूंत कितें वायट आसा.'

-'आरे विठू, थंय कितें आमचींच भुरगीं येतलीं. हेर जातीधर्माचींय भुरगीं येतलीं. किरिस्तांवांच्याय भुरग्यांक तुका शिकोवचें पडटलें.'

-'आई तुज्या सवळ्या -भशट्याचो प्रस्न मगे, भिवनाका तूं. हांव फाटलेवटच्यान मान्यांत वचून न्हावन भितर सरतां, जालें?

-'हट्टी तूं विठू, कितें ना कितें निमित्त सांगून निमणें आपलेंच खरें करतलो .आमी तोंडाची वाफ मात वगडावपाची. चल कर तूं फिर्ग्यालीं नोकरी.

विठूभाऊच्या नोकरेचें कळ्ळ्या बरोबर घरांत कुचकूच सुरु जालो. वैकुंठबाब आनी केंसरआका उघड उलयतालीं. 'आतां विठू बाटून वतलो.' हें ती व्हडले आईन आयकुचें म्हणून मोठ्यानच म्हणटालीं. व्हडली आई कानार केंस न्हय पदर वोडून वोग्गी बशिल्लीं.

सगळ्यांचे उलोवप काना भायर दवरून विठूभाऊ घोस्तान आपल्या आवडीच्या कामाक, शिकोवंक केप्यां वचूं लागलो.



विठूभाऊची नोकरी बरे तरेन सुरू जाली. ताच्या संवसाराक आर्थीक पालव मेळ्ळो. वैंकुंठबाब पयलींच भाजी-पालो, फळां - कंदमुळां विकून आपलो संवसार व्यवस्थीत चलयतालो.

घरचो, बेंसाभाटाचो सगळो वावर मात विष्णूदादाच्या खांदार आयिल्लो. तशें तांचे आश्रीत, घरांत रावपी सोयरे-धायरे आदार करताले, पूण मुखेल भार एकट्या विष्णूदादाचेर पडिल्लो, हिशेबाचें काम कारभाऱ्या बरोबर रायूदाद पळयतालो. पूण पाडे, खंड, कुळांचे जायते तरेचे प्रस्न हातूंत रायूदाद मातय लक्ष घाल नासलो.

कुळांचीं घरांतलीं एकामेकां कडली झगडीं जुझां भाटकारान सोडोवप अशी तांची रीत आसली. तें काम मात विठूभाऊन आयतार दीस आपूण पळयतां म्हूण विष्णूदादाक उतर दिलें आनी मुंडकाऱ्यांक तसो रकाद धाडलो.

तसो वासू शणै आनी कारभारी राम तांचे भायले चडशे व्यवहार जाग्यार घालताले. तरीय खासा भाटकारानच तांचेर हेर सगळे कडेन लक्ष दवरचें पडटाले. ही सगळीं कामा विष्णूदाद पयलीं उमेदीन करतालो.पूण वय वाडटा तशें ही कामा ताका झेप नासलीं. उलोवन कोणाक दाखयतलो? ताणें मनात म्हणचें, ... हातातोंडा कडेन आयिल्ले भुरगें शिक्षणाचें निमित्त करून भायर गेले... आतां कोणाक शिणू?.. विठूय नोकरेक लागलो. .. शिक्षणय म्हणून जाय खरें, पूण घरभाट पळोवपय गरजेचें न्हय... पोटा -पाणयांचो प्रस्न तो, तो सोडून दिवन कशें जातलें? .. शिक्तकर म्हणून कितें हें भुरगें घरचो व्यवहार पळयतले?.... एँप्रेगाद जावंक सोदतले, एँप्रेगाद... देवते म्हजो जीव थकत चल्ला, मुखार जातलें कशें?...

आपलो हो हुस्को हालींसराक तो व्हडले आई कडेन उलोवन दाखयतलो. वैंकुंठान तरी घरच्या व्यवहारांत लक्ष घालचें अशें ताका दिसतालें. व्हडले आईचेंय तेंच मत आसलें. तिणें जायते वेळा वैकुंठाक तशें सुचयल्लें. तितल्याय वेळार ताणें आवयक सांगिल्लें, 'आई, तूं म्हाका नस्तें सुचोंव नाका. तुज्या व्हडल्या पुता वांगडा म्हाका मातय व्यवहार करपाचो ना. इतलो तेंप सगळ्या व्यवहारांतल्यान आमकां भायर दवरले. ताणें कितलो हात माल्ला तें देवता जाणा, म्हाका उलोवंक लायनाका. हांव सगळ्यांक वळखून आसां.'

ताचीं असली उलोवणी आयकून नस्तो वाद नाका म्हणून, विष्णूच्या कानार कांयच घालनास्तना व्हडली आई वोग्गी रावताली. पुताच्या उलोवण्यानी ती मनांतल्यान खंती जाताली.

हालीं सरा मात तो वेगळीच मागणी करतालो. हें विष्णूक कशें सांगूं? हाची तिका चिंता जाल्ली.

एक दीस विष्णूदादाक जोर आयलो. त्याच दिसा बैल गाडयो घेवन मधू देसाय आयिल्लो. मधु देसाय नाल्लांचो व्यापारी, हांचे नाल्ल सदांच तो एके राशीर विकते घेतालो. त्या कामाचेर लक्ष दवरूंक

वैकंठबाबाक सांगले. सांगिल्ले काम ताणें व्यवस्थीत केलें. पूण आवय म्हऱ्यांत येवन ताणें घेऽ म्हणून बोवाळ घालो. निमणे ताणें आवयक निक्षून सांगलें,

-'आई, आतां तुजें वोगी राव, वोगी राव चड जालें. एके रात्रीच्यो तुवें तीन रात्री केल्यो. आतां भाटा-बेंसाचेय वांटे कर म्हणून सांग तुज्या व्हडल्या पुताक. आयिल्ल्या दिसा 'सगळें म्हजेर पडटा, सगळें म्हजेर पडटा.' म्हणून ताच्यो फुगोवण्यो आयकुपाचें ना म्हाका.'

व्हडले आईक ताचे आयिल्ल्या दिसाचे किचकीच आयकून उबगण आयिल्ली. तिणें खूब विचार केलो. आनी निमणें विष्णूक आनी विठूक सगळें सांगलें. 'बाबरे, झगडी झुजां करून वेगळेचार करचे परस तुमी भाटा-बेंसाचेय वांटे करात.'

आवयचें उलोवप आयकून विष्णूक धक्को बसलो, ताणें म्हळें, -'पूण आई,'

-'आतां आनी पूण -बीण काडत बसूं नाका.'

-'दादा, आमी हाचेर विचार करया. आईन कितें आतांच वांटे कर म्हणुना.'

हय बाबानो, कितें करतात तें विचारान करात.'

वयल्या वाड्यार तांच्या बापोलभावांची दोन घरा आसलीं.

घरां बंद दवरून ते पणजे कामा धंद्याच्या निमतान घर घेवन रावताले. सणा परबेक मात ते मूळ घरा येताले. कसलोय व्हड प्रसंग आयल्यार ते एकमेकाचो सल्लो घेताले. इतली भावकी तांचे मदीं आसली. तांचे पैकी एकट्याचो पूत आदोगाद जाल्लो. विठूक घेवन विष्णू पणजे तांगेर गेलो. सगळी गजाल तांकां सांगली. वैकुंठाचो सभाव सगळ्यांक खबर आसलो.

भाटा-बेंसाची कायद्यान वांटणी करपाचो तांचो सल्लो घेवन ते वडगांवां परतले.



विष्णूदादाची आलायती जोड कांय नाशिल्ली. बेंसा-भाटाच्या पयशांतल्यान तो सगळे खर्च भागयतालो. पयलीं-पयलीं सण-परबो, लग्नां-कारणां सगळें करून पयशे उरतालेच. विष्णूदादाक उमेद चड. लग्ना-कारणांक तो खर्चांचे तोंड पळयनासलो, म्हणटकीर अशा वेळार पयशांची अडचण जातालीच. मागीर कवळेंच्या कोमिसावांतल्यान, हांगच्यान - थंयच्यान रीण काडटालो. आनी रोखडेंच पावयतालोय बी. व्हडले आईन ताका प्रत्येक वेळार शिटकावचो, 'बाबा, रीण काडून सण करूं नाका? पूण तो म्हणी, 'आई, रीण घेतले म्हणून, हांव रोखडेंच पावयता न्हय, तूं भिवंनाका.'

तांच्या घरांत धुवो, सोयरीं-धायरीं फाल्त नासतालीं. तांचीय ऊठ-बस विष्णूदा उमेदीन करतालो. तेन्नाय पयशांची पर्वा तो करनासलो. 'पयशे येतले -वतले, घराण्याची पत राखपाक जाय, घरच्या रीत-रिवाजांत कांयच फाल्त जाऊं जायना? अशे ताचे विचार आसले आनी ओर्रान जियेवपाची ताका आवड आसली. बेंसा भाटाचे वांटे करतकच मात खरो त्रास जालो तो विष्णूदादाक, ताच्या ह्या सभावाक लागून.

इतलो तेप म्हादेवबाब बेंसा-भाटांतलें कांयच माग नासलो. गोंयांत येवन वतना घरचीं कितें दितात तें खोश्येन व्हरतालो. बेळगांवा वचपी कोणय मेळ्ळ्यार विष्णूदाद तांकां कितें ना कितें धाडटालोच.

आतां वांटे करतना व्हडले आईन ताकाय आपोवन हाडिल्लो. म्हादेवबाबान आपल्या जमीन-जुमल्याची जबाबदारी विठूचेर घाली.

वैकुंठबाबाचो आपलो व्यवसाय आसलो, आनी विठूची नोकरी. ताचेर बेंस भाटाचेर मेळिल्ले पयशें. तांच्या संवसाराक भरती आयली.

विष्णूदादाक मात संवसार चलोवंक तालगडी खेळची पडूं लागली. तातूंत भुरगे मडगांवा शिकताले. विठाय आनी जयमिनीचें लग्न रासवळांत जाल्ल्यान ताका कांयच त्रास पडूं नासले. थोडेशें काडिल्लें रीण ताणें रोखडेंच पावयल्लें. आतां रायूदाद आनी इंदू लग्नाची जाल्लीं. 'रायूदादाचें लग्न नेटान करूं जाय' असो व्हडले आईचो आग्रो आसलो.

ती सदांच म्हणटाली, ‘म्हज्या पयल्या-वयल्या नातवाचें लग्न, झाडून सगळ्या सोयऱ्यांक आपोवं जाय.’

नातवाच्या लग्नाचे व्हड-व्हड बेत ती करताली. ते बेत आयकून विष्णूदादाक भितल्यान भंयाचो कडकडो येतालो. हो भंय तो आवयक दाखोवंक सोद नासलो. हाचे पयलींचीं लग्ना ताणें ज्या थाटान केल्लीं तशें रायूदादाचें लग्न केलें ना जाल्यार सोयऱ्या -धायऱ्यां मुखार लज जातली हाचीय चिंता ताका सतयताली.

आवयचे इत्से मुखार ताचें कांय एक चल्लें ना. रायूदादाचें लग्न ताका रीण काडून करचेंच पडलें.

ह्याच वेळार एक बरी गजाल घडली. शाणूचें शिकप पुराय जाल्लें. ताका मडगावांच शिर्विस मेळ्ळी. दुसऱ्या वर्सा हरीचें शिकप सोंपले. आनी ताका पणजे सरकारी नोकरी मेळ्ळीं. घरांत पयसो येऊंक लागलो. विष्णूदादाच्या रूकूटुकू संवसाराक हातभार लागलो. तो नवे उमेदीन रायुदादाच्या लग्नाचे तयारेक लागलो.

कल्याणा कडल्यान येद्या व्हडल्या घराब्याच्यो गजाली सिताबाय आयकून घेताली. तिका खूब अजाप जातालें. तिणें म्हणचे, ‘कल्याण, म्हाका ह्यो सगळ्यो काणयांतल्यो गजाली कश्यो दिसतात मगो?

तिच्या बाच्या घरा तीं सगळीं मेळून सात जाणा रावतालीं. केन्नाय तिच्यो भयणी, तांचीं भुरगीं आयल्यार इल्लो बोवाळ जातालो तितलो ना जाल्यार तांच्या तीन कुडी आनी दोन सालांच्या त्या इल्याशा घरांत तसो व्हडडलोसो बोवाळ नासतालोच म्हळ्यार जाता.

हांगां शिरवयकारागेर मात लग्नाचें घर कशें सदांच गजबज आसतालो. तांच्यो धुवो कुळारपणाक जांव लग्नाकारणाक आयल्यार तीन चार म्हयने रावन वताल्यो. बाळंटेराक आयल्यार सात-आठ म्हयन्या पयलीं वचच नासल्यो. नात्या-गोत्याचो सगळो कचकच कसो तांगेर आसतालो. भुरगीं-बाळांय खुबच आसतालीं. तातुंतली इंदू, कुमूद आनी विजय सिताबायक बरींच लागीं जाल्लीं. तिका त्यो

आपल्यो इश्टिणी कश्यो दिसताल्यो. ती मेकळ्यामनान आपले दुबाव अजापां तांकां विचारताली. तींय तिचीं फकाणां करनासतना तिका सारकें सांगतालीं. तिच्या कुळारच्यो गजाली आयकूंक तांकांय मजा येताली.

सिताबायच्या कुळारच्यो गजाली म्हळ्यार भुतां आनी म्हारवा शिवाय पुराय जाय नासल्यो. सिताबायक खंचीय गजाल फुलोवन सांगपाची पार्त आसली. भुतां खेतांच्योय न्हय तर तांचे लागींच आशिल्ल्या इश्वरादेवळांतल्या उत्सवांच्यो गजाली लेगीत काणयो सांगिल्लेवरी फुलोवन सांगताली.

रातचीं तीं सगळीं व्हडले आईचें कुडींत न्हिदतालीं. थंय व्हडली आई तांकां रामायण महाभारतांतल्यो काणयो सांगताली.

सिताबायचे दीस त्या घरांत खूब मजेंत वतालो. ती नवी आशिल्ल्यान पेजे वेळार पाट, पितळ्यो मांडप, जेवणावेळार ताटां, तांबये, पेले दवरप इतलेंच काम करचें पडटालें. मोटे उमेदीन ती हीं कामा करताली. णव वारी न्हेसणाची मात तिका सामकी आडखळ जाताली. तिका मदीं-मदीं आपणे णववारी कापड सोडून घागरो -पोलको घालून वावुरचें अशी कूय येताली.... 'पूण व्हनीन एक्कय घागरो-पोलको म्हज्या ट्रंकांत घालूं ना. ही णववारीच म्हाका न्हेसू जाय, हांवें इतलें सांगलां आसतना व्हनीन घागरो -पोलको घालूं ना. सामकी ही ती व्हनी... ' मनांतल्या मनांत ती व्हनीचेर फडफडटाली.

चड करून मुततना तिचे हाल जाताले. ती कल्याणाक बरोबर घेवन मान्यात वताली. कल्याण तिची कास सोडोवन दितालें. पूण येदें व्हड कापड सांबाळून मुततासर केन्नातरी कापडार पडटालेंच. मागीर कल्याण तितलो कुडको धुवन दितालें खरें, पूण कापडाच्या ओल्या मिरयांचो तिका आनीकय त्रास जातालो, वीट येतालो. जेवंक पाटार बसताना आनी उठतनाय कापडाच्या मिरयांत तिचे पांय घुस्पतालेच.

तिका आतां भितरल्ल्या घराची मात्सीशी संवकळ जाल्ली. बाचे यादीन रडपय कमी जाल्लें. तरी तिका मनांतल्यान बाक वचून

मेळचें, हांगाच्यो नविदादी सांगच्यो अशें दिसतालें. लग्नावेळार तिका बान सांगिल्लें, रोखडीच परत कुळारा हाडटली म्हणून. पूण लग्नाक चार म्हयने जाले तरी तिका कुळारा धाडूं नासली. आतां मात तिका मनापासून बाची याद येताली.

मे म्हयन्यांत इश्वरा देवळांत वसंत पुजा जाताली. त्या निमतान तीन-चार दीस उत्सव जातालो. त्या वेळार सिताबायक कुळारा व्हरूंक मनीस आयलो. सिताबाय उमेदीन फुल्ली.



कुळारा वतकच कितें कितें करप हें विशीं चिततनाच सिताबायन थारायल्लें, 'सगळ्यांत पयलीं हांव हो कापडाचो पोटलो सोडयतलें आनी घागरो पोलको घालतलें. हाताचीं, गळ्यांतली हीं जड जड भांगराय काडून दवरतलें.'

पूण बान तिका दिसाचें णववारी कापड न्हेसुंकच जाय म्हणून सांगलें. आनी आंगावेलीं भांगरांय काडूंक मनाय केली.

सिताबाय निर्शेली. तिणें फडफडून म्हळें, 'बा, ह्या कापडाच्या पोटल्याक लागून म्हाका धावूंक, खेळूंक मेळचें ना, ह्या हातभर काकणांक लागून फातरांनी, ताबलांनी खेळूंक आडखळ जाता. थंय एक उपाय ना, हांगाय हावें त्रास काडप गे बा?'

उलयतां उलयतां तिचो गळो भरून आयलो. बान तिका वेंगेंत घेवन पोशेली आनी म्हळें, 'शांतूल तूं आतां शिरवयकाराली सून. तुका भांगरा-शिंगरां घालून वावुरपाची संवय करूंक जाय. थुमेकालशें, तीं, काडपाचो विचार लेगीत करूं नाका. जातली तुका हळू हळू संवय बाय. आनीं एक, आतां तुका पयलीं भशेन इश्टिणी वांगडा हेडत रावंक मेळेंचे ना. व्हनीक आदार कर. तिका दीस गेल्यात. तिका आदार करतां करतां तूंय कामां शिकून घे.'

-'बा, म्हाका कित्याक कामां शिकून घेऊं जाय? म्हाका थंय कांयच काम करचें पडना. पाट-ताटां दवरपाचीं, तांबये-पेले दवरपाचे

म्हणटकीच जालें?

-'तूं नवें म्हणून तुज्या कडल्यान काम करून घेयनात. पूण तुवें मांयक आदार करुंकच जाय.'

-'आगे, तें कल्याण, भीमा, भागें आसात न्हय. सगळीं कामां तींच करतात. उरिल्लें काम विठ्याआई करता. म्हाका आनीक कसलें काम उरता, आसू तें आतां हांव खेळपाक वतां पळोवया.

वसंतपुजेक ताची पणजेची भयण उमाका आपल्या भुरग्यांक घेवन आयिल्लें. सिताबायचे खोश्येक शीममेर उल्ली ना. भावाच्या आनी भयणीच्या भुरग्यांक घेवन तें देवळाकडेन खेळूंक वतालें. पयलीं पसून तांचो हो खेळपाचो जागो. दनपरां जेवणां जालीं काय जाण्टेलीं आड पडटालीं. शांतूल घागऱ्याचो कासाटो मारून भावाच्या भुरग्यांक आनी वाड्यावेल्या इश्टिणीं घेवन थंय खेळपाक वतालें. तिनसान जातकीर तीं घरा येतालीं.

आतांय सगळ्या भुरग्यांक घेवन पयलींच्या इश्टिणींक वांगडा घेवन देवळाकडेन वतालीं खरी पूण तिच्या णववारी न्हेसणाक लागून तिका जायतशें खेळूंक मेळनासलें. त्या वाड्यावेल्या तिच्या इश्टिणीचींय लग्नां जाल्ली. तीय णववारी न्हेसूनच थंय येताली.मागीर तांच्यो खेळापरस गजाली चड जाताल्यो. प्रत्येक जाण आपल्या घराब्याच्यो गजाली रंगोवन सांगतालीं.

तेळसना घरा येतकीर बा धरून घरांतलीं सगळीं सिताबायक तिच्या घराब्याच्यो खबरी विचारता. भितल्ल्या घरांतल्यो अजापाच्यो गजाली मजा सिताबाय सांगताली.

-'जाणा बा, येद्यो व्हडल्यो चार चवख्यो, धांवून खेळपाक खांब्यानी खेळपाक मजा येवपाची. पूण आमी बायलांनी त्या चवख्यांर वचप ना खंय. आतां घरा वतना चवखेवेल्यान भितर वतलें तितलें. उमाका, एके चवखेर दादल्यांचें राज्य. मदीं व्हड मेज. भोंवतणी, हे वटेन ते वटेन कदेलां, व्हॉल्तेरां म्हणून व्हडली कदेलां. ताचेर पांय वयर काडून

दादले बसतात. थंय व्हडा व्हडान तांच्यो गजाली चलतात. मुंडकारी म्हळ्यार आमचे भागेली आसात तशें गो जर आयले तांचेर दादले व्हडाव्हडान तापतात. ठाऽ करून तांचेर थापटां मारतात. कित्याक कोण जाणा. वासरेंत लेगीत आमी आसल्यार तांचो आवाज थंय येता. म्हाका मागीर कडकडो येता. पयलीं पयलीं भंयान हांव रडटालें. मागीर कल्याण म्हाका वेंगांत घेवन फुसलायतालें.'

-'राव गो शांतूल, तुमी बायलांनी करप कितें तर? फकत कुडींत बसून रावप?'

-'हें, आमी भितल्ल्या घरांत वावरप तें जालेंच सांजवेळा सगळ्यो बायलो फाटले पडवेर, आंगणात आपलीं कामां घेवन बसतात. कोण, कोण शिंवतात भरतात.'

-'कोण कोण म्हळ्यार गो? तांकां नांवां ना? काय तूं तांकां अजून वळखना?'

-'ना, ना, भितल्ल्या घरांतल्यांक सगळ्यांक आतां हांव वळखतां. कोण विठ्याआई, कोण काकीबाय सगळ्यांची नांवां कितें सांगूं? म्हज्यो इश्टिणी इंदू, कुमूद अनी विजय. आमी मज्जा करतात. आनी मगे केंसर आका म्हणून आसा, शीऽऽ ती,

-'शांतूल, त्या घरांतल्या कोण्णाचें वायट कितेंय हांगां येवन सांगपाचें ना हां, तें तुजें घर तीं कशींय आसूं तुवें तांचे कडेन बरें वागूं जाय. कळ्ळें?'

-'बा, हांव थंय जाण्ट्यांकडेन उलय लेगीत ना. उलयलेंच जाल्यार हय, ना, इतलेंच, आजी मात बरी हां. रातची न्हिदतना आमकां काणयो बी सांगता.'

म्हयनोभर रावन उमाका भुरग्यांक घेवन आपल्या घरा पणजे गेलें. आतां आपल्याकय घरा वचचें पडटलें म्हणून सिताबाय खूब रडली. व्हनीन तिका अपुरबायेन फुसलायली. आनी म्हळें, 'तुज्या घरचो रकाद आयल्याबगर आमी तुका धाडचीं ना.'

सिताबाय खोशी जाली. आतां ती देवाकडेन मागताली, 'घरच्यांचो रकाद येना जाल्यार पुरो.'



आषाढ फुलां माळूनच सिताबायक वडगावां हाडली. दोन-तीन म्हयने सिताबाय कुळारा उरिल्ली. व्हनीन तिका बऱ्योच गजाली शिकयल्ल्यो. सगळ्यांत पयलीं णववारी कापड न्हेसपाक शिकयल्लें. आनी न्हेसण भिजयनास्तना मुतपाकय शिकयलें. कास घालपाक मात तिका कशेंच जमनासलें. सिताबायन म्हळें, 'व्हनी, कल्याण घालतलें गे म्हजी कास, तूं भिवनाका.'

-'रातची-बितची गरज पडल्यार कितें कल्याणाक आपोवंक धांवतलें?'

-'शीऽ व्हनी एक दीस मगे मज्जा जाली. रातचीं मगे आमी मुतूं जाल्यार कुडींत तस्तांत मुततात. त्या दिसा हांव हळू कास सोडून तस्तांत मुतलें. मागीर म्हाका कास कशीच घालूंक येना. हावें इंदूक सांगले. कुमूद विजय सगळीं आयलीं. पूण तांकांय कास घालूंक जमना जाली.'

-'आगे बाये, मागीर?' हांसत व्हनीन विचारलें.

-'मागीर कितें? आजी आमची मजा पळोवन हांसताली. निमणे तिणें म्हाका आपल्या म्हऱ्यांत आपोवन कास घाली.'

सिताबाय लग्न जावन आयिल्ली तेन्ना फकत खेळपाचें चितताली. दनपारचीं सगळीं न्हिदलीं काय ती नंडांक आनी कल्याणाक घेवन खेळटाली. सांजचीं तीं फाटल्या आंगणांत खेळटालीं.

पूण आतां कुळारच्यान आयिल्ली सिताबाय व्हनीची सांगणी मनांत धरून आयिल्ली. सांजचीं फाटले पडवेर बसून बायलो तांदूळ, धान्य वेंचताल्यो, शिवणसूत करताल्यो. सिताबाय आतां तांचेमदीं बसून उमथ्यामानेन तांच्या कामांत हात-बोट घालूं लागली. विठ्याआई, हिराबाय, काकीबाय एकामेकाक कुरू करून हांसूंक लागलीं.

हिराबायन म्हळें, 'विठ्याआई, आतां सिताबाय सुनबाय सोबली हां.'

-'बान सगळें शिकोवन धाडल्या दिस्ता. खरें मू सुनबाय.'

मांयेचें उलोवणे आयकून सिताबाय मुमुरख्यांनी हांसली. पूण तिणें जाप दिली ना.

-'विठू बायले, तिका आतां शिवणसूत शिकय. इंदूची शिवण करपाक जाय. तुका आदाराक उपकरतली ती. 'हिराबायन म्हळें.

-'हय तोच विचार करी हांव.'

विठूबायलेन जावेचें उतर रोखडेंच खरें केलें. दुसऱ्या दिसाच्यान सिताबाय, इंदू, विजय, कुमूद सगळ्यांकच शिवण शिकोवंक लागलीं. विजयाक शिवणसूत करपाची व्हडलीशी आवड नासली. आवय काकी फोर्स करतात म्हणून तें बसतालें. ते परस पुस्तकां वाचपाचो ताका चड घोस्त आसलो.

धुवेची पुस्तकां वाचपाची आवड पळोवन विठूभाऊक ताची तोखणाय दिसताली. तो खंय वता थंयच्यान ताचे पासत पुस्तकां हाडटलो. तें एकटें केन्नाच वाच नासलें. सांजवेळच्यो सगळ्यो बायलो फाटल्या आंगणांत बसल्यो काय विजय तांकां काणयो वाचून दाखयतालें.

सिताबायक त्यो काणयो खूब आवडटाल्यो. मागीर आपल्या उतरांनी ल्हान भुरग्यांक खेळयतना ह्यो काणयो ती बऱ्यो करून सांगताली. तिची सांगपाची रीतच अशी आशिल्ली. भुरगीं तल्लीन जावन त्यो आयकतालीं.



सकाळचीं न्हातकर सगळ्यो बायलो स्तोत्रां म्हणटाल्यो. सिताबायन नंडांकडल्यान स्तोत्रां शिकून घेतलीं, आनी ती म्हणूं लागली. सिताबाय धाकटी सून जाल्ल्यान देवाचें सगळें काम तिका करचें पडटालें. सकाळचें देवाऱ्यांतल्या दिवल्यांक नंदादीपांत तेल वात करप, तिनसनां कयपंजी आनी वाती घेवन भितल्ल्या घरांतल्यो, देवाऱ्यांतल्यो सगल्यो दिवल्यो ती कल्याणाच्या आदारान पेटयताली.

कुळारा तिका काळखाचो थर्त भंय दिसतालो. शिवड्या गांवांत भुतां - खेतां-देवंचार हांच्यो गजाली चड. वंवळीवेलो देंवचार, पिंपळावेलो म्हारू, हांकां सूर-रोंट, तांची मानतूक, तळयेवेल्या भुताक काजळ-कुकूम असल्यो गजाली थंय खुबूच आसल्यो. ताका लागून रातीचो सगळ्यांकच भंयसो दिसतालो. राती-विती एकटो-दुकटो कोणच भायर सर नासलो. ते भायर त्या देंवचार, म्हारू, भुतांच्यो काणयो जाण्टेलीं रंगोवन सांगताली. ताचोय भुरग्यांच्या मनार परिणाम जातालो.

त्या गावांतलीं सगळींच जाणा देंवचाराक देवावरी मानतालीं. ताच्या बऱ्यापणाच्योय गजाली तांचेकडेन आसल्यो. रातचो देंवचार लोखंडाचो घुंघूर आशिल्लो दांडो घेवन भोंवता, भायर कितेंय उल्लें जाल्यार दाखोवन दिता, कोणय वाट चुकलो जाल्यार ताका घरचे वाटेर हडून पावयता अश्यो देंवचाराच्या बरेपणाच्यो गजाली तांच्या गांवांत ल्हान व्हड सगळीं सांगतालीं.

सिताबायक बानय आपल्याक देंवचाराचो कसो अणभव आयला तो जायते फावटीं सांगिल्लो.

बागेर तेन्ना तांब्याच्या भांडांत भात उकडटालीं. भात उकडून वज्यांनी उसपितकर, भांड घांसून पुसून भितर हाडून दवरतालीं. एक खेप खंय भांड भागेल्यांनी घांसून पुसून दवरलें. पूण भितर हाडूंक विसरलीं, आनी तीं आपल्या घरां गेलीं.

बरे रातीं देंवचाराच्या दांड्याच्या घुंगरांचो आवाज बाच्या घरा भोंवतणी जावंक लागलो. बान आनी भाऊन तो दिस्तच आयकलो. भाऊचें तेन्ना लग्न जाऊं नासलें. तीं सगळीं सालांतच न्हिदतालीं. आवाज आयकून भाऊन भियेवन बाचो हात घट धरलो. देंवचारान एक भोंवताडो घेतलो आनी भांडाचेर ढाण्ण करून दांडो माल्लो. ते बरोबर सगळीं जागीं जालीं. कडकडून तांणी एकामेकांक वेंग माल्ली. अशें तीन वेळा भांडार दांडो मारिल्लायाचो आवाज जालो आनी मागीर घुंगराचो आवाज पयस वतना आयकूंक आयलो.

सकाळ जावची वाट पळयत सगळी रात तांणी जागून काडली. बा तोंडांन मंगेशाचो जप करत आसली. फांतोड जातनाच सगळ्यांत पयलीं बा भायर गेली. पळे जल्यार भांडाचे कडेर तीन कडेन दांडो मारिल्ल्याच्यो खुणो आसल्यो. कितलो तेप बा ही गजाल आयिल्ल्या गेल्ल्यांक सांगून तें भांड दाखयताली.

अशे तरेन देंवचार, भुतांच्यो काणयो आयकून सिताबायचें भुरगेपण गेल्लें. ताका लागून जावये तिका काळखाचो थर्त भंय दिसतालो. आतां ह्या येद्या व्हडल्या घरांत वचत थंय दिवल्यांचे माड, थाण दिवल्यो, लामणदिवे पेटयतालीं. तरीय काळोख हे वटेन - ते वटेन पातळिल्लोच आसतालो. एके कुडींतल्यान दुसरे कुडींत वतना लेगीत सिताबायक थर्त भंय दिसतालो.

तेळसांजचें दिवे पेटोवपाचें काम सिताबायक सांगतकर ती खोशी जाली. ती उमेदीन कल्याणाच्या आदारान राजआंगणांत तुळशीमुखार पयलीं निरांजन पेटयताली आनी मागीर भितल्ल्या घरांतले सगळे दिवे पेटयताली. सगळे दिवे पेटयतकर सिताबायचो भंय मात्सो तरी कमी जातालो.

भायर चवख्यांनी सगळे कडेन तेल वात करून दिवे पेटोवपाचें काम नानू करतालो.

घरभर दिवे पेटयतकूच घरांतलीं भुरगीं सदर चवखेर देवाच्या फोटवामुखार रावन शुभांकरोती आनी देवाची भजना म्हणटालीं. आनी मागीर परवड म्हणटालीं. विठूभाऊन तांचे कडल्यान परवड म्हणून घेवंक सुरवात केल्ली. सगळें म्हणून जातकर भुरगीं घरभर जाण्ट्यांक पांय पडटालीं. सिताबायक ही परवड खूब आवडाली. तांचें आयकून आयकून तीय आपले भितर सगळें म्हणटाली. पाडे लेगीत तिका पाठ जाल्ले.



6

चवथीकडेन व्हडले आईक जोर येवंक लागलो. गांवभर सगळ्याक जोरी पातळिल्ली. हांच्याय घरांत सगळ्यांक जोर आयिल्लो. पूण सगळीं आठ-धा दिसांभितर निवळ्ळीं. व्हडले आईचो मात जोर वचच ना जालो. वैद्याल्यो पुडयो, चाटणां सगळें घेवन जालें. पूण जोर वचनासलो.

सावड्डेच्या दोतोर मिनेझिसाक आपोवपाची विष्णूबाबान तयारी केली. व्हडले आईक ही गजाल कळटकर तिणें निक्षून सांगलें, -'विष्णू, मरच्या समयार म्हाका भश्टोंव नाका. त्या किरिस्ताव दोतोराचो म्हाका हात लावन घेवपाचें ना. म्हाका सुखान मरूनी.'

-'आई, थुमेकालशें कितेंय उलोंव नाका.त्या दोतोरान एक सूय तोपल्यार पुरो. जायते लोक बरे जाल्यात खंय.'

-'आसूं हां, म्हाका आतां, सूय बी तोपून आंगांक त्रास करून घेवपाचे नात. आनी कितें रे, त्या किरिस्तांव दोतोरान सूय तोपतकर सरणावेलें मडें कितें उठून बसलां?'

-'आई, आयक तरी...'

-'सोड रे विष्णू, म्हज्यान उलोवंक जायना. तूं जाणा विष्णू, ह्या दिसांनी म्हज्या सपनांत हे यतात. 'येना गे?' म्हणून विचारतात. इतलो

तेप तांकां सोडून रावली. आतां वचूनी म्हाका तांच्या म्हऱ्यांत. दोतोर-बितोर नाका म्हाका.'

व्हडली आई मुळचीच आपल्या वाद्याची. दुसऱ्याक आपली सांगणी आयकुपाक लावपी. आतांय तिणें आपलो हट्ट खरो केलो. ना वैद्यांचें, ना दोतोराचें कोणाच्चेंच वखद तिणें घेतलें ना.

म्हणटासर दिवाळी तेकली. दिवाळेची उमेद कोणाकच नासली. सिताबायची पयलीच दिवाळी. तांगेर कुळारा पंदरा दीस पयलीं साकून दिवाळेचो बोवाळ चलतालो. सगळ्या बामणावाड्याचो मेळून एक नरकासूर, विठ्ठल शणैच्या लॉजांत, सगळे भुरगे मेळून करताले. नरकासूर, आकाशदिवे सगळें पुराय जायसर भुरगे थंयचे हाल नासले, ल्हान धरून व्हडले भुरगें थंय घोळटालें. मुखेल कामां व्हडले भुरगे करताले खरे, पूण खळ लावप, फोली दिवप असली बारीक सारीक कामां भुरगे उमेदीन करताले.

दिवाळेच्या दोन दीस पयलीं तर चलयांक तायाखिळ्याचो सांगो काडपाचो बोवाळ आसतलो. त्यो सांगो मागीर सोलप, तांतल्या बियांचें वटणें वांटप हो एक व्हडलो आक्त तांकां आसतालो. ते भायर रोजां, काट्टा जमोवन भांडाक, तामयाक घालूंक माळो करप, तांकां चुन्याचे धवे तिबे लावप, दारांत तोरण लावंक रोजां आनी आंब्यापानाची माळ करप अशीं जायतीं कामां आडसाट्या चलयांक आसतालीं. खाणाचीं कामा बायलो जाग्यार घालताल्यो.

ह्या घरांत मात व्हडले आईक लागून तशी उमेद कोणाक नाशिल्ली. तातूंत तांगेर दिवाळेचो सिताबायच्या कुळारा आसतलो तसो बोवाळ नासतालोच. तांगेर दिवाळेचीं बरींचहीं कामां वावराड्यो मानांय भायले भायर करताले. घरांतलीं सुनो धुवो हांका दिवाळेचो कसलोच वावर लागनासलो पणट्यो लेगीत घांसून पुसून वावराड्यो दवरताल्यो. कल्याणा कडल्यान हे आयकून सिताबायक अजाप जालें. तिणें कल्याणाक विचारलें, 'कल्याण सगळीं कामां तुमीच करतात जाल्यार

आमी कितें करपाचें?'

-'सिताबाय, तुमी फाल्यां नेयीं कापडां न्हेसप, भांगरां-शिंगरां घालप आनी दादल्यांक उंवाळप.'

-'देवळांत वयल्या वाड्या वेल्या लोकांगेर वचून पांया पडटात काय ना?'

-'सिताबाय, दादले वयतले देवळांत, वाड्यारय लोकांगेर वयतले, तुमी घरांतल्या जाण्टेल्यांक पांया पडप, आनी येता वयता तांकां खावपाक दिवप, तुमगे मुंडकारीय येतले, तेंकांय अंदू तुवें फोव दिवप.'

सिताबायक वायट दिसलें. तिच्या कुळारा बामणवाड्यार सामकेंच लागीं देवूळ आशिल्ल्यान खंयचेय सणा-परबेक देवळांत वचून सगळींच जाणा पांया पडालीं. तिणें इंदू, विजय आनी कुमुदाकय विचारलें. आपल्या कुळारच्याय दिवाळेचो आक्त सांगलो. तांणी हांसून म्हळें, 'सिताबाय, तुमी दिवाळेक बरी मजा करताली मगे? हांगां तशें कांय ना.'



सिताबायक दिवाळे खातीर वायट दिशिल्लें खरें पूण त्या घरांतल्यो एक एक गजाली तिका अजापांत घालताल्यो.

दिवाळे उपरांत रोखडेंच दारामुखावेलें आंगण, भायली सालां,चवखेर शेणान सारोवन घेवपाचो, हुंदरांनी केल्ली, बिळां पुरोवपाचो बोवाळ चलिल्लो. रामू, नानू मुंडकाऱ्यांक सांगाता घेवन हीं सगळीं कामां करून घेताले. मण पायली निवळ पुसून वोताक दवरून सुकयताले. साकांचो कवळो काडून साक फाफडून सुकोवन घेतिल्ले. वजीं खोंटले शेणान सारोवन घेतिल्ले.

भायलो बोवाळ भितल्ल्या घरांतय बादतालो. मानायांक जेवण करचें पडटालें.

-'हो कसलो गो बोवाळ कल्याण?' सिताबायन हळूच कल्याणाक विचारलें.

-‘सिताबाय अंदू खंडाक तूं नेयी. दिवाळी जावन रोखडो खंड येतलो. तेचोच बोवाळ हो.’

-‘खंड? म्हळ्यार कितें गो.’

-‘आगे, तुका खंड खबर ना?’

-‘ना.’

-‘सिताबाय, तुगे कुळारा शेतभाट आसा न्हू?’

-‘हय तर.’

-‘मागीर, तुमी खंड घेनात?’

-‘हें, पिकेर आमचे भागेली भाता पोटल्यो घेवन येतात.’

-‘त्या दिसा तेंकां जेवण बी वाडटात मू?’

-‘ना गो कल्याण, आमचें पांच-स भागेली. भाताचे साक घेवन येतात. भाऊ ते पायलेन मेजून घेता आनी भायले कुडींत घालता. बा तांचेपासत पयलींच गोडशें करून दवरता. तें पोंवलेंत घालून तांकां खांवंक दितात.

-‘पोंवली म्हणल्यार गे.’

-‘तुका खबर ना पोंवली? माडयेच्या चुडटां फाटल्यान जो पातळ भग आसता, तो कापून ताचीं आयदनां करतात तुमी दोणे करतात ताचे परस व्हड. पेज बी जेवंक बरी मेळटा. तातूंत आमगेर भागेली आयल्यार व्हनी तातूंतच तांकां पेज वाडटा. व्हनी ल्हान व्हड बऱ्यो पोंवल्यो करता. जेवतकर त्यो भायर उडोवप. आनी मगो रातचें मुतूंक जाल्यार अश्या व्हडश्या पोंवल्यांनी आमकां भुरग्यांक मुतयतार्ली.’

-‘आवय, बरें मगे तुमगेर आयदनां घांसत बसपा वावर ना.’

-‘हांव शिवड्या वतकर तुमकां दाखोवंक पोंवल्यो घेवन येता हां’.

-‘हाड, हाड, म्हणटरीच तुमगेर खंड म्हणटात तो आनी ना तर आमगेर हांगां खंडा केदो बोवाळ कळटलें तुका.’

-‘म्हळ्यार सारकें सांग गो, कित्याक बोवाळ आसता?’

-‘आगे खंडा पयल्याच दिसा मुंडकारी भात घेवन येतना बायल

भुरग्यां घेवन येतात. भाटकार तसो रेकाद धाडटा तेंकां. त्या दिसा तेंका जेवण वाडप.'

-'आगे बाये, इतले मुंडकारी तांच्या बायल-भुरग्यांक घेवन येतात? तांकां वाडटात खंय?'

-'खंय म्हळ्यार, चवखेर. हेरशीं सोवळ्या भशट्यांचो आकांत तूं जाणा, त्या दिसा ह्या चारय चवख्यांनी तुमगे कुळमी, गावडे, मुंडकारी जेवंक बसतात. तेंकां उकड्या शीत, चण्या रोस, नुस्त्या सुकें, खतखतें आनी गोडशें वाडप. हे मुंडकारी कमळा येतना दुदी, तवशीं, माड्यो बी असल्यो जायते तरेच्यो भाज्यो घेवन येतात, तेजेंच खतखतें करतात?

-'आं, हांगां कमळा येतना भाज्यो हाडटात, आमगेर शिवड्यां नुस्तें हाडटात.'

-'बरें मगे तुमगेर, तर कितें सांगी हांव? आं, तेंका दोन तीन पंगतीत वाडून आमचीं कमरां धरतात. गोडशें तितलें भाटकान्नीन येवन वाडप. अंदू तूं नेयी, तुयें वाडप गोडशें.'

-'आवयस म्हज्यान कशें जातलें गो? इतल्या सगळ्यांक वाडपाक?'

-'तूं भिवनाका सिताबाय, तोप घेवन हांव तुजे वांगडा भोंवतलें आनी तुयें एकाच पंगतीक वाडप, मागीर आमी वाडटात.'

-'एक सांग गो कल्याण, इतले मुंडकारी आमचें भात रोयतात?

-'रोयतात म्हळ्यार भाटकारालीं शेतां कितलीं आसात तुका खंय खबर? दोनय व्हडल्या सालांनी कडे बांदून भात घालतात.'

-'कडे म्हळ्यार?'

-'आगे, व्हडले हातरपटे शेणान सारोवन भायर सुकत घातल्यात ते वांटकुळे नळी कशे करून गच्च बांदून घेतात. ते सालांत उबे करून तितूंत भात घालतात. तशें घालतकर भात बरें उरता. हुंदीर बी लागलो जाल्यार भोंवतणी भोवून पळोवंक मेळटा.'

-'आवय म्हजे, इतलें भात आसता हांगां? आमगेर शिवड्यां एकेच कुडींत जाता इतलें भात येता?'

-‘हांगां भाटकार भात, नाल्ल विकता तशें तुमगेर विकनात?’

-‘ना. आमकां वर्सभर खावपाक भात दवरून, उरिल्ले भात दिवन बा गरजेच्यो वस्तू घेता.’

-‘हांगां मगे खंडा वेळार भटाक, मडवळाक, म्हाल्याक, तारयांक अशें कोणाकोणाक भात दितात. आनी तांचेकडल्यान वर्सभर सेवा करून घेतात.

-‘आवयस, बरे मगे तुमचें.’

-‘तुमचें न्हू सिताबाय, आमचें म्हण. आतां हें घर तुजें.’

-‘हय गो, म्हाका याद उरना. ये खंडा दिसा मजाच तर हांगां?

खंडा दिसाची सिताबाय उमळशिकेन वाट पळयताली. खंडा दिसा सकाळ फुडेंच मुंडकारी भाताचे साक दवरून वताले. कमळाक येवंक जे मुंडकारी पाऊं नासले ते आतां भाताबरोबर भाजी हाडटाले. आज भितल्ल्या घरांत जेवण करपाचो बोवाळ चलिल्लो. नुस्तें म्हणून कितलें हाडिल्लें. सिताबायक पळोवनच वीट आयलो.

जेवण करचे पयलीं एके व्हडले थालयेंत उकड्या तांदळांची पेज शिजताली. -‘कल्याण, आज ही पेज कोणाक गो?’ सिताबायन हळूच विचारलें.’

-‘राव, कळटलें तुका थोड्या वेळान.’

थोड्या वेळान फाटल्या आंगणांत मुंडकाऱ्यांच्यो बायलो भुरग्यांक हांडीर घेवन आनी हातांत कट्टयो घेवन आयल्यो.

-‘भाकान्नी, बाबा भूक लागोल्या, इदो पेजेनीस घाली.’ एकटेन मुखार येवन म्हळें.

-‘अशीं मुखार येयात, वाडटां पेज.’ विठ्याआईन म्हळें.

यशोद्यान पेजे तपलें हाडून पडवेर दवरलें. एके ताटलेर दोणांतले आमलेच्यो शिरो दवरल्यो. विठ्याआई बाकीन घेवन बसली. प्रत्येक मुणकान्न कट्टी घेवन ना जाल्यार मायटी घेवन मुखार येतालीं. ती वरगाळ्यान थोडीं कुंयां थोडो निवळ तातूंत घालताली. थंयच उबी

आशिल्ले सिताबायक तिणें एक-एक आमले शीर दिवंक लायली.

सिताबायक बरी मजा आयली.



तुळशी लग्न जावन दुसऱ्याच दिसा व्हडली आई गेली. तुळशीलग्ना दिसाच तिका घडस लागिल्ले. तांणी बेगसारच भटाक आपोवन तुळशीलग्नाचें शास्त्र केल्लें. व्हडले आईच्या वचपान घराचो एक खांबो कोसळिल्लेवरी सगळ्यांक दिसतालें. चड करून विष्णूदादाक. 'म्हजी धिराची काठी तुटली, आतां कोणाच्या धिरार हांव मुखार सरू?' विष्णूदाद घळसणून गेल्लो.

व्हडली आई आस्तनाच इंदुची सोयरीक म्हापशेंच्या मुळगांवकारागेर व्हेल्ली. न्हवऱ्याचे भयणीचें इंदुचो भाव शाणू कडेन लग्न करचें अशें मुळगांवकारांचें म्हणणें आसलें. पार्वतीव्हनीन हयकार दिवंक सांगिल्लो. पूण विष्णूदाद फाटीं फुडें जातालो आनी एका कारणाक लागून. दोनय लग्नां बरोबर करूंया म्हळ्यार कशें जातलें? हाची ताका चिंता जाल्ली. रायूच्या लग्नाचें रीण अजुनय पाऊं नासलें.

पार्वतीव्हनी वचून चार म्हयने जातासर मुळगांवकारांगेर साकून रकाद आयलो. विष्णूदादाक कलकल लागलो.

- 'आतां आई ना, कोण म्हाका सारको सल्लो दीत?' ताणें मनांतल्या मनांत म्हळें.

विठू ह्या वेळार भावाच्या आदाराक उबो रावलो. वैकुंठबाब सदांच विष्णूदादा पसून पयसच रावतालो. तसो तो आपलो झोडापेडांचो संवसार सोडून व्हडलोसो कोणाचकडेन मेतेर जाय नासलो. कितेंय वेगळेपण घरांत घडटा जाल्यार बऱ्या वायटाचो विचार करनास्तना वितंडवाद मात घेतालो. आपल्या भुरग्यांविशींय ताणें केन्ना कसलोच निर्णय घेतलो ना. पयलीं एकठांय आसतना सगळें विष्णूदाद थारायतालो. मागीर विठूभाऊ सगळ्यांच्या भुरग्यांच्या फुडाराची थारावणी करूं लागलो. विष्णूदाद जाण्टो जातालो तशी एक-एक

जबाबदारी विठूभाऊचेर घालतालो. घरांत तसो गांवांतय विठूभाऊक मान आसलो. तांच्या गांवांत इतलें शिकिल्लो तोच पयलो आसलो. उपरांत बाकी कोण शिकिल्ले ते त्याच गांवांत नोकरी करताले. ते वडगांव कितेंय कारण आसल्यार येताले.

विष्णूदादाचेर आयिल्लो आकांत ताणें निवारपाचो थारायलो. ताणें विष्णूदादाक 'कायशांतल्यान' शाणुच्या नांवार रीण काडून दिलें. शाणू आवयकडेन फडफडलो, 'म्हजी नोकरी नवी. पगार पयलीं कितलो, तोय रिणाक वगडावप? इंदुच्या लग्नाची जबाबदारी म्हज्या एकट्याचेरच कित्याक?' अशे आरते-परते प्रस्न तो आवयक विचारून कड्डतालो. विठूभाऊच्या कानार हो शाणुचो फडफड पावलो. व्हडलेआईवरी विठूभाऊ थंडसाणेन कसलेय प्रस्न सोडयतालो. कोणाचींच मनां दुखयनास्तना तांकां समजावपाचें काम तो बेसबरें करतालो. आतांय शाण्याक ताणें थातारलो.

शाण्यान काकाचें उलोवणे मानून घेतलें ताका दुसरेंय कारण आसले. इंदू बरोबर ताचेंय लग्न आसलें. भायल्यान तो वोगी रावलो. पूण मनांतल्यान बेजार जाल्लो.

शाण्याचें आनी इंदुचें लग्न विष्णूदादान व्हडलेआईचें निमित्त करून थोडेभितर केलें... 'आतां उल्लो हरी. ताचेंय लग्न कशेंयतरी करूं जाय. मागीर हांव सुटलों...' विष्णूदादान हुस्कार सोडलो.

लग्नाच्या बाबतींत विष्णूदादान हुस्कार सोडिल्लो खरो, पूण भयणींक, धुवांक वजीं भाडीं करतासर ताचो जीव बरोच खर्शेतालो. तातूंत येतो-वेतो फाल्त नासतालो. सगळे रासवळाक रावताले तशे विष्णूदादागेरच रावताले. विष्णूदादाचो घुस्मटमार जातालो. विठूभाऊक तो कळ्ळो. ताणें भावाक दुखयनास्तना माण्णी केली. कोणय सोयरीं येतकच आपले बायलेक सांगून विठ्याआईक भितल्ल्यान जेवण दिवंक सांगप. एकेच वासरेंत जेवणाच्यो पंगती आसताल्यो. ताका लागून खंयचें जेवण कोणे वाडलां, तें सोयऱ्याक कोंयच कळनासलें.

आनी विष्णूदादाकय कांय कळनासलें.

वैकुंठबाब तिरसुवादी सभावाचो आसलो. ताची बायल हिराबाय मनान बरी मायेस्त पूण तोंडान फटकळ आसली. तीय विठ्याआईक सोयरीं येतकर आदार करताली. घरचो भाजी पालो दिताली. घोवाक सुलूस लागूंक दियनास्तना ती हें सगळें करताली. हरशींय जाल्यार वैकुंठबाबाक कांयच कळयनास्तना भाज्यो, फळभाज्यो जावांक दिताली. व्हडलीआई आसतना लेगीत जावां-जावांचे हे गुपचूप व्यवहार चलताले. व्हडलेआईन मागीर तिगांय सुनांक म्हणप, 'आगे सुनबायानो तुमचे घोव एकामेककडेन झगडूं ना जाल्यार कितेंय करूं, तुमी मात भयणी-भयणी कश्यो मोगान रावात. घराचें घरपण सांबाळप आसता बायलांनी. आयदनाक आयदन आपटल्यार घर फुटूंक वेळ लागना.'

मांयची उतरां तिगांय जावांनी मनापसून मानून घेतिल्लीं. म्हणूनच आवय वतकच चडच तोंड सोडिल्ल्या केंसराक तिगीय भावजो मुकाट्यानी सोंसताल्यो. ताणें दुखयल्यार एकामेकाचे मुकाट्यान दोळे पुसताल्यो.



शाणूचें लग्न जावन पार्वती घरांत आईल्ली. इंदू लग्न जावन गेल्ल्यान सिताबायची एक इश्टीण कमी जाल्ली. इंदू वाट्याची पार्वती सिताबाय मेळिल्ली. पार्वती व्हडलेआईचें नांव जाल्यान तिका सगळीं ताईबाय म्हणटालीं. ती सादारण सिताबायच्याच वयाची.

लग्नावेळार सिताबय धा वर्सांची आसली. आतां तिका बारा सोपिल्लीं. आतां केन्नाय भायर जातली, हाचो व्हनीक हुस्को आशिल्लो.... 'शांतूल पयलीं बोवाळ भट, ताका कसलो पोंच ना, भायर जातकर कितें करतलें कोण जाणा? ' तिणें मनातच म्हणचें. तरी कुळारा आईल्लेकडेन तिणें सिताबायक भश्टे जावपावेळची सगळी गजाल सांगिल्ली. कितें करप, कशें घरांत वावरप तेंय सांगिल्लें.

तरीय पयलेच खेप भायर जातकर रगत पळोवन सिताबाय भियेली. व्हनीन सांगिल्लें तें सगळें ती विसरली. तिणें बेगी-बेगीन कल्याणाक सांगलें, 'कल्याण म्हाका सकल घाय जाला सो दिसता. रगत येता. कापडान चिकटायल्यारय थांबना.'

कल्याणान हांसून म्हळें, 'भिवनाका सिताबाय. तुका घावो बी कांय जाऊं ना. अशें तीन-चार दीस रगत येतलें. चल, विठ्याआईक सांगून तुका न्हेसयतां.'

- 'शी ऽ शी ऽ , कल्याण, कोणाक सांगू नाका ही खबर. लज शी. तूंच वखद लाय म्हाका.'

- 'आगे, हो घाय वखदांनी थांबपा न्हय. राव कळटलें तुका आतां सगळें. ही खोश्येची गजाल. सगळ्यांक सांगुकच जाय.'

- 'शी ऽ गो कल्याण. तीं म्हका कितें म्हणटलीं?'

- 'सिताबाय अशें सगळ्यांक जाता. तुयें विठ्या आई, ताईबाय म्हयन्या चार दीस वेगळीं रावतात तीं पळयल्यांत मगे?'

- 'हय, तांकां कावळो आफुडटा न्हय?'

- 'कोण पाडपडलेलो कावळो तेंकां आफडूंक येता? तुमकां भुरग्यांक कितें सांगतलीं म्हणून कावळो आफुडलो म्हणटात.'

- 'आवय! शी, व्हनीक कावळो आफुडटकीर ती वेगळी रावता, आपल्या उश्ट्याक शेण काडटा तें पळोवन हावें थारायल्लें, कावळ्याक केन्नाच आफडूंक दिवचें ना म्हणून.' इतलोवेळ रडकुरी परतल्ली सिताबाय आतां हांसली.

- 'आतां आफुडलोच तुका कावळो. आतां इंदू, विजयाक अशेंच सांग. तांकां खरे येन्ना सांगू नाका. कळटलें तांकांय बी.' सगळ्यांकच अशें जातलें हें कळ्ळे बरोबर सिताबायक मात्सें बरें दिसलें.

कल्याणान भितल्या घरांत सिताबायची गजाल सांगली. ते बरोबर तिगांय जावांच्या तोंडार हांसो फांकलो.

- 'जांव बाये, सिताबाय व्हडली जाली.' विठ्याआईन म्हळें.

कल्याणान सिताबायक घडी दिली. पातळ बदल्लें. तिका एका जाग्यार बसयली आनी कितें कशें करपाचें तें सगळें सांगलें. आनी कल्याण घरा वचून न्हावन आयलें. इंदू, विजय आनी कुमूदाक जेन्ना ही गजाल कळ्ळी तेन्ना तांकाय तिचे चुरचुरे दिसले. विजयान म्हळें, 'शी ऽ शी ऽ सिताबाय आतां तुवें कोण्णाक आफडप ना. एकाच जाग्यार बसप. आसुनी आमी हांगा लागींच बसून तुजेकडेन उलयतात.'

सिताबायक शेणाच्या वासान लेगीत ओंकारे येताले. आतां तिका जेविल्ल्या जाग्यार शेण काडूं जाय हें येवजून पयलें जेवण जेवतकच वोकूंक आयलें. ते बरोबर विठ्याआईन तिनय दीस कल्याणाक सितबायचीं सगळीं कामां करूंक लायलीं. आनी सिताबायक सांगलें, 'सिताबाय, कितें कशें करप तें सारकें शिकून घे. पयलेच खेपे म्हणून तुजें सगळें कल्याणाक करपाक सांगला. मागीर मात सगळें तुकाच करचें पडटलें. तिनय दीस तुजीं आयदना तुवें घांसप, कपडे तुवें उमळप. उदक तुका कल्याण घालतलें.'

मांयची सांगणी आयकून सिताबाय भियेली. तिणें हळूच कल्याणाक विचारलें, 'म्हाका अशें परत-परत जातलें गो? पोटांत बी अशेंच दुखतलें?'

कल्याणान तिका फुसलायली.

चवथेदिसा सिताबायक हळडीउदकान माथ्यार न्हाणयली. तिर्थ पिवपाक दिलें. दुसऱ्या दिसा तिका फुलां माळपाचो आक्त केलो. वाड्यावयल्या चार-पाच घरांतल्या बायलांक आपयलीं. बागेर सिताबायच्या मोन्या बाळंटेराचो रकाद पयलींच पावयल्लो. बान त्याच मानायाकडल्यान खोशयेन कापड-खण, नाल्ल दिवन होंट धाडिल्ली. व्हनीन तिचे आवडीचे मुगां लाडू आनी बटाट कापां करून धाडलीं.



आठ दिसां भितर बरोसो दीस पळोवन तिच्या फळयेतोंडाचो आक्त दवरलो. सकाळच्यान घरांतल्यो बायलो सिताबायक पळोवन

कुचकुचू करून उलयताल्यो आनी हांसताल्यो. केंसरआका मात खुबच फडफडटालें. सिताबायक बेश्टींच कामां सांगतालें. ती चुकली काय घे ऽ मागीर तिका जाय-फाय उलयतालें. सिताबायक रडूं येऊं लागलें. विठ्याआईक - कळ्ळें, 'सिताबायचें फळयेतोंड म्हणून केंसरआका खुबलां... कोणाचें फळयेतोंड जांव, कोणाक गुरवचार येऊं, केंसरआका असोच बोवाळ घालता, पयलीं पयलीं तर तकली आपटून घेवन रक्तां लेगीत व्हांवयतालें... अशा दिसांनी तें कोणाकच घरांत उमेदीन रावंक दियनासलें. ... आतां जाण्टेपणातय सभाव बदलना म्हळ्यार कितें? आज दीसभर सिताबायक खातलें तें... ती आपलेभितर फडफडली. मागीर कल्याणाक कुरू करून सांगले सिताबायक काकीबायचे रांदचेकुडींत व्हर म्हणून.

कल्याणान विठूबायलेक केंसरआकाची गजाल सांगली. विठूबायलेन कल्याणाक सांगलें. 'जाणा कल्याण, आज केंसरआका सिताबायक थार करचेंना. आसूं तिका म्हज्या म्हऱ्यांत. सांजवेळा धाडटां म्हणून सांग विठ्याआईक.'

सिताबायचें आजाप वाडलें... घरांतल्यो बायलो म्हाका पळोवन हांसतात... कितेंकितें उलयतात, म्हाका कांयच कळना... केंसरआका बेजार जालां... तेंय कितें उलयता तें म्हाका कांयच कळना... कितें जालां काय?'

आपल्या मनांतले प्रस्न ती सदांच कल्याणाक विचारताली. कल्याणान हांसून म्हळें, 'सिताबाय, आज तुगे फळयेतोण न्हू म्हणून तुजी सगळीं फकाणां करतात.'

- 'म्हाळ्यार कितें गो?'

- 'तुका रातीकडेन कळटलें.' अशें म्हणून कल्याणय खू खू खू करून हासूं लागलें.

सिताबाय बेजार जाली. '-कल्याण, तूंय हांसता म्हाका? हांव उलोवचें ना हां तुजेकडेन.'

- 'सिताबाय, आयच्यान तुवें व्हडलेआईचे कुडींत न्हिदप ना. रायूदादाचे कुडींत न्हिदप.'

- 'शी ऽ कल्याण तुका पिशें लागलां, ताचे कुडींत... ना गो, म्हाका संवय ना दादले आसा थंय न्हिदपाची.'

- 'आतां संवय करची पडटली तुका सिताबाय.'

- 'शी ऽ , आमी काय बरीं हांगा मजा करीत न्हिदतात.'

- 'सिताबाय, रायूदाद तुगे घोव. आयच्यान तुका तेजेच कुडींत न्हिदचें पडटलें. लग्न जातरीच बायलेक घोवाचेच कुडींत न्हिदचें पडटा.'

... शी सामकी लजेची गजाल... ताका हांव वळखना सुध्दां... घोव जाल्यार कितें जालो... हांव न्हिदचेंना ताचे कुडींत... आनी सगळ्यांनी फोर्सान धाडलें जाल्यार?... येवजुनच सिताबाय चिंतेस्त जाली.



सिताबाय आनी ताईबाय तशीं एकाच वयाचीं. दोगीय जावो बऱ्यो इश्टिणी जाल्ल्यो. ताईबाय बरोवंक-वाचूंक शिकिल्ली. तिका पुस्तकां वाचपाची आवड आसली. रातचीं व्हडलीआईचे कुडींत न्हिदतना विजय, ताईबाय बाकीच्यांक पुस्तकांतल्यो काणयो वाचून दाखयतालीं. सिताबाय त्यो काणयो आयकुपाक रातीची वाट पळयत रावताली. पूण ती रायूदादाचे कुडींत न्हिदूंक वचत साकून तिचें काणयो आयकप बंद जालें.

तिचे फाटोफाट ताईबायकय न्हाण आयलें. तीय आतां शाणूचे कुडींत न्हिदूंक वचूं लागली. तांचे वाचप बंद जालें. तेन्ना सिताबायन माण्णी काडली. दनपारचीं सगळीं न्हिदतात तेन्ना सदां तीं खेळटालीं. त्या वेळार पुस्तकां वाचून दाखोवचीं म्हणून सिताबायन सांगलें. सिताबायची सांगणी सगळ्यांक आवडली. आतां दनपारचो थोडो वेळ विजय ना जाल्यार ताईबाय काणयां पुस्तकां वाचून दाखयतालीं.

वैकुंठबाबाच्या जायल्याचें लग्न जावन तीन-चार वर्सां जाल्लीं, मोगरें, जयमिनी आनी जायल्याचें लग्न बरोबर जाल्लें. जयमिनीगेर दोन भुरगीं जाल्लीं. मोगऱ्यागेर एक चलो जाल्लो आनी तें दुसरे खेपे गुरवार आसलें. जायल्यागेर मात भुरगें जाऊं नासलें. त्या कामाक ताची मांय आजीमांय ताका खूब्ब त्रास करतालीं. व्रता-वैकल्ल्यां करून घेतलीं, आपूणय करतालीं.

जायलें तीं सांगतात ते उपास तपास करतालें. घाडी भगत सांगता तीं देवस्पणा मांयच्या आदारान करतालें, पूण खरी गजाल तें मांयक, आजीमांयक सांगूकच शक नासलें. ताच्या घोवान ताका केन्नाच हात लायलोना. ताची दवरिल्ली दुसरी बायल आसली. तो भाटा बेंसाच्या वावराचें निमित्त करून चडसो तिगेरच आसतालो. ताचे वावराडेकडल्यान ताणें आयकल्लें. रातचो घरांत आयलोय जाल्यार जायल्यावटेन फाट करून न्हिदतालो. घोवाचें हें दुःख तें भितल्ले भितर सोंसतालें. बरे तेपान कुळारा येतकर ताणें ही गजाल आवयक सांगली. हिराबाय तरी बाबडी कितें करूंक शकताली? तरी तिणें जायलें वतकर जावांकडे आपलें दुःख वांटलें.

जायल्याक घोवोचें दुःख एकेवटेन आसलें जाल्यार दुसरेवटेन मांय, आजीमांय आनी तांगेरच रावपी ताची बालविधवा आतेमांय त्रास दितालीं. ताचेकडल्यान सगळो घश्टो करून घेतालीं वयल्यान आळश्या, वांजूड म्हणूनच उलो मारताली. ताका कुळारालेगीत वचपाक त्रास करतालीं. धाडलेंच जाल्यार निमतां सांगून आठ-पंदरा दिसांनी परत व्हरतालीं.

अशे परिस्थितींत अचकीत एक दीस जायल्याचो घोव पेडयेर जालो. नायकिणीगेर आस्तनाच ताका मरण आयले. घरच्यांनी ताच्या मरणाचो बोवाळ करनास्तनाच ताचो विलो केलो. दुसऱ्या दिसा सांजवेळचो वैकुंठबाबागेर रकाद धाडलो. तिनसांजचो रकाद पाविल्ल्यान दुसऱ्यादिसा सक्काळीं हिराबाय वैकुंठबाबा, विष्णूदाद

आनी विठूभाऊ जायल्यागेर गेले.

माथ्यार पदर घेवन पोटली करून बशिल्ल्या जायल्याक पळोवन हिराबायक धक्को बसलो. ताका घट्ट वेंगांत घेवन ती हो हो करून रडूं लागली. ताची मांय थंयच बसून दुकां गळयताली. तेन्नाच भितर आयिल्ले आजीमांयन तांचें रडप आयकलें आनी एक धेंगसो घालो. - 'आमकां तुमचेपरस चड दुःख जालां. अशें बोब मारून रडपा गरज ना. '

इतली फटकळ हिराबाय, पूण आज तिचीं उतरां नाच्च जाल्ली. आनी ह्या प्रसंगार उलयतली तरी कितें? तिणें थरथरत जायल्याच्या माथ्याक हात दाखोवन म्हळें,

- 'हें--हें कितें केलें?'

- 'करपा जाय तेंच केलां. आमी जाणात, तुजे मांयन धुवेचे केंस कापूंक दियनास्तना ताका घरांत दवरून भश्टक्कार केला. म्हणून तुमकां उसरांच रकाद धाडला आमी. तुजो तो सुधारक देर येवचे पयलीं तिचे केंस कापून घेतल्यात आमी. आमचीं शास्त्रां आमी सांबाळ्ळयांत. तुमच्या असल्या धर्म बुडोवपी घराण्या भशेन आमकां वागूंक जावचेंना.'

इतलें उलोवन जायल्याच्या मांयक घेवन आजीमांय भायर गेली. ते बरोबर जायल्यान हळूच आवयक सांगलें,

- 'आई, कितेंय कर, पूण म्हाका हांगा दवरनाका. हांव तुमगेर येतां.'

हिराबायन दीस जातकर जायल्याक कुळारा व्हरतां म्हणून सांगलें. आनी तीं पतलीं.

वाटेरच तिणें रडरडत विठूभाऊक सगळी गजाल सांगली. विठूभाऊन संतापान मुठी आंवुळ्ळ्यो, 'रानवटी मनशां तीं. कांयच सूख दिलें ना तांणी आमच्या पोराक. मेला तो आनी मनीस न्हय हैवान. लोक सांगतात तें आयकुनच म्हजी तकली गेली. हिराबायन हळूच म्हळें, 'वावराडे भशेन झरोवन खालें म्हज्या पोराक.'

-'खाऊं आशिल्लें झरोवन, पूण त्या हणभरान पळे केलां तें आयकुपाचें न्हय. मेला तो सुटलो म्हणपाचो.मुंडकाऱ्यांच्या धुवांक, तरण्या बायलांक कोणाक सोडनासलो खंय तो. आमचे बायेक आपली भायली पिडा दिवंना जाल्यार पुरो.'

हिराबायन फट्ट करून म्हळें, 'ना, तितलें हांव खात्रेन सांगता, आनी हिराबाय मुसमुसून रडूं लागली. विठूभाऊ इतलें उलोवन वोग्गी बसलो.

वैकूंठबाब घुम्यावरी वोग्गी बसून रावलो. जायल्याचे केंस कापिल्ल्याची खबर आयकून वडगांवां सगळ्यांक धक्को बसलो. जायल्याच्या घोवाचे दीस जातकर विठूभाऊ बायलेक घेवन तांगेर गेलो. तांणी जायल्याक कुळार व्हरूंक आयल्यांत म्हणून सांगना फुडें ताचे आजीमांयन बोवाळ केलो. पूण विठूभाऊन थंडपणान सांगलें, 'तुमी देव धर्म सांबाळपी, सगळीं शास्त्रां रिती रिवाज सांबळटात. घोव वतकर थोडेदीस कुळारा व्हरपाचें शास्त्र आसा न्हय. म्हणून व्हरपाक आयल्यांत आमी. रोखडेंच हाडून पावयतात ताका.'

विठूभाऊन रीत म्हळ्या बरोबर आजीमांय वोग्गी रावली. 'रोकडीच हाडून पावयता तिका.' इतलें सांगून ती भितर गेली.

कुळारा आयल्या बरोबर जायल्यान म्हळें, 'परत म्हाका त्या घरांत धाडल्यार, हांव पांट्यार वचून जीव दितलें.' ताचें उलोवप विठूभाऊच्या कानार पावतकच ताणें म्हळें,

-'जायल्या, तूं भिवनाका, तुका आमी त्या रानवटी मनशाकडेन परत केन्नाच धाडचींना.'

जायल्याक व्हरपाक घरच्यांनी दोन फावटी मानायक धाडलो. तरीय तीं जायल्याक धाडनात तें पळोन निमणे जायल्याचें आजीमांयन तांकां रकाद धाडलो, 'नातवाबरोबर आमी नातसूनय मेली समजतात. ताच्या कसल्याच बऱ्या वायटाक आमकां सांगून धाडपाची गरज ना.'

हिराबायन जायल्याक वेंगांत काडून हुस्कार सोडून म्हळें, 'चल

पुता, तुज्या आयुश्यांतलो एक अध्याय सोंपलो.' जायल्यान म्हळें, 'सोंपलो काय सुरु जाला तें देवता जाणा'



सिताबायक आनी ताईबायक, फाटींफुडें गुरवचार आयलो. मदीं तीन म्हयन्याचें अंतर. विठ्याआईचो जीव सुपायेदो जालो. दोगांय सुनांची कशी तोखणाय करूं अशं तिका जालें. पूण त्याच वेळार विष्णूदादाचे हात बरचे मोटवे जाल्ले. बेंसाभाटांतल्यान येवपी उत्पन्न घरखर्चाक, घरच्यो रितीभाती सांबाळपाक, सणापरबांक पावयतासर विष्णूदादाक नाका शेवट जातालो.

शाण्याक आपल्याचेर रीणाचें ओजें घालां म्हणून पयलींच बापायचो राग आसलो. तो मनाक माल्ल्यार बापायक पयशे दितालो. ना जाल्यार तीन - तीन म्हयने दियच नासलो. हरीची शिर्वीस पणजे. चार-पांच इश्टांवांगडा हरी पणजे रावतालो. ताका थंय जेवणा खाणाक पयशे लागताले. तरी तो बापायक म्हयन्या-म्हयन्याक थोडे तरी पयशे दितालो.

तरी दिसानदीस वाडट्या खर्चाक ते पयशे कशेच पाव नासले. सुनो गुरवार म्हणून कळ्ळे बरोबर विष्णूदाद मात भितल्ल्यान आकूळ-पिकूळ जालो. वयल्यान ताणें अडेचो नेट पांगुरिल्लो तरी विठूभाऊक भावाची दैना कळटाली. ताणें एक निर्णय घेतलो. ताणें वर्साचे चार चार म्हयने तिनय भावांक वांटले. त्या चार म्हयन्यांत येवपी सोयरे-धायरे, लोकांचीं लग्ना मुजी सारकीं कार्यां, त्या म्हयन्यांत येवपी हेर खर्च त्या त्या भावान करप अशें थारायलें. पावसाचे चारय म्हयने ताणें विष्णूदादाचेर घाले. त्या म्हयन्यांत चडशीं सोयरी येय नासलीं, आनी कार्यांय नासतालीं.

सदचे वरी वैकुंठबाब फडफडलो. पूण विष्णूदादाक मात सूऽ जालें. ताणें रातचें बायले कडेन उलयतना विठुची तोखणाय केली. तोंडार ताका तोखेवपाची ताची रीतच नासली. पूण विठ्याआईन विठूबायलेक

आपल्या घोवान विठूची कशी तोखणाय केली तें सांगलें. आपल्या घोवान ही माण्णी कित्याक केल्या तें विठूबायलेक खबर आसलें. म्हणून जावेची गजाल आयकून तिचें तोंड मुमुरखेंच जालें.

सातव्या म्हयन्यावेलीं फुलां माळून सिताबायक बांळटेराक कुळारा धाडली. बैलगाडयेन मानाया बरोबर तिका एकटी धाडूं नये म्हणून कल्याणाक, विजयाक आनी कुमुदाक तिचे बरोबर धाडलीं.

सिताबायक कल्याणाक कुळारा हाडून बाक दाखोवचेली केन्नाच्यान उमळशीक आसली. कल्याण तिका आपली इश्टींण कशी दिसताली. आतां कल्याण आनी दोनय नंडो आपलेबरोबर येतात म्हणून तिका खोस जाली. वाटभर ती तांकां आपल्या गांवाची व्हडविकाय सांगताली.

शिरोडें गांव हो अंत्रुजेंतलो पाचव्याचार सैमान, शेतांनी, कुळागरांनी नटिल्लो गांव. एके वटेन दोंगर, सकल कुळागर तांचे सकल शेत, शेताधडे भायल्यान खळखळीत व्हांवपी व्हाळ.' त्या कुळागरांमदीं एक कुळागर आशिल्ले सिताबायच्या बापायलें. प्रत्येकाच्या कुळागरांत एक एक तळूल आसतालें. पूण सिताबायच्या कुळागारांत मातदोन तळयो आसल्यो. एक शिंपणे तळूल आनी एक भुतां तळी.

भुतां तळये तिनय वटेन व्हड व्हड पाशाणा आसले. त्या पाशाणा मदीं एक घोल आसली. ते घोलीक देवाची घोल म्हणटात. चार मनीस भितर रावंक शकतात इतली ती धोल व्हड आसली. बाटाबाटी वेळार इश्वरा देवळांतली म्हूर्त ते घोलींत लिपोवन दवरिल्ली. थंय कोणे वचूं नये, थंय भश्टक्कार जावूं नये म्हणून ते तळयेर भुतांआसात म्हणून फामाद केल्ले खंय. मागीर मागीर थंय खरींच भुतां दिसतात म्हणपाचो बोवाळ जाल्लो. खरें फट कोण सोदूंक वच नासलो, पूण भुतां भंयाक लागून तो जागो मात नितळ,पवित्र उरलो.

त्या गांवांतलीं भुरगीं इश्वरा देवळा भोंवतणी आनी कुळागरांत खेळटालीं. कुळागरातलीं कामा करतानाच तांचो खेळय रंगतालो. सिताबाय सकाळची, बुटी घेवन बेडे पुंजावंक, कुळागरांत उदक

सोडूंक वताली. तिच्यो इश्टिणीय तांच्या कुळागरांत आसताल्यो. मागीर एकमेकांक कुकाऱ्यो घालून तांचो खेळ रंगतालो. आंब्या पणसाच्या दिसांनी तर बेड्या वांगडा घोंटां पुंजावपाचें व्हडलें काम तिका आसतालें. ल्हान व्हड आकाराच्यो पोंवल्यो बा करून दवरताली. घोंटां पुंजावंक त्यो पोंवल्यो आनी बेड्यांक बुटी घेवन सिताबाय कुळागरांत वताली.

एप्रील-मे म्हयन्यात तांची चड मजा आसताली ती दोंगरार वचपाची. चारां, चुन्नां, काण्णां, हांचीं झोपां मदल्या दोंगरार आसतालीं. पूण सामकें वयर गेल्यार हांसाळीं, आदमां हांचीं ल्हानखुरीं झाडां आसतालीं. त्या झाडांचेर चडपाक सिताबायक आवडटालें. घागऱ्याचो कासाटो मारून ती झाडार चडटाली.

शिवड्यां येतना वाटेर सिताबायन ह्यो सगळ्यो गजाली आपल्या नंडांक आनी कल्याणाक सांगल्यो. ती सांगूनच रावली ना, शिवड्यां येतकर तिणें तांकां सगळ्याक भोंवडायलीं. बान तिका दोंगरार मात चडूंक दिलें ना.

आठ दीस सिताबायच्या कुळारा रावन विजय, कुमूद आनी कल्याण वडगावां परतलीं.



चवदाव्या वर्सा सिताबायक गुरवारचार आयिल्लो. अजून तिचीं भुरगेंपणा सोपूं नासलीं. तिणें कशीय बसप कशीय उठप. मागीर हांगा दुखता, थंय दुखता, फाटींत येता म्हणून बोवाळ घालप, जेवतना, खातनांय तिका सुमार नासतालो. खतखतें हरशींच तिच्या घोस्ताचें, तातूंत दुवाळ्यांवेळार खतखतेंच खायन दिशिल्लें. वडगावां तिनय मांयांनी तिका जायतशें दुवाळे पुरयिल्लें. आतां व्हनी उमेदीन तिका जाय जाय तें करून घालताली. वडगावां आसतना लजेन ती खायन दिशिल्ली वस्त लेगीत घस घस करून खाय नासली. हांगां व्हनी म्हऱ्यांत मात ती कितें खायन दिसता तें सुमार धरनासतना खाताली.

मागीर पोटांत किसकिसता, फाटींत किसकिसता करून बोवाळ घालताली.

पूण बा मनान घट्ट. सिताबायच्या बोवाळाक ती मातय भियनासली. व्हनीचो जीव मात वयर सकल जातालो. घोग्यांनी पावस पडटकर तर व्हनीक वोगीच नंडेचो भंय दिसतालो. तिका थंडी बारखूण जाऊ नये म्हणून ती जपताली.

घोग्यांनी पावस पडटकर भाजिल्ल्यो काजुबियो, भिकणां साठां, चिचारे, असलीं खाणां खायत तीं बाल्यो गजाली आयकताली. आतां सिताबाय तांकां वडगांवच्यो गजाली सांगतालीं.

-'जाणा बा, घोग्यानी पावस म्हळ्यार कितें तें आमच्या घरा पळोवचें. आंगणांत चारय कोनशांनी येदे मोठे घोगे पडटात ते पळोवन पयल्याच वर्सा हांव भियेवन रडूं लागलें. तेन्ना आजी आशिल्ली न्ही? तिणें आपल्या म्हऱ्यांत बसोवन म्हाका विसरायेर घालें. आतां म्हाका त्या घोग्यांचो भंय दिसना. त्या घोग्यांचेर दादले न्हातात. आतां हांव त्या घोग्यांक मात्तय भिना. आनी जांणा थंय पांण्टयाक हुंवार पळे येऽता. तांबडें गुंज उदक सामकें. मागिलदाराच्या पोरसांत लेगीत उदक येता. तातुंतल्यान हार, म्हायंडोळ असलीं व्हडली व्हडलीं जिवाणी येतात खंय घरांत.'

-'आवयस, तुवें पळयल्यांत गो आत्या?' नागनाथान भियेवन विचारलें. राजारामान म्हळें, 'आत्या तो हुंवार पळोवंक म्हाका तुमगेर व्हर हां.'

-'बरें भशेन येयात. आनी मगे बा,... सिताबायच्यो वडगांवच्यो व्हडविकायो तिचे भाव लेगीत आयकूंक बसताले. भयणुलेच्यो घरच्यो गजाली आयकून बा वरी तांकांय धन्य दिसतालें.

सिताबाय बाळंटेराक येतनाच विठ्याआईन तिका घरांतल्या भुरग्यांचीं आंगलीं-तोपरीं, पोळेर बरीं करून उमळून दिल्लीं. नव्या जाल्ल्या भुरग्याक जाले बरोबर नवे कपडे घालप ना हो तांचो नेम.

व्हनीनय आपल्या भुरग्यांची आंगलीं-तोपरीं, उमळून दवरिल्लीं. तरीय उमेदीन आडसाटे पोळेर, मांडे केल्ले. मात्सीं व्हडशीं आंगलीं शिंविल्लीं.

णव्या म्हयन्यावेली फुलां माळून चार दीस जाले उपरांत सिताबाय मात्सी आळसावली बाक बरोबर कळ्ळें. तिची नदर सिताबायचेरच आसताली. तिणें व्हनीक म्हळें, 'शांतूल फुल्लट. केन्ना बाळंत जायत कळना. ह्या दिसांनी तें आळसाविल्लेवरी जालां. वैजीणीक हाडून दवरल्यार बरी काय म्हणटां. राती-विती कोण धांवतलो तिगेर?'

-'हय बाय, तरी एक बरें आसा. ह्या दिसांनी हे घरा आसात.'

-'आसात म्हळ्यार? हांवेंच सांगलां तांकां. शांतूल बाळांत जायसर भायर वच्चे ना म्हणून. शांतूल आमचें खरें, पूण आतां तें दुसऱ्याची वस्त. सांबाळून बांळटेर काडूं जाय आमकां. बरेभशेन तांची सून आनी भुरगें तांगेर धाडलें काय आमी सुटलीं.'

-'हय बा.'

णव्या म्हयन्याचेर आठ दीस वतनाच सिताबाय बाळंत जाली. चलो जाल्लो. बान उमेदीन वडगांवा नाल्ल आनी साकर दिवन हरिदत्ताक सिताबायच्या भावाक धाडलो.

सिताबाय चल्याक धरपाक लेगीत भंय दिसतालो. भंय म्हणचे परस वीट येतालो. ती ताका धरच नासली. भुरग्याचें सगळें काम बा आनी व्हनी करतालीं. व्हनीचो शिवराम आठ म्हयन्याचो आसलो. तरी व्हनी नंडेची अर्थ -अपुरबाय करताली. भुरग्याक दूद दिवपा वेळार लेगीत सिताबाय ताका हात लाय नासली. बा आपूण भुरग्याक धरून तिचे चिंवेक लायताली.

वडगांवच्यान गाडीभर पठ्ठाळ्याचें सामान विठ्याआईन धाडिल्लें. आनी चल्याक दत्तात्रय नांव दवर म्हणून रकाद धाडिल्लो.

दत्तात्रय दोन म्हयन्याचो जातकर, मात्सो आंगापांगान भरतकर

सिताबाय ताका धरूं उकलूं लागली. पूण ताचीं सगळीं कामा बा आनी व्हनीच करताली. आतां तिका दुदाक धरुंक मात कळटालें. बाचो एक वावर तिणें कमी केल्लो.

दत्तात्रयाक स म्हयने जातकर रितीप्रमाण विष्णूदादान सुनेक आनी नातवाक धाड म्हणून रकाद धाडलो. पूण बान काकुळटेक येवन सांगलें, 'बाय अजून ल्हान न्हय, आनी चार म्हयने दवरून घेतां ताका.'

विष्णूदादान रोखडेंच मानून घेतलें. ताका एके वटेन सू जालें. तांगेरय इंदू बाळंत जाल्लें. ताका चली जाल्ली. तेवटेन ताईबायगेरय चली जाल्ली. तीय आपल्या कुळारा आसली. विठ्याआई आतां जाण्टी जाल्ली. सगळीं कामां तिका झेप नासलीं. सिताबाय आनी चार म्हयने रावता म्हणून कळटकच तिका मात्सो सुशेग जालो. ती येतासार इंदुचें चली व्हड जातलें, असो तिणें मनात हिशबे केलो.



धाव्या म्हयन्याचेर सिताबाय दत्तूक घेवन वडगावां आयली. विठूबायलेगर तुकाराम जाल्लो. मांयच्या उतारांची विठ्याआईक परत याद जाली. 'म्हजें घर गोकूळ कशें फुल्लां. रायूलो दत्तू, इंदुलें विमल, विठूबायलेलो तुकाराम आनी ताईबायलें कुसूम. भुरग्यांच्या आवाजान परत एकदां म्हजें घर भरतलें.

विठ्याआईक सुनो जांव धुवो बरेभशेन बाळंत जायसर सूख लगनासलें. कोणय गुरवार म्हणटनाच तिका पयलीं येवजताली विठूची पयली बायल सरस्वती. तिचो भंय विठ्याआईच्याच न्हय तर कोणाच्याच मनांतल्यान अजून वचूं नासलो. गुरवार बायल बरेभशेन बाळंत जायसर देवतेक आंगवणी करत रावताली. जपमाळ घेवन जप करत बसताली.

तांच्या घरांत सुनो ना जाल्यार धुवो हांचीं बाळंतपणां आसतालींच. तरी विठ्याआईचो जीव वयर सकल जाले बगर रावन नासलो.

सिताबाय येवन पंद्रस वतासार ताईबाय कुसुमाक घेवन आयली. थोड्या दिसांनी इंदू आपल्या घरा गेलें. भितल्ल्या घरांत कोण ना जाल्यार कोण गुरवार, बाळंत, ल्हान भुरगीं फाल्त नासतालीं. पूण केन्नाय कोणच उबग नासलीं.' सगळीं उमेदीन भुरग्यांचो वावर करतालीं.

सिताबायक बान आनी व्हनीन दत्तुचीं सगळीं कामां करूंक शिकोवन धाडिल्ली. शिरवयकारागेर चेडवां, वावराड्यो फाल्त नासल्यो तरी भुरग्यां आवयांक मातय थार मेळनासलो.

सिताबायक दूद भरपूर मेळटालें. ताईबायलें मात कुसुमाक स म्हयने जातासर दूद आटिल्लें. कुसूम दुदाक लागून किरकिरत रावतालें. सिताबायन मांयक विचारून आपलें दूद ताका दिवंक सुरवात केली. कुसूम थंड जालें, आनी ताईबाय खोशी जालीं.

भुरग्यांच्या कुलकुलाटांत भितल्ल्या घरांतल्यो बायलो वय विसरून वावुरताल्यो. भायर दादल्यांची तरा वेगळीच आसली. विष्णूदाद वयापरस चड जाण्टो दिसतालो. संवसाराचो गाडो कसो ओडप हाची ताका सदांच चिंता जाताली.

वैकुंठबाबान केन्नाच कसलो पेज तकेर घेतलो ना. आपलो धंदो, झाडां-पेडां आनी आपलो छंद हातूंतच तो घुस्पून आसतालो. तांचे छंद पयलीं घरापासून पयस आशिल्ले. पूण आतां ताणें नाल्लांच्या लॉजार निमतां करून दीसभर रावपाचें धरिल्लें. रातचो न्हिदपापुरतो तो घरा येतालो. हिराबाय ताचें जेवण लॉजार धाडून दिताली.

ताच्या भायल्या छंदा विशीं कोणाकोणाकडल्यान घरच्यांच्या कानार येतालें. पूण कोणच आवाज काडनासलो. लोजाचे एके कुडींत वैकुंठाबाबान रंगम्हाल करून घेतलां हो कुचकुच भितल्ल्या घरांतय पाविल्लो. हिराबायच्या कानार लेगीत पडिल्लो. पूण ती कानार केंस काडून वोग्गी राविल्ली. कारण ती घोवाचो हट्टी सभाव पूर्ण वळखून आसली. आपणे कितलोय जीव पिसडून घेतलो म्हूण तो बदपार ना हें ती जाणा आसली. जायलें माथ्यार पदर घेवन कुळारा परत येत साकून

ती पयलींच हालिल्ली. तातूंत घोवाचें करतूप कानार येतकर तर तिणें आपल्याक ख्यास्त कशी करून घेतिल्ली. ती सत्यभास काडिल्लेवरी घरांत वावुरताली. तिचें खळखळून हांसप, चांटये पावलाक विनोद करून उलोवप, टोमणे मारप सगळें सगळें बंद जाल्लें.

व्हडल्या दोनय भावांच्यो दोन तरा पळोवन विठूभाऊन घरचे जबाबदारयेक मातें मारिल्लें. आपली शिर्विस सांबाळुनय विठूभाऊ बेंसाभाटाचीं घरघरवतचेचीं सगळीं कामां व्यवस्थीत पळेतालो.

विष्णूदाद हालींसराक आयिल्ले दिसा बरो ना जातालो. विठूभाऊन ताका सावड्या व्हरून दोतोराक दाखयल्लो. दोतोराचीं वखादं चालू जाल्लीं. पूण विष्णूदादाची कूड त्या वखदांक साथ दियनासली. विष्णूदाद म्हयनोभर हातरूणार उल्लो. आयिल्ल्या दिसा तो बायलेकडेन हरीच्या लग्नाची गजाल करतालो. ती एकच चिंता ताका सतायताली.

निमण्यावेळार ताचें उलोंवपय जड जाल्लें. तरी तुटक तुटक उतरानी ताणें विठूक सांगलें, 'तू.. जे.. व्हनी..चे केंस कापूं . ना.. का.' विठूभाऊन दोळ्यांतलीं दुकां आडायनासतना भावाक वेंग माल्ली.



# 7

विष्णूदाद गेलो आनी नाय म्हळ्यार घराची घडी मात्सी हाल्लीच. विष्णूदादान घराचो भार विठूभाऊचेर दिल्लोच. आतां खऱ्या अर्थान विठूभाऊ घराचो कर्तो-सवरतो जाल्लो. घर घरवत देव-देवस्की सगळें आतां विठूभाऊ आनी ताचे बायलेचर आयिल्ली.

तेच बरोबर गांवातय सगळ्यांत व्हडलें घर तांचेच आसलें, बेंसा भाटानय तेच ताण आसले. म्हणून गांवच्या कारभारांतय तांकां चड मान आसलो. गांवचो कसलोय प्रस्न सोडयतना गांवांत कितेंय सुदारणा करतना उलोवपाचो पयलो मान विष्णूदादाक आसलो. गांवांत कसलीय धार्मीक कार्यावळ जांव, रासवळ मनोवपाच्यो सण-परबो आसूं ताचे विशीं थारावपाक गांवकार देवळांत जमताले. त्या वेळार कसलोय थाराव घेवपाचें काम पांच जाण थरोवन घेताले खरे, तरी मुखेल उलोवपी शिरवयकारल्या घरांतलो जाण्टेलोच आसतालो. इतलो तेप शंकरबाबा फाटल्यान विष्णूदाद हें दायज चलयतालो. आतां हीय जबाबदारी विठूभाऊचेर आयिल्ली.

विठूभाऊ प्रत्यक्ष गांवच्या कारभारांत जरी उलयनासलो तरी चावडेर ताच्या वयाचे इश्ट मेळटकर गांवां पासत कितें करूं जाय, भायर कसल्यो सुदारणा आयल्यात हाचेर भासाभास करतालो. ताका लागून

गांवच्या कारभाराची ताका पुराय जाणीव आसली. गांवांतले चवग जाण जंय मेळटात, ते मागीर चावडेर जांव, देवळांत जांव, थंय वचून वेळ आसल्यार विठूभाऊ पेपरावेल्यो नवीदादी वाचून दाखयतालो. कसल्यो, कसल्यो सुदारणा आयल्यात, कितें नवें घडलां ताचेर मागीर तांची भासाभास रंगताली.

जायल्याक माथ्यार पदर घेवंक लायत पसून विठूभाऊ सामको बेजार जाल्लो. अशे सगळे मेळटात त्या वेळार तो तावातावन उलयतालो. ताचे इश्ट मागीर ताका कोलायताले,

-'तुजे व्हडले आईन, तुज्या भयणीचे केंस कापूंक दिले ना, पूण तुज्या धुवडेच्या घरच्यांनी कितें केलें. जायल्याचे केंस कापतना तुमची सुधारणा तांकां आडावंक शकली ना.'

-'विठू, तुवें फकत उलोवन दाखोवपाचें रे.'

- 'गोयांभायर हाचेर केद्यो चळवळी चलल्यात, हांव तुमकां वाचून दाखयतां मरे?'

- 'तशें गोयांत केन्ना जातलें रे?'

- 'विठून कितेंय केल्यार.'

- 'विठू तो, ताच्यान कितें जातलें, ताणें फकत हांगा आमकांच सांगपाचें.'

- 'ना हां, अशें म्हणू नाकात. जायल्याची गजाल सोडात. विठू पयलीं घरांतल्यान सुधारणा करता. व्हनीचे केंस कापूंक दिले ना पळे ताणे.'

- 'हय, हावें कितेंय करया म्हळ्यार तुमी म्हाका पयलीं सांगात दिवूं जाय. आमचो गांव सुधारलो काय आमच्यानी शेजारच्या गावांत वचून सांगू येता. आसात व्हय तुमी तयार?'

विठूभाऊन अशें विचारतकर मात सगळ्यांचीं उतरां गुळगुळटालीं. 'हय रे, सर फुडे तूं.' 'पळोवया रे वेळ येतकच.' अशें ते अमंतर शी जाप दिताले.

पूण गांवांत विधवा बायलांचे केंसकापपाची रीत एक एक घर मोडूंक लागिल्लें.

विठूभाऊन गांवांतल्या लोकांक शिकपाचो मार्ग घालून दिल्लो. चावडेर लागसारच तांच्या जाग्यार चार कुडींची एक शाळा बांदून दिल्ली. गांवचीं भुरगीं थंय मराठी शिकतालीं. रायूदाद थंय वचून शिकयतालो. सुरवातीचें शिकप थंय वचून घेतकर थोडेशे भुरगे मुखार शिकूंक केप्यां ना जाल्यार हेर कडेन वताले. थंय रितीप्रमाण शिक्षण, परिक्षा आसताल्यो.

चलयांक मात ते शाळेंत कोण धाडनासलो. शिरवयकारागेर घरांत वयल्या वाड्यावेल्यो, देसाय वाड्यावेल्यो चलयो येवन वाचूंक, बरोवंक शिकयताल्यो. जायलें तांकां शिकयतालें. कशें शिकय, कितें शिकय सगळें जायल्याक विठूभाऊ सांगतालो.

माथ्यार पदर घेतिल्ले विधवा बायलेन जप-तप, देव देवस्पण करीत आपलो वेळ पासार करप अशी त्या वेळार रीत आशिल्ली. जायलें घरच्यान येतना ताचे मांयन आजीमांयन ताका कडकडवन हीं सगळीं व्रतां, देवस्पण तर करपाक सांगिल्लेंच तेच बरोबर ताका सांगिल्लें, 'तुका मगे वाचूंक येता, तुवें फकत देवा-धर्माचींच पुस्तकां वाचपाची, आनी कांयच तुवें वाचूं जायना.'

कुळरा येतकर जायल्यान थोडे दीस तांची सुचोवणी आयकली. पूण जायल्याक देवाधर्माच्या पुस्तका परस कथा-कादंबऱ्यो वाचूंक चड आवडटाल्यो. न्हाले बरोबर देवाची पुजा करप, जप करप, जालें, मागीर आनी ते देव-देव करत बस नासलें. उपास-तपास व्रता-बितां जीं चुकोवंक येनात तींच करतालें.

विठूभाऊन ताका चलयांक शिकोवंक लायतकर तें खोशयेन शिकोवंक लागलें.

दर म्हयन्याक केंस कापपाचो दीस लागीं येतकर मात तें सामकें सतर-वितर जातालें. पयल्याच दिसाताणें रडपाक सुरवात करप.

घराच्या फाटल्या वटेन जळवाकुडीक तेकून एक रिकामी कूड आसली ते कुडींत मागीलदारच्यान म्हालो येतालो आनी ताचे केंस कापतालो.

भीमा ताका घेवन ते कुडींत वतालें. केंस कापून म्हालो गेलो तरी कितलोच वेळ जायलें थंयच बसून रडटालें. भीमा ताका मागीर बळयांच हाताक धरून न्हाणयेंत व्हरतालें.

दर म्हयन्याचो भितल्ल्या घरांतलो हो बावाळ आयकून विठूभाऊ भितल्ले भितर फडफडटालो. विष्णूदाद वतकर ताणें विठ्याआई म्हऱ्यांत येवन सांगलें, 'व्हनी, तुज्या केंसांक हांव हात लावंक दिवचोना. दादानय निमण्यावेळार म्हाका हेंच सांगलां. तूं जाणा. ह्या मुखार कोणाचेरच जायल्यावरी प्रसंग येवचोना हाची जापसालदारकी तुजेर. हांव जाणा तुजेर बायलांचेच चेपण चड येतलें. तुका खूब आयकुचें पडटलें. पूण तूं भिवनाका हांव आसां तुजेबरोबर.'

विठुच्या ह्या निर्णयाचेर तांच्या सोयऱ्या धायऱ्यांनी ताका नांवां दवरलीं. केंसर आका लेगीत आपल्याक आवयन केंस कापपाक दिवूं ना हें विसरून भावजेक आनी विठून जाय-फाय उलयलें.

- 'विठू आमचो सुधारक, सगळ्यांक शिकयता. आतां केंस कापपाक आडायता. आनी कितें कितें नाका आशिल्ल्यो सुधारणा करता पळोवया. धर्म बुडोवंक भायर सल्ला हो. '

केंसरआकाचो बडबड कोणेच कानामनार घेतलो ना. हिराबाय आनी काकीबायन मात जावेक वेंग मारून खोस उक्तायली.



विठूभाऊच्या निर्णयान सोयऱ्यांवरी गांवकाऱ्यानीय ताका सुर्वेक नांवां दवरलीं. तेन्नाच मुकूंद शणैचो जांवय गेलो. ह्या वेळार मुकूंद शणैच्या बायलेन घोवाकडेन हट्ट करून सुकांतीचे केंस कापूंक दिले ना. ताच्या घरच्यांचें कांयच आयकनास्तना ताका कुळारा हाडलें. तरी ताचो मांव दोन वेळा म्हाल्याक घेवन तांगेर आयलो.

मुकुंद शणैच्या बायलेन सुकांतीक कशेंच भायर वचूंक दिलें ना.

दोनय वेळा ताचो मांव बल्कावांर बसून गाळीं फस्ती घालूंन परत गेलो. तकली सकल घालून मुकूंद शणै वेयाचें उलवप आयकतालो. पूण ताणें कांयच जाप दिली ना.

सुकांतीचो मांव येवन वतकर गांवांत बरोच खवदळ जालो. गावांत दोन तट जाले. विठूभाऊच्या समर्थकांनी मुकूंद शणैक परबीं दिलीं. जाल्यार दुसऱ्या गटान 'आमी असल्यांचेर बहिश्कार घालूं जाय' अशे फकत बडबडून तोंडाची खाज भागयली. प्रत्यक्षांत मात कोणेच मुकूंद शणैचेर बहिश्कार घालो ना.

विठ्याआईन माथ्यार पदर घेऊं नाशिल्ल्यान देव-देवस्पण आसतना तिका रांदचेकुडींत वचूंक मेळनासलें. रांदचेकुडीची जबाबदारी आतां सिताबाय आनी ताईबायचेर आयली. बेंसाभाटाचें काम शाणू पळयतालो. घर चलोवंक बापायन वेळाप्रसंगार काडिल्लीं रिणां पळोवन तो पयलीं बरोच चाळवलो. मागीर ताणें आवयक विचारून जायतो खर्च उणो केलो.

बेंसभाट तांणी बांटिल्लें, पूण सण-परबो रासवळार आशिल्ल्यो. आनी तो सगळो खर्च विष्णूदाद करतालो. विठूभाऊ ताका मदीं मदीं आदार करतालो. आपल्या बापायन घराब्याचो हो खर्च चलोवंक कशें रीण काडलां तें शाणून विठूभाऊक दाखयलें. विठूभाऊ शिटकावलो. ताका पुतण्याचें उलोवप पटलें. आतां तांच्या घराब्यांतली जाण्टी आशिल्ली ती विठ्याआई. तिका विचारून विठूभाऊन सणा-परबांचो खर्चय वांटून घेवपाचें थारायलें. सदचेवरी वैकूंठबाबान बोवाळ केलोच.

चवथ, वर्साच्यो चार पंचमी, दिवाळी तुळशीलग्न, जाण्टेल्यांचीं श्राध्दां आसतालीं त्या वेळार सगळीं एकठांय जेवतालीं. अशा वेळार उजगांव साकून रानपीमामा येतालो. तो तांचो घरचोच कसो रानपी. ताका आठ दीस पयलीं रकाद पावलो काय तो पयल्या दिसा वडगांवा पावतालो.

आतां खर्चाचे तितले वांटे केल्ले. पूण पयलींवरीच त्या दिसा

सगळीं एकठांय खाता-जेवतालीं, रानपीमामा बरोबर सगळीं सारकीं घोळटालीं. ताका लागून भायल्यांक कोणाकच तांचे भितल्ले वांटे कळनासले.

रानप्याबरोबर सामकी उबी रावताली ती विठ्याआई. पूण आतां तिचो हात लागनासलो. हिराबाय सगळ्यांमदीं आसूनय नाशिल्ले वरी वागताली. म्हणून काकीबायक ही जापसालदारकी आंगार घेवची पडली.

तांच्या घरांत व्हडले आईच्या वेळार साकून केन्ना कोणाक कामां वांटून दिलीं ना. प्रत्येक जाण आपलें कर्तव्य समजून जापसालकी आंगार घेतालीं. तेच परंपरेक काकीबायन पाळो दिलो. पूण प्रत्येक गजाल ती विठ्याआईक विचारूनच करताली.

विष्णूदाद गेला तेन्ना ताईबाय दुसऱ्या वेळार गुरवार आसली. ह्या वेळार तिका खर दुवाळे जाल्ले. तोंडांत उदकय धर नासलें. तातूंत कुसुमाची मस्ती. आतां रांदचेकुडीचो भार एकटे सिताबायचेर आयिल्लो. पूण ती उमेदी. घरची जबाबदारी बरे तरेन सांबाळुनय ती आपलो दत्तू आनी ताईबायच्या कुसुमाक सांबाळटाली. दोगय जावो इश्टिणी कश्यो वागताल्यो. एकामेकाचीं कामां उमेदीन करतालीं.

सवो म्हयनो लागतनाच ताईबायक आवयन कुळारा व्हेली.

विष्णूदादक वर्स जावचेपयलीं हरीचें लग्न करूं जाय आसलें. ना जाल्यार तीन वर्सां रावचें पडटलें हाची विठ्याआईक चिंता जाल्ली. हरीक जायत्यो सोयरिको येताल्यो. काकीबाय त्यो विठ्याआईक सांगताली. विठ्याआई म्हणटाली, 'विठू करता तें बरेंच करतलो, म्हजो आनी कांय प्रस्न ना.'

विठायेन आपल्या देराच्या चलयेची सोयरीक हरी खातीर हाडली. चली काळशीच पूण शिरवंत, नाजूक आसली. तातूत चार यत्ता शिकिल्ली. चली सगळ्यांक पसंत पडली. नक्षत्राकय बरें पडिल्लें. हरीनय मानून घेतली.

वैकूंठबाबाचें कुमूद दिसूंक सोबीत. कांतयल्ली बावली कशी. सगळीं ताका बावलीच म्हणटालीं. वैकूंठभाऊची व्हडली भयण भागें सावड्ड्या दिल्लें. ल्हान आसतनाच ताणें कुमुदाक आपली सून करतलें म्हणून वैंकूठबाबाक सांगिल्लें. घरांतय ताका आत्याली सून म्हणून सगळीं कोलायतालीं. भाग्यालो घरचो पसरो, गिरण आसली. ताचो चलो घरचो धंदोच पळयतालो. आतां भाग्यान लग्नाचें उलोवंक भावाक आपयलो. विठूभाऊन दोनय सोयऱ्यां भितर सोयरीक जाल्ल्यान दोनय लग्नां रोखड्या रोखडीं थारायलीं.



विष्णूदादाचें दुःख ताजें आशिल्ल्यान दोनय लग्नां सादे रितीन केलीं. विठायेचीय मांय वचून चड तेंप जाऊं नासलो. तांकाय व्हडलोसो थाट-माट नाका आसलो.

हरीच्या लग्नाचें यजमानपण सिताबायक आनी रायूदादाक करपाक लायलें. रायूदाद कसोच तयार नासलो. 'म्हज्यान जावचें ना.' हें एकच वाक्य सगळेकडेन लावन फाटीं सरतालो. ह्या वेळार कोणेंच ताचें आयकून घेतले ना. ताकाच यजमानपण करूंक लायलें.

ताईबाय तीन म्हयन्याच्या सोमनाथाक घेवन लग्नाक आयली.

घरभरोणी भितर घेतली आनी रोखडीच सिताबायक घुंवळ आयली. घरांत बोवाळ जालो. विठ्याआईन तिच्या नाकाकडेन कांदो धल्लो. ते बरोबर सिताबाय साबुद्देर आयली आनी बडबडीत ओंकली. सगळ्यांक दिसलें लग्नाच्या दगदगाक लागून तिचें पित्त चाळवलां जातलें. नवी व्हंकल बाबडी काचाबूल जाली.

दुसऱ्या दिसा सिताबायक परत ओंकूक आयलें. तेन्ना तिका याद जाली, फाटल्या म्हयन्याक ती भायर जावंक नासली. लग्नाच्या बोवाळांत तें कोणाच्याच लक्षांत येऊं नासलें. तिणें हळूच जावेक सांगले. हे खेपे सिताबाय उमेदी जाली. तिका व्हडले दुवाळे जाय नासले. आतां तिची अर्थ अपुरबाय करपाक ताईबाय मेकळी जाल्ली.

तांच्या घरांत केन्नाच कोणे म्हजें तुजें असो भेद केलो ना. भायर दादल्यांमदीं कितेंय जांव, भितल्ल्या घरांत सगळीं एकामतान चलतालीं. सोडून केंसरआका. तें एकटेंच सगळ्या कामांत कुरकूर करतालें.

हरीची बायल ताराबाय नवी व्हंकल म्हणनास्तना, तिचेय तें तरे धरतालें ताराबाय शारांत वाडिल्ली, तातूंत तांचो घराबो ल्हान. रासवळ घरांत कोणामुखार कशे उलोवचें, मान बागोवन कशें काम करचें तिका कळनासलें.

विठ्याआई चडशी आपले कुडींत नातरांक सांबाळत बसताली. रांदचे कुडींत तिगय जावो हांसत-खेळत वावुरताल्यो. केंसरआका आयलें काय सिताबाय आनी ताईबाय वोग्गी रावतालीं. ताराबायकय कुरू करतालीं. पूण ताराबायक तांच्या कुरवांचो अर्थ कळनासलो. ती उलयत रावताली. मागीर केंसरआका चाळवतालें, - 'ह्यो उब्यांल्यो चलयो हाडप आनी घराब्याची वाट लावप. तांकां जाण्ट्यांक मान मर्यादा दिवंकच कळना, होळो कश्यो उलयतल्यो. हांकां सवळें, भश्टें कसलोच पोंचना. व्हनी नातरांक घेवन बसता आनी हांगा सगळी चांचाळ जाल्या.'

ताराबायक केंसरआकाच्या उलोवण्याचो अर्थ कळनासलो. ती मागीर हळूच जावांक विचारताली. ताईबायक मजा करपाक आवडटाली. ती केंसरआकाच्या उलोवण्याचो वेगळोच अर्थ ताराबायक सांगताली आनी दोगय जावो हांसताल्यो. ताराबाय मागीर बेजार जाताली.

ताराबायचो सभाव मात्सो वेगळोच आसलो. हें म्हजें, तें तुजें अशें तिच्या उलोवपांतच न्हय तर वागपांतय आसतालें. कोणाचेय कुडींत वचून कोणय तांची पेटलां उगडून, पोव, स्नोव, फणी, आंकडे आपल्यक जाय तें काडटालीं. पूण ताराबाय व्हडान फडफडटाली. बोवाळ घालताली.

सिताबाय आनी ताराबाय तिका फुसलायतालीं. कोणाकच तिचे कुडींत वचूंक दियनासलीं. तांच्या घरांत आडसाट्योचलयो रावताल्यो

त्यो म्हळ्यार विजय, जयश्री आनी म्हदेवबाबाल्यो तीन नाती. हेर धुवांल्यो , सोयऱ्याल्यो चलयो येताल्यो थोड्या तेपान वताल्यो.

म्हादेवबाबाल्यो नातीं हांगेर उरपाकय एक कारण आशिल्लें. म्हादेवबाबाची व्हडली धूव सुभद्रा सांग्यार भाटीकारागेर लग्न करून दिल्ली. सुभद्रा दिसूंक काळें सावळें. जावेसान घसघशीत. म्हादेवबाबान भांगर-शिंगर सगळें केल्लें. पूण ताचें लग्नच जुळ नासलें. म्हादेवबाबाक चलयांक गोयांतच दिवपाक जाय आसलीं, सुनोय गोंयच्योच हाडटलों अशें ताण थारायल्लें. सुभद्राचें पयलीं नक्षत्रच जुळ नासलें. नक्षत्र जुळ्ळें जाल्यार सुभद्रा पसंत पड नासलें. ह्या बोवाळांत ताका पंदरा वर्सां पुराय जालीं. म्हादेवबाबाक सामको खेद जाल्लो.

विठूभाऊ मदीं मदीं बेळगावां वतालो. ताणें काकाची चिंता पळयली आनी भाटीकाराल्या गणेशाक धाकुटपणात सुभद्राक दिवया काय म्हणून काकाक विचारलें. भाटीकारागेर तांचें येवप-वचप आसलें. म्हणून म्हादेवबाब तांच्या घराब्याक वळखतालो. गणेशाची पयली बायल मरून स म्हयने जाल्ले. भुरगेबाळ कांय जाऊं नासलें. म्हादेवबाबान सुभद्राक सांग्यार भाटीकारागेर दिवपाचें थारायलें.

सुभद्राक सांग्या सारक्या खेड्यांत आपल्याक दितात म्हणून कळटकर खूब राग आयलो. आवयकडेन तें फडफडलें. पूण बापायकडेन उलोवपाचो धीर नासलो. आवयन सुभद्राक धपकायलें.

- 'तुजें पयलीं वय पळे. फाटल्यान भावंडां आसात. तांचेय लग्नाचें वय जालां. मुकाट्यानी लग्नाक उबें राव.' निमणें सुभद्रा मनाआड तयार जालें.

सुभद्राचो घराबो व्हड. शेतांभाटां खूब. मानाय, वावराड्यो भायर भितर वावुरताल्यो. तांकां जेवण खाण करचें पडटालें. दीस-रात घरचे सुनेच्या कामाचो रगाडो सोंपनासलो. पयलीं-पयलीं सुभद्रा फडफडटालें, बेजारतालें. पूण ताची मांय आनी आजीमांय खाश्ट. मात्सें कितेंय चुकल्यार उपाशीं लेगीत दवरतालीं.

ताच्यो सगळ्यो रिती रिवाज विठूभाऊ करतालो. तें हक्कान कुळारपणाक विठूभाऊगेर येवन दोन-दोन म्हयने रावन वतालें. काकीबाय ताचें मायेन करताली. ताचे तिनय बांळटेर विठूभाऊन काडले.

ताका तिनय चलयो जाल्ल्यो. तागेर चलो जाऊंना, वंशोचो दिवो जाऊंना म्हणून मांय आनी आजीमांय ताका खुबच कचकचायतालीं. तांकां दूद लेगीत दिवूंक दियनासलीं. भुरगीं बरीं ना जाल्यार तांकां वखद-विर्सदय करनासलीं.

एक दीस ताचे व्हडले चलयेक शांतीक जोर आयिल्लो. सुभद्रा दुकां गळयत ताका घडयो घालत बशिल्लें, भितल्लो वावर सोडून चलयेक घेवन बसलां म्हणून ताची मांय व्हडाव्हडान तापताली. तेन्नाच विठूभाऊ तांगेर पावलो. ताचे मांयचे उलोवणें ताणें आयकलें.

- 'सकाळच्यान ताका घेवन बसलां तें भितल्लीं कामां कोण करतलो?तुजी आवय येतली बेळगांवच्यान काय काका रानतली घेवन येतलो? जोरान कोण मेर्लीशी नात. मेल्यारय मरूं. चली तें वरदक्षणा तरी वांचतली.'

तिचीं उलोवणी आयकून विठूभाऊक खूब वायट दिसलें. चलयेक सावड्ड्या व्हरून दोतोराक दाखयतां अशें निमित्त करून तांकां घेवन तो वडगांवां आयलो. तेन्नाच्यान एकट्या फाटल्यान एकटें करत तिनय चलयो विठूभाऊगेर आयल्यो. सुभद्राय मदी मदीं यो वच करतालें.



लग्नाक स म्हयने जातकर हरीन एक दीस आपूण बायलेक पणजे बिराडार व्हरता म्हणून सांगलें. भितल्ल्या घरांत बायलांमदीं बोवाळ जालो. ताराबायमात खोशी जाली. हरी पणजे शिर्वीस करता हें लग्नापयलीं आयकून ताराबाय पणजे रावंक मेळटलें म्हणून खोशी आशिल्ली. पूण लग्न जातकर तिका वडगांव दवरून हरी पणजे वतना ती रातची हरी मुखार खूब रडली. तिका रासवळ कुटुंबांत रावपाची

इत्सा नासली. आतां हरीन बिराडाची खबर सांगलेबरोबर ती खोश्येन भुल्लसली. भायलो खवदळ लक्षांत घेयनास्तना तिणें भितल्ले भितर तयारी सुरू केली.

हो बोवाळ विठूभाऊच्या कानार आयलो. ताणें विठ्याआईक हरीची पणजे जेवणाखाणाची कशी धांदळ जाता हें समजावन सांगलें. तेन्ना विठ्याआई सुनेक पणजे धाडूंक तयार जाली. थंय वावराडी मेळून ताराबायचो जम बसता सर तिच्या आदाराक म्हणून रूक्मीणीक धाडपाची तयारी केली. घराच्यो रितीभाती तिका शिकोवपाचें कामय विठ्याआईन रूक्मीणीचेर सोपयलें. अशे तरेन हरीचें बिराड पणजे पावलें.

हिराबायचो भाव मुंबय रावतालो. ताणें भयणीच्या संवसाराची परवड पळोवन वसंत आनी जयवंताक मुंबय व्हेले. थंयच तांचे शिक्षण पुराय करून घेवन तांकां नोकरेक लायले.

तांकां दोगांकय विठूभाऊ कडेन सोयरिको येताल्यो. हिराबायच्या भावान वसंताक आपलो जांवय करचो म्हणून विठूभाऊक पत्र घालें. हिराबायक विचारून विठूभाऊन लग्न थारायलें. मुंबयची चली म्हणून घरांत मात्सो बोवाळ जालो. पूण हिराबायची भाची म्हणटकीर बाकीच्यो रोखडींच वोगीं रावलीं. केंसरआकान मात बोवाळ केलोच. मुंबयच्यो चलयो हागुट्याभशेन गोल कापड न्हेसतात हो विशय परत काडलो.

विठूभाऊन म्हळें, 'आगो ती मुंबय रावपाची. कितेय न्हेसूं थंय. हांगा येता तेन्ना णववारीच न्हेसपाक लावया तिका.' विठूभाऊच्या उलोवपाचेर सगळो खवदळ बंद जालो. मागीर जेन्ना जेन्ना ती वसंताबरोबर गोयांत येतली तेन्ना णववारी न्हेसूनच येताली.

आतां उरिल्लो जयवंत. तो लग्नाक कसोच तयार नासलो. वसंताच्या लग्नाक आयिल्ल्या वेळार ताणें सांगलें, 'तुमी थारायल्ले चलयेकडेन हांव लग्न करचों ना. म्हाका भावता तिचेच कडेन हांव लग्न करतलों.'

ताच्या ह्या उतरांनी घरांत खवदळ जालो. मुंबयबी भुरगे जातीभायर

लग्न करतात, विधवांकडेन लग्नां करतात ह्यो गजाली विठूभाऊन तांकां पेपरांत वाचून सांगिल्ल्यो. आतां सगळ्यांक ताचोच हुस्को जाल्लो. हिराबाय पयलींच घोव आनी धुवेक लागून चिंतेस्त जाल्ली. वसंताच्या लग्नाक लागून ती मात्सी उमेदी जाल्ली. पूण आता जयवंताची गजाल आयकून ती आकूळ पिकूळ जाली.

थोड्याच दिसांनी वसंतान विठूभाऊक पत्रांतल्यान कळयलें, ''जयवंत, भारत स्वतंत्रताये पासत झुजपी सशस्त्र-क्रांतीदळांत सामील जाला. इतलो तेप तो शिर्वीस सांबाळून लिपचोरयां तांच्या दळाचीं कामां करतालो. पूण आतां ताणें शिर्विस सोडिल्ली आनी भुमिगत जाल्लो. म्हणूनच तो लग्नाक तयार जाय नासलो.''

ही गजाल घरांत कशी सांगप हाची विठूभाऊक चिंता जाली. 'सांगल्यार समजतली तरी?' होच व्हड प्रस्न आसलो. तरी घरांत सांगुकच जाय आसलें. ताणें लॉजार वचून वैकुंठबाबाकडेन उलोवपाचो यत्न केलो. वैकुंठबाब घे ऽ खुबलो. ताणें विठूभाऊचेर तापय काडली. - 'आमचे भुरगे काय बरे घरचे घरा आसले. भाट-बेंस सांबाळूंक वावुरताले. तुवें तांकां शिकपाचें पिशें लावन सगळ्या भुरग्यांची वाट लायली. म्हज्या दोगय पुतांक देशोधडीक पावयले. तांचो मामा तर चडच सुबेज. तांकां मुंबय शिकूंक म्हणून व्हरून थंयच शिर्विसेक दवरले. शिकून तांणी कितें दिवे लायले पळे. वसंताक आपलो जावंय करून घेतलो आनी जयवंताक कित्याक वाऱ्यार सोडलो. आतां तो ना जाला म्हणून सांगूक आयला तूं. तुजी जबाबदारी ही, बऱ्या बोलान ताका सोदून हाड. एका भुरग्याक सांबाळूं नज जालें. सगळ्या घराची आनी जबाबदारी घेतल्या....'' आनीकय कितेंकितें तो बडबडत रावलो.

भावाकडेन उलोवन कांयच फायदो ना हें विठूभाऊ जाणा आसलो. तो मुकाट्यानी उठून घरांत आयलो. मागीर ताणें घरांतल्या हेर दादल्यांक सांगलें. सांजवेळचें तिठ्यार बशिल्लेकडेन आपल्या इश्टांक ताणें

ही गजाल सांगली. काय जाणांक हाचो अर्थच कळ्ळूं नासलो. कांय जाणानी जयवंत वायट मार्गाक लागला असो अर्थ घेतलो. विठूभाऊ मात सगळ्यांक आपलेपरीन सशस्त्र क्रांती म्हळ्यार कितें, स्वतंत्रताय चळवळ म्हळ्यार कितें हें पटोवन दिवपाचो यत्न करतालो.

पणजे, मडगवां भारतीय काँग्रेसीचो एक फांटो म्हणून 'गोवा काँग्रेस कमिटीची' थापणूक पिटर आल्वारीस, आत्माराम मयेंकार आनी अश्या जायत्या जाणांनी मेळून सुरू केल्ली. तांचो वावर आयकून विठूभाऊक खबर आसलो. तोय तांणे गांवकारांक सांगलो. पूण खूब थोड्या जाणाक ताचो अर्थ कळ्ळो.

तरणी पिळगी शिकपाच्या निमतान गांवा भायर पाविल्ली. तांकां सगळ्यांक हे विशीं खबर आसलें. जयवंताची गजाल आयकून तांतले कांयजाण खोशी जाले.

गांव बदलत आसलो. गांवचो बदल पळोवन विठूभाऊ खोशी जातालो. ताची शाळाय आतां बरी चलताली. रायूदादावांगडा गांवचे भुरगे वेळ मेळट तशे शाळेंत शिकयताले. पूण मुखेल भार मात रायूदादाचेरच आसलो. रायूदाद मराठी वांगडा थोडी थोडी पोर्तुगेजय शिकयतालो. ताका उतरांची आडखळ येताली. म्हणून ताणें पोर्तुगेज-मराठी शब्दकोश करपाचो वावर हातांत घेतलो.



# 8

सिताबायगेर दत्तात्रयाफाटल्यान सुमती आनी पुष्पा जालें. दोगय जावो एकमेकाच्या आदारान भुरग्यांक वाडयताल्यो. सगळीं भुरगीं सिताबायक व्हडली आई आनी ताईबायक तिचीं भुरगीं लेगीत ताईबायच म्हणटालीं. खंयचें भुरगें कोणालें हें भायल्यान पळयतल्याक कांय कळनासलें. तातूंत सगळ्यांचे कपडेय एकाच भशेन आसताले.

सगळ्यांचे कपडे एकाच भशेन आसपाचें एक कारण आसलें. वर्साक एक फावट खंडावेळार घरभर सगळ्यांक कपडे हाडपाची तांची रीत आसली. भुरग्यांक दोन तरेचीं दोन पॅसां सादीं घरांत घालपाक आनी एक मात्सें ऊंची पॅस, भायर खंयी लग्नां जात्रांक वचपा पासत घालपाक हाडटाले. ल्हान भुरग्यां पसून घागरो पोलको घालपी आडसाट्या चलयांक त्याच पॅसांतले कपडे शिंवतालीं. घरांत धुवालीं वा हेर सोयऱ्यालीं भुरगीं आसल्यारय तांकांय तातुंतलेच कपडे शिंवतालीं. ताका लागून घरभर सगळ्या भुरग्यांचे कपडे एकाच भशेन जाताले.

बायलांकय त्याच वेळार दोन सादीं घरांत घालपाची वायलां आनी एक बरें कापड हाडटालीं. मदीं कोणाकच कपडे हाडराची रीत नासली. घरचें लग्न कारण आसल्यार मात हो नेम बदलतालो.

सिताबायचे पुष्पा फाटल्यान दोन वेळा पोटचें गेलें. दुसरेखेपे तिका व्हाळणी लागली. म्हयनो सोंपलो तरी तिची व्हाळणी थांबना जाली. रगत वचून वचून सिताबाय सामकी जाम जाली. गांवठी वखदां कशींच पारना जालीं. सिताबाय मरता काय उरता असो सगळ्यांक भंय जालो. विठ्याआई सट करून भिवपी न्हय. पूण हे खेपे ती भिली. तिणें शाण्याक सांगलें, 'बाबरे, सिताबाय सामकी बरी ना. भुरग्यांक आवय ना जावन वचत. तिका खंयच्याय दोतोराक व्हरून दाखय.'

शाण्यान भयणीगेर वचून सिताबायची गजाल सांगली. विठायेन ताका सिताबायक मडगवां हाडूंक सांगली. दुसऱ्यादिसा शाण्यान सिताबायक आनी कल्याणाक मडगावां हाडून विठायेगेर पावयलीं. विठ्यान तिका हॉस्पिसियो हॉस्पीतलांत व्हरून दाखयली. थंय तिकां हॉस्पीतलांत दवरून घेतली. विशेक दीस सुमार ती थंय उल्ली.

थंय दोतोर चडशे किरिस्तांव, नर्शी चडश्यो किरिस्तांव. सिताबायचो जीव अर्दो जातालो. तिणें विठायेक सांगिल्लें, 'म्हाका जेवण खाण तूं दितलेंच, उदकय धाड हां. म्हाका तांच्या हातचें कितेंच घेवपाचें ना.'

विठायेन तिची सगळी जबाबदारी घेतिल्ली. कल्याण तिच्या म्हऱ्यांतच रावतालें. तिका वखदां लेगीत नर्शीक विचारून कल्याणच दितालें. तिचे वार, पंचम आसतना नर्शींचो, दोतोरांचो हात लावन घेवचो पडटा म्हणून तिका वायट दिसतालें.त्या दिसांनी वखदांय घेवंक तिका आवडनासलें. पूण वखदां कशींच चुकोवंक जायना हे विठायेन तिका बरे भशेन पटोवन दिल्लें. तिच्या वारा दिसा, विठाय बाटलेंत घालून शेणाउदक हाडटालें, तिचेर इल्लें फाफुडटालें, तिचें जेवण दवरता त्या जाग्यार शेणाउदक फाफु डटालें. आनी मागीरच जेवण उदक दवरतालें.

मागीर नर्शी तिका चाळयताल्यो. - 'आज बामीण सोवळी. वोकोत वोयल्यान तोंडांत घालचें,? नाका नाका शेणा उदकां बुडोवन घालतां.' 'आज बामणी कोण हात लायता तेणे शेणा उदकां पोयलीं

हात बुडोवच्या जायो.' 'दोतराकूय सांगोया, शेणाउदकां हात धुयन बामणी तोपास म्हुणोन.'

विशेक दिसांनी सिताबायक हॉस्पीटलांतल्यान हाडली. सिताबाय हाडांचो पांजरो कशीं जाल्ली. विठायेगेर येतकर तिणें म्हळे, 'कल्याण त्या किरिस्तांवाच्या हास्पितलांत इतले दीस रावन हांव भश्टलां. म्हाका माथ्यार न्हाणय, आनी विठायेक सांगून तुळशी उदक पिवंक दी.' इतले दीस हॉस्पितलांत तिका फकत पुसून काडटाली. ताचोय तिका वीट दिसतालो.

विठायेच्या मांयन तिचेर तापय काडली.

'भुरगेबाळाची आवय तूं, देवान तुका हेवटेन हाडली तें व्हडलें म्हण. तुगेलें सवळें भश्टें सगळें मागीर पळोवया. कल्याण तुका खतखतीत उदक आंगार न्हाणयतलें. मुकाट्यानी न्हावन भितर यो. तुळशी पानांचें उदक फाफुडटां तुजेर आनी पिवंकय दितां इल्लें. मागीर भायर भितर सवळी जाली तूं.'

विठायेच्या मांयचे मुखार उलोवचेली कापास्ताद सिताबायक नासली. ती वोग्गी रावली.



म्हयनो चडच मडगांव रावन सिताबाय घरा आयली. तिच्या भुरग्यांक ताईबाय सांबाळटाली. पुष्पा सामकें वर्साचें. सिताबायचें दूद पियेतालें. तिका मडगावां व्हरतकर पुष्पाक ताईबाय आपलें दूद दिताली तिचें सुमित्रा आनी पुष्पा बरोबरचीं दोगांय भुरग्यांक दोन कुशीनी घेवन ती न्हिदताली.

आवय घरा आयली तरी पुष्पा तिचे म्हऱ्यांत वचूंक भियेतालें. कितलो तेप तें ताईबायचेच कुशीक न्हिदतालें. 'तुजी आई खंय गो? ' म्हणून विचारल्यार 'ताबाय' म्हणून तिका बोट दाखयतालें.

विठूभाऊ शिकयता ते शाळेंत जे पोर्तूगेज सर शिकयताले. तांचेकडेन विठूभाऊची बरी इश्टागत जुळिल्ली. विठूभाऊ तांचे बरोबर

वावुरतालो. तांगर यो वच करतालो. म्हणून गांवांत ताचे असवडी कांय जाण टिका करताले. ताचे दुस्मान तर तो तांगर जेवता-खाता म्हणून आरोप करताले. विष्णूदाद आसतना लेगीत ह्यो वावड्यो चलताल्यो.

एक दीस विष्णूदादान ताका हेविशीं स्पश्टच विचारलें. विठूभाऊन ताका सांगलें, 'दादा, भिवनाका देवतेचो सोपूत घेवन सांगतां. हांव आमचो धर्म कसोच भश्टु ना. आनी एक, कोणाचो हात लागलो, बोट लागलें म्हणून भश्टुपा इतलो आमचो धर्म हलको ना, ताचीं तत्वा अशीं पोकळ नात. आमी एकठांय काम करतात म्हण्टकर आमकां एकामेकाबरोबर बसचें, उठचें पडटाच. पूण अजून मेरेन हांवें तांगेर कितेंच शिजिल्लें खाऊं ना. आनी धीर धर केन्ना खावचोय ना. तीं म्हाका फळां दितात. तीं खाता हांव, कोता येता न्हय. ते आमकां घरांतय भाजी, फळां धाडटात. तें आमी खातात न्हय दादा?'

त्या उपरांत विष्णूदादान ताका केन्नाच ह्या विशयाचेर कांयच विचारलें ना. भितल्ल्या घरांत फकत काकीबायक ही गजाल खबर आसली. विठूभाऊन तिका ही गजाल कोणाक सांगू नाका म्हणून सांगिल्ली.

आतां विठूभाऊचे इश्टय तांगेर येताले. पास्तीसा कुडी मुखार व्हडलें साल आसलें. थंय विठूभाऊ तांका बसयतालो. तांचे पासत ग्लास, चिक्र-पिरी हाडून भायले भायर दवरिल्ल्यो. नानू त्यो मागीलदारांत व्हरून धुवून दवरतालो. काकीबाय चा करुन वयल्यान तातूंत घालताली. नानू तांकां व्हरून दितालो. परत धुवून-पुसून कत्रेलांत दवरतालो.

त्या दिसा नानू भायलेभायर बांयचेर न्हावन आपल्या घरा वतालो आनी आवयचेर, यशोदेचेर फडफडटालो.

- 'धाकलो भाटकार किरिस्तांवांक घरांत कित्याक हाडटा कोण जाणा. एकदीस आपूण बाट्टलो आनी म्हाकाय बाटयतलो. आयो म्हाका ईट येता तेंचो.'

- 'बाबो, भाटकारा फुडें आमच्यानी उलोवंक जाता. भाटकार सांगता तें आयकपाचें आमचें काम. ते बाटल्यार आमकांय बाटचेंच पडटलें. भाटकाराक सोडून आमी कितें खातलीं?'

- 'माती खावोंया. पूण म्हाका ईट येता. तेणी जानयें बदलिलें काय ते सोवळे जातात, आमी कित करपाचें?'

- 'बाबो तोंड सांबाळून उलय. भाटकारा आड कांय उलोवचा ना तूं. तुळशी उदाक दिता तुका. भाटकान्न तशें तुळशी उदाक दिता सोवळेपणाक.'

आवयन कितलेंय सांगल्यार नानूक तें पट नासलें. बांयच्यो कळसुल्यो काडून आंगार रकयतां रकयतां तो एकटोच बडबडटालो. भाटकाराचो राग तो कळसुलेचेर काडटालो.

नानून ही गजाल भायर सांगली. गावांत परतय विठूभाऊच्या नांवान कुचकूच जाली.

'बामणांनी कमराचें सोडून माथ्याक बांदलां,... धाकलो भाटकार एक दीस बाटून वतलो...' अशें म्हणून गांवचे लोक ताका कड्डिताले. पूण फाटल्यान . गांवांत विठूभाऊचो धाकच तसो आसलो.

ते गांवांतले सगळ्यांत व्हडले भाटकार तें जालेंच. पूण गांवांत कोणाकय कसलीय अडचण आयल्यार शिरवयकारालो घराबो तांकां सगळो आदार करतोलो. कसल्याय सार्वजनीक कामांक पयशे जांव जमीन तेच पयलीं दिताले.

तातूंत विठूभाऊन गांवांत जायत्यो सुदारणा केल्ल्यो. जायत्या जाणांक शिक्षण तर दिलेंच ते भायर पोटापाणयाकय लायिल्ले. गांवाक ताचो धेक आसलो. म्हणून कोणच ताका तोंडार विरोध कर नासले. शाण्या वांगडा कुंकळ्येकाराचो विलास मडगवां शिर्वीस करतालो. हरी बरोबर मळकर्णेकारालो माधव पणजे रावन शिर्विस करतालो. तांचे इश्ट सगळ्या जातीधर्मांतले आसले. तांचेबरोबर ऊठ-बस चलताली. गांवांत मात नांव जाल्लें विठूभाऊचें. पूण विठूभाऊ मनान, विचारान

घट. तो कोणाचोच कुचकूच कानार घेयनास्तना वावुरतालो.



विठूभाऊच्या नांवान जावपी बोवाळाक तसो नेट नासलो. पूण एक खबर अशी घडली वयलोवाडो आनी देसायवाडोच न्हय तर पुराय गांवच उचांबळीत जालो. गांवचे चावडेर, तिठ्यार, देवळांत खंय आनी खंय म्हणून ना, चार गांवकार एक जाले काय एकाच विशयाचेर उलयताले. प्रत्येक जाण आपले परीन तिखट-मीठ घालून खबरेक रूच हाडटाले.

घडिल्लें अशें, देसायवाड्यावेलो शिवराम मुंबय शिर्विस करतालो. ताचो घराबो मुंबयच रावतालो. ताणें आपल्या भावंडांकय मुंबय व्हरून शिर्विसेक लावन बिराडां करून दिल्लीं.

मळकर्णेकारालो दुसरो चलो महेश मुंबय आपल्या काकागेर शिकूंक रावतालो. एकाच गांवचे म्हणटकीर महेश आनी ताच्या काकाच्या घराब्याचें, शिवरामागेर तशेंच ताच्या भावंडांगेर यो वच आसलें. सणापरबांक जांव कसल्याय कारणाक तीं एकामेकागेर जेवपा-खावपाक वतालीं. थंयच शिवरामाचें चली रतन आनी महेशाचो मोग जुळ्ळो. वडगांवां घरांत कळ्ळ्यार कोणच आयकून लेगीत घेवचींना हें खबर आशिल्ल्यान महेशाचो काका गोवींद आनी शिवराम एकठांय येवन मुंबयच तांचें लग्न करपाचो निर्णय घेतलो. मुंबयच्या सुधारक मंडळान तांकां सगळो पालव दिलो.

दोगांयनीय लग्नाच्या दोन दीस पयलींच पावतालें अशे तरेन वडगांवां पत्र धाडलें. हेतू हो तांकां विरोध करपाक कोणेच मुंबय येऊ नये.

पत्रां पावतकर घे ऽ बोवाळ जालो. मळकर्णेकारागेर रडारड जाली. शिवरामालो व्हडलो भाव सदा आनी ताची बायल तांच्या म्हाल घरांत रावतालीं. तांगेर व्हडलोसो बोवाळ जालो ना. बोवाळ घालपी तांगेर आशिल्लो पयलीं कोण? ताच्यो पाचय धुवो लग्न करून दिल्ल्यो. चलो पणजे शिर्विस करतालो. थंयच बिराड करून रावतालो. पूण

सदाच्या आदाराक सगळो देसाय वाडो एक जालो. 'बामणानी बोवाळ केल्यार आमी वोगी बसपना' अशें तांणी थारायलें.

देसाय वाड्यार सदांच, तांच्या पुर्वजांनी राज्यांच्या सैन्यांत कामां केल्ल्याच्यो गजाली सांगताले. तांगेर शस्त्रांय आसलीं. नवरात्रांत शिलंगणाच्या पुजे वेळार ते वर्सांतल्यान एक फावट तीं शस्त्रां भायर काडून निवळ करताले. तांची पुजा करून परत जाग्यार दवरताले.

तसो सगळो वडगांव एकामतान चलपी. केन्नाय भितल्ल्या भितर झगड्याचो असो व्हड प्रसंग येऊं नासलो. आतां गांवाचे दोन तट जायत हाचो विठूभाऊक भंय दिसलो. 'लग्न मुंबय दोनय पंगडानी एकामतान केल्लें. तांच्या नांवान गांवांत कित्याक बोवाळ?'

हो विचार मनांत आयले बरोबर विठूभाऊन गांवकारांक जमोवन आपलो विचार सांगलो. थोड्यानी वाद घेतलो.

- 'अशीं लग्नां करून जाती वगडायल्यो जाल्यार जातलें कशें? देवान जाती केल्यात कित्याक? अश्यो वगडावंक?'

- 'ह्या शिक्षणान सगळी वाट लायल्या. शिक्षणान मनीस शाणो जाता खंय, म्हाका दिसता शिक्षणान जात-धर्म कसो बुडवप तितलेंच कळटा.'

- 'अशा लग्नाक आमी आज वोगी रावले जाल्यार फुडले पिळगेक आमी कितें शिकवण दितलें?'

प्रत्येक जाण तावातावान उलयताले. सगळ्यांचे विचार आयकून विठूभाऊन थंड पणान म्हळें, 'जें कितें घडलां तें भायर, खूब पयस. आमी हांगा तें चूक काय बरोबर हाचेर वाद विवाद करत बसल्यार हो प्रस्न सुट्टलो? म्हाका दिसता आमी आमचो एकवट मोडचो न्हय.'

विठूभाऊचें उलोवप सगळ्यांक पटलें म्हणून न्हय तरी हांगा बसून वितंड वाद नाका म्हणून सगळे वोगी बसले.

गांवांत बरेच दीस ह्या विशयाचेर खवदळ जालो. पूण मळकर्णेकारालें घर सोडल्यार हेर गांवांत हुबिल्लो धुल्ल रोखडोच

सकल बसलो.

हाचो परिणांम जालो तो देसायांच्या चलयांचेर. तांच्यो चार पांच चलयो जायल्याम्हन्यांत शिकूंक येताल्यो. तांका शिकप बंद केलें. हाचें वायट दिसलें तें विठूभाऊक.



शिरवयकाराल्या घरभाटांतच तांच्यो वावरोड्यो, मानाय आपल्या घराब्यासयत रावताले. तांच्या घरांतली भुरगीं, जाण्टीं सगळीं शिरवयकारागेर घोळटालीं. तांचो सगळो चरितार्थ, वखद विर्सद सगळें व्हडल्या घरांतल्यान चलतालें. भाटकारागेर लग्न कारण आसल्यार तांकांय नवे कपडे शिंवतालीं.

सांगपा म्हळ्यार तांका व्हडल्याघरान आपलींच कशीं मानिल्लीं. तांका कामाचो वेगळो पगार म्हणून नासतालो. उरिल्ले सुरिल्लें खाण जेवण तांका मेळटालेंच, ते भायर खंडावेळार भात. पाड्या वेळार नाल्ल तांकां मेळटाले.

कल्याणाचे धुवेक आबोल्याक बारावें सोंपतनाच न्हाण आयलें. ताका शेंस घालपाचो दीस कल्याणान व्हडल्या घरांत विचारून थारायलो. विठ्याआईन ताका आपलें जरीचें कापड दिलें. तशेंच हेर कोणे कोणे कितें कितें दिवन ताचो शेंस विधी बरे भशेन जालो.

कल्याणागेर शेंस विधी म्हळ्यार भितल्ल्या घरांत बायलां मर्दी कुचकूच चलतालो. तीं कल्याण, भिमाचीं फकाणां मारतालीं. जायलें मात बेठेंच चाळयलतालें. हरशींय जाल्यार ताच्या भावजानी घोव बायलांमदल्यो गजाली हळू आवाजान लेगीत उलोन फकाणां मस्कऱ्यो केल्यो जाल्यार जायलें तांचेर फडफडटालें.

तशें जायले केंसरआकाभशेन बेठेंच कित्याकय खुबपी न्हय. पूण आबोल्याक शेंस घालतात हें आयकत साकून तें विचीत्र कशें वागतालें. आपल्या भितर बडबडटालें, '... आतां आबोल्याचो संवसार सुरू जातलो... तागेर भुरगीं जातलीं... हावें मात हांगा अशेंच

सुकत रावप...'

ताचें हेंच दुःख तें भावजांचेर फडफडून उक्तायतालें. थोड्याच दिसांनी जायलें शांत जालें. पयलीं भशेनआवयक आदार करप, चलयांक शिकवप, जाण्ट्यांक वाचून दाखवप असल्या कामांत तें परत घुस्पून गेलें. जायलें निवळ्ळें तें पळोवन सगळ्यांक सू जालें.

पूण हो सुशेग चड दीस उल्लोना. जायल्याचे केंस कापपाचे दीस लागीं पावले काय जायलें पिकार जायत रावतालें.त्या दिसा तर ते रडत रावतालें. पूण हालीं ताचें अशें रडप बंद जाल्लें. वयल्यान तें खुशाल आसतालें. ताचें बेठेंच कोणाचेरय बेजार जावपय बंद जाल्लें.

भितल्ल्या घरांत पयलीं बायलांक दिसलें, वर्सभर जावन गेल्ल्यान जायल्याचें केंस कापून घेवपाचें दुःख ल्होव जालां आसतलें. हे येवजून तांकां मात्सें बरें दिसलें.

पयलीं पयलीं म्हालो आयलो काय भीमाय जायल्या बरोबर मागिलदारांले कुडींत बसतालें. जाण्टो म्हालो बरो नाजायत साकून ताचो पूत जायल्याचे केंस कापूंक येतालो. भीमा सदचेवरी सगळी तयारी करतालें. पूण जायलें ताका आपल्या बरोबर सगळो वेळ बसून रावंक दियनासलें. कसलेंय निमित्त करून भायर धाडटालें. 'आपल्याक भायर धाडून कुडिचें दार भितल्ल्यान कित्याक बंद करता काय? ' भिमाक प्रस्न पडटालो. भीमा भायल्यानच घुटमळत रावतालें. पूण हो प्रस्न कोणाक म्हणपाक ताका धीर जाय नासलो.

हालींसरा जायलें आंकवार पणातल्या वरी खळखळीत हांसतालें, उतरां उतरांचेर कोट्यो करतालें. ताचे हे वागणुकेचें बायलांक अजाप दिसातलें. पूण कोणच मोठ्यान उलय नासलो. सिताबाय आनी ताईबाय एकमेकाच्या कानांत फुतफुततालीं. विजय बांळटेराक आयिल्लें. ताणेय तांकां हळूच म्हळें, 'ताई आतां खुशाल रावता. बरे जालें न्हय? केंसरआकाभशेन फडफड करीत राविल्लें जाल्यार दुसऱ्यांकय त्रास आनी ताच्याय जिवाक त्रास जावपाचो.'

-'हय गो विजय, आबोल्याक , शेंस घाली तेन्ना तें मात्सें फडफडलें, पूण रोखडेंच निवळ्ळें म्हणून बरें.'

-'सिताबाय, ताचे खातीर वायट दिसता, ताका आनी कसलें सूख आसा? आमच्या भुरग्यांक पळे कसो जीव करता. आपलींच भुरगीं जाल्लेवरी मायेन करता तांचें.' ताईबायन हुस्कार सोडलो.

-'हय, सगळ्यांक ताईआत्या म्हळ्यार जालें. तांकां काणयो सांगता, पदां शिकयता, अक्षर वळख घडयता.' विजयान म्हळें.

-'हय गो विजय,' सिताबयन म्हळें.

-'ताईक म्हणून सगळ्यांतच रूच आसा. भुरग्यांक अभ्यास शिकयता तें जालें, चलयांक भरपा-विणपाकय शिकयता.'

-'खरें विजय, पूण हालींसरा तें चडच उमेदी दिसना तुका?'

-'तेंच म्हणी हांव सिताबाय, अचकीत इतलें खोशी जावपाचें कारण कितें आसूं येता?' ताईबायन म्हळें.

-'म्हाकाय अकटाय दिसता ताईची, कांयच कळना ताचें.'

-'आसूं कितेंय कारण, आपलो जीव ताणें रमयल्यार पुरो.' ताईबायचें वाक्य पुराय जावचे पयलीं तांकां केंसरआकाची सुलूस लागली आनी तीं वोग्गी रावलीं.

पूण केंसरआकान तांचें उलोवप आयकल्लें.

ताणें, म्हळें, 'आपूण विधवा म्हणी नासतना तें जायलें शिंगां फुटिल्लेवरी वागता, आनी हांगां तुमी. तुमकांय बरीं शिंगां फुटल्यांत. कोण्णाचो धाक ना जाला तुमचेर. आई आस्तना कशें आशिल्लें हें घर. आतां सगळी चांचाळ जाल्या. त्या हरीची बायल आनी पणजे रावंक गेल्या तें बरें जालां. तिका आनी कसलोच पोंच नाशिल्लो.'

केंसरआका बडबडत गेलें.



हालींसराक जायलें इतलें खोशी रावपाचें कारण सगळ्यांत पयलीं भीमाक कळ्ळें. आनी हुस्क्याचो कांटो ताच्या काळजाक तोंपलो.

इतलो तेप ताच्या मनांत उळउळटालो तो दुबावाचो किडो खरो थारिल्लो.. 'उलयल्यार म्हाका पिशार काडटले. उलयलें ना म्हजोच गुन्याव म्हणटलीं. .. हायें करप पूण कितें?'... ह्या असल्या विचारान भीमा आकूळ पिकूळ जालें.

निमणे भीमान ही गजाल आपल्या भयणींक, कल्याण आनी रूक्मीणीक सांगली. भाटकारालें घर म्हळ्यार तांकां आपलेंच घर कशें. ल्हान पणांतल्यान तीं ह्या घरांत वावुरतालीं, न्हिदपा पुरतींच तीं आपल्या घरा वतालीं. पूण कसलीय अकाटायेची गजाल सडसडीत उलोवपाचो मात तांकां अधिकार नासलो. भाटकारांच्यो चुको दाखवप म्हळ्यार तर व्हड गुन्यांव.

तांची आवय यमनें आसताना मात व्हडले आईक अधिकारान कितेंय सांगताली. पार्वती व्हनीय तिचें आयकून घेताली. तिका तसोच रस्पेत दिताली. ती यमन्याक आपली इश्टीण कशी वागयताली. यमन्यान आपल्या चारय चेडवांक शेंस घाल्ली. भाटकाराक सांगून ताणें आपल्या घरा शेजराच तांकांय घरां बांदून दिल्लीं. भाटकाराच्या घरांत तीं घोळटालीं आनी भाटकाराचें सुखदुख आपलेंच समजून वागतालीं. म्हणून जायल्याची खबर कळटकीर भीमावरीच दोगय भयणी खासावीस जाल्यो.

जायलें गुरवार जाल्लें, -'जाण्टया म्हाल्यान आपूण बरों ना म्हणून दोन खेपे पुताक धाडलो, आनी तो सदींच येवूं लागला. आमच्याय लक्षांत येयलें ना पळे.' भीमान म्हळें. कल्याणान भिवन म्हळें,

-'तें आसूं गो, आतां केदो प्रस्न जाला पळे.'

-'हिराबायक सांगू जाय. कोण सांगतलो.? रूक्मीणी, तूं सांगता गो?' भीमान विचारलें.

-'ना गो, हालींसरा हिराबाय पयलीं भाटकारा लागून बेजार आसता.'

-'हें जायलें म्हणून सामकें, बापायचे बडीर गेलें.'

-'शीऽ तशें म्हणो नाका. ताचो म्हूण कितें गुन्यांव. घोवा सूख तेणें

पळयलें ना. तेचें जुवानपण तेका कशें वोगी बसूं दीत?' कल्याणान म्हळें.

रूक्मीणीन उबगून म्हळें, 'भीमा, तुवें ताका त्या म्हाल्या फुड्यांत एकटें सोडपा न्हू.'

-'हय म्हजें चुकलेंच, पयलींच तरी हिराबाये कानार घालूं जाय आसलें.'

-'आतां सांग तिका.' रूक्मीणीन म्हळें.

-'ना गो, म्हज्यान जावपा ना. हिराबाय पयलीं कित्यांतच लक्ष घालिना न्हू. म्हणून तर तिका जायल्याची गजाल कळूं ना. तेजो म्हयनो चुकलो तेन्नाच तिका कळूं जाय आसलें.'

-'भीमा तुका आतां जायल्यान सांगलें.'

-'ना ना, हांव आनी तें बराबर भायर जातालीं. म्हणून हायेंच विचारलें तेका?

-'आनी लज नाशिल्ल्यान तुका सगळें सांगलें.'

-'हय गो, जायल्यान रडोरडोन सगळें सांगलें. आतां हितुंतल्यान वाटाय म्हुणोन फाटीक लागलां. हिराबायक सांगू नाका म्हुणोन सोपूत घातला.'

-'खरें हां भीमा, जायल्याचें अशें जावन जायलें कुळारा येत साकून हिराबाय पयलीं जाग्यार ना.'

-'आसूं भीमा, तिका कांय सांगू नये. वैजीणीक विचारून कितेंय हाडून दिवया.' रूक्मीणीन म्हळें.

-'तिणें कोणाक, कितें? विचारल्यार कितें सांगतलीं?' कल्याणान हुस्को परगटायलो.

-'सांगतां म्हाका म्हुणोन. धाकटो ल्हान आसा. आतां इतले बेगीन नाका म्हणटां.' भीमान म्हळें.

-'हय तशेंच कर. आमी जायल्याक मेकळें करूं या? मात्सेशे उमेदीन कल्याणान म्हळें.

-‘घरांत कळ्ळ्यार गो?’ रूक्मीणीन भियेतशें विचारलें.

-‘कळटा तेन्ना कळटा. तापोवणी खावचींच पडटलीं. जायलें बरेभाशेन मेकळें जातकीच जालें. हाचे फुडें तेका राखपाचें काम म्हाजें? भीमाक मात्सी उब आयली.

-‘कितेंय आसूं, जायल्याचें हें चड जालें हां? कल्याणान म्हळें.

-‘कल्याण जुवान बायल ती. पांय निसरलो ताचो, पूण... जाण्ट्या भाटकाराक पळय, जुवानपणांत भाटांतलीं कामेऱ्यां कोण कोण म्हणून ना, तेंचे फाटल्यान लागलो, आतां आमगे येशोदा मेळ्ळां.’ रूक्मीणीन फडफडून म्हळें.

-‘आसूं हां, भाटकारा गजाली नाकात. जायल्यान इश्वासान म्हाका सांगलां, तेका आमी मेकळें करुयां.’

थारायल्ल्या प्रमाण तिगांय भयणीनी जायल्याची गजाल कोणाकच सांगली ना. वैजीणी कडल्यान वखद हाडून ताका दिलें.



वैजिणीचें वखद घेवन जायलें मेकळें जालें. पूण ताका व्हाळणी लागली. म्हयनो जालो तरी आंगार जाता तें थांबना जालें. भीमान परतय वैजिणीकडल्यान वखद हाडून दिवन ताका निवळायलें. ह्या प्रसंगान जायलें हाल्लें. तें सत्यभास काडिल्लेवरी वागूं लागलें. भितल्ल्या घरांत बायलांक हाची सुलूस लागली. हिराबायकच दुबाव आयलो. तिणें जायल्याक बरेंच झाडून काडलें. भीमान आपल्याक पयलीं कळयनास्तना भायले भायर सगळें निस्तारलें म्हणून ताकाय झाडून काडलें. इतल्यान तिचो राग निवळ्ळो ना. तिणें जाण्ट्या म्हाल्याक आपोवंक धाडलो, आनी आयलें पयलें कांयच सांगनास्तना पुताक हांगा धाडलोच कित्याक म्हणून तापय काडली.. ‘ताणें परत आमच्या घरांत पांय दिल्यार दोको मोडून घालतलें.’

इतलें सांगून ती खर्शेत भितर गेलीं. त्या दिसाच्यान जायल्याच्या केंस कापपा दिसा भीमा कुडींत बसतालें, कुडीचें दार उगडेंच दवरतालीं

आनी हिराबाय फाटले पडवेर येवन बसताली.

भितल्ल्या घरांतली ही गजाल बायलांनी दादल्यांच्या कानार वचूंक दिली ना.

हे घडणुकेन हिराबायक आपली चूक होलमली. विठ्याआईनच तिका ती दाखोवन दिली म्हळ्यार जाता. तरणाटी विधवा चली घरांत आसतना तुवें अशें दुःख पांगरून बसपाचें न्हय.. तुजी व्यथा ही ल्हान न्हय, जाणा हांव, पूण मन घट्ट दवरून उबी राव. तुज्या संवसाराक तुजी गरज आसा. दादलो मनीस घराचो खांबो खरो, पूण संवसार एका सुतान बांदून दवरता ती बायल मनीस. तूंच अशे हात पांय गळोवन बसल्यार कशें जातलें.'

विठ्याआईचे उलोवणे तिका पटलें. आतां ती पयलीं भशेन भायर भितर लक्ष दिवंक लागलीं.

तेन्नाच विठूभाऊच्या धाकट्या पुताचें काशिनाथाचें लग्न थारिल्लें. घरांत लग्नाचो बोवाळ सुरू जालो. त्या बोवाळांत जायल्याची घडणूक फाटीं पडली. सगळीं लग्नाचे तयारेक लागलीं. काशिनाथ मडगावां बँकेत शिर्वीस करतालो. विठूभाऊन ताका पयलींच बिराड करून दिल्लें. ताच्या लग्नाचें थारतकच ताच्या संवसाराक जाय-जाय तें सगळें सामान घेतलें. ताचो व्हडलो पूत जयराम पणजे शिर्वीस करतालो. ताकाय ताणें पणजे हरीच्या बिराडाच्या लागींच बिराड करुन दिल्लें. लग्न जावन स म्हयन्यानी सुमार ताचे बायलेक पणजे पावयल्ली. आतांय दुसऱ्या पुताकय मडगावां दवरता ते पळोवन काकीबाय मात्सी विरूस जाली. दोनय पूत भायर रावतले हे येवजूनच तिका वायट दिसतालें. पूण घोव आपले कांयच आयकून घेवचो ना म्हणून जावे कडेन आपलो राग उलोवन दाखयलो. विठ्याआईन तिका फुसलायली आनी म्हळें, 'तरी बरें, तुकाराम घरा आसा. ताचीं भुरगीं तुका खेळोवंक मेळटात.'

-'पळोवया गे तोय म्हणून सावड्ड्या शिर्वीस करता. थंयच रावता म्हळ्यार जालें.'

-'काकीबाय, भायर वचून भुरगे शिकले, जोडूंक लागले. आतां तें आमचे बरोबर रावतले ही आशा आमी धरूंकच जायना. ह्या शिक्षणान, शिर्वीसेन भुरग्यांक घरा भायर कडले. आमी वारें येता तशें सूप धरुंकच जाय. ' विठ्याआईन एक सुस्कारो सोडलो.

-'हय विठ्याआई, खरें तुजे, पूण ही घर-घरवत सांबाळप कोणे? सणा परबेक दोन दीस पयलीं येतात ना न्हय, पूण बाकी तयारी? आमी जाण्टेलीं आसा सर जालें गे पूण...?' हिराबायन आपले कड उलोवन दाखयले.

-'भोंगू गे, मुखावयलें चितून आमी आतांच बेजार जाऊंनये.' विठ्याआईन म्हळें.

-'म्हजे आनी दोनय पूत भायर. एकट्यान लग्न करून संवसार तरी थाटलो. दुसऱ्याचो पत्तोच ना.' हिराबाय सुस्कारली.

-'एक खरें गे, पयलीं वरी बेठें घर भाट सांबाळून रावल्यार आतां काळार जायना. शिर्वीशेची जोड जायच. बेंसाभाटाचे वांटे करतकच आमगेर कशे हाल जालें ते हांव जाणा. रिणां काडून लग्नां केलीं. आतां शाणो आनी हरी तीं पावयतात.' विठ्याआईन म्हळें.

-'हय खरें तुजें विठ्याआई. आमी अशी बेजार जावन कांयच उपयोग ना.' काकीबायन आपल्याच मनाक थातारलें.



## 9

शिरवयकाराच्या घराब्यांत जायत्यो घडणुको घडटाल्यो. पूण रायूदादान तातुंतलें कांयच लावून घेऊं नासलें. आपलें वाचन, शिकोवप आनी लेखन हातुंतच तो गुल्ल आसलो. पोर्तुगीज-मराठी शब्दकोशाचो वावर ताणें आपूण जावन आंगार घेतिल्लो. ह्या कामाक ताका जाय तीं पुस्तकां कादेर्न सगळें तो विठूकाकाक सांगून हाडून घेतालो. विठूभाऊक पुतणयाच्या बरपाची व्हडविकाय. ताका जाय तें सामान तो उमेदीन हाडून दितालो.

रायूदाद देवाचीं भक्तीगीतांय घडयतालो आनी घरांतल्या भुरग्यांक चालीन शिकयतालो. अशा कामांत तो रमून वतालो. ना जाल्यार 'आज थंडी जाल्या, फाल्यां आंग दुखता, हांव बरों ना.' अशें म्हणत पिरंगत बसपाची ताका संवय आसली. ताची आजी, व्हडलीआई आसतना ताच्या ह्या नाशिल्ल्या दुयेंसाच्यो तोखणायो करताली. आतां आवयन लेगीत ताका बाबा पुता करून वाडयलो. ताका लागून इतली हुशारकाय आंगांत आसूनय तो हांव बरो ना म्हणून दीस लोळून काडटालो.

ताका लागून घरांतलीं, भायली, सोयरीं-धायरीं सगळीं समजतालीं, 'रायूदाद मू, तो दुयेंत, तो अशक्त, ताच्यान कितें जाता' रायूदादाचें नाशिल्ले दुयेंस लोकांच्या मनांत घर करून बशिल्लें.

लोकांचो समज हळूहळू खरो जावंक लागिल्लो. ताका थंडी फाल्त जायना जाली. पयलींच नाजूक प्रकृतीचो रायूदाद, आतां खऱ्यानीच बरो ना म्हणून चडसो न्हिदून रावतालो.

शाळेंत शिकोवंक वचपय ताणें चडशें बंद केल्लें. गांवचे बेकार आशिल्ले भुरगे ना जाल्यार शिरवयकारागेर गरीब सोयऱ्यांचें भुरगे रावताले. तातूंतलो कोणय वचून शाळेंत शिकयतालें. बरो आशिल्ल्या वेळार रायूदाद आपलें लेखनाचें काम करतालो. पोर्तुगीज कादंबऱ्यांचो मराठींत तो अणकारय करतालो.

गांवची शाळा बंद पडूं नये हाची विठूभाऊ जतनाय घेतालो. शिक्षणाचें म्हत्व गांवांक अजुनय तशें पटूं नासलें. भाटकारांले भुरगे केप्यां, सावड्याँ ना जाल्यार मडगांव वचून शिकताले. गांवच्या सादारण लोकांचे भुरगे मात विठूभाऊचेच शाळेंत शिकताले. बरप-वाचप कळटकर घरा बसताले.

सिताबायक आतां भुरग्यांचे उस्तवारे बरोबर रायूदाद फाटल्यानूय नाचचें पडटालें. कसाय करून दी, आंग शेक, पांय चेप अशें जायतीं कामां तिका करचीं पडटालीं. जेवणाकूय ताच्यो बऱ्योच खोडी आसल्यो. ताका सदांच कमी मसाल्याचें, पथ्याचें जेवण करचें पडटालें. नुस्तें, फोडी तळटना तेल घालप ना, भिंडेल लावन तळप अश्यो नाना तरा करून सिताबाय ताका वाडटाली. केन्नाय मागीर सिताबाय जावे कडेन उबगताली.

-'जाणा ताईबाय, देवतेन म्हाका पळे तिनच भुरगीं दिलीं ते तिचे उपकार हांव केन्नाच विसरचीना. ना जाल्यार म्हाका भुरग्यांचो पिरंजळ आनी हांच्या फाटल्यान नाचप दोनय झेपचें नासलें.'

-'हय गे सिताबाय, तुजीं भुरगीं व्हड जातकर हें दादाचें दुखणें सुरू जालें म्हूण बरें. पूण तुजीं भुरगीं मात समजीकायेचीं. ना जाल्यार आमगेलीं पळे, एका परस एक खेव.'

सिताबायच्या दत्तात्रयाक आनी ताईबायच्या सोमनाथाक मुंज

बांदपाचो विचार चलतालो. तेन्राच रायूदादाक दिसांचो जोर आयलो. पयलीं जोर सादो सादो म्हणून वैजालीं वखदां दीत रावले. पूण वखदां पारनात म्हणून बैल गाडयेंत घालून सावड्डेच्या मिनेझीसाच्या हॉस्पिटलांत घालो. रायूदाद आठ दीस सुमार हॉस्पिटलांत उरलो. थंय तो बायल भुरग्यांची चिंता सोड, वासपूस लेगीत करिनासलो, पूण आपलो पोर्तुगेज-मराठी कोश, पोर्तुगेज कादंबरीचो अणकार हाचीच ताका चिंता जाल्ली.

ताच्यान धड उलोवंक जाय नासलें तरी घरा व्हर म्हणून ताणें हट्ट केलो. दोतोर ताका धाडूंक कसोच तयार नासलो. पूण विठूभाऊक ताची परिस्थिती कळ्ळी. ताणें दोतोराक विनवणी करून रायूदादाक वडगावां हाडलो. तेच रातीकडेन रायूदादान जीव सोडलो.



सिताबायची कूड चवखेर. रायूदाद वतकर दादल्यांमुखावेल्यान कुडींत यो-वच करचें पडटलें म्हणून सिताबाय व्हडले आईचे कुडींत रावंक लागली. केंसरआका आनी आडसाट्यो चलयोय थंयच न्हिदताल्यो. रातचीं पुस्तकां वाचप, गजाली करप, केंसरआकाचो धेंगसो येसर तीं कुचूकुचू करून उलयतालीं. खुसूखुसू करून हांसतालीं. पूण सिताबाय थंय येत साकून, तांचो बोवाळ थांबलो.

तशें सगळें घर दुखेस्त जाल्लें. विठ्याआईन तर हातरूण धरील्लें. नवसा-सायासाच्या पुताचें मरण तिका सहन जालें ना. अन्ना-उदकावेली तिची वान्साच गेली. पुता फाटल्यान चार म्हयन्याभितर तीय गेली.

आवयचे दीस जाले बरोबर भुरग्यांच्या इश्कोलाचें निमित्त करून हरी आपल्या बायल भुरग्यांक घेवन पणजे गेलो. रांदचेकुडीचो भार ताईबायचेर एकटेचेर पडलो. तिच्यो चलयो कुसूम, सुमित्रा आनी सिताबायचें सुमती तिका वयलो वयलो आदार करतालीं. पूण मुखेल भार ताईबायचेर पडिल्लो. तातूंत ती गुरवार आसली.

सिताबायक हात पांगरून बसप केन्ना आवडनासलें. पूण घोव

गेल्यान तिका बळयां कुडींत बसून रावचें पडटालें. हे दुःख केन्ना सोंपपाचें न्हय इतलें व्हड आसलें. पूण दुकां सुकिल्लीं. वोग्गी बसून कितें रावप म्हणून ती मांडे, गोजड्यो शिंवताली. ताईबायनच तिका फोर्स केल्लो. सांजवेळच्यो मागिलदारच्या आंगणांत सगळ्यो बायलो बसताल्यो, तेन्ना ताईबायन सिताबायक थंय हाडून बसोवन शिवणसूत करूंक लायली.

गुरवारपणाक लागून ताईबायक रांदचेकुडींतल्या कामाचो खूब त्रास जातालो. तेंच निमित्त धरून सिताबाय रांदचेकुडींत आयली. आपलो सदचो वावर तिणें हातांत घेतलो.

एकदां उबी राविल्ले सिताबायक सगळेंच सांबाळचें पडलें. आपल्या आनी जावेच्या भुरग्यांचो पिरंजळ, सण-परबो, आयिल्लो गेल्लो, सगळो भार तिणें घेतलो. कामाची तिका पर्वा नाशिल्ली. पूण रायूदाद गेल्ल्यान विधवा पणाचें खत तिका भायर-भितर मेकळेपणान वागूंक आडखळ हाडटालें. देव-देवस्पणाच्या कामातय तिका हात घालूंक मेळ नासलो.

तांच्या गांवांतच न्हय तर सगळेच कडेन विधवा बायलेन काळखाकुडींत वर्सभर तरी बसून रावप अशी रीत आसली. मागीर सुध्दां चार चौगांमदीं भरसून तांणी रावूं जायना आसलें. व्हड आवाजान उलोवपना, भुरगेंबाळांकडेन लेगीत हांसप ना. थोडे भितर सांगपा म्हळ्यार दुःख पांगरून तिणें भितर बसप. घरांत कार्य आसल्यार लेगीत तिणें ती कूड सोडून भायर येवप ना.

पूण सिताबायक पयलीं ताईबायनच भायर काडली. मागीर तिका रांदचेकुडींत वावुरचेंच पडलें. तांच्या घरांतले लोक सगळें खबर आशिल्ल्यान वोगी रावले. पूण गांवचे लोकमात नाना तरेन उलयताले. सगळ्यो सुधारणा विठूभाऊन आपल्या घरांतल्यान सुरू केल्ल्यो. तोय गांवाक राग आसलो. तोंडार कोण कांय म्हण नासले, तरी मनांतल्यान सगळ्यांक राग आसलो. तरी विठूभाऊन केल्ल्यो सुधारणा सगळ्या

गांवान मुकाट्यानी आपणायल्यो. तातुंतल्यान मेळपी फायदे तांकां कळिल्ले. पूण बऱ्याची तुस्त करूंक कोण मुखार सर नासलो, वायटाची टिंगल सोकसोर्त करप ही समाजाची रीतच आसली.

ताईबायगेर राधा जालें आनी ताईबाय दुयेंत जाली. सिताबायचो वावर वाडलो. तश्यो चलयो तिका आदार करताल्यो. पूण भुरग्यांच्या आदारापरस झगडींच चड जातालीं. कल्याण, रुक्मीण आतां रांदचे कुडींतलीं बरींच कामां करतालीं. सवळ्या-भश्टयाचें प्रस्त मात्सें कमी जाल्लें. तितली सिताबायक मात्सी मान वयर काडूंक मेळटाली.

तातूंत हालींसरा कुसूम, सुमित्रा, सोमनाथ व्हड जायत साकून बरींच बदलिल्लीं. आपल्या बापायन मडगांव साकून येतना हाडिल्लें खाण दत्तात्रय, सुमती, पुष्पाक दिवंक तांकां आवड नासलें. 'आमच्या बाबान आमकां हाडलां तें.' अशें म्हणून चिमटीभर तांच्या हाताक लायतालीं. आजवेर हो भेद तांच्या घरांत कोणेच करूं नासलो. तुजें म्हजें अशें तांच्या घरांत नाशिल्लेंच.

कोणाचोय मामा येवूं. त्या घरांतल्या सगळ्या भुरग्यांचोच तो मामा आसतालो. ताणें हाडिल्लें खाण सगळ्यांक सारकें मेळटालें.

सिताबायचे आनी ताईबायचे भाव तर दोगय आपल्यो भयणी कशे व्यवहार करताले. ताईबायचें कुळार ताण. तिची आवय वर्साक कितलेच फावटी खाणां धाडटाली. ताईबाय कुळारा वतकच तिचो बापूय धुवेच्या भुरग्यांवांगडा सिताबायच्या भुरग्यांकय कपडे धाडटालो.

ताईबयचीं भुरगीं वयान वाडटालीं तशीं म्हजें तुजें करूंक शिकिल्लीं. ताईबायचें लक्ष गेल्यार ती तांकां तापयताली, वेळावेळार समजायताली. पूण ती बरी ना जायत साकून तिच्या भुरग्यांचेर कोणाचोच धबाडगो ना जाल्लो. आवय भितर न्हिदल्या म्हणून तांची इल्ली चडच अपुरबाय जाताली. ताचोय परिणाम म्हणून आसत धडये,तीं आपसुवार्थी कशीं जाल्लीं.

न्हिदिल्लेकडेन ताईबायक त्रास नाका म्हणून तिका कोणच तिच्या

भुरग्यांच्यो गजाली सांगनासले.



थोड्या दिसांनी ताईबाय बरी जावन आपल्या व्यवहाराक लागली. धाकलें राधा जायत साकून सिताबायकडेन वाडिल्लें तें ताईबायकडेन कशेंच वच नासलें. सिताबाय ताका आपलें पोसूक म्हणी.

राधाक सिताबायन पोसूक म्हणटकर सुमित्रा आनी मिरा तिचेकडेन झगडटालीं. 'आमचें बाय तें' म्हणत ताची रड घालून ताका घेवन वतालीं. मागीर राधाच्यो किळच्यो.

एके राशीर, एका मतान चलपी त्या घराब्यांत हळूहळू वेगळचार भितर रिगतालो. बेंसा भाटाचे वांटे करूनय सगळीं एका मतान चलतालीं. पयलीं विष्णूदाद सगळ्या घराब्याचो कारभार पळयतालो. आतां विठूभाऊ तो भार सांबाळटालो.

पूण आतां प्रत्येकाचो संवसार वाडटो जाल्लो. कांय जाण पणजे, मडगांव, मुंबय पाविल्ले. भायल्या समाजाचें बदलतें वारें गांवांत तशेंच शिरवयकारागेरय पाविल्लें. प्रत्येक जाण आपल्या मतान वागतालो. आपल्या कुटुंबा पुरतेंच पळयतालो.

हरी पयलींच पणजे रावंक गेल्लो. तो सणा-परबां पुरतो, कितेंय कार्यबी आसल्यार घरा येतालो. येतालो तेन्ना हक्कान नाल्ल, तांदूळ घेवन वतालो. हरशीं बेंसा-भाटाच्यो गजाली तो भावाक केन्नाच विचारनासलो.

हाचो फायदो शाणून घेतिल्लो. शाणू मुळचोच धुर्त, तसो सुवार्थी. रायूदादाचे आनी आपलें कुटूंब आपूण चलयतां म्हणून आवयकडेन सदांच फडफडटालो. हरशीं तो आपलो पगार चडसो सुगूर करुन दवरतालो. घरच्या पयशांतल्यानच संवसार चलयतालो. पूण बायलेन कितेंय घरांतले सामान हाडूंक सांगल्यार तो सामको फडफडटालो. 'सगळ्यां पासत खर्च करप म्हाका परवडना. म्हज्या एकट्याच्या जोडीचेर इतल्या जाणांक कसो पोसूं हांव? खर्चाक मात्सो आवर

घालात.' अशें म्हणून बायलेचेर तापय काडटालो. मुद्दाम व्हडल्या आवाजान तापतालो. भायर सगळ्यांनी चड करून सिताबायन आपलो आवाज आयकुचो म्हणून.

सिताबाय आनी ताईबाय दोगांयचोय सभाव एकेच भशेन. मायेस्त दुसऱ्यांक सांबाळून घेवपी. रांदचेकुडींतल्या व्यवहारांतय तीं दोगांय बेठोच घसघस करनासलीं. लावन पुसून संवसार करतालीं. वेगळो कसलोय पदार्थ केल्यार दोनय बिराडांक दिवपाची तांची चाल आसली. आपल्या काटकसरीच्या संवसारांतय सिताबायन आनी ताईबायन ती रीत सोडूं नासली.

सगळ्या सणा-परबांचो खर्च तिनय भाव विष्णूदादाच्या मुस्तींतल्यान वांटून घेताले. त्या दिसाचें जेवण खाण मात सगळीं एकठांय घेतालीं. जाण्टेल्यांच्या श्राध्दाक सगळीं एकठांय येतालीं, एकठांय जेवण खाण करतालीं.

हरी पणजे रावतालो खरो पूण आपल्या अर्दान जो खर्च येता ताचो अर्दो वांटो शाणूकडेन दितालो. विठ्याआई आसतनाच तिणें ताका ही रीत घालून दिल्ली. रायूदाद शिर्वीस करना म्हणून ताका पयशांच्या वांट्याक धरच नासले. ते खातीर शाणू आवयचेर फडफडटालो. पूण आवय वतकर शाणुचो फडफड वाडलो. तांच्या अर्दाचो तोच मुखेली जाल्लो. तो सांगता, करता तें ताईबाय आनी सिताबाय मानून घेतालीं, तो जें हाडटा तितले भितर संवसार करतालीं.

सिताबाय मुळचीच हुशार. कितेंय करतना फाटलो फुडलो विचारकरून करपी. कसल्याय प्रसंगार 'आ, आतां कशें जातलें?' म्हणून हातपांय सोडून ती केन्नाच बसली ना. वेल्यान दुसऱ्याकय धीर दिवन मुखार काडटाली. म्हणून काकीबाय तिका म्हणटाली, - 'सिताबाय, तुका पापणी आंगठ्यावयल्यान रावण वळखुपाक येता. तुका जर शिक्षण मेळिल्लें जाल्यार तूं भायर जश्यो बायलो व्हड व्हड जाल्यात तशी कोणयतरी व्हडली जातली आसली. आमच्या हांगा

रांदचेंकुडींत तुजी हुशरकाय खर्चता. आमगेर तुजे हुशारकायेक सदांच तोखेतात.'

भितल्ल्याघरांत कसलेय सल्ले जाय तेन्ना सगळीं पयलीं सिताबायक विचारतालीं. विठ्याआईतर तिका म्हणटाली,

-'सिताबाय, तूं आमचे व्हडलेआईचोच आवतार. तिणें बाप्पा फाटल्यान भितर बसून कशेतरेन हो घराबो चलयला तो आमी पळयला. तूंय तशीच. बरो करून कर बाये संवसार. तुका पळोवन हांव हुस्क्यामेकळी जाल्यां.'

जेवणखाण करपाक तर सिताबाय तरबेज आसली. तिचो अदमास केन्नाच चूक नासलो. तांच्या घरांत जांव वाड्यार कोणागेर पापड वडयो करपा आसा जाल्यार सिताबायक पीठ कालोवन दिवंक आपयतालीं. तिका असलीं कामां आवडटालीं. ती उमेदीन मांयची मान्यताय घेवन वताली. तांच्या घरांत तर वडयो, पापड, शेवयो, साणगे कितेंय आसूं सिताबायच भार घेवन जाग्यार घालताली. बाकीचीं मागीर तिका आदार करतालीं.



रायूदाद वच्चें पयलीं सोमनाथ, रामनाथ आनी दत्तात्रयाची मुंज बांदपाची थारायताले. पूण रायूदादा फाटोफाट विठ्याआईगेली, आनी मुंजीचो बेत थंयच उल्लो. वर्साभितर कार्य केलें ना जाल्यार मुखार तीन वर्सां कार्य करूंक मेळचें नासलें हें लक्षांत घेवन विठूभाऊन शाणूक चल्यांच्यो मुजी कर म्हणून सुचयलें.

शाणूक आपल्या चल्यांच्यो मुजी करपाचो प्रस्न नासलो. पूण वांगडा दत्तात्रयाची मूज करूं जाय आसली. तेय मुजीचो खर्च आपल्याचेर पडटलो हाचो ताका हुस्को जाल्लो. ताणें विठूभाऊक म्हळें, - 'काका, मुजी करूं जाय खऱ्यो पूण खर्चाचो प्रस्न...'

- 'हय शाणू, खर्चाचो प्रस्न आसाच... तुवें व्हडली मूज घेवन बसपाची गरज ना. रायूदाद, व्हनी गेल्यार चड तेप जाऊना, आमी

घरचे भितर मूज करुंया.'

- 'हय काका, तशेंच केल्यार बरें. आतां तांचे चंद्रबळबी पळोंव जाय न्हय, तूं सगळें थाराय. हांव बाकीची तजवीज करतां.'

भितरल्यान जड जावन शाणून म्हळें.

चल्यांच्यो मुजी थारतात तें पळोवन सिताबायक खोसय जाली आनी वायटय दिसलें. तिचें तोंड पळोवन ताईबायक तिची व्यथा कळ्ळी. तिणें म्हळें, 'सिताबाय भुरग्यांक जल्म दिलो तितलो तुमी. मुजीचें यजमानपण करपाचें भाग्य तुमकां मेळ्ळेंना.'

-'हय बाये जण एकट्याचें नशीब. पूत मागतात तो आमकां मरतकर अग्नी दिवंक. पूण आमगेर पूत आसूनय मूज बांदूनाशिल्ल्यान भावा हातान अग्नी दिवचो पडलो. सोड, नशिबाचे खेळ म्हणून वोगी रावपाचें.

- 'हय गे सिताबाय, नशिबामुखार कोणाचें चलता?'

- 'जांव आतां तरी दत्तूची मूज जाल्यार म्हाका तरी अग्नी दितलो तो. हातुंतच खोस मानपाची'

शाणूची तकली पयलीं पसून मुखावेलें येवजूपी, ताणें दत्तात्रयाचें यजमानपण हरीक करूंक लायलें. मागीर मुजीचो खर्च कितलो जातलो तो कसो करप हाचेर रडूंक सुरवात केली. हरीक ताची रड कित्याक ती कळ्ळी. ताणें मुकाट्यानी दत्तात्रयाच्या मुजीच्या खर्चाचे पयशे दिले. शाणून ताची कोणाक जाग माग लायली ना.

घरच्या घरा मुजी म्हळ्यो तरी धुवो, मुंज्याच्या आजोळचे लोक म्हळ्यार देडशांवयर लोक जाले. तिनय मुंजी आपुणच करतां ह्या थाटांत शाणू वावुरतालो. तीन कार्यां जातात म्हणून चवथी पुजा दवरली. आपल्या चल्याची मुंज केली म्हणून देराचे उपकार कशे मानू? अशें सिताबायक जाल्लें. तिणें चार-चार वेळा तरी ताईबायक हें उलोवन दाखयलें.

ह्या मुजींवेळार शाणून आपल्या भुरग्यांक कपडे उंची हाडले.

गळ्यांत घालूंक सरपळ्यो केल्यो. भितल्ल्या घरांत कुचकूच जालो. पूण सिताबायन मातय वायट धल्लें ना. तिचे कडेन कुचकुचतल्यांक तिणें म्हळें, - 'तातूंत कितें? तांचो बापूय जोडटा. ताणें आपल्या भुरग्यांक करपाचेंच. ताणें दत्तूची मूज आपल्या भुरग्यांबरोबर बांदली हातुंतच म्हाका भरून पावलें.'

दत्तूक घरच्यानी कोणे कोणे अहेराक पाव, अर्द पोवनां, मुदयो घाल्ल्यो. पयशांचीं पाकिटांय आयिल्लीं. सगळे अहेर दादल्यांकडेन दिवपाची तांची रीत. ते प्रामाण दत्तूक आयिल्लो अहेरय शाणून दवरलो. ताईबायक तें बरें दिसलें ना. तिच्या नंडांनीय तिका म्हळें, 'शाणून हें बरें केलें ना. सिताबायक कितेंय आदार जावचो म्हणून आमी भांगर पयशे दिल्ले. तेय शाणून दवरप?'

नंडांची सांगणी ताईबायक पटली, तिणें घोवाक समजायलो, - 'आयकलां, सिताबायच्या पदरांत दोन धुवो आसात, भांगर कितें आयलां तें सिताबायकडेन दियात. तांच्या लग्नाक उपकरतलें.'

- 'तो भार तुज्या माथ्यार दिवूं ना अजून. लग्नाचें लग्नावेळार पळोवया. आतां दत्तुच्या मुजीचो खर्च जाला म्हाका तो कोण दितलो. बरी सांगुक आयल्या, काय जावेन शिकोवन धाडल्या?'

- 'हें, हें, तिचेर बाबडेचेर घालूं नाकात, वेल्यान ती तुमी दत्तुची मूज बांदल्या म्हणून तुमचे उपकार मानता. म्हज्याच मनांत आयिल्लें तें.'

- 'असलें नाका आशिल्लें चितचेपरस संवसाराचेर लक्ष दी.'

ताईबायक वायट दिसलें. सकल तकली घालून ती कुडींतल्यान भायर आयली.



आडसाट्या चलयांक घरांतल्या घरांत जायलें अभ्यास शिकयतालें आनी सांजवेळच्यो घरांतल्यो बायलो भरुंक विणूंक शिकयताल्यो. भरपाक, विणपाक कपडो, सुतां इस्किनी जाय पडटाल्यो. सुरवातीक

विठूभाऊ अपुरबायेन सगळ्या चलयांक विणपाक, भरपाक जाय तें हाडून दितालो. मागीर ताईबायन शाणूक सांगून हाडून घेतलें.

शाणूचें कुसूम, सुमित्रा एक दोन फावट वोगी रावलीं. पूण मागीर तांच्या बापायन हाडिल्लीं सुतां, इस्किनी सुमतीक दिना जालीं 'आमच्या बाबान आमकां हाडल्यांत तीं.' अशें म्हूणोन आपले कुडींत व्हरून दवरप.

सुमतीन हळूच आवयकडेन येवन रडप. सिताबाय कितें करतलीं. तिचेकडेन एक पयसो नासतालो, तिका वायट दिसतालें. तिणें धुवेक फुसलावची. पूण तिचे तकलेंत तोच विचार घोळटालो.... लग्रा पासत शिवण-सूत करूं जाय खरें, पूण ते पासत पयशे जाय. ते खंयच्यान हाडप?...'

ते रातीकडेन ती भितल्ले भितर रडली. पयलेच खेपे आपल्या घोवान कांयच पयशे जोडले ना हाचें तिका दुःख जालें. घरांत प्रत्येकागेर कोण ना कोण जोडकार आसलो. रायूदादान केन्नाच जोडलें ना. वयल्यान आपलें बरोवपाचें, वाचपाचें व्यसन पुराय करूंक जाय तें सामान पयलीं बापूय आनी बापोल्या कडल्यान हाडून घेतालो. मागीर भावांकडेन मागून घेतालो. कोणेच ताका जाय तें सामान हाणून दिवंक केन्नाच ना म्हळें ना. पूण शाणू मात ताचे असवडीं ताचेर फडफडटालो.

आवय आसतना ताणें आवयक म्हणचे, 'दादा, आपूण एक्क पयसो जोडना. आमी कश्टांनी मेळयतात ते पयशें कितें ताच्यो आवडी पुराय करपाक दिवप. तीं पुस्तकां बरयता, कवनां घडयता ताचे परस कितेंय जोड म्हूण सांग ताका. पयशे जोडपाक कितले त्रास पडटात तें कळटलें मागीर ताका.'

विठ्याआईन ताका धपकावचो, 'शाण्या चड उलय नाका. व्हडलो भाव तो तुजो. मात पूण रस्पेत राख. ताका पुस्तकां कागदां हाडून दिलीं म्हणून कितें तुजें राज्य बुडलें रे.?

आवय मुखार शाणूच्या उलोवपांत व्हडलो नेट आस नासलो. ताणें

रायूदादापासत केल्लो खर्च वेगळोच बरोवन दवरिल्लो.

भितल्ल्या घरांत बायलांक केन्नाच पयशांची गरज लागनसाली. तांकां कितें जाय तें दादले एके राशीर हाडून दिताले. पोव, कूकूम, फणी अश्यो वस्तू गांवचे जात्रेक , कवळ्यां जात्रेक वतालीं तेन्ना घेतालीं. तें घेवपाक लेगीत सिताबायकडेन पयशे आसनासले. ताईबायचो बापूय तिका गेल्ल्या वेळार रूपया-दोन रूपया दितालो. शाणूकडेन शंबरवेळा वाद घालतकर तो पांच पयशे तिच्या हाताक लायतालो. म्हणून ती शाणूकडेन पयशे मागुंकच वच नासली. बापायन दिल्ल्या पयशांतल्यान ती जात्रेक वतकच आपल्याक कितें घेता तें सिताबायकय घेताली.

तांच्या गांवांत एक पिड्डूककार म्हणून येतालो. एका पत्र्याच्या ट्रंकांत बायलांक जाय जाय तसलें बारीक सारीक सगळें सामान घेवन येतालो. सूय-सूत धरून शिरंगाराचें सगळें सामान, तरेकवार रेना, कापराचीं काकणां अशें जायतें कितें कितें घेवन येतालो. भितल्ल्या घरांत ताका वासरेंत बसोवन भात, नाल्ल दिवन बायलो आपल्याक जाय त्यो वस्तू घेताल्यो. सगळ्यांत चड गिरायक ताका शिरवयकारागेर जातालें. वतना साक भरून भात नाल्ल तो व्हरतालो. शिरवयकारागेर घरच्यां वांगडा सोयरीं-धायरीं आसतालींच. तांकांय जाय तें घेवन दितालीं.

बायलांचें तशें चड भायर यो वच नासतालें. लग्न कारण, केन्नाय जात्रा, काल्यांक आनी हळदकुकमाच्या निमतान वयल्या वाड्यार, देसाय वाड्यार यो वच जातालें. तितलें हरशीं फाटलें आंगण सोडून चवखेर लेगीत तांचें चडशें येवप जायनासलें.

भितल्ल्या घरांतल्या बायलांक पयशांचे व्यवहार चडशे लागनासले. आतां मात सिताबायच्या जिवितांत पयलेच खेपे पयशांचो प्रस्न सुमतीक लागून आयिल्लो. हालींसरा घरांत आयिल्ल्यो नव्यो सुनो, धुवो पयशे मोडून हें हाडलें, तें हाडलें म्हणून दाखयताली. पूण त्या कामाक पयशे खंयच्यान येतात हाचे विशीं कोणच उलयनासलो. तांणी हाडिल्ल्यो

वस्तू अजापान पळोवप त्यो तोखेवप, इतलेंच सिताबायचे पिळगेक खबर आसलें. ह्या गजालींक पयशे लागतात, मुखार त्यो आपल्या भुरग्यां पासतय जाय पडटल्यो हें सिताबायन केन्नाच चितूं नासलें.

आतां तिका आपल्या हातांत पयसो कसो येतलो हें चिंतेन न्हीद पडना जाली.



## 10

सिताबायन पयशां पासत खूब चितलें. पूण मार्ग मेळनासलो. देराकडेन मागपाची गती ना हें ती जाणा आसली. तिची कसलीय अडचण काकीबायक कळ्ळ्यार ती विठूभाऊक सांगून सोडयताली. पयशांची अडचण सांगल्यारय तो दितलो आसलो. पूण सिताबायक अशे तरेन कोणाकडेन हात पसरप आवड नासलें. म्हणून ती आपल्यो अडचणी चडश्यो काकीबायक कळूं नये हाची ती जतनाय घेताली. आनी जावेकय सांग नासली.

... 'कशें करचें?' 'कितें करचें?... ती येवजीत आसली, आनी तिका एक माण्णी येवजली. तिची धाकली जाव ताराबाय पणजे रावताली. तिका हांचेवरी शिवण-सूत हातूंत गती नासली. तिका फकत पुस्तकां वाचपाची आवड आसली. दिसभराचें काम जालें काय ती पुस्तकां वाचूंक बसताली, ना जाल्यार शेजाऱ्यां कडेन खबरी मारूंक बसताली.

पिनिल्लें, उसवल्लें लेगीत शिंवपाचो तिका कंटाळो येतालो. वडगांवा येवचे वेळार ती आपली शिवण घेवन येतालीं. सिताबाय तिका सगळें सारकें करून दिताली. तिका गोजड्यो पोळेर जाय जाल्यार पातळां हाडून दिवन सिताबायकडल्यान शिंवन घेताली. सिताबायक

गोजड्यो, मांडे, कपयाळीं करपाचो घोस्त. मोठे उमेदीन ती ताराबायक सगळें करून दितालीं.

ताराबायन तिका सदांच म्हणचें, 'सिताबाय, तूं म्हजें इतलें व्हड काम करता. तुका कसलीय गरज आसल्यार म्हाका सांग हा. हांव तुका हाडून दिता.'

पूण सिताबायक कोणा कडेन कितेंय मागपाक आवडनासलें. तिणें हांसून 'बरे भशेन? म्हणचे, पूण केन्नाच कांय मागलें ना. तिणें कितेंय दिल्यार खोश्येन घेताली.

आतां मात सुमती पासत भीड मुर्वत पेल्यान दवरून जावेकडेन तोंड फाफुडपाचें थारायले.

जात्रेची पंचम तांगेर व्हडा प्रमाणात जाताली. शिरवयकाराल्या घराब्यांतले भायर रावपी पूत, धुवो हे पंचमीक मुजरत येताल्यो. कितल्यो मेळटा तितल्यो सवाशिणी, वडव्यो त्या दिसा दवरून तांची पुजा करतालीं. हरीय जात्रेचे पंचमीक पयले दिसाच येतालो. दनपारचें जेवण जालें काय जात्रेक वचूंक चड करून दादले भायर सरताले. केन्नाय चलयो, साड्यो-सुडयो बायलोच वताल्यो. एक कार्रेर, दोन कार्रेर मुखार दोन खांब्या कडल्यान चलत वचप अशे त्रास काडून कवळ्यां वचचें पडटालें. म्हणून चडश्यो भुरगेबाळकार बायलो वचनासल्यो.

पयल्या दिसा रातची ताराबाय येतकर न्हिदचे वेळार सिताबायन तिका भिडे-भिडेत म्हळें, 'आगे प्रत्येक वेळार तूं म्हाका कितें जाय जाल्यार सांग म्हणटा.'

'हय तर, पूण तूं ती. केन्नाच कितें जाय म्हणून सांगची ना.'

'हय गे, पूण आज मागतां.'

'खरेंच, सूर्य खंयच्यान उदेला काय म्हणटलें आसलें. पूण आतां रात. सांग कितें जाय तुका?'

'म्हाका कांय नाका. सुमती पासत म्हणी हांव.'

'कितें जाय सुमतीक' सांग मगे?'

'आगे, सुमतीचे वाडटें वय, लग्नाची तयारी करूं नाका. कितेंय शिवणसूत करून घेतली म्हळ्यार तूं जाणा सगळ्याक पयसो लागता. कोणाकडेनय मागप म्हळ्यार जिवार येता, पूण तूं म्हणी न्हय...'

'सिताबाय, इतलीच गजाल मगे? तातूंत इतली कित्याक आडखळटा? हांव हाडटां ताका फ्राँजी भरपाक कपडे, इस्कीनी, भरून घे तांचे कडल्यान.'

'उपकार जायत तुजे ताराबाय.'

'आगे हातूंत उपकार कसलें? तूं म्हजी थोडी शिवण करता? पणजे बायलो गोजड्यो, मांडे शिंवन पयशे घेतात पयशे.'

'शी, शी, शी, गोजड्यो शिंवन दिल्यार पयशे घेतात? आंवय, एकमेकाक आदार कसलो करप तर तो?'

'सिताबाय, आदार बी करप तो घरच्यांक. पणजे बायलो लोकांच्यो गोजड्यो शिंवन दिवन पयशे घेतात. आगे शिवण ही कला. ती कितें सगळ्यांकूच जमता. म्हाका पळे, उसवल्लें शिंवतले जाल्यार लेगीत सरळ धागो घालूंक येना.'

'आसूं गे, हांव आसा न्हय?

'हय तर. बरें तुका केन्ना कितें जाय तें म्हाका सांग हा.'



काकीन विणूक सुतां, भरूंक इस्कीनी आनी कपडे हाडून दितकर सुमती फुल्लें. तें उमेदीन फ्राँजी भरूंक लागलें. विणपाक तर ताका खूब आवडटालें. ताणें काकीबायक विचारून - विचारून हरीकाकापासत बानयान विणलें.

घरांत सगळ्यानी ताची तोखणाय केली. कुसूम आनी सुमित्रा मात बेजार जार्ली. सुमीत्राक विणपाचो घोस्त आसलो. पूण एका जाग्यार चड वेळ बसून कितेंय करूंक ताका आवड नासलें. ताणेय बापायक बानयान विणपाक घेतलें आनी अर्देच उडयलें. सुमतीन मागीर तें पुराय

करून दिलें.

सुमती कसलींय कामां निगुतीन आनी पासियेसान करतालें. ताची कोणेय तोखणाय केली काय कुसूम आनी सुमित्रा पिकार जातालीं. ताईबायक हें कळ्ळ्यार ती तांकां धपकायतली. पूण तिचे असवडीं हीं दोगांय सुमित्राक बारीक सारीक कामा वयल्यान हिणसायतालीं. 'आमचो बाबा त्रास करून पयशे जोडटा आनी तुमचे पासत खर्च करता.' अशें कितें कितें तीं सुमतीक उलयत रावतालीं. खरें म्हळ्यार शाण्याचीं उतरां तीं सुमतीक सांगतालीं. भुरग्यांनी कितेंय जाय म्हणून हट केल्यार शाणू तांकां सांगतालो, 'तुमकां कसो हाडूं? तुमकां हाडल्यार तांकांय हाडूं जाय न्हय? इतले पयशे नात म्हजे कडेन. तुमकां आनी तांकां पोसतासर म्हजो पगार काबार जाता.'

बापायचें उलोवप भुरग्यांक खरें दिसतालें. हें तो बायले असवडीं उलयतालो. आपलो बापूय सुमतीक बी पोसता म्हणून आपल्याक बऱ्यो बऱ्यो वस्तू, खाण मेळना हाचो राग तीं तांचेर काडटालीं. तांकां परत जाप दिवप सुमतीक जम नासलें. तें आवय म्हऱ्यांत येवन रडटालें. सिताबाय सुमतीकच फुसलायताली. धुंवड्यांक कांयच म्हण नासली. वयल्यान तिणें म्हणचें,

'पळे बाय, तांचो बापूय आमकां पोसता. तीं कितें म्हणटात तें आमी खालतेमानेन सोसूं जाय. आमकां आनी कोण आसा. फाल्यां तुजें लग्न कारण ताणेच करूं जाय न्हय?'

सुमतीक आवयचें उलोवप पट नासलें. ताणें आवयक म्हणप, 'म्हणून कितें आमी तांचें सगळें आयकप?' तें आवयकडेन वाद घालतालें. आवय ताका चिमटावन, धुमकावन दवरताली. पूण ताचो आवाज भायर येवंक दिय नासली. तें मनांतल्यामनांत आवयचेर फडफडटालें.

रायूदाद वचत साकून गांवची शाळा सारकी चल नासली. मदीं मदीं बंदच आसताली म्हळ्यार जाता. रायूदाद मनापसून ते शाळेंत

शिकयतालो. गांवचे भुरगे वेळ पासार करूंक कशे थंय शिकयताले. गांवच्या भुरग्यांक मुळावें शिकप सारकें मेळनासलें. तें पळोवन विठूभाऊक वायट दिसतालें.

म्हादेवबाब आनी अंजनीकाकी वचत साकून विठूभाऊचें बेळगावां वचप कमी जाल्लें. पयलीं काकाक बेंसाभाटाचो हिशेब दिवंक तो वर्सांतल्यान एक दोन फावटी तरी बेळगावां वतालो. म्हादेवबाबान विठून आपले धुवेचो-नातरांचो पत्कर घेतला तें पळोवन ताका सांगिल्लें, 'विठू हे पयशेबी घेवन तूं मुद्दम बेळगावां येवन दिवनाका. सुभद्रा आनी ताच्या भुरग्यांक सांबाळटा पळे तें म्हजेखातीर खूब जालें. नातरांक म्हज्या शिकप बी दी. उपकार जायत म्हजेर.'

विठूभाऊन, 'आपल्याच्यान जाता तसो हांव तांकां सांबाळटलो.' म्हणपाचें काकाक उतर दिल्लें. पूण ते पासत ताणें केन्नाच काकाच्या बेंसातले पयशे दवरले नात. काका वतकर ताचे चले गोंयांत येवन आपलो वांटो विठूभाऊकडल्यान व्हरताले. एक मात, विठूभाऊ जें दिता तें मुकाट्यानी घेवन वताले. केन्ना केन्नाय सुभद्राक कितेंय दिताले. त्या दिसा विठूभाऊ आपल्या कामाक लागून बेळगावां गेल्लो. जेवन खबऱ्यांक बशिल्लेकडेन विठूभाऊन तांच्या गांवच्या शाळेची कशी दशा जाल्या ती सांगली.

शांतारामान म्हळें, 'विठू बेळगांवच्यान जायतेजाण गोंयांत वचून शाळा चलयतात. व्हड व्हड भाटकारांनी तर आपल्या भुरग्यांक हांगां थंय शाळेंत घालचे परस घरांतच मास्तराक दवरून भुरग्यांक शिकोवंक लायल्यात.

-'हय रे शांताराम, हावेंय आयकलां, भुरग्यांक मराठी शिकप दिवंक जायत्या जाणानी आपल्या घरांत मास्तर हाडून दवरल्यात खंय.'

-'आरे, भायल्या लॉजांत वैकूंठ बाबान केल्लो रंगम्हाल बंदच आसा. थंय रावय मास्तराक. वैकूंठबाबान केल्यात ते रंग मात करूं नाका म्हणून सांग.' शांतारामान हांसून म्हळें. तिगय भाव व्हडान

हांसले.

विठूभाऊक भावांची कल्पना आवडली. सदाशिवाचो एक इश्ट गोयांत येवन शिकोवंक तयार जालो. विठूभाऊ ताका घेवन वडगावां आयलो.



वैकूंठबाब आयिल्ल्या दिसा बरो ना जातालो म्हणून घरांतच न्हिदून रावतालो. ताचे दोनय पूत मुंबय आशिल्ल्यान ताचो भाजी पाल्याचो धंदो मानायांचेर सोंपयल्लो. गोरवां सांग्यार राखणेक घाल्लीं. आतां तांकां दूद गावांतली गांवकान्न दिताली. जांगेर ल्हान भुरगीं आसात तांकांच चड करून दूद लागतालें. बाकी लोक सवादांउदक पियेताले.

पणजे रावपी हरीगेर चा, काफी आसताली. ताणें येतना एक दुदा बाटली, चा, काफी, साकर हाडची. त्या दिसा घरभर सगळ्या दादल्यांक दुदाची चा मेळटाली. दुसरे दिसा गांवकान्नीगेर दूद मेळ्ळ्यार दुदाची च्या आसताली. ना जाल्यार फुटी लेव चा करून तीं पितालीं. काफीय तशीच इल्लोसो पिठो घालून लेव करून पियेतालीं. ताका म्हणटालींच काफये उदक.

विठूभाऊ बेळगवां गेल्यारय चाचो पिठो, काफयेपिठो घेवन येतालो. आनी दुदाचोय पिठो हाडटालो.

विठूभाऊन परत नव्या नेटान गांवची शाळा सुरू केली. नव्या मास्तराकडेन शिकूंक भुरगींय उमेदीन येवूं लागलीं. वैकुंठबाप्पालो नाल्ला लॉजांतलो रंगम्हाल विठूभाऊन सारको करून घेतलो आनी मास्तराक रावंक दिलो.

तें नाल्लांचें लॉज म्हळ्यार पांच स सालांचें व्हड घरच शें. ते भायर एक रूंद बरी पडवी आसली. घरभर सगळ्यांचे नाल्ल तातूंत घालताले. ताकाच एके वटेन दोन कुडी बांदून घेतिल्ल्यो. थंयच मास्तराक रावंक दिलें. फाटल्यान एक मान्नें करून घेतलें.

मास्तराक जेवण खाण भितल्ल्या घरांत जाची पयरी आसा तागेर

मेळटालें. तिनय बिराडानी वर्साचे चार-चार म्हयने वांटून घेतिल्लें. त्या चार म्हयन्यात येवपी सोयरे-धायरे त्या बिराडात जेवणाक आसताले. एकेच वासरेंत तिनय पंक्ती एकाच बरोबर जेवंक बसताल्यो. ताका लागून भायल्या सोयऱ्यांक हांचे भितल्ले वांटे कळनासले. जागेर सोयरो जेवचो आसा तागेर बरें जेवण ना जाल्यार दुसरेवटेंतलो तोप हाडून फकत ताच्याच पानार तें नुस्तें वा भाजी, फोडी वाडटालीं. हें जावां भितर पयलींच थारिल्लें आसतालें.

मास्तराक कितलो तेप हो फरक कळूं नासलो. सोयऱ्यां भितर कोणाचीय बायलबी आयली जाल्यार मात तिका हें रोखडेंच कळटालें.

अशे भायल्यान मास्तर हाडून शाळा चलोवप सगळ्यांकच परवडनासलें. म्हणून घरांतल्या थोड्या सुनांनी आपलीं भावंडां, सोयऱ्यांचीं भुरगीं हांकां शिकप घेवपा पासत आपल्यागेर हाडून दवरिल्लीं. शिरवयकारालें सात माळयो, सालां विशेक कुडी अशें येदे व्हडलें घर भरिल्लें आसतालें.

चवथी मेरेनचें मराठी शिकप तांच्या शाळेंत दितालीं. पूण परिक्षा घवपाची व्यवस्था थंय नासली. परिक्षा भायर वचून दिवची पडटाली. मुखावेलें शिकप जाका परवडटा तो मडगांव, पणजे आपल्या सोयऱ्यांगेर रावन पोर्तुगीजीन शिकप घेताले. जांकां जमना ते मात चवथी जातकर शिकप बंद करतालें. जांकां मराठी शिकप मुखार घेऊं जाय आसलें ते गोयां भायर वचून सातवी मेरेन शिकप घेताले. म्हळ्यार व्हर्नाकुलर फायनल मेरेन शिकताले. मागीर तांकां शिक्षक जावंक मेळटालें.

इतले म्हळ्यार विठूभाऊची शिर्विस सोंपली. तो आतां गांवचे शाळेंत भुरग्यांक मुळावें पोर्तुगेज शिकप दिवंक लागलो. मुखार शिकपी भुरग्यांक ताचो फायदो जातालो.

भुरग्यांच्या घरचीं विठूभाऊचे उपकार मानतालीं. हेच शाळेंत सिताबायचो दत्तात्रय आनी ताईबायचो सोमनाथ, रामनाथ शिकूंक वताले. सोमनाथ आनी रामनाथ शिकूंक हुशार आसले. दत्तात्रयाक

शिक्षणाची व्हडली गोडी नासली. सिताबाय आपल्या घोवान शिकप घेय नासून, नोकरी कर नासून आपली कशी परवड करून घेतली, कादेर्न आनी लाप्स लेगीत हाडपाक ताका भावांकडेन कशे पयशे मागचे पडटाले तें कांयच विसरूं नासली.

आपल्या दत्तून तरी शिकप घेवन एंप्रगाद जावचो म्हणून ती रातदीस शांतादुर्गेक होरायताली..... आज हांव पै-पयशाक पातिशेर जालां... न्हय घोवान म्हजेर हो वेळ हाडला... दत्तून तरी म्हाका हातुंतल्यान भायर काडल्यार पुरो... अशें ती मनांतल्यान मागताली.

दत्तून शिकचें म्हणून ती ताचे फाटीक लागताली. घरचो अभ्यास करूंक ती ताका घेवन बसताली. तिका तातलें एक अक्षर कळनाशिल्लें खरें पूण पाटी घेवन ती ताका बसयताली आनी तो बरयता तें पळोवन खोशी जाताली.



चवथी मेरेन तांचें शिकप गांवचे शाळेंत जातकर दत्तू, सोमू आनी रामनाथाक मडगवां शिकपाक घाले. शाणू, हरी शिकता आस्तना तांणी मडगवां एक घर घेतिल्लें. तांच्या घराब्यांतले कोणय भुरगे शिकूंक, शिर्वीसेक, खंयी यो वच करतना गरजेक त्या घरांत रावताले. शाणूची शिर्वीस मडगवां जाल्ल्यान ताका त्या घराचो चड उपयोग जातालो. विठूभाऊन काशिनाथाक थंयच लागींच घर घेवन दिल्लें. दत्तू, सोमू आनी रामनाथाक आपल्यागेर शिकूंक दवर म्हणून ताणें शाणूक सांगिल्लें.

पूण ताचें बिराड ल्हान आसलें. विठायेनय भुरग्यांक आपल्यागेर दवर म्हणून सांगिल्लें. पूण शाणून दोगांकय सांगलें, - 'आमचें घर तशें रिकामेंच आसता. तातूत भुरगे थंय रावल्यार म्हाकाय सदां वडगांव यो-वच करपाक नाका. म्हाकाय तांचेबरोबर थंयच रावंक मेळटलें. शेनवार दीस आमी बरोबर घरा वतले.'

- 'हय रे शाण्या, पूण भुरगे मरे ते. ' विठायेन म्हळें.

-‘आका तुवें सुनो हाडल्यात, नातरां आसात, तुमच्या घरांत म्हणून थोडो लोक ना. तुजेर सगळी जबाबदारी. आनी आनी हांची जबाबदारी नाका.’

- ‘हय रे पूण म्हाका म्हजे भाचे जड न्हय.’

काशिनाथानय खूब आग्रो केलो. पूण शाणून कोणाचेंच आयकलें ना. रांदून वाडूंक म्हणून रुक्मीणीक आनी ताच्या पुताक दासूक मडगवां व्हरून बिराड चालू केलें. विठाय आनी काशिनाथ येवन वचून तांच्या बिराडार आसताली. खाण हाडून दितालीं. तांकां सगळेतरेन आदार करतालीं.

भुरग्यांचे शिकप सुरू जाल्लें पळोवन सिताबाय खोशी जाल्ली. पूण तिचे खोश्येक काजळा बोट लागलें. शेनावार दीस शाणू घरा येतकर बायलेन कितेंय सामान हाडूंक सांगल्यार, तो बायलेचेर तापय काडटालो. ‘तीन तीन भुरग्यांक शिकयतां हांव. म्हाका पयलीं खर्च वटना. आनी आनी हें हाड, तें हाड म्हळें जाल्यार म्हज्यान जावचें ना, कळ्ळें’.

देराचें उलोवप कानार पडटकर सिताबायक अखीन जातालें. तिणें मागीर जावेक म्हणचें, - ‘खरेंगे ताईबाय, आपल्या भुरग्याक कोणय कसोय करून शिकयत. म्हज्या दत्तुचोय भारय ताचेर पडटा. तुमच्या दोगांयचेय म्हजेर हे व्हड उपकार. कशे पावयतलें हांवच नकळ.’

हालींसरा सिताबायक आपल्या भुरग्यांची खूब चिंता जाताली... ‘आतांच्या काळांत प्रत्येक कामाक पयशे लागतात... आमच्या वेळार बाये अशें नासलें. आमकां बायलांक तर पयशांची गरजच लागनासली... आतां नाका आशिल्ल्यो मोदी येतात... सगळ्यो पयशांनी उठून पयशांनी बसपाच्यो. आमकां लागतालें तें एक पोवा लात. तेंय खंयी वेता तेन्नाच लावपाक... आमी वताली तरी खंय... सोयऱ्यांगेर केन्नाय, केन्नाय लग्ना-कारणाक वचप जातालें तितलें... पूण आतां ह्यो आमच्यो चलयो सद्दां न्हावन पोव लायतात... परत

सांजवेळा तोंड धुवन पोव लायतात... तो पिड्डूककार आनी दोन-तीन म्हयन्यानी एकदां येता, नव्या नव्या मोदिच्यो वस्तू हाडटा... सगळ्यो चलयो घेतात. म्हगेल्याकय घेवचेंच पडटा... कशें करप सगळें कांयच कळना... आनी थोड्या दिसांनी सुमती लग्नाचें जातलें...' अशा तरेच्या विचारांच्या घुस्प्यांत ती हालींसरा घुस्पून उरताली. रातची कितलोच वेळ तिका न्हीद लेगीत येय नासली.

त्या दिसा तशेंच जालें. तिका न्हीद येय नासली. ती दोन वेळा मुतूंक उठिल्ली. तस्त भल्लें. मुतूंक उठली काय उदक पिवपाची तिका संवय. तिका परत मुतूं जालें. तिणें मान्यांत वचपाचें थारायलें. तिचो पयलीचो भंय केन्ना ना जाल्लो, तिका खबरच नासली. तिका सगळींच मान्यात वचपाक सांगाताक व्हरतालीं. तिका मात कोणाचोच सांगात लाग नासलो. राती-विती रांदचे कुडितलें कितेंय जाय जाल्यार ती एकटीच वचून हाडटाली.

आतांय तिणें उशाकडलो पॅत्रोला दिलो आनी फस्क घेतलें. कुडी भायर येवन तिणें दिवो पेटयलो. मान्यांत वचून ती मुतून आयली. मान्यांतली वयर सरून वासरेंत येत सर तिचो दिवो पालवलो. 'आगे बाये, पॅत्रोल सोंपलें दिस्ता.' तिणें मनांतच म्हळें.

तितल्यांत तिचे भोंवतणी दादल्यामनशाच्या हातांचो विळखो पडलो. तिणें आड्डुपाक 'आ ऽ' म्हणटासर. एक हात तिच्या तोंडार गच्च दामून धल्लो. मनांतल्यान 'देवते पाव' म्हणत तिणें एक खोंट ताचेर नेट्टान माल्ली. ताणें 'आवयस' म्हणत तिका मारिल्ली वेंग सोडली. तीच संद घेवन सिताबायन काळखांतल्यान धांव माल्ली. कुडींत वचून तिणें बेगीबेगीन दार धांपले.

कितलो वेळ ती दाराक तेकून खर्शेत उबी आसली. केंसर आका तिचीच वाट पळयतालें. सिताबायचें खर्शेवप थांबू नासलें. केंसरआकान म्हळें, 'कितें जालें खर्शेता शी? दिवो घेय नास्तना खंय गेल्ली काळखांत मरूंक?'

- 'दिवो व्हेल्लो केंसरआका. पालवलो.' एक एक उतर करून तिणें जाप दिली. तिची खरस अजुनय सोंपू नासली.

- 'काळखाक इतली भियेली? भूत-बीत दिसलें काय कितें? उदक पिये आनी आड पड आतां.'

सिताबायन सट्ट करून म्हळें, 'भूत न्हय, देंवचार' केंसर आका सडसडीत उठून हातरूणार बसलें, 'कोण देंवचार मेळ्ळो पापणी तुका? तांकां पाडपडिल्ल्यांक आमची वाट लायले बगर सुकच लागना... हांव म्हातारें जालें असल्या देंवचारां कडेन झगडून. सांबाळ पापणी. पांय निसरूंक दिवं नाका. रातची चुकून लेगीत भायर वचूं नाका. तूं भायर वतनाच जाग आयिल्ली म्हाका. आनी नकळ कित्याक कल्ल जाल्लें... उठून भायर वचया काय म्हणून चिंततालें, तेन्नाच तूं धांवून आयली. म्हका इतलें बळगें दाखोवंक जमलें ना. हांव भकीक पडलें त्या देंवचारांच्या. ही खबर मात कोण्णाच्या कानार घालूं नाका. आमचें नाशें आनी आमचेंच हांशें जातलें पापणी.'

केंसरआकाचें उलोवणे आयकून सिताबाय आनीकय भियेली. जीव गेल्यार लेगीत रातचें एकटें भायर सरपना अशें तिणें थारायलें. दुसऱ्या दिसाच्यान दोन तस्तां हाडून दवरपाचोय विचार त्याच खिणाक तिच्या मनांत आयलो. तिचो कडकडो अजुनय थांबू नासलो.

हातरूणार बसून तिणें सांसपून उशाकडलो तांबयो काडलो आनी घट घट करून उदक पियेली.



## 11

ते रातीकडेन तिका न्हिदच लागली ना. ती एकसारकी उठून बसताली. पदरान आपलो हात आनी तोंड पुसताली. 'तो कोण, कोण हो चांडाळ?' घरचोच काय आनी कोण?... हें ना... घरचो कोण्ण आसचो ना... तशें जाल्यार कोण तर तो?.. कोण तर तो?...

सिताबायची तकली फुटपाकडेन पावली. रातची परत केन्नाच एकटी भायर वचप ना असो ती परत परत निश्चेव करताली. तरीय तिच्या मनाक सुशेग मेळ नासलो. तातूंत केंसरआकाच्या उलोवण्याचो तिणें सामको कांच घेतिल्लो. आपूण म्हेळी जाल्या असो तिचो समज जाल्लो... मान्यात वचून न्हांव... शी पाड पडूं, परत मान्यांत वचप... मुतूं जाल्यार लेगीत भायर वचप ना आतां... मूत सुकून मुतखडो जावन मेल्यार कोताक येता, पूण परत भायर नाका...'

सदांच सगळ्यां पयलीं सिताबाय उठ्ठाली. मान्यांत भांडा पोंदा आशिल्ल्या लाकडा मुंड्याक उजाकीट धुंवत आसताली. ती फू ऽ फू करून पेटोवन सिताबाय एक कोळसो सोण्णार घेताली आनी रान्नीक उजो घालताली. ताईबाय मात्सी उसरांच उठ्ठाली. तितलेसर रान्नीर सिताबाय सवादां उदक कसाय शिजोवंक दवरताली. भाकऱ्यांचे पीठ तयार करताली. रुक्मीण कल्याण आनी भीमाय येवन आपल्या

वावराक लागतालीं.

आज सदचेवरी कल्याण पयलीं, भितर सल्लें. मागीलदार बंद आसलें. ताणें अजापानशें दार धुकळ्ळें आनी बडी घालून लाकडी खिळी काडली. भितर यो जाल्यार रांदचीकूड थंड. कल्याण तशेंच उठून सिताबायचे कुडीकडेन आयलें. ताणें दाराक हात लायतनाच दार उगडलें. सिताबाय बोवाळांत दाराक खिळी घालूंक विसरिल्ली. कल्याण भितर गेलें. सिताबाय न्हिदेंत बडबडटाली. कल्याणान उलो केलो, - 'सिताबाय आज न्हिदल्या शी?'

तेन्नाच ताईबायन आपले कुडीचें दार उगडिल्लें. केंसांचें शिवड बांदत भायर येतनाच तिणें कल्याणाचो उलो आयकलो, आनी अजापान विचारलें, 'कल्याण, सिताबाय उठुना अजून? पळोवया?' म्हणत ती भितर आयली. तिणें सिताबायच्या कपलार हात धल्लो आनी सट्ट करून फाटीं घेतलो. सिताबायचें आंग खतखततालें.

सिताबायक जोर चडिल्लो. ती जोरांत बडबडटाली, 'कोण तो.. कोण तो? नाका ऽ नाका ऽ '

केंसारआका जागेंच आसलें. ताणें म्हळें, 'आगे रातची मुतूंक गेल्ली ती. दिवो पालवलो खंय. थंयच्यान भिवन आयल्या. भंयान जोर आयला जातलो तिका.'

केंसरआकाचें उलोपर आयकून ताईबायक मात्सो धीर आयलो. 'आसत, भिल्या जातली. ती. देवतेचो आंगारो लायतां. रोखडी बरी जातली.'

गरजेक केन्ना जाय तेन्ना देवा कुडींत वचचें पडूं नये म्हणून तीं कुरकुटांत शांतादुर्गेचो आनी चंद्रश्वराचो आंगारो आनी तिर्थ दवरतालीं. ताईबायन गडव्यांतलें तिर्थ सिताबायच्या दोळ्यांक लायलें, आंगारो लायलो. थंड तिर्थ लागतकच सिताबायन दोळे उगडले आनी जावेचो हाच घट्ट धल्लो. ताईबायन तिका थापटिली आनी म्हळें, - 'तू न्हीद सिताबाय, हांव वतां रांदचेकुडींत.'

आठ दिसांनी सुमार सिताबाय बरी जाली. सगळ्यांक दिसलें ही वारेसुत्राची बादा म्हणून. सिताबायचें वागपच तशें जाल्लें. साद्या आवाजाक लेगीत ती भियेताली. तिणें सामको कांच घेतिल्लो. ती रातची रांदचेकुडींत लेगीत एकटी राव नासली. कोणाकय तरी सांगाताक घेताली.

हिराबायन विठूभाऊक सांगून म्हादेवा देवळांत प्रसाद पाकळी घेवंक लायली. तरीय बंटीणीक सांगून तिची बुधवाराक दिश्ट काडूंक लायली.

ही घडणूक घडून स-सात म्हयने जाले तरी तिच्या मनांतलो भंय वचूं नासलो. तेच बरोबर 'तो कोण? ' हो प्रस्नय पुसून वच नासलो. त्या प्रसंगाची याद जाले बरोबर ती आपलो हात आनी बोंचो खसखशीत पुसताली.



सिताबायक ही घडणूक कोणाक सांगू नाका म्हणून केंसरआकान सांगिल्लें. पूण तिच्या मनांतलो प्रस्न कांटो जावन तिका तोंपतालो. कल्याण तिची इश्टिणकशी आसली. मनांतलें कितेंय ती ताका सांगताली.

सिताबायन ते रातीची गजाल एक दीस कल्याणाक सांगलीच. कल्याणाक आयकून अजाप जालें. 'कोण जायत तो?' ताकाय प्रस्न पडलो. ताणें म्हळें, - 'आगे ते पाडपडलेले तुमगेर रावों आसलेले चेडे आसतले. ते आमकां लेगीत तरास दितात. आमी वोगी रावतात म्हणून...'

कल्याणान सिताबायक धीर दिलो.

वडगांवच्यान केपें, मडगांव, सावड्डें लागीं म्हणून तांचीं गांवांत रावपी सोयऱ्याचे भुरगे शिकप, शिर्वीस कितेंय निमित्त करून शिरवयकारागेर पयलीं पसून रावताले. कांय गरीब सोयऱ्यांचे भुरगे तर तांगेर सदांच रावंक आसताले. तांच्या घरचो भाटा-बेसांचो वावर ते पळयताले.

तांकांय शिकप दिवन हिशेब बी करपाक शिकयताले. वासुशणैक असोच शंकरबाबाच्या बापायन कृष्णादादान हाडिल्लो. ताका कामा पुरतें शिकोवन घरचो हिशेब बरोवपाचें काम दिल्लें. तेन्नाच्यान तांचीं हिशेब किताबाचीं कामां तोच पळयताली. उपरांत ताचें लग्न करून ताका वयल्या वाड्यार घर बांदून दिलें. आतां ताचो पूत श्रीधर तांचीं कामां पळयतालो. तांचो मुकादमच कसो जाल्लो.

गरजू लोकांक, सोयऱ्यांक आपल्यागेर दवरून तांकां पोटा पाणयाक लावप ही शिरवयकाराच्या घराब्याची परंपरा आतां फकत विठूभाऊच सांबाळटालो. पयली परस खूब कमी प्रमाणांत जांव मागीर. पूण हेर सुनांचे, धुवांचे सोयरे ह्या ना त्या निमित्तान तांगेर येवन रावताले. अशे धा-बारा आडसाटे भुरगे तांगेर रावताले. घरचो पाडो, हेर कामां जांव एप्रील मे म्हयन्यांत आंबे, भिंडां काडून घेवप, हेर पुरुमेताचीं कामां करून घेवप अशीं पट्टा तीं कामां ते करताले.

हे सगळे भुरगे भायल्या दोन माळयांचेर रावताले. न्हावंक धुवंक सकल मान्यांत येताले. जेवणाखाणांक वासरेंत येताले. पूण भितल्ल्या घरांतल्या सुनाकडेन, चलयांकडेन तांणी उलवप ना अशी रीत आसली. जाण्टेल्यो तितल्यो तांचेकडेन उलयताल्यो. खंयचेय सुनेचो भाव वा भाचो बी आसल्यार तो आपले सोयरेच्या कुडींत वचून तिचेकडेन तितलो उलयतालो.

ते घडणुके उपरांत सतर-वितर जाल्ले सिताबायक प्रत्येकाचो दुबाव येतालो. तिणें काकीबायकडेन सहजशें उलयतना म्हळें, - 'हे जे तरनाटे भुरगे आसात तांकां रातीकडेन मान्न्यांत मुतपाक येऊं नाका म्हणून सांगू जाय न्हय?' आमच्यो चलयो वाडट्या वयाच्यो, रात-बीत म्हणनास्तना एकट्यो दुकट्यो घरांत भोंवतात. म्हणून म्हणी हांव.'

- 'खरें हां तुजे सिताबाय, तांकां रातीचें मान्न्यांत कित्याक येऊं जाय माळयेर येदीं व्हड जनेलां आसात. थंयच्यान तांच्यानी मुतूं जाता. उदका एक कोळसो आनी तांबयो दवर म्हणून सांगया दासुक.'

- 'हय गे काकीबाय, तूं विठूक सांग आनी हें काम जाग्यार घाल.' हिराबायन रोखडेंच म्हळें.

काकीबायन सांगलेबरोबर विठूभाऊन तांकां रातचे मान्न्यांत येवपाचे बंद केले. कोणाक कसलीच सुलूस लाय नास्तना सिताबायचें काम जाल्लें.

हो प्रस्न पेल्यान गेलो आनी सिताबायची पयशांची चिंता परत वयर सरली, तिचें मन कोरांतूक लागली.

शाणून चल्यांच्या मुजी वेळार व्हडल्या दोनय धुवांक सरपळ्यो केल्यो. तेन्नाच्यान सुमती सिताबायचो जीव खातालें,

-'आई, म्हाकाय सरपळी जाय. तीं सरपळी घालून झेत मारतात पळे, म्हाका कशीं चाळयतात पळे तीं.'

- 'आगो तूं पिकार जावनाका. तूं पिकार जाता म्हणून तीं चाळयतात. हांव तुका कशी सरपळी करून घालतलें. आमचेकडेन खंय पयशे आसात?'

सिताबायन सुमतीक कितलें समजावचें. पूण कसल्याय कारणावेळार कुसुमान आनी सुमीत्रान सरपळी घाली काय सुमती आवयचो जीव खातालें.

मागीर सिताबायन आपलो छडो दुट्टी करून ताच्या गळ्यांत घालचो. पूण तातूंत सुमतीक खोस नासली. कारण कुसूम आनी सुमती ताका चाळयतालीं. - 'आंवय तो काकीचो छडो. आमची पळे काय बरी इल्लीशी सरपळी, तिका लॉकेटय आसा. तुज्या येद्या व्हडल्या छड्याक खंय लोकेट आसा?'

तांची तिडावणी आयकून सुमती परत रडटालें. ताईबाय लागीं आसल्यार हीं झगडीं पालयताली. आपल्या चलयांच्याच गळ्यांतली सरपळी काडून भितर दवरताली.



दत्तूक मडगवां शिकपाक दवरत साकून सिताबाय खोशी आसली.

दत्तू मात शिकपाचेर व्हडलेंशें लक्ष दियनासलो. मराठी शिक्षणच तो मन लावन शिकूं नासलो. आतां हें पोर्तुगेज शिकप ताच्या तकलेवेल्यान वतालें.

शिकपापरस टिवल्यो-बावल्यो करपाचेर ताचें चड लक्ष आसतालें. कोणाचीं फकाणां मस्कऱ्यो कर, कोणाक तिडाय असले उद्वेग ताचे वर्गांत चालूच आसताले. हे शाळेंतले शिक्षक सामके कडक, शिस्तीक वायट. कोणेय शीस्त मोडल्यार ताका कडक ख्यास्त करताले. तरी पूण तांकां कसलीच सुलूस लावंक दियनास्तना ताचे नस्ते उद्वेग चालूच आसताले.

घरा येतकर अभ्यासाचें शास्त्र करून तो रोखडोच भायर खेळपाक वतालो. काका येवचे पयलीं तो घरा हजर जातालो. सोमनाथाक आनी रामनाथाक पयलीं पसून अभ्यासाचीआवड आसली. सोमनाथान दत्तूकय आपल्या वांगडा अभ्यासाक बसोबपाचो यत्न करचो. पूण दत्तूक आतां ताचेवरीच इश्ट मेळिल्ले. ताचें अभ्यसांत लक्ष कमी आनी खेळार चड आशिल्लें.

तेन्ना मडगवां स्वतंत्रतायेची चळवळ, स्वदेशी चळवळ चलताल्यो. मुंबय शिकून आयिल्ले तरणाटे थंयच्यो भारत-स्वातंत्रतायेच्यो गजाली पळोवन आयिल्ले. तातूंत वांटो घेतिल्लेय तरणाटेआशिल्लें. ते गोंयच्या तरणाट्यांकय स्वातंत्र्य झुजापासत तयार करताले. वर्ध्याक सेवाश्रमांत रावन आयिल्ले तरणाटे हळूच गांधी तत्वाचो प्रचार करताले. कोणाच्याय एकट्याच्या घरांत जमून पेटी चरखो घेवन सूत कांतताले. लोकांकय शिकयताले.

तांणी 'गोवा सेवा संघ' म्हणून सुरू केल्लो. थंय दादले बायलो जमताल्यो. तीं सगळीं गांधीजीच्या आश्रमांतल्यो प्रार्थना म्हणटालीं. सामाजीक, राजकीय विशयाचेर ते भासाभास करताले. केन्ना केन्नाय प्रभातफेरयोय काडटाले.

दत्तात्रय जंय रावतालो, थंयच्यान लागींच हो वावर चालतालो.

दत्तात्रय इश्टांबरोबर खेळूंक वतना तांकां तांच्यो प्रार्थना आयकूंक येताल्यो. त्यो आयकुपाचें निमित्त करून दत्तू सुर्वेक गोवा सेवा संघांत वचूं लागलो. हळूहळू तांच्यो गजाली ताका आयकूंक आवडूं लागल्यो. तो सूतय कांतूक शिकलो. शाळेंतल्या अभ्यासा परस ताका ह्या कामाची चड आवड जाली. तो सांजेचो लीप-चोरयां सेवासंघांत वचूं लागलो. पूण एक दीस रामनाथाक ही गजाल कळळी. ताणें येवन सोमूक सागंली. हें सगळें बापायक कळ्ळ्यार तो दत्तूक फोडून काडटलो ह्या भंयान दोगय भाव वोग्गी रावले.

तांणी बापायक सांगलें ना खरें, पूण सोमू दत्तूक खूब समजायतालो. दत्तू तोंडार भावाक कांयच म्हण नासलो. पूण आपल्याक जाय तेंच करतालो. संघाचीं बारीक सारीक कामां तो घोस्तान करतालो.

त्या वावरांत दत्तू घुस्पल्ल्यान दत्तू निमणे परिक्षेक नापास जालो. सोमू आनी रामनाथ बरे भशेन पास जाले. त्या दिसा शाणून ताका येतिश्ट बडयलो.

सिताबायक दत्तू नापास जाला म्हणून कळटकर धक्को बसलो. तो वडगांवा येतकर तिणेय ताका खूब माल्लो. दत्तूक हरशींच शिक्षणाची गोडी नासली. तातूंत बापोलयाचो आनी आवयचो मार पडटकर, आतां ताका शिक्षण म्हळ्यारूच दुस्मान कशें दिसूं लागलें.

पूण ताका मडगावां वचूं जाय आसलें. गोवा सेवा संघाचें काम करूं जाय आसलें. अजून घरच्यांक ताचें हें काम कळूं नासलें. मडगवां वचूंक शाळा हें एकच निमित्त आसलें. तो जुनांत परत भावांबरोबर मडगावां आयलो.

हे खेपे सिताबायन ताका शिक्षणाची कितली गरज हे समजावन सांगून मडगावां धाडलो. तिणें दत्तूपासत देव-देवस्पणय करपाक सुरवात केली. पंचमी तांगेर सगळ्योच सुनो करताल्यो. फकत शिवराक जेवताल्यो. आतां सिताबाय पंचमीक दीसभर उपाशीं रावूं लागली. देवतेचें स्त्रोत ती सदांच म्हणटाली, आतां तिणें जपय करपाक सुरवात

केली. पूत एकदांचो शिकचो, एंप्रेगाद जावचो इतलेंच ती देवतेकडेन मागताली.



दत्तू दुसऱ्या वर्सा परत बापोलभावां बरोबर मडगावां आयलो. आतां तो रामनाथाच्या वर्गांत आशिल्लो. दत्तूक बाकी सगळे विशय जड वताले, पूण गणित ताचे आवडीचो विशय आसलो. मराठी शिकतनाय ताचे पाडे तोंड पाट आसले. बेरीज, वजाबाकी तोंडान करतालो.

ह्या वर्सा शाणून ताचेर बारीक लक्ष दवरिल्लें. तो ताचो सदांच घरपाठ पळयतालो. गणित शाणूचेंय आवडीचें. दत्तू तोंडान लेगीत गणितां सोडयता तें पळोवन शाणू खोशी जातालो. मागीर शाणू ताच्या हेर अभ्यासाचेर व्हडलेंशें लक्ष दिय नासलो. दत्तून मात संघांत वचपाचें चालूच दवरिल्लें.

दनपारचो सडसडीत अभ्यास करून दत्तू वता खंय? रामनाथाक सदांच तो प्रस्न पडटालो. एकदीस हळूच ताणें दत्तू फाटल्यान वचून पळयलें, आनी येवन भावाक सांगलें.

सोमून थंयची सगळी खबर काडली, आनी दत्तूक बरे भशेन सम जायलो. 'दत्तू, असल्या गजालींच्या फाटल्यान लागून तूं शिक्षण पेड्डेर करूं नाका. पयलीं शीक, मागीर जाय तें कर.'

पूण दत्तू कोणाचें आयकुपाचे स्थितींत नासलो. वयल्यान गोयांक स्वतंत्र करूंक प्रत्येकान कशें वावरूं जाय हाचेर ताणें सोमनाथाक आनी रामनाथाक संघांत आयकल्लें भाशण सांगलें. अभ्यासा परत संघांत आयकल्लीं भाशणां ताच्या चड तकलेंत वतालीं. पोर्तुगेजांक धांवडांवक जाय, गोंय स्वतंत्र करूं जाय, ते पासत कितेंय तरी करूं जाय, संघाबरोबर वावरूं जाय अशें ताका मनापासून दिसतालें.

शिरवयकाराच्या घराब्यांतले चडशे दादले सरकारी एंप्रेगाद आसले. पोर्तुगेजांकडेन तांची इश्टागतय आसली. विठूभाऊचे तर जायते इश्ट ताच्या घरा येताले, तोंय तांगेर वतालो. म्हणून दत्तुचे विचार तांकां

कोणाकच मानवचे नासलें हें सोमनाथ वळखल्लो. हेंय कारण दिवन तो दत्तूक संघांत वचूंक आडायतालो. दत्तू तोंडार सोमूक हां म्हणटालो आनी हळूच संघाचीं कामां करतालो.

त्या दिसांनी दो. राममनोहर लोहिया गोंयांत येवन गेल्ले. तांणी पेटयल्ली स्वातंत्र्याची कीट धुंवरेत आसली. खंय खंय भग्ग जाताली, खंय खंय भितल्ले भितर धुंवरेताली. ह्या ना त्या कारणान सत्याग्रह जातालें. तांचेर पोर्तुगेज बारीक लक्ष दिवन आसले. सत्याग्रहींक धरून बंदखणींत घालपाचें काम नेटान चलतालें. ह्या बोवाळांत एक दीस दत्तू पत्रकां पावोवंक गेल्ले कडेन ताका धल्लो.

क्वार्तेलार व्हरून ताची चवकशी करतकर तो शाणुचो पुतणयो म्हणून तांकां कळ्ळें. ताका धरिल्लो तो पोलिस शाणुच्या इश्टमंडळांतलो आसलो. ताणें ताका सरळ शाणूगेर हाडलो आनी शाणू मुखार भरपूर भेश्टायलो, आनी शांणूक सांगलें,

‘हाचे हे वागणुकेन तुजे शिर्विसेक बादा येऊं येता. तूं आतांच कितें तें कोर. आज एक दीस हांव वळखोलों म्हणून तूं साल्वार. सोदीं येशें जावचें ना. जय हिन्दीस्तांक आमी मात पातयेनात. तूं सांबाळ?

शाणून ते रातीकडेन दत्तूक भरपूर पेट घालो. रातचो उपाशीं दवरलो.



दुसऱ्या दिसाच्यान शाणून ताचेर सामकी नदर दवरली. सकाळचे शाळेंत वचून येतकर सांजचे भायर सरूंक बंदी घाली. दत्तू आतां संघांत वचनासलो खरो पूण ताचें अभ्यासांतलें लक्ष सामकें गेल्लें.

तांच्या घरा शेजरा एकटो आपले पडवेर बसून तोपयो शिंवतालो, पिशव्यो शिंवतालो. दोगांयचींय आंगणां एक. सांजवेळचे सोमू, रामू आनी दत्तू आंगणात तोपयेकार दादीच्या भुरग्यां बरोबर खेळटाले. विसव घेवपाच्या निमतान दत्तू दादीचे पडवेर बसतालो. तेन्ना ताच्यो तोपयो तो बारीकसाणेन पळयतालो.

दादी कपडो कसो कापता, कसो शिंवता तें दत्तू पळयतालो. एक

दीस कडेचे उरिल्ले कपडे सारके बरे कापून ताणें एक ल्हानशी तोपी शिंवली. ती पळोवन दादीन ताची तोखणाय केली, आनी म्हळें, 'तूं बरों कलाकार दत्तू, पूण पयलीं शीक. तुका शिकप गरजेचें.'

आतां दत्तू अभ्यास जालो काय दादीचे पडवेर येतालो. ताका बारीक सारीक आदार करतालो. एकदां मनांत कितेंय घेतलें काय तातूंतच लक्ष घालप असो दत्तुचो सभाव. आतां तोपयो शिंवप पिशव्यो शिंवप हातुंतच ताणें लक्ष घालें, तेंच काम ताका आवडूं लागलें. शास्त्रापुरतो अभ्यास करून तो खेळूंक सुद्धा वचनास्तना दादीगेर बसूं लागलो.

परिणाम जावपाचो तोच जालो. ह्याय वर्सा तो नापास जालो. शाणून ताका येतिश्ट मार घालो. ह्या वर्साक अभ्यासाच्या निमतान ताणें काकाचो पयलींच भरपूर मार खाल्लो. अभ्यास म्हळ्यार मार, अशें दत्तूक दिसतालें. ताका अभ्यासाची पयलींच गोडी नासली. तातूंत माराक लागून शिकपच नाका जालें.

शेनवार दीस वडगावां येतकर मेजाकडेन रावन शाणून सगळ्यांक सांगलें, 'आतां हांव आनी दत्तूक मडगावां शिकूंक व्हरचो ना. तुमी म्हाका कितेंय म्हणात? इतलें म्हणून शाणू रावलोना ताचीं सगळीं कर्तुबां ताणें सांगली, -'ह्या अवचिन्नाक लागून म्हजी शिर्वीस वचपाची. ते उंवाळून घाल्ले जयहिंदीस्त नाका आशिल्ल्यो चळवळी सत्याग्रह करून पोर्तुगेजांक धांवडांवक सोदतात. त्या पाडपडिल्ल्यांक पोर्तुगेजांची तांक खंय खबर आसा. आनी हें आमगेलें सवंग तांकां आदार करता. अक्कल शून्य. हे पोर्तुगेज आसात म्हणून तुका बरें बरें गिळूंक मेळटा. ना जाल्यार आमच्या भाटा-बेंसारच हांव राविल्लों जाल्यार पेज जेवन रावचें पडटलें आशिल्लें... असल्या पुताक शिकोवंक सोदता पळे आवय, तिणें पयलीं अक्कल शिकोवची पुताक, मागीर इश्कोलांत धाडपाचीं सपनां पळोवचीं...'

शाणू अशें खूब खूब उलयलो. विठूभाऊ धरून सगळे वोग्गी बसून ताचें उलोवप आयकताले. भितल्ल्या घरांतल्यो बायलोय वोग्गी रावन

ताचें उलोवप आयकताल्यो. सिताबाय मात बुळूबुळू करून रडत आसली. ताचें उलोवप सोंपल्या बरोबर सिताबाय दत्तूक हाता धरून ओडत वासरेंत घेवन गेली, वतां वता एक थापट तिणें दत्तुचेर फुलयलें, दुसरें थापट पडचे पयलीं दत्तून बानयान वयर काडून फाटीवयले माराचे वळ दाखयले. ते पळोवन सिताबायक दोट्टी दुख जालें. खोबरेल तेलाची उरवुळी घेवन ती रडरडत दत्तूक तेल लावंक लागली.

जुनांत शाणू आपल्या दोगय पुतांक घेवन मडगवां गेलो. त्या दिसा सिताबाय घुस्मटून घुस्मटून रडली. घरांत सगळे भुरगे शिकताले आनी दत्तू घरांत लोळून दीस काडटालो. तें पळोवन सिताबायक रडूं येतालें.

सिताबायची गजाल काकीबायन विठूभाऊक सांगली. ताणें म्हळें, -'तिका भिवनाका म्हणून सांग. हांव घराच आसता न्हय दत्तूक शिकयतां म्हणचे.'

त्या दिसाच्यान विठूभाऊ दत्तूक अभ्यासाक घेवन बसूं लागलो.



वरभर सुमार विठूभाऊ दत्तूक शिकयतालो. पूण बीकीचो सगळो वेळ दत्तू बेकार उरतालो. बेकार म्हणटकर ताका खंय पाडो आसा, खंय कसलें काम आसा थंय ताका धाडप जातालें. दत्तूय तीं कामां घोस्तान करतालो.

पूण सिताबायक ताची हीं कामां करप कशेंच आवड नासलें. ताणें शिकून एंप्रेगाद जावचो ही तिची इत्सा आसली. हे तळमळेन ती ताका दीस-रात उपदेश करताली. हाचे ताचे कडेन ताच्या शिकपापासत तोंड फाफुडटाली.

त्या दिसांनी विजय कुळारा रावंक आयिल्लें. सिताबायन ताकाय दोळ्यांत दूक हाडून दत्तूची गजाल सांगली. विजयाक सिताबायची चडच ओड आसली. ताचीं कसलींय कामां ते तिका सांगुनच करून घेतालें. ताच्या पयल्या बांळटेरावेळार वैजीणीक जोर आयिल्लायान रोखडेंच वच्चे पडिल्लें. त्या वेळार विजयाबरोबर भश्टांत रावन तिणें

ताचीं सगळीं कामां केल्लीं. ताका लागून म्हणून न्हय तर पयलीं साकून विजयाक आनी तिका एकमेकांची ओड आसली.

सिताबाय कडल्यान दत्तूची गजाल आयकून विजयाचोय जीव कळवळ्ळो. ताणें सिताबायक सांगलें, -'आगे ताका पोर्तुगेज शिकप जड जाता जाल्यार मराठी शिकूंक घाल.'

-'मराठीन मुखावेलें शिकप खंय घेवंक मेळटा? मडगवां तो काकाबरोबर कसोच रावचो ना म्हणटा. काकाय ताका व्हरचो ना ती गजाल सोड.'

-'हांव बाबाक विचारून सांगतां हां तुका.'

विजयान रोखडेंच विठूभाऊक विचारलें. विठूभाऊन म्हळें,

-'पळे बाय, शाणू ताका परत मडगवां व्हरूंक तयार ना. ताचे आवयक विचार बेळगवां धाडूंक ती तयार आसा जाल्यार सदाशिवागेर व्हरून दवरतां.'

-'इतले पयस रे बाबा? वेळाप्रसंगाक सट्ट करून येवपाची वाट न्हय.'

-'तातूंत कितें, हांव बेळगावांच शिकलां मगो बाय.'

-'हय बाबा, पळयतां सिताबाय कितें म्हणटात ती.'

सिताबाय दत्तूक शिकपापासत खंयी धाडूंक तयार आसली. पूण दत्तू कसोच बेळगाव वचूंक तयार नासलो. अशा वेळार सिताबाय ताका मार घालताली. मार खावन खावन दत्तू कोडगो कसो जाल्लो. -'मार, मार म्हाका. हांव तुका दोळ्यामुखार नाका म्हणून म्हाका तूं पयस धाडूंक सोदता. मार म्हाका, तुमचो मार खावन मरून वचूं जाय हांव. सुट्टलों तरी तुमच्या तोंडांतल्यान.'

दत्तुचें अशें उलोवप आनी बेळगावां ना वचपचो हट पळोवन सिताबाय निरास जाली. आनी सांवार आयिल्ले वरी दत्तूक बडोवंक लागली. त्या वेळार ताईबाय थंय धांवून आयली आनी दत्तूक घेवन आपले कुडींत गेली.

हिराबायन आनी काकीबायन तांचो बोवाळ आयकल्लो. तीं सिताबाय म्हऱ्यांत आयलीं. हिराबायन म्हळें,

-'पळे सिताबाय, ताच्या शिकपाक लागून तुजो जीव तूं बुड्डुन घेता आनी ताकाय बडयता. असल्यानी जातलें कशें?'

-'सिताबाय, तूं बरी जाणा मारून - धोडावन कसलींच कामा जायनात. धोडावन पिकोवंक गेल्यार कुसता मात. ताणें एकूण चवथी मेरेन शिकप घेतलां, भाटा-बेंसाचीय कामा बरे भशेन करता. आनी ताच्या फाटल्यान कित्याक लागता?' काकीबायन तिका समजायली. सिताबायन आपल्या रागाचेर ताबो दवरून म्हळें,

-'तितल्यान जाता? हाणी कांयच केलें ना त्या वेळार तांचें पचून गेलें. पूण ताका लागून आज म्हजी परिस्थिती कितें जाल्या ती तुमी जाणात. पै-पयशाक हांव पातिशेर जालां. सादी इस्कीन सूत हांडूंक लेगीत म्हाका त्रास जातात. पळयल्यात तुमी. ताणें शिकून शिर्वीस करची इतलीच म्हजी इत्सा.' सिताबायन आपलो वोग घालयलो.

-'हय गे सिताबाय तुजे विडवीड पळयतात आमी. पूण कितें पोराक धोडायलो म्हणून तो शिक्षण घेतलो?'

-'ताचे तकलेंत शिकप वचना जाल्यार ताणें पूण कितें करचें?'

-'एकलोच पोर म्हजो, तोय असो कसो जालो काय म्हणटां. देवतेक कितली होरायली. तिकाय म्हजी काकळूट येना.

-'येतली. तितेच पांय धर. तीच जाग्यार घालतली तुजें.'

दोगांय मांयानी सिताबायक फुसलायली खरी, पूण तिचे असवडी तीं तिची काकुळट करतालीं. तिचो देर शाणू तिका आनी तिच्या भुरग्यांक लागून आपले बायलेक लेगीत कसो फडफडायता तें ती मुकाट्यानी आयकतालीं. म्हणून शक्य आसा थंय थंय तीं सिताबायक आदार करुंक मुखार येतालीं.



कुसूम आनी सुमन फाटलीं-फुडलीं. दोगांकय बरोबरच सोयरिको

सोदतालीं. आतां शाणू मुखार व्हड प्रस्न उबो जाल्लो. कुसुमाक सगळें भांगर करपाची ताणें तयारी केल्ली. पूण सुमतीचें कितें? ताका भांगर करपाक खंयच्यान पयशे हाडप?... ताणें हो प्रस्न हरी मुखार दवरलो.

हरीन सांगलें, -'सुमतीचे लग्न आमीच करूं जाय. तूं थोडो आदार कर, हांव थोडो आदार करतां.'

-'हांव खंयच्यान करतलों. म्हाका कुसुमाच्या लग्नाचें पळोंव जाय. हांवच रीण काडपाचें चिततां. तूं जाणा मरे म्हज्या आनी इंदुच्या लग्नाक रीण काडिल्लें तें इल्लें, इल्लें करून हांवे हालींच सोपयलां.'

-'पूण सुमतीचें लग्न कशेंय करून करुंकच जाय न्हय? ताका कितें तशेंच दवरतलीं.?'

-'तशेंच दवरूयां म्हणून कोण म्हणटा? ताचे आवयकडेन कितें आसा तें पळोंवक जाय

-'हय, ते पयलीं पळे.'

रातचें शणून बायलेक म्हळें, -'आगे, सुमतीच्या लग्नाचो मोठ्ठो प्रस्न जाला.'

-'कित्याक? तुमी कुसुमाक आनी सुमतीक बरोबर सोयरिको सोदतात न्हय?'

-'हय गे, पूण सुमतीक वस्ती?'

-'त्यो कश्योय करून घालुंकच जाय. ताका कितें उगड्या हातान सव्यार उबें करतलीं? आमच्या घराण्याचे इभ्रतीचो प्रस्न हो.'

-'ताका तशेंच रिकाम्या हातांनी उबें करप म्हणून कोणे म्हळा? पूण वस्ती करप कश्यो? होच प्रस्न जाला. तिचे कडेन कितेंय भांगर आसा जाल्यार विचार?

-'हां, विचारतां? ताईबायन हुस्कारून म्हळे.'

सिताबायक लग्नावेळार बान चार कांकणां आनी भावजेन आपलो छडो दिल्लो. लग्नाचो चुडो घालचे पयलीं सगळें भांगर घालूं जाय म्हणून व्हडले आईन भांगराचो करण धाडून दिल्लो. तातूंत कितें भांगर

ना म्हणून नाशिल्लें. सगळें भांगार पळोवन बागेर सगळीं खुशाल जाल्लीं.

लग्न जावन घरा येतकीर लेगीत सगळें भांगर तिच्या आंगार वर्सभर दवरिल्लें. ताईबायच्या लग्नांत तिच्या बापायन तिका सगळें भांगर घाल्लें. तरी घरचें म्हणून कितेंय घालूं जाय म्हणून सिताबायच्या करणांतलें थोडें भांगर तिका घाल्लें. भांगराचो करण व्हडले आई कडेन आसतालो. उपरांत हरीच्या लग्ना वेळार करण व्हडली सून म्हणून विठ्याआईकडेन आयिल्लो. तिणें तातुंतलेच थोडे नग हरी बायले आंगार लग्नावेळार घाले. बापायन घाल्लें भांगर सोडून घरचें भांगर प्रत्येकाच्या लग्ना वेळार नवे सुनेक घालून परत घेतालीं.

उपरांत वेळाप्रसंगाक धुवांच्या लग्नावेळार, कसलेय अडचणी वेळार विष्णूदादान विठ्याआई कडल्यान करणांतल्यो वस्ती व्हेल्यो.

सिताबायकडेन कुळारचीं चार काकणां आनी छडो सोडल्यार कांयच नाशिल्लें. कोणाच्या लग्ना-कारणाक वतना जावो एकमेकाचें भांगर घालून वताल्यो. आतां सुमतीच्या लग्नाक जाय म्हणटीकर सिताबायन मुकाट्यानी आपलें भांगर जावे कडेन दिलें. कांयच ना जाल्यार काकणां, पाटली, तोडे, गळ्यांत कितेंय, न्हवऱ्याक कितेंय तरी करूंकच जाय आसलें. आपल्या भांगरान हातुंतले चड नग जावचेना हें सिताबाय जाणा आसली. तिची चिंता वाडली.

तिच्या कुळारचीय स्थिती व्हडली खास नासली. थंयच्यान आपल्याक कांयच आदार जावचोना हें ती जाणा आसली. तिच्या भावाचो व्यापार टामटीम चलतालो. एका एका वेळार तांच्या खावपा जेवणाचे लेगीत हाल जातालें. अशे परिस्थितींत ते भयणीक आदार कितें करतलें आसले? बा वचत साकून सिताबाय तशी कुळारा खूब कमी वताली. तातूंत रायूदाद वतकर तर सिताबायक कुळारा शास्त्रा खातीर भावान व्हरून म्हयनो भर दवरिल्ली तितलीच. उपरांत केन्नाय तिचे भाव येवन तिका मेळून वताले. आपल्या संवसाराची परवड

तिका सांगताले, अशे परिस्थितींत धुवेच्या लग्नाक आदार करात म्हणपाचो धीर सिताबायक नासलो, तातूंत घराण्याच्या नांवाचोय हो प्रस्न आसलो. सिताबायक सगळें येवजूनच भंय सो दिसतालो. ती फकत देवतेचो धांवो करीत आसली.

शाणूकय कुसुमाच्या लग्नाचो हुस्को आसलो. सुमती आपल्या धुवेच्या लग्नामदलो आडसर कसो ताका दिसतालो. कसोय करून हो प्रस्न ताका सोडोवं जाय आसलो.

हरी येतकर तो ताका घेवन विठूभाऊ म्हऱ्यांत गेलो. तांणी तिगांयनीय खूब वेळ विचार करून केपेंच्या कॉप्रींतल्यान रीण घेवपाचें थारायलें. शेतभाटाचे पयशे येतात तातुंतल्यान तें रीण पावोवचें अशें विठूभाऊन सुचयलें.

ज्या बेसां भाटार तांचें घर उबें आसलें, तें तितलेंच आसलें. तातूंत वाड जाऊं नासली. प्रत्येकाची फामील वाडिल्ली. तांणी आपल्या जोडीची भर घालून संवसार व्यवस्थीत करताले. पूण सिताबाय हांगां फाटीं उरिल्ली..

इतले मजगतीं, कुसुमाचें लग्न थारलें. शाणून व्हडा दबाज्यान ताचें लग्न केलें.



## 12

वैकुंठबाब पेड्येर जालो तेन्नाच सुमतीच्या लग्नाचें थारतालें. वैकुंठबाबाचें निमित्त धरून शाणून थोडेभितर सुमतीचें लग्न केले. न्हवऱ्याची आजी त्याच वर्सा मेल्ली. न्हवरेकाराकय लग्नाचो व्हडलो थाट नाका आसलो. कशेंय जांव सुमतीचें लग्न जालें हातूंत सिताबायक धन्य जालें. तिणें ताईबायकडेन चार-पांच वेळा तरी उपकार मानले. सुमती मात काकाचेर बेजार जाल्लें आनी आवयक पिडटालें 'काकान कुसुमाक कितलें भांगर घालां पळे आनी म्हाका साफ फटयलें.'

लग्न जायसर ताणें आवयकडेन वाद घाल्लो. आवयन ताका भितल्ले भितर चिड्डून दवरिल्लें. आपली परिस्थिती सांगिल्ली. पूण तें मात आवयचेर आनी काकाचेर सामकें रागार जाल्लें.

ताईबाय लेगीत मनांतल्यान खोशी नासली. तिका घोवाचो राग आयिल्लो. एकाच घरांतल्यो दोगी धुवो. पूण दोगांयच्याय देण्यात येदो व्हड फरक घोवान केला तें तिका मात्‌य मानू नासलें. तिणें केन्नाच आपलीं भुरगीं, जावेचीं भुरगीं असो भेद करू नासलो. म्हणून तिका सामकें वायट दिशिल्लें. तिणें जावे कडेन माफी मागली. पूण सिताबायन वेल्यान जावेकच तापयली -'आगे, ताणें आपले जोडीचेर आपले धुवेचें लग्न केलां. म्हजें कितें आसलें.? सुमतीच्या लग्नाक रीण

काडलां. तेंय ताणेंयच पावोवपाचें न्हय. आनी आनी घोवाक कित्याक दोश दिता?'

सुमतीच्या लग्ना बोवाळांत सिताबायन दत्तुच्या शिक्षणाचो प्रस्न पेल्यान दवरिल्लो. 'ताका शिकपाची इत्सा ना जाल्यार फोर्स करूं नाका' अशें भितल्ल्या घरांतल्या सगळ्यांनीच तिका समजायली. ताचोय परिणाम आसत. तिणें निरास मनान दत्तुच्या शिक्षणाचो विशय पेल्यान सारलो. घरांतले, वाड्यावेले भुरगे शिकतात तें पळोवन मात तिचो जीव तीळ-तीळ तुट्टालो.

तितलें तिचें धाकटे चली पुष्पा शिकपाक हुशार आसलें. आतां घरांतल्यो चलयो सांजवेळां पास्तीसा कुर्डीत बसून मास्तरा कडेन शिकताल्यो. तांचे बरोबर वाड्या वेल्योय चलयो तांगेर येवन शिकताल्यो.

त्या वर्सा घरांतल्यो आनी वाड्यावेल्यो मेळून चार-पांच चलयो चवथेक आसल्यो. तांकां निमणी परिक्षा दिवंक विठूभाऊन कारवाराक व्हेलीं. तांकां मडगवां व्हरून फोटो बी काडून घेवन पासपोर्ट पयलींच विठूभाऊन करुन घेतिल्लो.

हे परिक्षेंत पुष्पा बऱ्या मार्कांनी पास जालें. ताका मुखार शिकपाची सामकी आवड आासली. -'आई, हांव मडगवां रावून मुखार शिकतां गे, काकाक सांग. तांच्या बिराडार ना जाल्यार विठायआकागेर रावतां. आई काकाक सांग.'

पुष्पा आवयक भितल्ले भितर धोंसतालें निमणे सिताबायन हळूच जावेकडेन हो विशय काडलो.

-'पोराक शिकपाची आवड गे. शिकूं हां शिंकूं ताका. पणजे-मडगवां बायलो शिकप घेवन शाळांनी बी शिकयतात खंय. नोकरी पाड पडूं. पुष्पाक शिकपाची आवड आसल्यार शिंकूंच ताका. हांव म्हणटा हांकां हां.' ताईबायन उमेदीन म्हळें.

शेनवार दीस शाणू येतकर ताईबायन ताका पुष्पाचो प्रस्न सांगलो.

घे शाणू व्हडाव्हडान तापलो. -‘शिकपाक जाय ताका? काय मडगवां येवन नाचपाक जाय? भावान कितें दिवे लायले पळयलें ना?

-‘दत्तूक कित्याक मर्दी हाडटात. पुष्पा हुशार आसा. पयर परिक्षेंत बऱ्या मार्कांनी पास जालां तें. तातूंत शिकपाची आवड आसा पोराक शिकूनी ताका.’

-‘शिकूनी ताका, कशें? शिकप कितें फुकट जाता? खंयच्यान हाडपाचो पयसो, ताका रानपा-वाडपाक, शिवण सूत करपाक शिकय. तुमकां बायलांक तेंच गरजेचें.’

-‘तें कितें शिकोवपाचें? तें पळोवन पळोवन आमकां आपसूक येता.’

-‘शिकपाक पयशे लागतात म्हणून खबर आसा मगे तुका? आज ताच्या शिक्षणाक पयशे मोडू? आनी फाल्यां लग्नाक कितें करुं? म्हज्या भुरग्यांक उपाशीं दवरूं आनी हिच्या भुरग्यांच्यो अर्थअपुरबायो करत रावूं? इतलें जोडूनय हांव म्हज्या भुरग्यांक जाय तें दिवंक शकना, हांकां पोसूं जाय म्हणून. आनी वेल्यान शिकय खंय?

आनी कितें कितें शाणू उलयत रावलो.

सिताबायक मरूंक पुरो कशें दिसलें. पुष्पाच्या शिकपाचो प्रस्न आपणे कित्याक देराक विचारपाक लायलो अशें तिका जालें. तिका चड वायट दिसलें तें आपल्या भुरग्यांक लागून देराक आपल्या भुरग्यांक जाय तें दिवंक मेळना म्हळां ताचें.

ते रातीकडेन तिणें पुष्पाक भितल्ले भितर चिमटायले आपल्या नशिबाक दोश दीत घुस्मटून रडली. पुष्पाक समज आसलो. ताणेय काकाचें उलोवणे आयकल्लें. ताणें आवयक म्हळें, -‘आई चूक जाली. म्हाका लागून तुका आयकुचें पडलें. परत केन्नाच कितेंच काकाडेन मागूंक लावचें ना तुका.’

हाली सरा शाणूचीं भुरगीय आवयचे असवडीं सिताबायक आयकूंक येशें पुष्पाक फडफडायतालीं.

-'तुमकां लागून आमकां त्रास काडचे पडटात. आमचो बाबा आमकां बरे बरे कपडे हाडटलो आसलो. बरें बरें खावंक हाडटलो आसलो. तुमी म्हणून आमकां लागिल्ली साडेसाती, व्हडली पनवत कशी.'

पुष्पाक तांच्या ह्या उतरांचो व्हडलोसो अर्थ कळनासलो. तें आवयकडेन येवन विचारतालें. सिताबाय पयलींच सगळें आयकून पिकार जाल्ली आसताली. ती पुष्पाचेर दोन थापटां फुलोवन ताका धांवडायताली.

अशा वेळार पुष्पा धांवत जायल्या आत्याम्हऱ्यांत वतालें आनी ताच्या वेंगात वचून ताका सगळें सांगतालें. जायल्याक पुष्पा खूब आवडटालें. गोर्ें-धवें बावली कशें पुष्पा. जायलें ताची खूब अपुरबाय करतालें. जायल्याकडल्यान हिराबायक, काकीबायक सगळ्यांक शाणुच्या भुरग्यांची खबर कळिल्ली. पूण कोणच कांयच उलोवंक शकनासलो.



ते राती कडेन देराचें उलोवणे आयकून सिताबायक धुवड्यो पुष्पाक उलयतात ताचो अर्थ कळ्ळो. तिणें मनांतच म्हळें, .. 'बापूय आपल्या धुवांकडेन हें सगळें उलयता तर... तांच्या बापायचें उलोवणे तीं पुष्पाकडेन म्हळ्यार म्हाका आयकूंक येशें उलयतात... हांव आजवेर भुरग्यांचें उलोवप म्हणून कनामनार घेय नासलें... तांच्या बापायचोय होच विचार जाल्यार आमी करप कितें? .... कोणा तोंडाकडेन पळोवप... आमकां पोसपाक ताका त्रास पडटात म्हणून तो जायतेवेळा तापता, बायलेचेर फडफडटा... जाव म्हजी गाय कशी, आमकां लागून बाबडी घोवाचीं उलोवणी घेता.... देवते कसलो वेळ हाडला तुवें म्हजेर हो... हें पालासकशें घर, केदो व्हड घराबो तुवें दिलो म्हणून हांव तुजे सदांच उपकार आठयतालें. ह्या येद्या व्हडल्या घराचे म्हाका मात पोकळ वांशे कित्याक मेळ्ळे? ... घोव म्हणून दिलो ताणें घराभायर पांय कडलो

ना.. एक पयसो केन्ना जोडलो ना... वयल्यान हाचे-ताडेकडेन हात पसरून पयशे मागले, तें हांव आतां आयकून घेतां... पोरांक जल्माक घालीं, तांचो फुडार चितलो ना... देवते कितें म्हणून करूं हांव?...तो पोरय धड जालो ना. कितें करतलो तो मुखार...?

तिचो हो घुस्मट केंसराआकाक कळ्ळो. तें सामकें जाण्टें जाल्लें. ताचो पयलींचो अवतार नाच जाल्लो. तें चडशें न्हिदून आसतालें. ताचें टोमण्यानी उलोवप सोंपिल्लें. तें खूब थोडें उलयतालें, पूण उलयता तें अर्थाक धरून उलयतालें. आतां सिताबाय एक सारकी कुशी बदलता ते पळोवन ताणें म्हळें, -'सिताबाय न्हीद आतां वोग्गी. ताणें पोसतां म्हळें म्हणून तूं ताचेर ना इतलें समजून घे. तोंड आसा म्हणून कितेंय उलयता तो. तुकाय हक्क आसा ह्या घरांत. न्हीद आतां.'

केंसर आकाच्या उलोवण्यात सिताबायक मात्सो धीर आयलो. तरीय नशीबाक रड-रडत सिताबायन रात काडली. दुसरे दिसा तिचे दोळे येद्दे मोठे सुजिल्ले. तशीच उठून ती रांदचे कुडींत आयली.

रांदचे कुडींत बाकीचीं सगळीं येवचे पयलीं ती आनी कल्याण आसता. तिचे वागणुकेतले ल्हान-सान बदल कल्याणाक रोखडेच कळटाले. सिताबाय ताका म्हणटाली,

-'कल्याण, तूं मनकवडें, म्हजें मन तुका रोखडें कळटा.'

आयज तशेंच जालें, कल्याणान तिचें सुजिल्लें तोंड पळोवन विचारलें, -'सिताबाय कितें जालें?'

कल्याणाच्या उतरांनी सिताबायक परत रडूंक आयलें. सकाळीं सकाळीं रडप नाका म्हणून तिणें बेगी -बेगीन पदरान दोळे पुसले. कल्याणाकडेन ती आपल्यो मनांतल्यो गजाली हुस्क्या मेकळी उलयताली. कल्याण आपल्या भयणींक लेगीत सिताबायेच्या गजाली सांग नासलें.

सिताबायन ताका थोडेभितर रातची गजाल सांगली. आनी म्हळें, -'ह्या येद्या व्हड घरांत म्हाका लग्न करुन दिलें, आनी एके वटेन

बुडयलें म्हणप गो? आतां म्हजी गत कितें जाल्या पळय. कशें जगप हावें, दोगांय भुरग्यांक घेवन?'

-'सिताबाय, जाण्टेल्यानी तुका हांगां हाडून बुडोवंक ना. तुमचें बेंस भाट आसा. देरच पोसता अशें समजूं नाका.

-'हय गो, हांव सामकें विसरिल्ले. रातीं केंसरआकानय म्हाका अशेंच म्हणिल्लें.'

-'हय मगे, केंसरआका केन्ना फाल्स उलोवचें ना. वोगी राव आतां. देवता आसा तुजी.'

कल्याणाच्या उतरांनी सिताबायक धीर आयलो. तिणें तोंडार थंड उदक माल्लें आनी सकाळच्या व्यवहाराक लागली.

थोड्या वेळान ताईबाय आयली. तिणें जावेचें तोंड पळयलें आनी तिका वेंग मारून घसघसून रडपाक लागली. सिताबायचो वोग आतां थांबिल्लो. तिणें जावेची फाट पोशेली. रडपाचो वोग थांबतकर ताईबायन म्हळें, -'सिताबाय, रातीं तुवें देराचें उलोवणे आयकलां आसतलें. म्हजे खातीर ताचें वायट धरूं नाका. पायां पडटां तुज्या.'

सिताबायन जावेक सगळें विसरपाचें उतर दिलें खरें, पूण ही गजाल तिच्या मनांतल्यान कशीच वच नासली. ती हाचेरच विचार करूं लागली.

रातचो बोवाळ हिराबाय आनी काकीबायच्या कानार सादारणसो गेल्लो. तांणी सांजवेळा हळूच सिताबायक विचारलें. सिताबायन घडिल्ली सगळी गजाल तांकां सांगली, आनी म्हळें,

-'हांवें कितें करपाचें तुमीच सांगात, तुमच्या भायर म्हाका उजू वाट दाखोवपी कोण ना.'

हिराबायन म्हळें, -'आमी इतलेंच जाणा सिताबाय, शाणू तुका पोसना. वाडवडिलांची पुण्याय तुज्या फाटल्यान आसा. घरच्या बेंसाभाटार तुमचो चरितार्थ जाता.'

सगळ्यांचीं हीं अशीं उतरां आयकून सिताबायक मात्सो सुशेग जालो.



शिक्षण सोडिल्लो दत्तू घरांत वोग्गी बसून राव नासलो. प्रत्येकाच्या पाड्याकडेन तो वतालो. पाड्याचे नाल्ल हाडटकीर मेजून लॉजांत भरतना लक्ष दिवप. पाड्याचे मोठेशे नाल्ल वेगळे काडून घेवप, उरिल्ले नाल्ल मधू देसायाक आपोवन ताका मेजून दिवप, उपरांत घरांतल्या सगळ्यांक तांकां कितले कितले नाल्ल पडले, कोणाक कितले नाल्ल खावंक दवरले, कितले विकले हाचा सगळो हिशेब घरांत दितालो. ताचें गणित बरें आशिल्ल्याचो फायदो हांगां जातालो. खरें म्हळ्यार हीं सगळीं कामां तांचे मुंडकारी करताले. तांचेर लक्ष दवरूंक तांगेर भुरगे आसले. पूण खासा भाटकार थंय उबो रावतकीर कामाक गती येता अशें विठूभाऊचें मत आसलें. म्हणून ताणें दत्तूचेर ही कामां सोपयल्लीं. दत्तू खोश्येन हीं कामां करतालो.

ताचे वांगडचे भुरगे थोडे शिकताले. थोडे शिकप सोडून शिर्वीसेक लागिल्ले. ताचो बापोलभाव सोमनाथ आदोगाशी शिकतालो. रामनाथाच्या मनांत दोतोरकी करपाचें आसलें. शाणू येवन वचून हाचेरच सगळ्यां कडेन उलयतालो.

दत्तू मात मानांयां बरोबर फुकट वावुरतालो. वयल्यान चड-उणें कितेंय जाल्यार घरच्यांची उलोवणी खावचीं पडटालीं. सिताबायन दत्तूक लागून खूब दुकां व्हांवयलीं. शांतादुर्गा, चंद्रेश्वर आनी कुळारचो मंगेश, ह्या तिनय देवतांची व्रतां वैकल्यां ती करत आसली. तरी तिका यश मेळ नासले. तिणें आतां थारायल्लें, आतां कित्याचेंच वायट धरप ना. वेळ येता तशे दीस काडप.'

पूण चितें हें थारावप, थारावपच उरतालें. कितें ना कितें घडणूक घडत रावताली आनी तिका पश्चताप करपाचो वेळ येतालो.

सुमती आनी दत्तात्रय सादीं आनी समजीकायेचीं आशिल्लीं. सिताबायचे दोन -तीन वेळा आबोर्त गेल्या उपरांत पुष्पा जाल्लें. म्हणून जावये ना जाल्यार ताच्या फाटल्यान दुसरें भुरगें जाऊ नासले म्हणून जावये, ताच्यो इल्ल्यो अपुरबायो चड जाल्ल्यो. व्हडल्या

दोनय भावंडां परस तें दिसूंकय उजवें आसलें आनी हुशारय आसलें. तें येद्दें कोणाचें घेय नासलें. आरत्याक परतें दिवन मेकळें जातालें. घरांत शाणूच्याीं भुरगीं सोडल्यार सगळीं ताची अपुरबाय करतालीं. जायलें आतें आनी तुकाकाका ताचीं घोस्ताचीं. आपल्याक कितेंय जाय जाल्यार सिताबायक सांगनास्तना तें तांकां दोगांकय सांगतालें. तींय अपुरबायेन ताचीं कामां करतालीं.

तुकाराम आपल्या भुरग्यांबरोबर पुष्पाक खावंक खेळणी दितालो. शाणुच्या निराक आनी राधाक हाचोच राग येतालो. निरा आनी राधा रागान आपलें खेळणें मोडटालीं आनी पुष्पान आपलें खेळणें चोरलें म्हणून झगडटालीं. दोगांय एक जावन ताका मारतालीं लेगीत. अशा वेळार सुमित्रा आपल्या भयणींचो पार्त घेवन पुष्पाकच धपकायतालें. पुष्पा रडत सिताबाय म्हऱ्यांत येतकच कामाचे गडबडेंत सिताबाय ताचें आयकून घेयनासतना पुष्पाकच थापटायताली. मागीर पुष्पा जायलें आत्या म्हऱ्यांत धांवतालें. थंय ताची दाळ शिजताली. जायलें येवन निराक आनी राधाक तापयतालें.

भुरग्यांच्या झगड्यांत सिताबाय आनी ताईबाय पड नासलीं. पूण सिताबायन पुष्पाक तापयतकच ताईबाय आपल्या भुरग्यांक तापयताली. वेळा प्रसंगार मारतालीय बी. सुमित्रा मागीर शाणूक कित्याय कितेंय सांगतालें. शाणुचो भुरग्यांचेर जीव. तीं सांगतात तें ताका खरें दिसतालें. 'हांव पुष्पाचेर दोन फुलयतां हां,' अशें सांगून ताणें भुरग्यांक थातारचें. पूण बापोलयो आपल्याक मारतलें हें निरा राधाकडल्यान कळटकीर पुष्पा काकाच्या सावळेक राव नासलें. अशा वेळार ताईबायन येवन खरी खबर सांगल्यार लेगीत शाणू आयकून घेयनासलो. उरफाटें बायलेकच शेडायतालो.

पुष्पाक हो शाणूकाका मातय आवडनासलो म्हणून तें ताच्या झळकेक राव नासलें. खावपाक घे म्हणून आपयल्यार लेगीत तें ताच्या म्हऱ्यांत वच नासलें. हरीकाका मात ताच्या जिवाचो. तोय ताची

तितलीच आपुरबाय करतालो. तो ताका आपलीच धूव म्हणी.

त्या दिसा कितें जालें. आवयबरोबर तें मान्न्यांत मुतूंक गेल्लें. सिताबायन ताचे हातपांय धुले. आपल्या पदरान तांकां पुसपाची सिताबायची संवय. पूण पुष्पाक हात फाफडून खेळत खेळत हात सुकोवपाची आवड. तें तशें खेळत खेळत वासरेंत पावलें. दिस्त थंयच्यान येवपी शाणुचेर तें उदक पडलें.

शाणू पुष्पाक मारपाची संदच सोदतालो. ताणें फाटल्यान सिताबाय येता ती पळयलीना. ताणें पुष्पाचो कान पिळ्ळो. पुष्पा व्हडल्यान आड्डुलें. ते बरोबर ताच्या दोनय कानसुलार ताणें दोन थापटां फुलयलीं. पुष्पा निण्णून सकल पडलें. तितलेसर सिताबाय दोन धेंपानी पुष्पा म्हऱ्यांत पावली. 'खालें, खालें म्हज्या बायेक' म्हणत व्हडान किळांच मारून ती पुष्पाम्हऱ्यांत बसली.

तिची किळांच आयकून सगळींच धांवन आयलीं. ताईबायन घोवाचें कर्तुप पळयल्लें. तीय किळच्यो मारत घळशिरे तांबयो घेवन धांवत आयली. उदक माल्लें तरी पुष्पाक जीव आयलो ना. कोणेतरी कांदो चेंचावन ताच्या नाकाकडेन धल्लो. तेन्ना पुष्पा साबुद्देर आयलें. पूण ताच्या दोळ्यांत भंय आसलो. व्हडान किळांच मारून ताणें आवयचे वेंगेंत तोंड लिपयलें.



त्या दिसा पुष्पाक जोर आयलो. दोन दीस तें जोरान भाजतालें. ते दोनय दीस सिताबायन अन्न उदक तोंडांत घेतलें ना. सगळें समजतकर केंसरआकान फट्ट करून म्हळें, -'आगे सिताबाय तुका तुजीं भुरगीं जाय जाल्यार वेगळी राव पळोवया.'

सिताबायच्या मनांत हालींसरा होच प्रस्न येतालो. '...तुमकां पोसतां.... तुमकां लागून म्हज्या भुरग्यांक जाय-जाय तें दिवंक मेळना... हें सद्दां आयकुचे परस वेगळी राविल्ली कशी?... पूण खातली कितें?... इतल्यार जाता... खर्च म्हणून कितलो आसता...

दत्तू काय जोडना... भोंगूं, देराली आनी ताच्या भुरग्यांची कचकचावणी खायत जगपाचें म्हज्या फुटक्या नशिबांत बरयलां आसतलें... '

अशें येवजीत ती फाटीं सरताली. पूण केंसरआकान म्हणटकर तिच्या मनांत परत तो विचार आयलो.

पुष्पा बरें जातकच एक दीस काकीबायन तिका आपले कुडींत आपयली, आनी विठूभाऊचो विचार सांगलो. विठूभाऊनय तिका आतां वेगळी राव म्हणून सांगिल्ली..

सिताबायन म्हळें, -'हय, म्हज्याय मनांत तोच विचार येता. पूण हांव संवसार कसो करतलें? होच प्रस्न म्हाका फाटीं वोडटा.'

- 'भिवपाची गरज ना तुका सिताबाय, आमी आसातच, ते भायर तुका जें भात आनी नाल्ल येता तें वर्सभर खावन उरिल्लें विकून तूं संवसार करूंक शकतली. दत्तुचेंय कितेंय जाग्यार घालुंया म्हणी आपूण'.

-'पळयतां, हरी येवुनी, ताच्या कानार पयलीं घालतां. ताका इल्ली म्हज्या भुरग्यांची वोड आसा?

तितलेसर केंसरआकाचें चड जालें. केंसरआकाक धड उलोवंक येना आस्तना लेगीत मरचे पयले दिसा ताणें सिताबायक म्हलें, '-आगे, आगे... वेगळी... सर... शाणू धड... न्हय... तुज्या भु..र..ग्यांक मारून... मारूनययय वेगळी सर...'

सिताबायन ताका हय म्हणुन उतर दिलें ना. तिचेर सामको पेज आयिल्लो.

केसरआका गेलें. फाटोफाट दोन म्हयन्या भितर हिराबाय गेली. सिताबायचे प्रस्न थंयच उल्ले. हिराबाय लेगीत तिका वेगळी सर म्हणून जायत्या वेळार सुचयताली. पूण सिताबायचें मनच तिका वेगळें सरुंक आडायतलें.

केंसरआका आनी हिराबायच्या मरणावेळार हरी कितले दीस घरा आसलो. पूण सिताबायक देराकडेन आपलो प्रस्न काडूंक बरें दिसलें ना. घरांत सोयऱ्यांचेंय यो वच आशिल्लें.

केंसरआका वचचे पयलीं साकून हिराबाय बरी नाशिल्ली. तिणें जयवंताक मेळपाचो ध्यास घेतिल्लो. व्हडलो चलो वसंत बायल-भुरग्यांक घेवन आयलो. ताणें भावाक रकाद दिल्लो. पूण तो येत हाची ताका खात्री नासली. तरीय हिराबायक मेळूंक तो आयलो. येतना बायलेक घेवन आयलो.

ती खारवी समाजांतली. ताचे बरोबर सशस्त्र चळवळींत तीय वांटेकार आसली. भुमिगत आसतनाच तांणी तांच्या वांगडच्यांच्या आदारान लग्न केल्लें. जयवंतान तिका आवयम्हऱ्यांत हाडली आनी सगळें सांगलें. ताचो राग धरपा इतली शक्त हिराबायक नासली. पूत दिश्टी पडलो हाचीच तिका खोस जाल्ली. तिणें कुरवांनी जायल्याक सांगून आपलीं भांगराचीं काकणां आनी मोहनमाळ तिका दिवंक लायली. तीं रातचीं आयिल्लीं. तांकां घरांत दवरचीं पडटात म्हणून जायल्याक फडफडो आयलो. ताणें रांदचे कुडींत आनी देवा कुडींत तिका वचूंक दिली ना. फांतोडेर जयवंत बायलेक घेवन गेलो. फकत एक रात तो घरांत रावलो.

जयवंत आयलो केन्ना गेलो केन्ना, घरांतल्यांक लेगीत तो सरको मेळुंनासलो म्हळ्यार जाता. गावांत लेगीत कोणाकच तो आयिल्ल्याची सुलूस लागूं नासली. पूण पोर्तुगेज सोल्दारांक कशें कळिल्लें कोण जाणा. ते चवकशी करूंक वडगावां आयले.

-'तुमगेर गोयां भायले कोण येयल्यात तेंका आपोयात'. तांगेर भितर सरतनाच सोल्दारानी सांगलें.

वसंत भायर आयलो. विठूभाऊ थंयच आशिल्लो. ताका कळ्ळें, ते जयवंताक सोदूंक आयल्यात म्हणून. विठूभाऊन तांकां समजावपाचो यत्न केलो. पूण ते कांयच आयकून घेवंक तयार नासले. तांचें एकच म्हणणे आसलें, -'तो कोणय आसूं, तेका केप्यां क्कार्तेलार घेवन यो म्हूण आमकां ओर्द दिल्या. तुगे कित सांगपा आहा तें क्कार्तेलार सांगाय.'

विठूभाऊ वसंताक आनी ताचीं वळखपत्रां, पासपोर्ट घेवन केप्यां आयलो. केप्यां क्कार्तेलाचेर सगळे विठूभाऊचे वळखीचे. कांय जाण तर इश्टय आसले. तांणी वसंताचीं वळख पत्रां तपासून ताका सोडलो.

भायर येतकर वसंतान म्हळें, -'काका, आज तूं आशिल्लो म्हणून हांव इतल्यार सुटलों. ना जाल्यार म्हाका पयलीं बंदखणीत घालून मार घालतलेच आसले.'

- 'हय रे बाबा, न्याय नीत तांकां कांय लागना. दुबावान लेगीत लोकांक धरून ते येतीश्ट मार घालतात. '

मागीर मात गावांत शिरवयकारागेर सोल्दार जयवंताक सोदूंक आयिल्ले म्हणपाची बातमी कळ्ळी. पूण विठूभाऊन जयवंत येवन गेला ही बातमी कोणाकच सांगुनाकात म्हणून घरांतल्यांक सगळ्यांक शिटकायल्ले.



केंसरआका आनी हिराबाय वतकर सिताबायचे दोगय भाव आनी व्हनी तांकां जाप दिवंक आयिल्लीं. त्या वेळार सिताबायन भावांक आपले कुडींत व्हेले आनी दत्तूक खंयी शिर्विसेक लायात म्हणून काकुटेक आयली. सिताबायचो धाकटो भाव हरीदत्त खाणीर काम करतालो.

ताणें म्हळें,-'शांतूल आमचे ˙ खणीर काम आसा. हांव ताका म्हजे बरोबर साकोड्यां व्हरूं. म्हजेच कुडींत रावनी ताका. पयशे मात कमी मेळटात.'

- 'पयशे कमी जाल्यार जांव रे, एका जाग्यार उरतलो. आनी जबाबदारी आंगार येतकर ताचीं भुरगेपणां सोंपतलीं.' सिताबायन खोश्येन म्हळें.

- 'बरें तर,'

- 'हे सुतकांतले दीस सोपुनी, मागीर घरांत विचारतां आनी दत्तूक धाडटां.'

सुतक केन्ना सोंपलें पूण एक ना एक अडचण येत रावली. सिताबायक दत्तूक खाणीर शिर्विसेक धाडपाविशीं विचारूंक मेळ्ळें ना.

त्या दिसा कितें जालें, दत्तून सदचेवरी मार्सा पाडो पाडून घेतलो. मार्सा पाड्याक नाल्ल चड. ह्या पाड्याचे मोठे नाल्ल जशे खावपाक काडून दवरताले तशे तेलाकय नाल्ल काडून दवरताले. वर्सभराच्या तेला पासत नाल्ल फोडून खोबरें करतालीं आनी एकदम खोबरें मळून दवरतालीं. घरांतच जाय तितलें तेल काडटाली अशें न्हय तर धुवांक सोयऱ्या-धायऱ्यांक पावता अशें तेल काडटालीं.

दर मार्सा पाड्याकडेन वोलेर पडयाराक काम चड आसतालें. पाड्यावेळार फकत चापच मारून ताचें काम सोप नासलें, ताका नाल्ल तिजचेय पडटाले. आटक, कुसकां वेगळीं काडून खावपाक खोबरेलाक नाल्ल काडप आनी उरिल्ले नाल्ल मेजून विकपाक दवरप इतलीं सगळीं कामां वोलेराकच करचीं पडटालीं. वोलेर पाड्याकडेन चुट्टी घेवन चुट्टेक घड्यो घालून नाल्ल मेजतालो. ताचे वेल्यान कितले नाल्ल पडल्यात ताचो हिशेब दितालो. दत्तू त्या चुडट्यांच्या घडयांवेल्यान कोणाच्या भाटांत कितलें नाल्ल पडल्यात ताचो हिशेब पटयेर बरोवन दवरतालो.

कोणाक कितले नाल्ल पडल्यात. कोणे खावपाक, तेलाक कितले नाल्ल काडल्यात ते वेगळे बरोवन दवरतालो. दत्तुचो हिशेब एकदम चोख आसतालो.

त्या दिसा शाणुच्या नाल्लाच्या हिशेबांत पांचशे नाल्ल कमी जाले. दत्तून कितली तकली खाजयली. आरतो परतो हिशेब केलो, पूण पांचशे नाल्ल चुकूं लागले. ही खबर कळ्ळे बरोबर शाणून आनी वेळ केलो ना. आंगणांत एक शिऱ्या बडी आशिल्ली, ती घेवन दत्तूक मारूंक लागलो. आपले पांचशे नाल्ल तुवें कोणाक तरी विकले आनी पयशे घेतल्यात आसतले. अशें म्हणून बोवाळ घालूं लागलो. चवखेर मेजाकडेन हो बोवाळ चलतालो. गोरवांक बडयल्लेवरी शाणू ताका

मारतालो आनी दत्तू व्हडाव्हडान आड्डतालो. - 'ना, रे काका, हावें कांय करूंना, नाका रे मारूंक, आई ऽ आई ऽ मेलों मेलों.'

रांदचे कुडींत सिताबायन हो बोवाळ आयकलो आनी तिणें चवखेर वचपाचे पायणीत धांव माल्ली. शाणू दत्तूक बडयता तें पळोवन तिचो जीव कळवळ्ळो. विठूभाऊ थंय नासलो. आनी कोणाकच मुखार सरपाची कापास्ताद नासली. हरशींच तांगेर बायलो चवखेर वचनासल्यो. तातूंत सिताबाय विधवा, म्हणटकर तिणें दादल्यां मुखार चवखेर कशेंच वचूं जायना आसलें.

ताईबाय भश्टी म्हणून आपले कुडींत बशिल्ली. तिणेय हो बोवाळ आयकलो. दत्तूक काडून घेवंक कोणच मुखार सरनात तें पळोवन, आफूड भश्ट्याचो विचार कर नास्तना तिणें चवखेर धांव घेतली. दत्तूक तिणें वेंगांत काडलो. तिचेरय एक बडी पडली. पूण ती थंय रावनास्तना दत्तूक घेवन सोमती मान्यांत गेली. सिताबाय वालो घेवन फाटल्यान धांवली.

सिताबाय रडरडत पुताक घेवन कुडींत आयली. पुष्पा आनी ताईबाय लेगीत रडटालीं.

वोलेर पडयार पाड्या दिसांनी पास्तीसा कुडींत रावतालो. ताणेय चवखेवेलो बोवाळ आयकलो. तो येवजुणुकेंत पडलो... 'पांचशें नाल्ल उणे कशे मेळटले? ...म्हजो हिशेब खंय चुकलो काय '? ताणें आपले भितर म्हळें आनी आपल्या बोल्सांतल्यो चुड्ट्यो काडून मेजल्यो. एक चुट्टी कमी आसली. ... 'आरे देवा, म्हणून पांचशे नाल्लांचो हिशेब कमी जालो... म्हजे चुकीक लागून बाबड्या दत्तूक मार पडलो. .शीऽ शीऽ शीऽ आतांच वचून शाणूक खरी गजाल सांगतां..... '

तेन्नाच विठूभाऊ भितर सरिल्लो. ताचे मुखार येवन वोलेरान शाणूक खरी गजाल सांगली आनी माफी मागली. शाणू वोग्गी रावलो. पूण जयरामान भितर येवन सिताबायक खरी गजाल सांगली.



दत्तूक निवळपाक आठ दीस लागले. तितलेय दीस सिताबायच्या दोळ्यांतल्यान दुक फाल्त जालें ना. परत - परत तिका केंसर आकाचे उलोवणे येवजू लागलें. आनी वेगळे सरपाचो तिचो विचार घट जालो.

तिणें आपल्या मनातलो विचार पयली काकीबायकडल्यान विठूभाऊच्या कानार घालो, आनी हरीक आपोवंक धाडलो. भावजेचो रकाद मेळनाफुडें हरी रोखडोच आयलो. ताका आपोवंक गेल्ल्या धाकटून घरांत घडिल्ली सगळी गजाल ताका सांगली. खबर आयकून हरीचो आनी ताराबायचो जीव कळवळ्ळो. हरी एकच उतर उलयलो, 'शाणू, म्हणून चडच करता.'

भुरग्यांक तांणी शेजाऱ्यांगेर दवरलीं आनी तीं सडसडीत वडगावां आयलीं. सिताबायन हरीक त्या दिसांनी घडिल्ल्यो सगळ्यो घडणूको सांगल्यो आनी आपलो वेगळें रावपाचो विचार ताका सांगलो. हरीक सामको धक्को बसलो. कितलो वेळ ताका उतरच फुटना जालें. मागीर ताणें सिताबायक समजावपाचो यत्न केलो. तेन्ना सिताबायन ठाम पणान सांगलें, '-हरी, हांव जाणा म्हजे खूब हाल जातले. पूण हावें थारायलां. वेळ आयल्यार घरांतल्यांचो वावर करून हांव संवसार चलयन. काकीबायक म्हळां हावें तशें. पूण आनी आनी एकठांय नाका. तूं पणजे गेल्ल्यान पयलींच वेगळो जाला. आमकां लागून ताच्या भुरग्यांक वाडोवंक ताका त्रास जाता खंय. म्हणून निमीत्त धरून म्हज्या भुरग्यांचो जीव काडटा तो. आनी आनी नाका हरी. हांव पेज निवळ वाडून कशेंय म्हज्या भुरग्यांक वाडयन. वेळा प्रसंगाक तुमी आसातच.'

हरी कितलोच वेळ हात पांय गळसणिल्लेवरी वोग्गी बसून रावलो. मागीर मात तो फट्ट करून उठलो आनी भायर गेलो. ताराबाय दोळ्यांतलीं दुकां आडायनास्तना जावे म्हऱ्यांत वोग्गी बसून रावली.

हरी विठूभाऊ म्हऱ्यांत वचून सिताबायचो विचार सांगून बरोच वेळ भासा भास केली. निमणे सिताबायचो विचार हरीन मानून घेतलो.

विठूभाऊन आनी हरीन शाणूक सिताबायचो वेगळें सारपाचो विचार सांगलो. खिणभर शाणू आजापान तांकां पळयत रावलो. मागीर तिडकीन ताणें म्हळें, -'वेगळें सरपाचे धुवाळे जाल्यात मागीर खातली कितें खंय ती? जमनीक पोट तेकोवन न्हिदपाचो वेळ येतलो म्हणून सांग तिका.'

हरी भितल्ले भितर फुरफुरलो. पूण तोंडान कांयच उलयलो ना. ताचो सभावच तसो आसलो. तो सट्ट करून कोणाचेर ताप नासलो.

विठूभाऊन म्हळें, - ' शाणू पिकार जांव नाका. तुका तुजो संवसार आसा. तूंय म्हणून तांचो भार कितलो तेप उखलतलो? तांकाय स्वतंत्रपणान जगुनी. वेळा प्रसंगार तुमी, आमी आसातच. '

-'ना, ना एकदां वेगळ्चार केलो जाल्यार हांव तांच्या मड्यार लेगीत नदर घालचों ना. हांव जाणा म्हजे दोनय पूत शिकतात ते तिच्यान पळोंव नज. तिच्या बेंसा भाटाच्या पयशांचेर हांव तांकां शिकयतां शें दिसलां काय कितें तिका?'

- 'शाण्या, असो तापता कित्याक. आनी तिका खंय खबर आसा बेंसा-भाटाचेर कितले पयशे येतात ते? आमच्या बायलांकडेन केन्ना हो हिशेब गेला? आसूं आतां, तूं तापनाका. आमचे आईन झगडीं झुजां जावचे पयलींच आमचे कशे वांटे करून दिल्ले, तशेच ताबेलियांवाक हाडून, तुमचेंय शेत-भाट वांटुया. मागीर कसलेंच किचकिसांव नाका.'

- 'हय काका, तशेंच केल्यार बरें'. इतलोवेळ वोग्गी आशिल्लो हरी उलयलो.

- 'हरी, भाट-बेस वांटून घेवपाची तुकाय खुमखुमी आयल्या काय कितें रे. म्हणून तिचेर घालून तूंय मुखार सल्ला. तुमकां कितें दिसता, तुमच्या पयशांनी हांव म्हज्या भुरग्यांक शिकयता म्हणून. पळोंवनज रे तुमच्यानी, म्हजो एक पूत आदोगासी शिकता, एक पूत दोतोर जावंक सोदता तें.

- 'हांवें खंय कितें म्हळां?'

- 'आरे शाणू, सिताबायक आनी तिच्या भुरग्यांक तुका पोसचें पडटा, ताकां लागून तुज्या भुरग्यांक बरे तरेन वाडोवंक मेळना म्हणून तूं आयिल्ल्या दिसा फडफड्टा मरे. आतां ती वेगळी गेल्यार तुकाच बरें न्हय. तुजी जोड तुका तुज्याच भुरग्यांक वापरूंक मेळटली.' विठूभाऊन मुमुरख्यानीच म्हळें.

- 'आं, हेंय तुज्या कानार पावयलां तर. हांव रागान कितें उलयतां तें घरभर पावयता ती. तुमी सगळीं एक जाल्यांत आनी म्हजो घात करपाचो थारायला.'

- 'कसो रे बाबा? वेल्यान तुजें बरें करूंक सोदतात मरे आमी?'

- 'कितें बरें करूंक सोदतात? शाणू उसळ्ळो.'

- 'आरे, तापूं नाका...' विठूभाऊ ताका थातारपाचो यत्न करूं लागलो. पूण शाणूक पोटतिडक आयिल्ली. ताणें म्हळें, - 'भात, नाल्ल विकून म्हज्या हातांत पयशे येतात ते तुमकां दिसता हांव आमच्या तिनय कुटुंबांचो खर्च चलयतां रिती रिवाज करतां, सण-परबो करतां तें दिसना तुमकां.?

- 'प्रत्येक वेळार हांव म्हजो वांटो दितांच न्ही तुका.' हरीन हळूच म्हळें. शाणू जाय-फाय उलोवंक लागलो. शाणुचो खरो राग कितें तो विठूभाऊक आनी हरीकय कळ्ळो. दोगय पुतांच्या शिकपाचो खर्च ताच्या पगारातल्यान अजिबात भाग नासलो. भाटा-बेंसाचें जें रेन येता ताचेरच तो चल्यांचे शिक्षण करतालो. हें घरांतल्या हरी धरून सगळ्या दादल्यांक खबर आसलें. पूण कोणच कांय उलयनासले. आतां वांटे केल्यार खरो त्रासांत पडटलो आसलो तो शाणू. म्हणून तो वांटे करपाचो विचार आयकून खुबळ्ळो.



## 13

त्या दिसा तापून गेल्लो शाणू दोन शेनवार आयतार घरा आयलोच ना. विठायेगेर वचून ताणें ताका सिताबाय वेगळी रावंक सोदता इतलेंच सांगलें. विठायेनय म्हळें, -'शाण्या एकवटेन ती वेगळी सरता जाल्यार बरेंच जालें. कितलो तेप म्हणून तुवें सगळ्यांचो भार घेवपाचो. हरीचें बरें जालें तो पयलींच उठून पणजे गेलो.

सगळ्यांचे सिताबायक पाठबळ आसा तें पळोवन शाणू आपले भितर फडफडत रावलो.

विठूभाऊन थंडपणान तांचे वांटे करून दिले. ताईबाय मात सिताबायक वेंग मारून खूब रडली. पूण सिताबाय आपलो फुडार येवजुनच पिशांतूर कशी जाल्ली. तिणें तोंडच बंद केल्लें. तिच्या दोळ्यांतल्यान मात दुकां गळत आसलीं.

काकीबायन तांकां आयदनांचे वांटे करून दिले. ताईबायक लग्नावेळार आवयन थोडीं आयदनां, पितुळचे करण दिल्ले. ताईबायक आयदनांचो सोंस. तिच्या हातांत पयशेय आसताले. तिचो बापूय कुळारा आयिल्ले वेळार भुरग्यां हातांत पयशे दितालो. ते पयशांनी ती जात्रेक वतकर आयदना घेताली. घरांत पयलीं ताईबायन पितुळचीं तातां हाडिल्लीं. मागीर सगळ्यांनी घेतिल्लीं.

पूण सिताबायकडेन चड आयदना नासलीं. लग्नांत बान तिका घडके तोप, आनी दोन पितुळचे करण सोडून कांयच दिवूं नासलें. तिचे भावजेन आपल्या कुळारच्यान हाडिल्ली एक दगडी आनी कोळमूळ दिल्लें. भुरग्यांक पितळ्यो, तोपलां आनी पेले दिल्ले. हाचे भायर तिचीं म्हणून आयदना नासलीं. मांयलीं थोडींच आयदना तिका मेळ्ळीं.

एका संवसाराक कितलीं आयदना जाय पडटात तें पळोवन खिणभर सिताबाय काचाबूल जाली. पूण दुसऱ्याच खिणाक तिका येवजलें. तांचे थोडे मुंडकारी कुमार आसले. तांगेर साकून कुयणी, मायट्यो तांगेर हाड्टालीं. सिताबायन वेळ केलो ना, कल्याणाक सांगून कुयणीं, मायट्यो, उदक तापोवंक बुडकुलो आनी मातयेचो तवो, कायल हाडून घेतली.

सिताबायक जाग्यार येवंक बरेच दीस गेले. मागीर हळू हळू तिणें आपल्याच मनाक घट केलें... 'पापणी, तूं घट उबी रावल्यार तुजो संवसार बरो जातलो... ना जाल्यार... तूंच कोसळ्ळ्यार परत देरा पायांकडेन वच्चें पडटलें... तुजी अप्रतिश्ठा जातली... घट उबी राव बाये, देवता आसा, चंद्रेश्वर आसा तुज्या बरोबर... तांचें इतलें नामस्मरण तूं करता, सोडचे ना ते तुका... हरीनय वेळाप्रसंगाक तुका आदार करपाचें उतर दिलां... भिवनाका तूं...' अशे तरेन सिताबाय आपल्याच मनाक थातारताली.

सगळें जाग्यार पडटकर सिताबायक दत्तुच्या शिर्विसेची याद जाली. तिणें विठूभाऊची मान्यताय घेवन दत्तूक भावाबरोबर खणीर कामाक धाडलो.

थंय दत्तूचें मन रमलें. ताचे आवडीचें काम ताका थंय मेळ्ळें. कामच न्हय वेगवेगळे तरेचे लोक मेळ्ळे. काम सोंपतकर सांजवेळचे ते सगळे गजाली करूंक बसताले. तो सगळो रान वाठार आशिल्ल्यान, रानांत लिपून रावन कारवाय करपी कोणय एकाद्रो सशस्त्र क्रांतीकारक तांकां मेळटालो. तांच्यो गजाली तर दत्तूक खूब आवडटाल्यो. मडगवां

आसतना 'गोवा सेवा संघांत' आयकल्ल्यो गजाली दत्तू थंयच्या सगळ्यांक सांगतालो. थंयच्यो प्रार्थना तांकां शिकयतालो.

मडगवां संघांत आयकल्ले विचार ताच्या मनांत खोल रिगिल्ले. चड तेप तो संघांत वचूं नासलो खरो. पूण तांचे विचार. गजाली ताणें मनापसून आयकल्ल्यो. तो वडगावां येतकर आपल्या इश्टांक गोंयची सुटका करूंक लोक कशे वावुरतात ते विशीं गजाली सांगतालो. आतां ताका सुटके झुजारी मेळटकर चड उमेद जाताली. तो घोस्तान तांच्यो गजाली आयकतालो.

तो खाणीवेल्या आपल्या इश्टांक घेवन हळूच तांकां जेवणा खाणाच्यो वस्तू दिवंक वतालो. मामान ताका एकदां शिटकायलो - 'पळे दत्तू, आसलीं कामा तूं करता म्हणून कळ्ळ्यार सोल्दाद तुका व्हरून बंदखणीत घालतले. थंय तुका दीसरात मार खावचो पडटलो. खाणा-जेवणाक वळवळचें पडटलें तें जालेंच वेल्यान नाका आशिल्लीं कामाय करपाक लायतले.'

- पूण मामा, सोल्दारांचो हो अन्याय नाकरपाक, गोंय मेकळें करपाकच हे सुटके झुजारी वावुरतात. तांकां आमी मात पूण आदार करूं जाय न्हय. तातूंत हें रान मरे, हांगा खंय सोल्दार येतले?'

-'रान आनी बीन तांकां लागना. जय हिन्दीस्तांचो मात्सो लेगीत वास आयल्यार ते खंयी येवंक तयार आसतात. फाटीं-फुडें कितेंय जाल्यार हांव नकळ.तुजी आवय म्हाका सोडची ना.'

-'ना रे मामा, तूं भिवनाका. आमचो जयवंत काका क्रांतीकारक. भारतांत तांणी सगळ्यांनी केदी चळवळ केली. भारत स्वतंत्र केलो. आतां आमी सगळ्यांनी एक जावन गोंय स्वतंत्र करपाक झुजूं जाय.'

-'बाबा रे तुजे हे विचार हांगाच पुरो. तूं हांगां काम करपाक आयला. तुजे आवयक सद्या पयशांची गरज . वोगीच त्रासांत पडूं नाका.'



मामान कितले फावट शिटकावणी दिली तरी दत्तून आपलें काम

सोडलें ना.

खणीर जिलेटीन आसतालें. दत्तू आनी ताचे सांगाती रावताले तेच चाळीच्या एके कुडींत जिलेटीन दवरिल्लें. खाणीचें हेर सामानय थंयच दवरिल्लें. तें सांबाळपाचें कोण कितें व्हरता तें बरोवन दवरपाचें मुखेल काम दत्तूचो मामा आनी दत्तू तशेंच हेर लोक करतालें. स्वातंत्र सैनिकांक तें जिलेटीन जाय आसतालें. तांकां तें लिपचोरयां दिवपाचें काम दत्तू आनी ताचे इश्ट करतालें.

जिलेटिनाच्या चोरयेचो एक दीस बोवाळ जालो. दिस्तच त्या दिसांनी दत्तूक जोर येता म्हणून ताचो मामा ताका घेवन आठ दीस सुटी घेवन थंयच्यान भायर सरिल्लो. दत्तूक वडगावां पावोवन तो शिवड्यां गेल्लो. तितले भितर साकोड्ड्यां खणीर तो बोवाळ जालो.

सुटी सोपोवन हरीदत्त सोकोड्ड्या गेलो. तेन्ना ताका सगळें कळ्ळें. थंय आशिल्ल्यांक थोड्यांक-चवकशेक क्वार्तेलार व्हेल्ले. उरिल्ल्यांक कश्टी खाणीर धाडिल्ले. साकोड्ड्यां नव्या लोकांक दवरिल्लें. हरिदत्त कश्टी गेलो. थंय ताका ताच्या सांगात्यां कडल्यान कितें घडलें तें सगळें कळ्ळें. हरिदत्त मनांतल्यान भियेलो. हातूंत दत्तूचो हात आसा हें तो जाणा आसलो. दत्तू सगळ्यांत ल्हान आशिल्ल्यान आनी चार दीस पलयीच थंयच्यान भायर सरिल्ल्यान ताचें नांव मुखार येऊं नासलें. हरिदत्तान मनांत गांठ माल्ली.... आतां आनी दत्तूक कसोच खाणीर हाडप ना... ताका कितले वेळा शिटकावणी दिल्ली हावें... पूण दत्तू हट्टी... ताका सुटके झुजाऱ्यांचो ओडो... हे खेपे मंगेशा तुवें आमकां वाटायले... परत ताणें असले उद्देग केल्यार म्हजीय शिर्वीस वतली, आनी दत्तुचीय. वयल्यान शांतुलाच्या घरच्यांचें आयकुचें पडटलें..... ना, ना,आनी आनी परत दत्तूक हांगां हाडप ना...

ताणें मनांतच निश्चेव केलो. त्या शेनवाराक तो शिवड्यां वचच्या बदला वडगावां गेलो. दत्तू मुखार ताणें खाणीर कितें घडलें तें भयणीक सांगलें, आनी काकुटेन म्हळें, -'आनी आनी परत हांव दत्तूक खणीर

व्हरना. म्हजेर रागार जाव नाका बाय. उपकार कर म्हजेर. म्हजी शिर्वीस म्हाका सांबाळूं जाय. तूं जाणा म्हाका शिर्वीशेची कितली गरज ती. पयरच म्हगेर तिसरें भुरगें जालां. आमचो प्रपंच वाडत आसा. रागार जाउं नाका बाय. ताका आनी खंयी शिर्वीसेक धाड.'

सिताबाय परत येवजणेंत पडली... फाटलें वर्सभर दत्तू काय बरी शिर्वीस करतालो.. एका जाग्यार हो आसा म्हणून तकलेक सुशेग मेळिल्लो म्हज्या... चार पयशेय मेळटाले. फोल्गां पाड पडूं... टामटीम करून म्हजो संवसार चलतालो... परत दत्तू घरा रावल्यार जातलें कशें... सुमती लग्नाचें रीण अजून पाऊं ना..वर्सभर कोणाकडेन हात पसरनासतना म्हाका संवसार करूंक मेळ्ळो... आतां कशें करप... तातूंत दत्तू आलमपेड्यार कसो भोंवतलो. तें म्हज्यान सामकें पळोवं नज...' परत तो घरांतल्यांचीं कामां करूंक वतलो आनी मात्सें वयर - सकल जाल्यार सुण्यापाश्ट करतले ताका.. वेळा प्रसंगार मारतले लेगीत ताका... नाका दत्तू घरांत नाका... ताका घरा भायरच दवरूंक जाय... कितें करूं हांव... पोरा कितें भोग बरयल्यात देवतेन तुज्या आनी म्हज्या मशिबांत तीच जाणां...

विचार करून करून तिची तकली फुटपाकडेन पावली. पूण जाप मेळनासली.

हिराबायच्या वर्सश्राध्दाक जयवंत आनी वसंत आयिल्लो. वसंत सदांच मे म्हयन्यांत बायल-भुरग्यांक घेवन गोयांत येतालोच. पूण आवयचें श्राध्द मदींच आयिल्ल्यान भुरग्यांची शाळा चुकतली म्हणून तो एकटोच आयिल्लो.

भारत स्वतंत्र जाल्ल्याक जयवंत मुंबयच बिराड करून रावतालो. तो आनी ताची बायल जयश्री थंयचेच एके शाळेंत शिकयतालीं. जयश्रीन गुरवारपणाचें निमित्त सांगून गोयांत येवपाची फावट चुकयिल्ली. तोय एकटोच आयिल्लो.

मांयक मेळूंक आयिल्ले वेळार आपल्याक वेगळी दवरिल्ली,

रांदचेकुडींत आनी देवाकुडींत वचूंक दिवूं नासलें, हें ती विसरूं नासली. आतां तर श्राध्द म्हळ्यार देवस्पणाचेंच काम. म्हणून निमित्त करून ती येऊं नासली. ती येऊं ना तें पळोवन जायल्याक मात सुशेग जालो.

जयवंत आनी वसंताक जायल्यान सिताबायची सगळी खबर सांगली. सिताबायक कितेंय आदार करूं जाय अशें जयवंताक मनापसून दिसलें. हाचेर जयवंत विचार करतासर वसंतान सिताबायक म्हळें,

-'सिताबाय, हांव दत्तूक मुंबय व्हरूं? खंयी चिकटायतां ताका.'

सिताबायन रोखडेंच म्हळें, - 'उपकार जायत बाबा तुजे. ताका व्हरून खंयी पोटाक लाय. तो हांगा अस्सो बेकार भोंविल्लो म्हज्यान पळोंव नज.'

उलयतां-उलयतां तिका रडूंक आयलें. तिणें पदर दोळ्यांर धल्लो.



श्राध्द जावन दोन दिसां उपरांत दोगय भाव मुंबय वचूंक भायर सल्लें. वतना तांणी दत्तूक बरोबर घेतलो. नाल्ल, भात विकचकच जे पयशे येताले, ते सिताबाय सांबाळून खर्च करून कितें उरता ते पेटलांत दवरताली. ते पयशे तिणें काडले. काकीबायन तिका धा रुपया दिले. ते सगळे एक करून तिणें वसंताकडेन दिले आनी म्हळे, 'ताका कपडे, आनी कितें कितें जाय तें घेवन दी.'

दत्तू घरांत आंगोस्तार न्हेसतालो. वसंत आनी जयवंत मोटव्यो चड्ड्यो ना जाल्यार पिजामी घालतात तें तिणें पळयल्लें. मुंबय वतकर वसंतान दत्तूक त्यो घेवन दितां म्हणून सिताबायक सांगलें तरी सिताबायन दोन आंगोस्तरां उमळून ताका दिलीं. ताका हांतरूण पांगरूणय दिलें. आनी एकदांचो मुंबय धाडलो.

वेगळी सरिल्ल्यान सिताबायक भाटा-बेसांतल्यान कितलें उत्पन्न मेळटा तें कळिल्लें. विठूभाऊन आपल्या पुताक जयरामाक सिताबायचो व्यवहार पळोवंक लायिल्लो. तोय लक्ष दितालो. पूण आतां विठूभाऊच्यान चडशें भायर-भितर सरूंक जायनासलें.

सिताबायक घरचो सगळो खर्च भागोवन रिणाचे हप्ते पावोवनय थोडे पयशे उरतात ते पळोवन खोस जाली.. 'जाल्यार शाणू, तुमकां पोसतां, तुमकां पोसतां म्हणून कित्याक हिणसायतालो काय?' ह्या प्रस्नाची जाप तिका मेळनासली.

सिताबायची धाकली जाव ताराबाय तिका गोजड्यो कपयाळीं शिवंक पातळां कपडे हाडून दिताली. आनी शिवून घेवन पयशेय दिताली. सिताबाय सामकी काटकसरीन संवसार करून पयशे गांठीक दवरताली.

'... देराच्या संवसारांतल्यान वेगळीं सरून आपलींशी आपूण आमी रावतात... आतां कोणचें आयकून घेवपाची आमकां गरज ना.... अशें बरे भशेन रावतलीं जाल्यार हातांत चार पयशे जायच... पयशां बगर आतां कितेंच मेळना. भात, तांदूळ, नाल्ल दिवन आमच्या गांवांत पयलीं कितेंय मेळटालें... आतां चांटये-पावलाक गांवा भायर वचचें पडटा, ... भायर पयशां बगर कोण कोणाक वळखना... पाड पडूं त्या पयशांचें... लोकांक आदारय करता, आनी लोकांचो जीवय काडटा... तोच देव जाला आतां सगळ्यांचो... ताका पयलीं सांबाळून दवरूं जाय...' सिताबाय आपल्याकच समजायताली.

हेवटेन शाणूचे बरेच हाल जाले. ताचो व्हडलो पूत सोमनाथ आदोगाशी शिकतालो. ताका पणजे दवरिल्लो. हरीचें घर ल्हान जाल्ल्यान शाणुचो ताच्या इश्टाचो चलो आनी हेर तीग जाण एक बिराड करून रावताले. सुटये दिसांनी सोमनाथ हरीगेर वतालो. ना जाल्यार विठूभाऊल्या जयरामागेर वतालो. ताच्या शिक्षणाचो आनी बिराडाचो खर्च शाणूक चड जातालो.

आतां धाकल्याकय 'इश्कोला मेदिकोंत' प्रवेश मेळिल्लो. ताचो खर्च तर खुबच आसलो. ताकाय पणजे सोमनाथाच्या बिराडाचेरच दवरिल्लो. शिक्षणा वांगडा ते थंय मजाय करताले. नव्यानच सुरू जाल्ल्या थेटरांनी वचून सिनेमा पळोवप, नाटकां पळोवप, केन्ना केन्ना

खानावळीनी जेवंकय वताले.

आनी पुस्तकां, कादेर्न जाय म्हणून बापायकडेन पयशे मागत रावताले. सिताबाय शाणू वांगडा आसतना बेंस भाटय राशीर आशिल्लें. ताच्या नाड्यार शाणू आपल्या भुरग्यांक शिकयतालो. आतां तीं वेगळीं सरिल्ल्यान शाणुचे हात सामके मोटवे जाल्ले. म्हणून भुरग्यांच्यो वाडट्यो मागण्यो पुराय करूंक शाणूक त्रास जाताले.

आतां तो सिताबायचेर उरफाटो फडफडटालो. सिताबाय मात सुशेगाद जाल्ली. वर्सा भितर तिणें सगळो मातयेचो संवसार पेल्यान दवरून तांब्या-पितुळचीं आयदनां घेतिल्लीं.

आतां ताईबायन घरांतलें गरजेचें सामान सांगल्यार लेगीत शाणू तिचेर फडफडटालो. तेंच निमित्त धरून सिताबायक लागताशें उलयतालो. पूण सिताबाय तें आपल्याक लावनच घेयनासली. ताचें उलोवणे आयकूंक येऊं नये म्हणून मान्यांत मागीलदारांत वचून बसताली. ताईबाय मात सगळें धिरान घेताली. घोवाचो फडफड, तापसाण मुकाट्यान सोंसताली. वयल्यान शाणूचो कल पळोवन ती ताका फुसलायताली -''आयकलां, आमी पेज, निवळ जेवया पूण भुरग्यांक शिकोवया. तांच्या शिकपाक लागून आमकां त्रास काडचे पडल्यार हरकत ना. गरज पडल्यार म्हजें भांगर व्हरात. पूण दुसऱ्यांक कांय म्हणुनाकात?''

ताईबायन कितलेय थंडसायेन सांगू, शाणू मागीर तिचेर तापय काडटालोच.



वेगळाचार जालो तरी ताईबाय आनी सिताबाय मात मोगान वागतालीं. दोगांय हळूच एकामेकाक खाणा जेवणां दितालीं. गरजेक आदार करतालीं. शाणू एकटोच सिताबायचेर आनी दत्तूचेर राग धरून आसलो.

दत्तू मुंबय गेला म्हणून सिताबायक मात्सो सुशेग मेळिल्लो. वसंतान म्हयन्यान सुमार जायल्याक बरयल्ल्या पत्रांतल्यान सिताबायक रकाद

दिल्लो. दत्तूक शिर्वीशेक कसोय करून लायतां म्हणून ताणें सांगिल्लें. दत्तू बरो आसा हें कळटकच सिताबायक मनांतल्यान खोस जाली.

शाणूचे अशें ओढाताणीचे परिस्थितींत कुसूम बाळंटेराक आयलें. कुसुमाचें घर तळावले. ताच्या कुटुंबाच्या घरांत सुपारी सोलप, उकडप, कुळागरी उत्पन्न काडून ताची उस्तवारी करून घेवप असलीं कामां चड आसलीं. मानाय, भागेली ही कामां करूंक दिसपट्टे तांगेर येताले. जेवणाकूय आसताले. आदाराक वावराड्यो चेडवां आसलीं. तरीय घरच्यो सुनो मांयो, घरांत रावपी हेर बायलो, सगळ्यांक सारकें घोळचें पडटालें.

कुसुमाक खर धुवाळे जाल्ले. ओंकून ओंकून तें जाम जातालें. पूण सुशेग घेवंक मेळनासलो. ताची खबर घेवंक म्हणून ताईबायन शाणूक सांगून दासूक कुसुमागेर धाडलो. कुसुमान ताचे कडल्यान आवयक रकाद धाडलो,

-'म्हाका कितेंय निमित्त करून तुमगेर व्हर, ना जाल्यार हांव जितें उरत शें दिसना?

हो रकाद आयकून शाणू फडफडलो. 'आमची परिस्थिती कितें जाल्या ती आमी जाणात. हाका आनी इतले बेगीन हांगां हाडप. म्हज्यान जायना.

-'अशें म्हणू नाकात. पोर तें आमचें दोन जिवांचे. ह्या वेळार आवयगेर येन दिसताच. कितें जाय-नाका दिसता तें घरच्या लोकांक कितें सांगतलें. आमीच पुरोवपाचे ते दुवाळे. ना जाल्यार भुरगें लाळयें जाता म्हणटात.'

ताईबायचें उलोवणे आयकून शाणू तिडकलो,

-'पुरो, पुरो, ताच्यो रूची पुरोवपाक हांव कितें करुं? भुरग्यांच्या शिक्षणाक लागून पयलींच रिणात बुडलां, आतां धुवेचें दुवाळे पुरोवंक रीण काडूं?

-'पुरो म्हळ्यार, कितलें म्हणून उलोवप तें? धुव ती तुमची.

केन्नाच न्ही ती ताईबाय इतलें उलोवन सडसडीत रांदचे कुडींत गेली. एकेच रांदचेकुडींत दोन रान्नीर सिताबाय आनी ताईबाय रांदतालीं. सिताबायचेर नदर पडना फुडें ताईबायक रडपाचे कड आयले. तिणें रडरडत जावेक सगळें सागंलें.

सिताबायन तिका धीर दलो, -'आगे, भिवनाका, सवो म्हयनो चलता मगे ताका. सातवो लागतानाच फुलां माळून धाड म्हणुया. मागीर पौश लागता न्ही. हेंच निमित्त सांगुया. ताचे घरचींय ना म्हणचीं ना आनी तुज्या घोवाचेंय मन राखलेंशें जालें.'

-'पूण हांगा कोण सांगतलो? म्हजें काय इल्लेंय आयकून घेवपाचे नात ते.'

-'तुजो घोव केणाचें आयकून घेता म्हणा. तरीय केन्ना केन्नाय काकीबायचें उतर भायर उडयना तो. तूं वोगी बस. तीच जाग्यार घालतली.

सिताबायन सगळी गजाल काकीबायच्या कानार घाली. आतां घरांत जाण्टीं उरिल्लीं तीं विठूभाऊ आनी काकीबाय. काकीबायन शाणूक समजायलो.

कुसुमाक घरचीं सातव्या म्हयन्यावेलीं फुलां माळून जातकच चार दिसांनी ताईबायन रामू आनी ताचे बायलेक जन्याक तांगेर धाडलीं.

तळावलेच्यान आडपयच्या तारीर येवन सावड्ड्यां येवपी वाफोरार रामू आनी जने कुसुमाक घेवन आयलीं. वांफोर सावड्ड्या केन्ना पावतलो त्या अदमासाक विठूभाऊन बैलगाडी धाडपाची व्यवस्था केली. वांफोरान बऱ्या मनशाक लेगीत ओंकारे येतात. कुसुम दोन जिवांचें जाल्ल्यान ताका चडच वोंकूक येतालें. वोंकून-वोंकून कुसुम आनी ताची वोंक काडून जने बाबडें जाम जालें.

चार दीस कुसूम न्हिदून उल्लें. सिताबायन घरगुती वखदां दिवन ताका उभें केलें. ताका सिताबायच्या हातच्या जेवणाचीच रुच आयिल्ली. सिताबाय ताच्यो सगळ्यो आवडी अपुरबायेन पुरयताली.

सुमित्रा आनी निरा आतां हळू हळू बदलतालीं. तांणी पुष्पाचो दुस्वास करपाचो तर सोडिल्लोच, पूण आपले भयणीक सिताबाय कशी सांबाळटा तें पळोवन तीं परत सिताबायचें लागीं जाल्लीं.



ताईबाय हरशीं धीट. पूण आपल्या मनशांक कितेंय जाल्यार तिचे हात पांय गळसणटाले. कुसुमाचो सगळो बाळंटेर सिताबायनच काडलो म्हळ्यार जाता. कुसुमाक चली जाल्ली. जेवणखाण करपाक सिताबाय भिये नासली. त्या बाराय दीसांत तिणें सिताबायक रांदूक दिलें ना. कुसूम भुरग्याक धरूंक भियेतालें. वैजीण आशिल्ली. तरी कुसूम सिताबाय सोड नासलें. ती भश्टांत रावन कुसूमाचे चलयेक सांबळटाली.

स भुरग्यांची आवय जावनय ताईबाय कुसुमाच्या चलयेवेळार बेठीच भियेताली. दुसऱ्याचें भुरगें, आमच्या हातान सगळें सारकें जाल्यार पुरो असो हुस्को तिका जाल्लो. जावा-जावांचो हे एकचार शाणूक आडखळटालो. पूण आपले भितर फडफडले बगर तो कांयच करूंक शकनासलो. ह्या वेळार कितें म्हळ्यार बायल आपल्याक वोगी रावची ना हें तो जाणा आसलो.

धुवेच्या बाळंटेरा वेळार सिताबायन केल्लो आदार पळोवन ताईबाय सामकी तिचे पांगेंत उरिल्ली. जावेच्या आपलेपणाच्या वागणुकेन ताईबाय बरीच धीट जाल्ली. शाणून तिका कितलीय कड्डीली जाल्यार आतां ती ताका भिये नासली. सरळ जावेचो पाखो घेताली. तिच्यो धुवोय आतां बापायक, काकीक कांयच म्हणूंक दिय नासल्यो.

कुसूम पांच म्हयन्याचे चलयेक घेवन घरा गेलें. आनी सात म्हयन्याच्या सुमतीक सिताबायक बाळंटेराक हाडलें. तांगेर बाळंटी कुडीक थार नासतालो. सिताबायन परत बांळटी कूड निवळ करुन घेतली.

सुमतीच्या भुरग्यांक जाय म्हणून कुसूमान आपले चलयेचीं आंगलीं,

तोंपरी, मांडे, पोळेर सगळें काडून काकीकडेन दिल्लें. सिताबायन ते सगळें परत लकलकीत उमळून घेवन दवरलें.

सुमतिच्या बांळटेरावेळार ताईबायन सिताबायक आदार केलो. सुमतीगेरय चलीच जाली. बारशाक सिताबायन ल्होवशी भांगराची सरपळी करून नातीक घाली. दोगांय जावांची मायेची वागणूक पळोवन विठूभाऊ आनी काकीबाय सातिस्वेर जालीं. व्हडलें आईचीं मायेचीं उतरां काकीबायन म्हळीं,

-'दादले कशेय वागूं तुमी मात तुमचो मोग सोडू नाकात. तुमच्या एकवटारूच घर घट उबें उरतलें. गृहकलहाक लागून व्हडलीं व्हडलीं घरां मातयेभरवण जाल्लीं पळयल्यांत हांवें.'

कुसूम बांळटेराक आयिल्लें तेन्नाच कवळें जात्रा आशिल्लीं. अंदू हरीन कवळ्यां जात्रेक वचून चार दीस रावपाचें थारायल्लें. तो आपली फामील, सुमित्रा, निरा, पुष्पा, सुभद्राच्यो चलयो आनी विठूभाऊचो तुकाराम आपले फामिलेक घेवन कवळ्यां गेलीं. बेळगांवच्यान म्हादेवबाप्पाचो दुसरो पूत शांताराम आपल्या कुटुंबाक घेवन आयिल्लो.

कमाविसदार तांच्याच कुटुंबांतलो अना शिरवयकार आसलो. ताणें कोमिसावांचे माळयेर तांकां रावंक दिल्लें.

हरशींय जाल्यार वैकूंठबाप्पाले दोगय पूत सदाशीव आनी शांताराम वर्स दोन वर्सां उपरांत कवळ्यां जात्रेकडेन रावंक येतालेच. त्या वेळार ते पुरयतागेर रावताले. अंदू तांकां कोमिसावांच्या माळयेर रावंक मेळिल्ल्यान सगळींच खोशी जाल्लीं. माळयेवयल्यानच तांकां सगळी जात्रा दिसताली.

सुमित्रा, निरा, पुष्पाक चड खोस जाल्ली. तीं खूब तेपान जात्रेक आयिल्लीं. विठूभाऊ आनी काकीबाय जातासर कवळ्यां जात्रेक येतालींच. येतना आडसाट्या चलयांकय घेवन येतालीं. कवळ्यांच न्हय पर्वतार जात्रेक, दसऱ्याक लेगीत विठूभाऊ तांकां घेवन वतालो.

आतां प्रत्येक जाण शिर्वीशेक, शिकपाक भायर गेल्ल्यान आनी

विठूभाऊच्यान पयलीं वरी जायनाशिल्ल्यान चलयांचेंय जात्रांनी बी वचप बंदच जाल्लें.



ताईबायचीं भुरगीं दिसूंक सोबीत, सुंदर. सुमित्रा तर चडच सोबीत दिसतालें. जात्रेक आयिल्ल्या मिनेर रघुवीर वालावलीकाराक सुमित्रा पळयता खिणां आवडलें. थंयच ताणें कोणाची चली कितें कात सगळी चवकशी केली. आपल्या धाकल्या पुताक हीच बायल सोबतली हें ताणें मनात घेतलें. ते नदरेन ताणें रोखडीच खबर काडली. तो कसलींय कामा देवतेक विचारल्या बगर करनासलो. जात्रा सोंपले बरोबर पुरयताक सांगून ताणें प्रसाद घेवंक लायला. देवतेन रोखडीच बरी पाकळी दिली. रघुवीरबाबाक सामकी खोस जाली.

घरा येतकच ताका कळ्ळें शिरवयकार ताचे भावजेवटेच्यान सोयरे. ताणें तिच्या कडल्यान हे सोयरिकेचें जाग्यार घालें.

बशिल्लेकडेन म्हणटात तशें सुमित्राचें लग्न थारलें. येद्या व्हड घराब्यांत धुवेची सोयरीक जाता ती पळोवन ताईबायक तशेंच घरभर सगळ्यांक खोस जाली. सोडून शाणूक. तो बेजार जाल्लो खर्चाक लागून. हरशींच ताचो खर्च दिसानदीस वाडत आसलो. ताका कसोच आटापा येय नासलो. तातूंत सुमित्राचें लग्न व्हड घराब्यांत थारता. सगळें भांगर घालून सुमित्राक सव्यार चडोवंक जाय आसलें. शाणू विचारांत पडलो.

...'कुसुमाक गोंठ -पाटलीं-तोडे सगळें भांगर घाल्लें... हें तर व्हडल्या कुटुंबांत वतलें... करूं कितें?... सोमनाथाचें आदोगासीचें आनी एक वर्स उरलां...' शाणू रातचो तळमळत उल्लो, ताका कशीच न्हीद लागना जाली.

मदींच ताईबायक जाग आयली. पळे जाल्यार घोल पासयो मारता. तिणें म्हळें, -'ह्यो पासयो सुमित्रा खातीर मू? आतां न्हिदात म्हळ्यार. देवता न्हिदूना आमची. तिच्याच पायां कडेन सगळें थारलां. तिणेंच

घडोवन हाडिल्ले भशेन जालें ना. तीच जाग्यार घालतली सगळें. न्हिदात आतां.'

-'कितें म्हणणे तुजें? देवतेचर भार घालून सुशेगाद न्हिदं? देवता कितें तुजे धुवेक घाल म्हणून आपलें भांगर धाडून दितली?'

-'देंवतेची फकाणां करू नाकात म्हळ्यार, देवता प्रसन्न जाली जाल्यार कितें करत सांगू नज. ते कवळेंचे भटणीची गजाल खबर आसू मू? तीं कितें ना म्हणटा तें देवता दुसऱ्या कडेन मागून तिका धाडून दिताली खंय. तिणें भुरग्याक घालूंक कुची ना म्हळी, देवतेन कोणा एकटेच्या सपनांत वचून तिच्या भुरग्याची कुची मागून हाडून ते भटणीक दिली.'

-'पुरो हां, पुरो, देवतेचो म्हयमा येदे रातचो सांगूक बसल्या तूं म्हाका. हांव कितें देवतेक वळखना. धुवे लग्नाचें येवजीय मात्सें.'

-'अशें कितें उलोवप तें? हांव म्हणी देवताच आमकां ह्या संकश्टांतल्यान सोडयतली.'

-'कशी? कशी सोडयतली?'

-'आयकात हां.'

-'आयकत आसां वोदोळच्यान तुजें.'

-'म्हजें भांगर आसा मू. तें घालुयां सुमीक.'

-'आनी? फाटल्यान निरा आसा, राधा आसा, तांचें कितें?

-'तांची चिंता आतांच कित्याक करूंया काय म्हणटा हांव. तेन्नाचें तेन्ना चिंतया. तितलेसर सोमनाथ जोडूंक लागतलो. तो करून घालतलो मू म्हाका भांगर.'

थोडो वेळ विचार करून शाणून म्हळें,

-'हय, अशेंच केल्यार बरेशें दिसता... पूण...'

-'आतां आनी कसलो पूण.?'

-'तूं यजमानपणाक गवर कशी भांगर शिंगर घालनासतना बसतली?'

-'ताची चिंता तुमी करूं नाकात म्हळ्यार. आमी बायलो आमचे

भितर पळयतात. यजमानपणाक कोण म्हाका निखटीं बसोवचीं नात.'

-'देवते, आसा बाये तूं,'

-'कळ्ळें मू , देवता कशी पावता ती, आतां हो तांबयो घेयात, उदक पियात आनी न्हिदात, रात सोंपत आयली.'

भांगराचो प्रस्न सोंपिल्लो पूण बाकिचो खर्च आशिल्लो. शाणूक तीय चिंता पोखरताली. आतां ताच्या दोळ्यांर झांपड आयिल्ली.. 'हाव न्हिदसर ही सूंठ कशी, फाटल्यान लागतली. .. आडवो तरी पडुंया.. ' अशें येवजून शाणू बाज्जेर आडवो जालो.

ताईबायन घोवाक न्हिदपाक लायलो खरो, पूण तिची चितना चालू जालीं. वण्टीकडेन तोंड करून दोळे उगडे दवरून धुवेच्या लग्नाचे बेत करू लागलीं.



## 14

सुमित्राचें लग्न मे म्हयन्यांत थारायल्लें. भांगराचो प्रस्न ताईबायन सोडयल्लो. पूण हेर खर्च म्हणून थोडो आसता. शाणून हाचे ताचे कडल्यान हातउसणे पयशे घेवन तो खर्च भागयलो.

दोनय घराब्यांक मदीं पडचें म्हणून लग्न कवळ्यां थारायिल्लें. पयलीं साकून अशीं दुसरे कडेन लग्नां थारायतच बैलगाड्यांनी ना जाल्यार व्हड्यान वतालीं. ह्या वेळार भुरगीं आडसाटे चले-चलयो घोस्त काडटालीं. आतांय सुमित्राचें लग्न कवळ्यां म्हणून कळटकच सगळीं खोशयेन फुल्लीं.

सांवड्यें तें आडपय वाफरान वचूंक मेळटालें, पूण हांचो लोक चड, तातूंत व्हंकलेचें लग्ना कारणाचें सगळें सामान. विठूभाऊन सांगलें, दोन खोपी व्हडीं थाराय म्हणून. कोणाकय व्हडें लागल्यार बी खोपींत आड पडूंक मेळटालें.

व्हडीं आडपय पावतकच मुखावेली तयारी कुसुमाच्या मांवान केल्ली. ताणें कवळ्यां वचपाक बैलगाड्यो तयर दवरिल्ल्यो. पूण पयलीं सगळ्यांक आपल्यागेर जेवंक व्हेलीं.

न्हवरेकाराचो लोक मात कार्रेरीन आयिल्लो. पणजे-म्हापशां, मडगांव तेन्ना कार्रेर चलताली.

अशे तरेन वालावलकाराच्या घराण्याक सोबशें शाणून लग्न करून दिलें.

सुमित्राच्या लग्ना निमतान वसंत आनी जयवंत मुंबयच्यान बायल भुरग्यांक घेवन आयिल्लें. हिराबायच्या निमण्या खिणाक आयिल्ल्या वेळार जयवंता बायलेक भायले भायर दवरिल्ली. तिका भितल्ल्या घरांत मेकळी फिरुंक दिवं नासली. तें लक्षांत दवरून विठूभाऊन जायल्याक पयलींच सांगलें,

-'पळे, जायल्या, जयवंता बायलेक जयश्रीक तूं देवाकुडींत वचूंक दिवचें ना बरें आसा. पूण घोळपाक खंयच आडावचें ना. कळ्ळें, आतां ती आमची जाल्या. तिका पेल्यान दवरप सोबना.'

-'पूण काका, जात-पात अशी सोडून दिवं येता? मागीर...'

-'जायल्या, भीमा, रूक्मीण, कल्याण तुमच्या रांदचे कुडीनी घोळटात मगो.'

-'पूण तांचे कडल्यान आमी शितातपल्याक हात लावन खंय घेतात?'

-'हय, तितलेंच उल्लां तुमचे, जाणा हांव. पूण वेळ आयल्यार फाल्यां तेंय घेवचें पडटलें. हाका हात लाऊ जायना, ताका हात लाऊं जायना, हें भश्टता, तें भश्टता करपाचें सोड आतां. जग खंय पावलां पळे.'

-'काका आमच्या घरांत पयलेच खेपे...'

-'जायल्या, कोणेतरी पयले खेपे मुखार सरचेंच पडटले. मळकर्णे कारागेर माधवाक आनी बायलेक घरांत खेतलीं मूं? घरांत चवथीक, हेर देव-देवस्पणावेळा देवा निवेद्य-जेवणखाण तीच करता.'

जायलें काका मुखर कितें उलयतलें. प्रत्येक प्रस्नाक ताजेकडेन जाप आसली. जायलें भितल्ले भितर फडफडलें. ... जात बुडयात, धर्म बुडयात, जायतें करात... काकाल्या पुतान किरिस्तांवणी कडेन लग्न करूं जाय आसलें, तेन्ना तो कितें करता तें कळटलें आसलें...'

काकाचे विचार मातय पट नास्तना लेगीत जायल्याक वोगी रावचेंच पडलें. घरच्या कर्त्या दादल्याक विरोध करपाचो ताका धीर नासलो. पूण जयश्रीक ताणें रांदचेकुडींत शिजिल्ल्या अन्नाक हात लावंक दिलोच ना. ती शिनता-कांतताली, गरज पडल्यार वांट्टाली लेगीत. इतलें तरी स्वातंत्र्य मेळिल्ल्यान ती खोशी जाली.

सुमित्राच्या लग्नाचीं कितलींच कामां तिणें आपूण जावन आंगार घेतलीं. फकत हांच्या घरांतली रीत-रवीस तिका कळनासली. थंय सगळीं तिका सांबाळून घेतालीं. जायलें मात तिचे पसून पयसच रावतालें. ती देवाच्या कसल्याच कामाक हात लावचीना हाची जतनाय घेतालें. तिका तें कळटालें. तीय देवस्पणाकडेन पयसच रावताली.

ह्या लग्नाक येतना वसंतान दत्तूक हाडिल्लो. पयल्याच दिसा दत्तून आवयक सांगिल्लें, - 'आई पांया पडटां तुका, तूं सांगता तें आयकतां, पूण म्हाका परत मुंबय धाडूं नाका.'

-'आरे, कित्याक रे बाबा?...'

-'आई, आतां कांयच उलयनाका. मागीर सांगतां सगळें.'

-'पूण, वसंताक कितें सांगूं हांव?'

-'कितेंय सांग, पूण म्हाका परत धाडूं नाका'.

दोळ्यांत दुकां हाडून दत्तून आवयक सांगलें. दत्तू सामको भागिल्लो खरो. सिताबाय येवजुणुकेंत पडली... ताका परत ना धाडपाक कितें कारण सांगूं... सवाय वर्स सुमार तो मुंबय उल्लो... इतल्या दिसांत ताका शिर्विस कशी मेळ्ळीना ताचेंच आजाप दिसता... लोक तर म्हणटात, मुंबय अश्यो शिर्वीसो मेळटात म्हणून... हांव समजल्लीं तो थंय बरो शिर्वीस करता आसतलो म्हणून... कितें घडलें काय देवा?... असो बाब म्हजा भागला कित्याक काय?... '

लग्नाचें काम करतना सिताबाय उश्मी उमेद दाखयताली, पूण भितल्ले भितर तिका दत्तुची चिंता जाल्ली. दत्तूच्या तोंडारय तिका उमेद दिसनासली.

तेन्नाच तिच्या भावाच्या चल्याचें लग्न थारलां म्हणून तिका कळ्ळें. लग्न जून म्हयन्याच्या निमण्या म्हुर्तार थारिल्लें. तेंच निमित्त सांगून सिताबायन दत्तूक मुंबय धाडलो ना.



वसंतान दत्तूक मुंबय म्हरून खंयच शिर्वीसेक लाऊं नासलो. ताका आपल्या घरांतलो चेडो केल्लो. ताच्या भुरग्यांक शाळेंत पावोवप, घरा हाडप. तांचे चाळींत नळाक उदक रातच्या दोनाक तिनांक येतालें. त्या वेळार उठून घरांतलीं ल्हान व्हड सगळीं आयदना, बल्ल भरून दवरचें पडटालें. वसंता बायलेन धाकटें चली रातचें आपल्याक उठूंक दिना अशें निमित्त सांगून तिणें रातचें उदक भरपाचें काम दत्तुचेर सोपयल्लें. सगळीं आयदना, बल्ल भरता म्हणसर ताका देडेक वर लागतालें. सकाळचो न्हिदतलो म्हळ्यार, तांच्या ल्हान घरांत जागोच नासलो. तो गॅलरींत न्हिदतालो. थंय सकाळचें वोत येतालें. ते भायर भुरग्यांक शाळेंत पावोवपा पासत ताका बेगीन उठचें पडटालें.

भुरग्यांक शाळेंत पावयलीं काय बाजार घेवन घरा येवप. बाजारांत गेल्ल्यान ताका मोडकी तोडकी मराठी उलोवंक येऊं लागली. म्हयन्यांतल्यान एक दोन फावटीं वसंत ताका खंयचेय गिरणीत वा फॅक्टरींत व्हरतालो. थंय कोणय एकटो ताचें नांव -गांव विचारतालो, ताका कसलें काम करूंक येता अशे सादे एक दोन प्रस्न विचारतालो, आनी म्हणटालो, 'सद्या जागो ना. जागो जातकर तुका आपोवंक धाडटां हां, तितले सर तूं मराठी शिकून घे.' अशें म्हणून धाडटालो. पूण परत ताका थंयच्यान आपोवणें येय नासलें.

वसंताचे चाळींत एक सावंतवाडीचें कोंकणी उलोवपी कुटूंब रावतालें. तांगेर दत्तूच्याच वयाचे दोन तीन भुरगे आसले. दत्तुची तांचेकडेन इश्टागत जाली. ते विडयो वळून दिवपाचें काम करताले. तांणी दत्तूकय तें काम शिकयलें. चडसो दत्तू जेवले उपरांत दनपारचो मेकळो आसतालो. त्या वेळार दत्तू तांगेर बसून विडयो वळून दिवपाचें

काम करतालो. कितल्यो विडयो वळटात त्या प्रमाण पयशे मेळटाले.

तेळसांज जातनाच ताका घरा येवपाची ताकतीक आसताली. मात्सो जरी ताका येवंक वेळ जालो जाल्यार वसंताबायल ताका कचकचायताली. तिचें चडशें एकच वाक्य आसतालें, -'तुज्या गिळाक हें हें घालूं जाय, मात्सें कामाक हात बोट लायल्यार कितें जाता?' अशें तोंडाक येता तें ती बडबडटाली. वसंत घरा आसत तर थंडसायेन ताका उलयतालो. 'वयनीचें तापवप परवडलें पूण दादाचें उलवप नाका' अशें दत्तूक जातालें.

म्हणून तो तेळसांज जावचे पयलीं जितल्यो जाता तितल्यो विडयो वळटालो. ताका तंबाखू, शेनवत आनी सूप मेळिल्लें तें सगळें सामान बरें करून धांपून तांगेर दवरून दत्तू घरा येतालो.

केन्ना केन्नाय सुटये दिसा जयवंत ताका सकाळींच आपल्यागेर व्हरतालो. त्या दिसामात दत्तूची मजा आसताली. जयश्री वयनी ताका बरें बरें जेवणखाण दिताली. कसल्याच कामाक हात-बोट लावंक दियनासली. केन्नाय ताका घेवन तीं भोऊंकय वतालीं. चौपाटी राणीची बाग, नरिमन पोयंट, बूट घर, अशे जायते पळोवपा सारके जागे दाखयतालीं.

दत्तून जयवंताक काकुटेन सांगचें, - 'दादा, म्हाका, खंयी शिर्वीस पळे रे. हांव कसलेंय काम करूंक तयार आसां.' जयवंत ताका - 'हां, हां, पळेता हां.' म्हणटालो पूण खऱ्यानी ताचे खातीर शिर्वीस मात पळय नासलो. तो जाणा आसलो वसंतान ताका फुकट घोळूंक हाडला. तो ताका सिर्विशेक कसोच लावचोना. एकदोन फावट जयवंत वसंताकडेन उलयल्लो पूण जयवंत ताचे विचार आयकून वोग्गी रावलो. 'दत्तूक लागून पयस प्रांतांत भावाकडेन वायटपण नाका' म्हणून जयश्रीनच ताका वोगी बसयलो, आनी म्हळें, - 'हें पळयात, एकदां घरा गेल्यार तो कसोच परत मुंबय येवचोना. थोडे दीस ताका त्रास काडुनी. मदीं-मदीं आमी हाडटात न्हय ताका. जालें.'

जयवंतागेर येतकर दत्तू चड खोशी जातालो तो तांच्यो स्वतंत्रताय चळवळींतल्यो गजाली आयकून. मागीर दत्तून म्हणचें, - 'म्हाकाय गोंयच्या स्वातंत्र्य लढ्यांत वांटो घेवपाची उमेद आसा दादा. पूण... छे आमची आई पळे आसा, ती भिता हांव तुजेवरी नाच्च जायत म्हणून. पूण तूं परत आयलो काय ना? तें ती पळय ना. तिणें म्हाका बाबाचो, आपलो सोपूत घाला चळवळींत वच्चो ना म्हणून. पूण तुका सांगू दादा, आमचें घर मरे पोर्तुगेजांक बरें मागपी. तांकां ही स्वातंत्र्याची चळवळ बी कांय लागना. विठूकाका आनी शाणू काका, दोगांयचे चडशे इश्ट पोर्तुगीज. तांचे आड कितेंच कोणेच केल्लें तांकां आवडना. पूण दादा गोयां वतकच चळवळींत प्रत्यक्ष वांटो घेतलो ना तरी तांकां गुपचूप आदार करतलोंच हांव.'

- 'कर बाबा, पूण सांबाळून हां.'

विडयो वळून मेळिल्ले पयशे दत्तू वसंताकडेन दवरूंक दितालो. वसंत ताका केन्नाय कपडे, जोतें हाडून दितालो आनी हें तुज्या पयशांनी हाडलां हां म्हणून सांगतालो. गोयांत येतनाय ताणें ताका लग्नाक म्हणून नवे कपडे शिंवले, आनी 'हे तुज्या पयशांनी शिंवल्यात हां' म्हणून सांगलें. पूण एक पयसो ताच्या हाताक लायलो ना. आपले पयशे दादाकडेन उरतात म्हणपाचो अदमास दत्तूक आशिल्लो. ते पयशे मागून घे म्हणून ताणें घरा येतकर आवयक पिडली. पूण सिताबायन ताका वोगी केलो.

दत्तूक विडयो वळपाक शिकोवपी त्या इश्टांनी ताका विडयो वोडपाचीय दिक्षा दिल्ली. चडकरून रातचें उदक भरतकर तो आनी ताचे इश्ट बसून एक एक विडी ओडटाले, आनी हळूच येवन न्हिदताले. हें काम दत्तू इतले फिशालकायेन करतालो, दोनय भावांक ताणें आपूण विडी ओडटां म्हणपाची सुलूस लावंक दिली ना.

दत्तून विडयो वोडपाची गजाल सोडून थंय घडिल्ल्यो सगळ्यो गजाली आवयक सांगल्यो. सगळें आयकून सिताबायक सामकें

वायट दिसलें. तिणें उबगून म्हळें, - 'जाणा मरे दत्तू आमचें नशीबच अशें, तूं जोडीक लागतलो, आमची परिस्थिती सुदारतलो अशें हावें येवजिल्लें. पूण 'येवजिल्लें सादे जाल्यार आवदिसा कित्याक बादे?' काय म्हणटात तें फट न्हय. आमच्या नशिबांत देवतेन कितें बरयलां तीच जाणा.



पाड्या वेळार, खंडा वेळार आतां सिताबायकडेन पयशे येताले. सुमतीच्या लग्नावेळार काडिल्ल्या रिणाचे हप्ते पावोवन थोडे पयशे तिचे गांठीक उरताले. ते भायर कपयाळीं, गोजड्यो शिंवन घेवन ताराबाय तिका पयशे दिताली. तें पळोवन घरांतल्यो धुवोय आपल्या कोणाकोणाक दिवूं जाय अशें निमित्त करून तिचे कडल्यान मांडे, गोजड्यो, पोळरे, कपयाळीं. शिंवन घेतालीं आनी पयशे दितालीं. ते सगळे पयशे ती सांठोवन दवरताली.

तातुंतले थोडे पयशे काडून पुष्पाक एक सरपळी करून घाली. पुष्पा खोश्येन फुल्लें. निरा, राधा नित्याक गळ्यांत सरपळी घालतलीं. पुष्पाय आतां गळ्यांत सरपळी घालून मिरोवंक लागलें.

सिताबाय लावन पुसून संवसार करता तें पळोवन घरभर सगळीं तिची तोखणाय करतालीं. शाणू मात तिचेर कड्डूपाक निमित्तच सोदतालो.

घरा परत येतकर दत्तून घराच्या कामांत लक्ष घालें. शाणूचीं कामां करतना आवयन ताका शिटकायलो. पूण दत्तू मायेस्त. काकाचो मार तो केन्ना विसरिल्लो. ताणें आवयक म्हळें, -'आई, काका तो म्हजो, तापयलो, माल्लो म्हणून कितें जालें? हांव सोडपार ना ताका'.

- 'हांव तुका कोणाक सोड कोणाक धर म्हणून सांगना, कितें करता तें सांबाळून कर, मनशान खंय मागून खावचें, चोरून न्हय. एक फावट तें खत लागलें काय, कितेंय केल्यार तें वचना. गरिबी परवडली पुता, पूण लाचारी न्हय लक्षांत धर.'

सिताबाय चांटये पावलाक दत्तूक शिकवण दिताली. तिणें

आयकल्ल्या महाभारत, पांडवप्रताप, रामायण, हरीविजय अशा ग्रांथांतल्यो देखी ती ताका दिताली आनी आपणे कशें सांबाळून वागूं जाय तें समजायताली.

दत्तुचो सभाव मायेस्त तसो भावार्थी. ताका प्रत्येक जाण आपलोसो दिसतालो. सके पंचे ताचेकडेन नाशिल्ल्यान मुखावेलो मनीस आपल्याक फटयता हेंय ताका कळ नासलें. ह्या सभावाक लागून तो वचत थंय त्रासांत पडटालो. मुंडकाऱ्यांकडेनय तो खुबच मोवसाणेन वागतालो.

-'भाटकारा, हांव बोरो ना जालों. नाल्ल कोणे व्होयले कोळ्ळें ना.' इतलेंच सांगून मुंडकाऱ्यान देठ दिले ना जाल्यार ताका माफ करतालो. मागीर घरा येतकच सगळ्यांचीं उलोवणी खातालो.

सगळ्यांची कामा करुनय दत्तूक तांची उलोवणी खावचीं पडटात तें सिताबयक सहन जाय नासलें. पूण करतली कितें? दत्तू कांय गजालींत तिचें मातय आयक नासलो.

फाटले पडवेर सांजवेळच्यो बायलो जेन्ना गजालींक बसतालीं तेन्ना काकीबायन म्हणचें,

-'आगे सिताबाय तूं कितली शिटूक, हुशार. पूण तुजीं व्हडलीं दोगांय भुरगीं बापायचेर गेलीं. तांकां सगळींच बरीं दिसतात, सगळींच खरीं दिसतात. दत्तूतर दुसऱ्या पासत घस्टुचें म्हणून जाणा, तांणी कितलोय कचकचायलो तरी तांकां सोडचो ना.'

-'हय काकीबाय, पुष्पाकडेन तरी जायती शिटूकसाण आसा.' ताईबायन म्हळें.

-'विजे शिकयशें शिकयता हांव दत्तूक. पूण तो म्हजें खंय आयकता? वाडे वाडे अक्कल बुडे जायत आसा ताची.'

दत्तुच्या वयाचे चडशे भुरगे शिकूंक ना जाल्यार शिर्वीशेच्या निम तान गांवाभायर आसताले. कोणय एकाद्रो दत्तूवरी बेकार भुरगो गांवांत आसतालो. दत्तूचो वावर चडसो मुंडकाऱ्यां बरोबर जाल्ल्यान ताच्या

वयाचे भुरगे दत्तुचे इश्ट जाल्ले. कामा भायर तांचे वांगडा तो हांगा थंय हेडटालो.

दत्तूक मुंबय लागिल्ली विडयेची संवय सुटूं नासली. पूण घरांत विडी हाडपाची गती नासली. तांच्या घरांत चडशे कोणच सिगार विडी वोड नासले. विठूभाऊ मात केन्ना केन्नाय जेवल्या उपरांत एक सिगार ओडटालो. तोय ताचे पोर्तुगेज इश्ट ताका मोर्तालीचें पाकीट आनी तंबाखुचो पुडो दिताले म्हणून.

दत्तूक घरंत विडी वोडूंक मेळची ना हें बरें खबर आसलें. घरांतच कित्याक गांवांत खंयी रावन विडी ओडल्यार रोखडीच बातमी घर पावतली हें तो जाणा आसलो. म्हणून तो भाटांत वतना ह्या इश्टांबरोबर बसून विडी ओडटालो. मागीर तोंड निवळ करून विडयेचो कसोच वास येवचोना हाची जतनाय घेवन घरा येतालो.



18 जुनाक राममनोहर लोहियान गोयांत सुरू केल्ले चळवळी उपरांत गोंयभर एक वेगळेंच वारें व्हांवक लागिल्लें. जायत्या जाणाक स्वतंत्रताय चळवळीचो अर्थ कळिल्लो म्हळ्यार जाता. पोर्तुगेज आमचे सर्वे सर्वा समजुपी जायते जाण सुटके चळवळीकडेन ओडिल्ले. कांय जाणानी सुटके झुजांत वांटो जरी घेतलो ना तरी चळवळींतल्या लोकांक विद्वाटे, बेकार थवय, हाताभायर गेल्ले भुरगे म्हणून पाचारनासले. वयल्यान तिठ्यार पारार बसतकर हे चळवळीविशीं उलोवंक तांकां चेव येतालो. गांवगिच्या वाठारानीय सुटके चळवळीन जीव धरिल्लो.

दत्तू आपल्या इश्टांवांगडा रातचो नुस्तें दिपावंक वतालो. त्या वेळार क्रांतीकारकांक व्हड्यांत घेवन तांकां थारावीक जाग्यार पावोवपाचें काम ते करताले. तांचें सामानय पावोवपा आसल्यार ते पावयताले. दत्तुची वोड पयलींसाकुनच सुटके चळवळीकडेन आसली. आतां ह्या निमतान ताका आवडीचेंच काम मेळिल्लें. दत्तुच्या इश्टांक ते कोण कितें करतात कांयच खबर नासली.

हे खेपे दत्तून सामकी गुत्तताय बाळगिल्ली. चळवळींतल्या लोकांक गांवचे लोक जयहिंदवाले, जयहिंदीस्त म्हणटाले. व्हड्यांत येवपी हे लोक जयहिंदीस्त म्हणपाची सुलूस दत्तूच्य इश्टांक ताणें लाऊं नासली. व्हड्यांत ते जगावयल्यो खबरी करताले पूण चळवळी विशीं एक उतर काड नासले. इतली जतनाय ते घेताले. ते केन्ना केन्नाय व्हडेकारावरी काश्टी बांदून आनी खांदार कुडको उडोवन येताले. हातांत कपड्याची पोन्री पिशवी आसताली तितली. गरज पडल्यार पोंवून वचूंक बरें म्हणून ते हो भेस करतले.

सुट्ये दिसांनी घरचे भाचे, नातूय, दत्तूबरोबर दिपावणेक येताले. त्या वेळार ते दोन व्हर्डी करताले. तांच्या गांवचो आपा देसाय सशस्त्र चळवळीचो एक वांटेकर आसलो. ताच्या घराक तळघर आसलें. थंय तो क्रांतीकारकांक दवरतालो. थंय तांच्यो गुपीत बसका जाताल्यो दत्तून दिसा उजवाडे तांच्या घराकडल्यान पासयो लेगीत मारूं नये अशें तांचें थारिल्लें. फकत दिपावणेच्या निमतान तो तांकां आदार करतालो. जयहिंदिस्तांमदीं आसल्यार घरचीं ताका भोगसुचीं ना हें ताका खबर आसले.

पयले खेपे ताका काकान येतिश्ट पेट घाल्लो आनी दुसरेवेळा खाणीवेली गजाल आयकून सिताबायन ताका मारपाचोच दवरिल्लो. जोर आयिल्ल्यान तो तिच्या हातांतल्यान सुटिल्लो. सिताबायन ताका सांगिल्लें, - 'हे जयहिन्द वाल्यांचे बेकारपणाचे धंदे तुका नाका. परत तांचे मदीं गेल्यार तुका वोगी रावपार ना, कळ्ळें?'

आवयचो त्या वेळावेलो आवतार दत्तू विसरूं नासलो, म्हणून हे खेपे तो प्रत्यक्ष आंग दाखय नास्तना कोणाक कसलीच सुलूस लायनास्तना चळवळीचें काम करतालो. मडगांव, केप्यां वचून लेगीत तो रकाद पावयतालो.

ह्या निमित्तान ताच्यो खूब जाणाकडेन संबंध येतालो. वेळ बरो वतालो. पूण जोडपाचें नांव नासलें. सिताबायक हाचीच खंत जाताली.

पयलीं दत्तू घरचीं, भाटाबेसांचींच कामां पळयतालो. पूण आतां ताणें घरांत कोणाक कितें सामान जाय जाल्यार केप्यां मडगवां वचून हाडून दिवपाचें काम आंगार घेतिल्लें. तुकारामान सायकल हाडिल्ली. दत्तू घरच्या घरा ती चलोवंक शिकिल्लो. केप्यां वचूंक तो ती सायकल व्हरतालो. मडगवां लेगीत तो सायकलीन वचून सामान घेवन येतालो. हीं सगळीं कामा हरशीं तांचे मानाय करताले. पूण सायकल चलोवपाचे उमेदीक लागून दत्तून तीं कामा आपल्याचेर घेतिल्लीं. घरांतले दादले खोशी जाल्ले पूण सिताबायची चिंता वाडिल्ली... 'पोर म्हजो पयशांचो व्यवहार करता... कितेंय सकयल वयर जाल्यार दवरचे नात ताका...'



वडगांवातल्या सगळ्या भाटकारांचे नाल्ल, भात तांच्या गांवचोच वेपारी मधूकर देसाय घेतालो. आनी महाराष्ट्रांतल्या व्यापाऱ्यांक व्हरून विकतालो. तांचे ट्रक येवन भायले भायर वडगांवांतल्या सगळ्यांचे नाल्ल व्हरताले. त्या ट्रकवाल्यांकडेन दत्तून इश्टागत केल्ली. तांचे कडेन गजाली करपाच्या निमतान दत्तू तांच्या व्यापारा विशीं माहिती घेतालो. ते नाल्ल खंय व्हरतात, कितें करतात हे विशीं बारकायेन चवकशी करतालो.

हालींसरा ताच्या मनांत एक विचार घोळटालो. ताणें ताची सुलूस कोण्णाक लाऊं नासली. आवयक लेगीत. त्या ट्रकवाल्यांबरोबर ताणें कोल्हापूर वचपाचो बेत केल्लो. आवयक आनी विठूकाकाक ताणें सांगले, दोन दीस तांचेबरोबर वचून गांव पळोवन येतां.'

- 'तो बाबडो घरचे व्यवहार जाग्यार घालीत हांगाच घोळटा. वचुनी म्हळ्यार ताका. ताका आनी बाबड्याक दुसरो जागो खंय आसा.'

काकीबायन विठूभाऊक म्हळें. विठूभाऊन रोखडीच मान्यताय दिली. सिताबायक ताका एकटो अनवळखी जाग्यार धाडपाचो नासलो. पूण विठूभाऊ वयर ती कितें उलयतली. तिणेय अनमनतशें 'वचून यो,' म्हळें.

दत्तू कोल्हापूर वचून थंयच्च्या नाल्लाच्या व्यापाऱ्यांक मेळ्ळो. नाल्ला धंद्याची बारकोयेन चवकशी केली. ट्रकाच्या ड्रायव्हरान ताका कोल्हापूर भोंवडावन दाखयलें. मागीर बेळगवां व्हरून आगगाडयेंत बसयलो. सावड्ड्या देंवन तो घरा आयलो.

मोठे उमेदीन तो घरा आयलो. मुंबय उपरांत ताणें पळयल्लें व्हडलें शार तें कोल्हापूर. मुंबयचो दर्या पळोवन ताचे दोळे अजापान मोठ्ठे जाल्ले. ताचे पयलीं गोयांत तो चडसो खंयच भोऊं नासलो. ताका लागून दर्या ताणें पळोवंकच नासलो. मुंबयच्या दर्यान ताका आजापान उडयल्लो तेंच आजाप ताका कोल्हापुरचो 'रंकाळ्याचो तलाव' पळोवन जालें. गांवांत येतकर कितलोच तेप हीं अजापां तो घरच्यांक गांवच्या इश्टांक सांगतालो. ताचे खोश्येंत घरचींय वांटेकार जाल्लीं.

सिताबायची खोस मात रोखडीच पालवली. दत्तून तिका आपूण कित्याक कोल्हापुराक गेल्लों तें सांगलें, -'जाणा आई, हावें नाल्लाच्या व्यवसायाची सगळी माहिती घेतल्या. तेन्ना तूं कांय भिऊं नाका. हांव विठूकाकाकडेन उलयतां. आमचे नाल्ल त्या मधुबाब देसायाक दिवचेपरस सुर्वेक हांवच कोल्हापुरच्या व्यापाऱ्यांक व्हरून विकतां. मागीर हेर कडच्या व्यापाऱ्यांक नाल्ल व्हरून दिवूं येता.' अशें आनी जायतें कितें कितें सिताबायक सांगलें. पूण सिताबायचें लक्ष ताच्या उलोवण्याचेर मातय नासलें.

तिच्या पोटांत भंयान गुळो आयलो. कांयच उलयनास्तना ती उठून परसाकडेन गेली. आतां तिच्या मनांत एकच विचार घोळूं लागलो... 'दत्तू नव्या संकश्टांत उडी घेना मू... हो चलो म्हणून कितेंच म्हजें आयकून घेवचोना... आपल्या वाद्याचो खंयचो... एक तर वादयांव कसो भोंवतलो ना जाल्यार असलें कितेंय करतलो...'

आपलें दत्तू एक उतरय आयकून घेवचो ना, हें खबर आसुंनय ती आपले भशेन ताका आडावपाचो यत्न करूं लागली. पूण दत्तू धंदो करतलों म्हणून हटूनच बशिल्लो. निमणे तिणे, 'विठूकाकाक विचार,

ताणें हय म्हणल्यार मुखार सर.' म्हणून सांगलें.

दत्तू रोखडोच विठूकाका म्हऱ्यांत गेलो. विठूकाकान ताका धंद्याविशीं बारीक सारीक प्रस्न विचारले. दत्तुकडेन जापो तयार आसल्यो. विठूकाकान ताका मान्यताय दिली, आनी सांगलें, - 'पयलीं फकत आमचे घरचे नाल्ल वीक. सुरवेक लोकांचे नाल्ल घेवनाका. तुजेर हात बसतकर धंदो वाडय.'

विठूभाऊन जरी दत्तूक मान्यताय दिल्ली तरी ताचो चलो तुकाराम धरून घरांतल्या हेर कोणाकच दत्तूचो हो धंदो करप मान्य नासलें. आपले नाल्लय ताका दिवंक ते तयार नासले. पूण विठूभाऊन सगळ्यांक समजायले. मधू देसायाक आपोवन ताकाय समजावन सांगलें.

मोठे उमेदीन दत्तू धंद्याक मुखार सरलो. सिताबाय मात चिंतेच्या भारान बागवली.

तिणें शांतादुर्गा, चंद्रेश्वर मंगेशाकडेन साकडें घालें. उपास तपास सुरू केले. तिची आकूळ, पिकूळ अवस्था पळोवन भितल्ल्या घरांतल्या बायलांनी तिका धीर दिलो. पूण तांचो धीर कितलो पोकळ तें सिताबायक कळटालें, आनी तांकांय खबर आसलें.

तसो घरभर सगळ्यांकच हुस्को जाल्लो. 'हो आमचे नाल्ल बुडयना जाल्यार पुरो' अशें सगळेच मागताले.



डिसेंबराच्या पाड्याचे नाल्ल दत्तून मोठ्या उमेदीन कोल्हापुरच्या वेपाऱ्याक धाडले. त्या दिसांनी थंय नाल्लाचो प्रेस सामको देंविल्लो. फायदो सोडच आपल्या नाल्लांचे पयशे घालून दत्तून घरच्यांचे पयशे दिले. दर पाड्याक सिताबायक मेळपी पयशांतल्यान ती रिणाचो हप्ते दिवन, घरखर्चाचे पयशे दवरुनय उरिल्ले थोडे पयशे पेटलांत जमयताली. हे खेपे रिणाचो हप्तो सोड खर्चाक लेगीत पयशे मेळ्ळे नात.

पयलेच खेपे दत्तूक मार बसलो. तरी ताची उमेद सोपूं नासली. पूण आतां घरांतले लोक ताका नाल्ल दिवंक तयार नासले. तरी दत्तू ना उमेद जालो ना. ताणें माया पाड्यावेळार खोबरेल तेल काडून विकपाचें थारायलें. ह्या वेळार सिताबाय परत उलयली, -'आतां कितें तेल बील काडपा पळे तें आमच्याच नाल्लांचें काड. घरांतल्यांचे नाल्ल घेवूं नाका. चंद्रेश्वर समजून पायां पडटां तुका बाबा. एकदां तरी आयक म्हजें.'

हे खेपे विठूभाऊनय ताका सांगलें, - 'बाब रे, हे खेपे तुज्याच नाल्लांचें तेल काडून तूं वीक. बरो फायदो जावनी तुका. मागीर आमीय दितात तुका नाल्ल.

घरांत खावपा पुरते नाल्ल दवरुन दत्तून उरिल्ले सगळे नाल्ल फोडून घेतले. घरचे मानाय, दोन-चार मुंडकारी हांकां हाताक धरून दत्तून खोबऱ्याचो वावर सुरू केलो. विठूभाऊन घरांत सगळ्यांक सांगलें, अंदू तुमी कोणच तेल काडनाकात. आमी दत्तूचें तेल विकतें घेवया.'

शाणू सोडून सगळ्यांनी दत्तूक गिरायक घालें. त्या वर्सा पावस बेगीनच आयलो. दत्तूक तेलाकय जाय तशें गिरायक मेळ्ळें ना. ताणें कार्रेरीर घालून तेलाचे डबे मडगवां व्हेलें. थोडें गिरायक जालें, ना अशें न्हय, पूण फायदो मातय जालो ना.खर्च तितलो सुटलो. थोडें तेल उल्लें. ... 'आसूं चवथीकडेन खपतलें... ताणें आपल्याच मनाक समजायलें. पूण तेलाक खवंट वास येऊं लागलो. तेल निमणें देवाच्या दिव्यांक वापरचें पडलें.

दत्तुचो होय धंदो सिताबायक नुकसानांत घालून गेलो. सिताबायन पै-पै करून जमयल्ले पयशे मोडून तिका दीस सारचें पडले. घरांत ती भरपूर काटकसर करताली. चुकना असोच खर्च ती करताली. पूण चवगांमदीं तिचेर खर्चाचो जो वांटो येतालो तो कसोच चुकय नासली. वर्साक एक फावट कपडे हाडपाची तांची रीत. ती फकत दत्तूक आनी पुष्पाक कपडे हाडटाली. आपूण जावांचीं अर्द पोन्नीं

पातळां गोजड्यांक म्हणून मागून घेताली आनी, 'आगे तुजें पातळ बरें आसा, दोन दीस न्हेसतां' म्हणून सांगून दोन तीन म्हयने न्हेसताली.

घरांतल्यांची धुवांगेर वजीं धाडपाचीं खाणां सिताबाय करताली. त्या वेळार सगळीं आपलें थोडें थोडें खाण तिका सुमतीच्या वज्याक धाडपाक दितालीं. सिताबायचो वज्याचो भार अशे तरेन भायलेभायर सुट्टालो. तांच्या नंडांक मात ताईबायच वजीं धाडटाली. घोव कितलोय फडफडूं ती ताचेकडल्यान सामान हाडून घेताली आनी सिताबाय कडल्यान खाणा करून घेवन धुवेक आनी नंडांक वजीं धाडटाली.

अशे तरेन सगळेकडेन काटकसर करत जगपी सिताबायक दत्तू धंद्या निमतान पोखरतालो. परत आनी दत्तून खंयच्याय धंद्यांत पडूं नये म्हणून सिताबाय सगळ्या देवांक होरांवक लागली.

ती घरांत आयिल्ल्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक दत्तूक खांयी शिर्विसेक लायात म्हणून फाटीक लागताली. सगळे तिका तोंडार 'हां हां' म्हणटाले आनी वताले. पूण दत्तुचे उद्देग पळोवन 'हाका आनी कसले शिर्विसेक लावप, हो एका जाग्यार टिकल्यार मू? ' अशें सगळीं सिताबायचे असवडीं उलयतालीं.

नुस्तें दिपावपाक वतना ते ल्हानशें जाळें व्हरताले. तें कशें विणप तें दत्तून शिकून घेतलें. ताणें मडगवच्यान तसलें सूत हाडलें आनी जाळी विणूक लागलो. त्या जाळये बदला ती वापरपी मनीस ताका नुस्तें दितालो. दत्तूक तितलेंच पुरो जातालें. आपूण सुताक पयशे वगडायतां हाची ताका खंत नाशिल्ली.

एक दीस ताच्या एका इश्टान म्हळें, - 'आरे इतले पयशे वगडावन तूं सूत हाडून जाळी विण्टा. ती केप्यां व्हर कोणय विकती घेतलो. तुका कितेंय पयशे मेळटले.'

दत्तूक ताची सांगणी पटली. केप्यां ताच्यो कोणाकोणाक्डेन वळखीय आसल्यो. ताणें पयलीं कोणाक जाळी जाय हाची चवकशी करप आनी मागीरच जाळी करप. हातूंत कश्ट चड आशिल्ले खरे, पूण फाविल्ल्या

वेळार दत्तू जाळयो करतालो. ताका चार पयशे सुटूं लागले.

कसलोय तरी धंदोच करप पूण कोणाची शिर्विस करचो ना. अशेच विचार ताच्या मनांत घोळटाले. पूण ताणें आवयक कांयच सांगलें ना.



## 15

दत्तूचो एक्कय धंदो चड काळ चल नासलो. सिताबायच्या उतरांनी सांगप म्हळ्यार पयशांचो तो गोबर करतालो. तरी ताच्या मनांत नवे धंदे करपाचे विचार येत रावताले. ताणें नव्या धंद्या विशीं उलयतनाच सिताबायचें काळीज धडधडटालें. तिणें देरापसून वेगळी जायत साकून जमयल्ली पुंजी दत्तून धंद्यांत काबार केल्ली. तिणें जावेकडेन उबगुचें, - 'जाणा ताईबाय, नाक वयर करून जगतलें म्हळ्यार हो पोर म्हाका जगूंक दिवचो ना. ह्या व्हडल्या घराचे पोकळ वांशे म्हज्याच वांट्याक कित्याक आयले काय म्हण्टां हांव. पयलीं बापायन कांयच हातपांय हालयले ना, त्या काळार तांचें पचून गेलें. आतां पूत जे हात पांय हालयता ते नाकारे देवा म्हणपाचो वेळ आयला. मूळ आनी ताळ नाशिल्ले धंदे करूंक भायर सल्ला. हांव केंसान कणयो पुंजायतां आनी हो फूक मारून सगळें ना करूंक भायर सल्ला. बरे भशेन जगुंकच दिवचीना दिस्ता देवता म्हाका.'

-'सिताबाय अशी उबगूं नाका. तुज्याय आयुश्यांत अमृतवेळ येतली. जातली तुजीय फांतोड. फांतोड येवचे पयलीं खंय काळोख किट्ट काळो जाता, मागीर दीस फांकूक लागता. येतलो तुजोय अमृतवेळ.

जाव आनी कल्याण दोगाजाणाकडेन सिताबाय आपलें मन मेकळें

करताली. आनी तिका दुसरो जागो नासलो. पयलीं काकीबायकडेन ती आपले कसलेय प्रस्न घेवन वताली. पूण आतां ती जाण्टी जाल्ली. तरी तिचो सिताबायक धीर दिसतालो.

तांच्या घरांत पुरूमेता तयारी करपाचो व्हडलो बोवाळ आसतालो, धुवांगेर, सोयऱ्यांगेरय वजीं धाडपाची तांकां उमेद आसताली. पापड, वडयो, तरेकवार लोणचीं, शेवयो, सांडगे, दोणांतल्यो आंबल्यो, उकड आंबे कितें आनी कितें म्हणून ना. सगळें घरांत तयार करतालीं. वयल्या वाड्यावेलीं चार-पांच घरां दीस थारावन एकामेकागेर वचून हीं कामां करतालीं. सुटयेंत आयिल्ल्यो धुवो, नातरांय हात-बोट घालतालीं.

मिरसांगो, हळद हांचो वानार धोडावन पिठो करतालीं. पिकेर हुडीद हाडून म्होवण लावन सुकोवन दवरतालीं. पापड करूं जाय तेन्ना दोन दातीं मांडून बायलो दळटाल्यो. ह्या सगळ्या कामाक मुंडकाऱ्यांच्यो बायलो येताल्यो. आठ-धा दीस तांगेर रावन हीं कामा पुराय करून वताल्यो. तांचे कडल्यान हीं सगळीं कामा सारकीं करून घेवपाचें काम पयलीं काकीबाय करताली. आतां तें सिताबायन हातांत घेतिल्लें.

'पापडां पिठी, वडयांपिठी कालोवची तर सिताबायन'. अशें तांगेरच न्हय तर वयल्या वाड्यावेल्यो सगळ्यो बायल्यो म्हणटाल्यो. तिचो अदमास दीस्त आसतालो. तांगेर पापडच चार तरांचे करतालीं. जाण्ट्यांक तारवटी मिरसांगाचे थोडयांक हरव्या मिरसांगांचे, भुरग्यांक, पथ्यकारांक मिरयाकणांचे. इतल्यार जालें ना, दांगरे सगळ्यांक जायच आसताले.

लोणच्या मेथो करपाक घरचीं भायलीं सगळीं सिताबायक रावतालीं. थोड्या मेथ्याचे सुक्के लाडू ती करून बुयांवांत घालून पुरुमेताक दवरताली. मागीर आमले लोणचें सोंपलें काय बिमलां, आंवाळे, करमलां कितें मेळटा ताचीं लोणचीं करून दवरताली. चड करून धुवाळकान्नीक हीं लोणचीं करून घालतालीं. तांच्या मुंडकाऱ्या बायलो लेगीत, भाटकान्नीक सोदित मागीलदारांत येवन म्हणटाल्यो,

- 'भाकान्नी सून धुंवता, इदें नोणचें आसल्यार दी.'

भाटकान्न मागीर दोण्यात घालून फकत लोणच्याचीच आमली न्हय तर दोणांतल्याय चार पांच आंबल्यो केळी शेनवतांत बांदून दिताली.

सिताबायन सगळ्यांचे पापड, लोणचीं करून दितकर तिका वेगळो पुरूमेत करचो पड नासलो. घरांतलीं सगळीं तिका आपले म्हणून पांच-धा लोणच्या आमल्यो, एक एक पापडां कवळी दितालीं. त्योच तिका चड जाताल्यो. वाड्यावेल्या लोकांकडल्यान मात ती कांयच घेय नासली.

सुमतीगेर लोकानी केल्ले पापड लोणचीं कोणाक आवड नासलीं. सुमतीची मांय सगळे पुरुमेंता सामान करपाक फिशाल आसली. तिणें सुमतीचें पयल्या वर्साचें पुरूमेतावजें घेतिल्ले आनी मागीर सिताबायक वजें धाडूं नाका म्हणून रकाद धाडिल्लो. सिताबायच्या तकलेवेलो एक पेज देंविल्लो.



तांच्या घरांत आनी सुभद्रागेर पुरूमेंताचो चड बोवाळ आसतालो तो विठूभाऊगेर. ताका वजें विजयागेर धाडपाचें आसतालें खरें, पूण ताचे किरीस्तांव इश्ट मित्र खूब आसले. तातूंत तीग जाण ताचे सामके जिवाचे. दर वर्सा नवे विंञ हाडून तांगेर तो सगळें पावयतालो. चवथीक खाणाचें वजें तो धाडटालो. ते चवथीक विठूभाऊक भाजी फळां घालून वजें धाडटाले, फेस्ताक दोनेक पायल्यो सुमार भाजील्ले चणे आनी काडयो बडयो धाडटाले.

लोणच्याक, दोणांत घालपाक आनी उकडआंबे करपाक तांचे खास आंबे राखून दवरिल्ले. लाकडाचीं व्हड-व्हड दोणां फाटले पडवेर दवरिल्लीं. तातूंत भरून आमल्यो, आमाडे, आंवाळे, काराना खळाक घाल्लीं आसतालीं. हीं खास गावच्या लोकांपासत तांच्या मुंडकाऱ्यां पासत आसतालीं.

तांगेर भाटांत भिंडी खूब. ताचीं सोलां करप, आगळांतल्यान काडप

आनी सुकोवपचो व्हड वावर आसतालो. पावसा पयलींचे दोनेक म्हयने सुमार तांगेर मुंडकाऱ्या बायलो येवन हे असले वावर करतालीं. भिंडाच्यो बियोमात तीं भायर उडयतालीं.

सिताबायच्या कुळार शिवड्यां बा भिंडेल काडटाली. तें सिताबायन बारिकसाणेन पळयल्लें. तिणें जेन्ना घरा रासभर भिंडा बियो भायर उडयतात त्यो पळयल्यो, तेन्ना तिका सामकी वास दिसली. कुळारा गेल्ले वेळार ती बा कडेन भिंडेल काडपक सारकी शिकली. आनी घरा येवन मांयांची मान्यताय घेवन मुंडकाऱ्यांक भिंडेल काडूंक शिकयलें. भिंडेलाचे धवेफुल्ल गुळे ती करताली. तांची सोयरींच न्हय तर गांवचे लोक लेगीत सिताबायकडल्यान पथ्याक तेल जाय जाल्यार भिंडेलागुळे मागून व्हरताले.

काकीबाय सिताबायचे सगळे व्यवहार पळोवन अपुरबायेन तिका म्हणटाली, - 'सिताबाय तुका अन्नपुर्णा म्हणून नांव दवरपाचें. कितें हातांत घेता तें तूं बरेंच करता, जीव वोतून तूं करतागे, पानार बशिल्ल्यान तृप्त जावन उठचें इतलीच तुजी इत्सा. खरी अन्नपुर्णा सोबता तूं.'

काकीबायन तिका दवरिल्लें अन्नपुर्णा नांव सिताबायन खरें केल्लें.

घरांत कोणालेंय कसलेंय कार्य आसूं, खाजेकारा वांगडा सिताबाय वावुरताली. कसलीं कसलीं खाणा आनी तीं कितलीं जाय हें एक फावट तिका सांगल्यार पुरो आसलें. ती व्यवस्थीत करून घेताली. कोणागेरय देवस्पण, श्राध्दां, कसलींय कार्यां आसलीं काय रानप्यां बरोबर सिताबाय घोळटाली.

-'सिताबाय तूं म्हणून म्हजें सगळें काम जाग्यार घालें गे बाये, तुजे कशे उपकार मानूं कळना.'

मागीर सिताबाय खळखळून हांसताली. आपणे हांसप आनी मुखावेल्याक हांसपाक लावप हो तिचो सभाव जाल्लो. दुःख चिंता हुस्के तिची फाट सोडनासले. तरी तिच्या तोंडार सदांच एक हांसो आसतालो आनी ओंठार कवना. तिचो हांसो दुसऱ्याक उमेद दितालो.

तिणें म्हणचें, - 'दुःख दवरचें मनात आनी हांसो वांटचो जनांत' ह्याच तत्वान ती वागिल्ल्यान सगळ्यांक जाय-जायशी दिसताली.

-'कितलें काम करता पापणी.' अशें कोणेय म्हळ्यार ती मुमुरख्यानी म्हणटाली, - 'म्हज्यान कोणाक पयशांनी आदार करूं नज, हांव कश्टांनी जाता तो आदार करतां. फाल्यां म्हज्या कार्याक तुमीच उबीं रावूं जाय. म्हाका आनी कोणाचो आदार ना.'

खरें आशिल्लें सिताबायचें. तिचेर कितले प्रसंग आयले, त्या त्या वेळार घरच्या मनशांनीच तिका आदार केल्लो. तिचें जिवाचें आशिल्लें तें कल्याण. जायत्या प्रसंगार तिका ताचोच मानसीक आदार मेळ्ळा. बा वचत साकून कुळार तशें तिका पयसच जाल्लें. कसल्याय बऱ्या वायट प्रसंगाक तिचीं कुळारचीं येवन वतालीं तितलीं. पूण काळजाचे घाय तिणें पचयले ते कल्याणाच्या खांदार तकली दवरून. वावराडी जावन लेगीत सख्खे भयणी वरी ताणें सिताबायची फाट राखण केल्ली.



शाणूच्या सोमनाथान आदोगासीचें शिकप पुराय केल्लें. मडगांवच्या आदोगाद सिल्वाकडेन तो सराव करपाक राविल्लो. सोमनाथाचें शिकप पुराय जावचे पयलींच ताका सोयरिको येताल्यो. पूण ताणेच बापायक सांगिल्लें, 'बाबा इतले बेगीन कशेंच सोयरिकेचें नांव काडूं नाका, म्हाका बरेभशेन शिकप पुराय करूनी.'

ताणें आदोगासीचो सराव करपाक सुरवात करतकच परत चलयेकार सोयरिको घेवन येऊं लागले. ताईबायचो बापोलभाव दादा मुळगांवकार. ताची चली गौरी गोरी धवी सोबीत बावली कशी. मॅट्रीक मेरेन शिकिल्ली. म्हापशां मराठी शाळेत शिकयताली. तांचो घराबो 'नॅशनल कॉंग्रेस-गोंय' फाट्यापासत काम करतालो. गौरीय तातूंत वांटो घेतालें. चरख्यार सूत काडप, खादी कपडे घालप, बायलां मदीं स्वतंत्रताय चळवळीविशीं जागृताय करपचो वावर तें करतालें.

शाणूक सुटके झुजारी दोळ्यामुखार नाका आसले. चळवळींत काम

करपी चली म्हणून ताका गौरी मातय मानूं नासलें. शाणूचे धाकले भयणीक इंदूक भावाचो सभाव खबर आसलो म्हणून आपले धुवडेचो फोटो हाडून ताईबायकडेन दिलो. हे सोयरिकेक इंदुनच आपल्या बापोलदेराक मुखार काडिल्लो.

तो फोटो पळयताखिणी सोमनाथाक आवडलो. ताणें आवयक आपली पसंती सांगली. ताईबायन काकीबायकडच्यान विठूभाऊच्या कानार हे सोयरिकेची गजाल घाली. मुखावेलीं सुत्रां विठूभाऊन हालयलीं. शाणूचो विरोध कोणेच कानामनार घेतलो ना. तो आपले भितर फडफडत रावलो.

सोमनाथाच्या लग्नाचें थारायतात तें पळोवन सिताबायचो जीव तीळ-तीळ तुट्टालो. तिचो दत्तू सोमनाथा परस एका वर्सान व्हड. सोमनाथ आदोगाद जावन जोडपाक लागिल्लो. आतां ताचें लग्न थारायतात. तिच्या मनांत विचार येतालो... दत्तुचें अजून खंयचेकडेन कांय ना... लाखाचे बारा हजार करपाचे धंदे मात तो करता...'

गौरीचो घराबो सुटके झुजारी हें कळनाफुडें दत्तूक खोस जाली. तिचे वांगडा आपुणय उघडपणान सुटके चळवळींत पडटलों, अशें ताणें थारायलें. पूण शाणून पयलींच बायलेकडल्यान सुनेक रकाद धाडिल्लो, -'ते कुळारचे थेर हांगा कोताक येवचेना म्हणून सांग तुजे सुनेक.'

सोमनाथाक मडगांवच्या बिराडारच संवसार थाटून दिल्लो. थंयच आशिल्ल्या गोवा सेवा संघांत गौरी वताली आनी काम करताली. मांवाची सांगणी तिणें कानामनार घेऊं नासली. सूत काडप, प्रभात फेरयो, सभा, सगळ्यांत ती उमेदीन वांटेकार जाताली. दत्तू तांगेर गेल्ले वेळार ह्याच विशयाचेर दोगांयच्यो गजाली रंगताल्यो. सोमनाथय तांच्या गजालीनी वांटो घेतालो. गोवा सेवा संघाचो फांटो सावड्ड्याय जाल्लो. गावां गावांत लोकांमदीं गोयचे सुटके विशीं जागृताय करपाचें काम हे लोक करताले. तांचीं पत्रकां रकाद सावड्ड्या पावोवपाचें

काम गौरी दत्तूकडल्यान करताली.

वडगांवच्या लागसारच्या ल्हान ल्हान गांवांनी ह्या संघाचे फांटे आसले. थंय कसलींय निमतां काडून वचून दत्तू रकाद, पत्रकां पावयतालो. आपलो कोणाकच दुबाव लेगीत येवचोना हाची जतनाय घेवन हें सगळें करतालो.

इतलीं सगळीं कामा दत्तू निगुतीन करतालो, पूण पयशे जोडपाचें काम मात करनासलो. फकत धंदो करप हेंच ताणें मनांत घेतिल्लें आनी ते पासत ताचे कितें कितें उद्देग चालूच आसताले.

सिताबायक आतां दत्तुच्या लग्नाचे वेध लागिल्ले... 'वेळच्या वेळार लग्न कारण जाल्यार, दादलेमनशाचें लक्ष हांगा थंय वचना... पूण..दत्तूक कश्यो सोयरिको येतल्यो? बेंसा भाटाक पळोवन सोयरिको येवपाचे म्हजे वेळावयले दीस गेले आतां... सद्या न्हवरो जोडटा काय ना तें पयलीं विचारतात, शिकलो कितें ताचीय चवकशी करतात... कितें म्हणून करप हावें, हो अवचिन्न म्हजें कांयच आयकना...'

ताईबायन तिका धीर दिवचो, 'हांतुतल्यान मार्ग मेळटलो तुका सिताबाय... आसा तुजी देवता. तुजेय जिणेचो अमृत वेळ येतलो... फांतोड फुलतली तुजी...'



सिताबायन खूब विचार केलो. तिका आतां कांयच येवजना जालें. तिणें परत धाकट्या भावाक आपोवंक धाडलो. ताच्या हाता पांयां पडून दत्तूक परत खणीर कामाक व्हरूंक सांगलो. हरिदत्तान हे खेपे भयणी मुखारच दत्तूक सांगलें, - 'पळे दत्तू, हे खेपे प्रामाणीकपणान काम कर.. तुजे ते सुटके झूजाचे उद्देग थंय रावन करूं नाका. पयलीं आपल्या पांयार उबो राव, लग्न कारण कर, मागीर तुका जाय तें कर. आनी दुसरें, सद्या म्हाका थंय वयल्या जाग्यार कामाक दवरला. थंय तुवें कितेंय केल्यार तुजे वांगडा म्हजीय नोकरी वतली. तुका नोकरी ना जाल्यार तूं उपाशीं पडचो ना, तुमी व्हडले भाटकार, म्हजें तशें ना.

म्हाका बायल भुरग्यांसयत उपाशीं मरपाचो वेळ येतलो.'

सिताबायन दत्तूक पयलींच सांगिल्लें, - 'बाब शिर्वीस केले बगर तुका कोण चली दिवपार ना.' दत्तून आवयचें उतर लक्षांत घेतिल्लें. तोय लग्नाचें सपन पळयतालो.

तो मामा बरोबर खणीर वचूंक तयार जालो. हे खेपे आपूण बरे भशेन शिर्विस करतलों म्हणून ताणें मामाक उतर दिलें.

हे खेपे ताका खणीर हिशेब पळोवपाचें काम मेळिल्लें. हिशेबांत तो फिशाल. तो उमेदीन कामाक लागलो. दत्तूक तशे व्हडले पयशे मेळ नासले. पूण सिताबायक इतलीच खोस जाल्ली, दत्तू व्यवस्थीत नोकरेक लागिल्लो. एका जाग्यार थीर जाल्लो.

दत्तू शिर्विसेंत थिरावला तें पळोवन काकीबायन सिताबायक म्हळें, 'आगे आतां ताच्या लग्नाचें पळे, वय पयलींच वाडलां ताचें.' सिताबायच्या मनांत होच विचार घोळटालो.

सिताबाय दत्तूक लग्न करूंक सोदता तें पळोवन तांच्याच वाड्यावयल्या कुंकळ्येंकाराचे व्हडले सुनेन आपल्या भावाले चलयेची सोयरीक हाडली. तिच्या भावाची परिस्थिती व्हडलीशी नाशिल्ली. ताका दोन पूत आनी एक धूव. काणकोणा चावडेर तांचो पसरो आसलो. व्हडलो पूत बापायबरोबर त्या पसऱ्यार वावुरतालो. दुसरो पूत शिकिल्लो तो कुंकळ्ळें शिकयतालो. थंयच ताणें बिराड केल्लें. काणकोणचे कोणय भुरगे, शिकपी, शिर्वीस करपी सुर्वेक ताच्या बिराडार रावताले.

वसुधा चवथी मेरेन शिकिल्लें. काळसावळेंच पूण नाका दोळ्यान शिरवंत. कामाधंद्याक वाग. ताचें घरचें भाट, कुळागर, काजी हातूंत कामेऱ्यां बरोबर तेंच वावुरतालें. तांचेर लक्ष दवरपा निमतान तांचे बरोबर घोळटालें.

सिताबायक आनी घरांत सगळ्यांक चली मानवली. चालंत भांगर तितलें भाव घालतलो म्हणून कुंकळ्येंकाराले सुनेन पयलींच

सांगिल्लें. भांगराचेर सिताबायन कांयच हरकत घेतली ना. तिका पुताचो संवसार चालीक लावपाची ताकतीक लागिल्ली. तिणें लग्नाकय मात्सी ताकतीकच केली. दत्तूविशीं कोणय खरें-फट कितेंय सांगून सोयरीक मोडत हाचोच तिका हुस्को जाल्लो. दत्तू वयानय वाडिल्लो. ताका अठ्ठावीस पुराय जाल्लीं. ताच्या बरोबरच्यांचीं लग्नां जावन तांगेर भुरगीं बाळां जाल्लीं. दत्तुच्या जोडीचो प्रस्न हुमकळत आशिल्ल्यान सिताबाय ताच्या लग्नाक मुखार सर नासली.

रायुदादाची जोड नाशिल्ल्यान आपूण पै-पयशाक लेगीत कशी पातीशेर जाल्ली आनी घरांत कितें कितें आयकून घेवचें पडलें हें ती कशीच विसरूं नासली. म्हणून दत्तूचें शिर्वीसेचें जाग्यार पडटकीर तिणें ताचें लग्न थारायलें. सोंपत्या मायाक ताचें लग्न केलें.

ह्या लग्नाक तिका सुनेक भांगराचो एक नग न्हेसणां आनी हेर खर्चाक रीण घेवचेंच पडलें. तांच्या घरांतली सगळींच आतां पयशांनी ताण जाल्लीं. ताणीच तिका हातउसणे पयशे दिले.

सिताबायन वेगळीसरून आपल्या भुरग्यांच्या शिक्षणाचो घात केल्लो म्हणून शाणू अजून तिचेर राग धरून आसलो.

दत्तूचें यजमानपण करूंक सांगल्यार ताणें पांय दुखता म्हणून निमित्त करून पायांक पाप लावन बसलो. ताईबायक घोवाचीं फटिंगपणा पळोवन खूब वायट दिसलें. ताका फुसलावपाचो तिणें जायतो यत्न केलो. निमणें हरीन आनी ताराबायन दत्तुचें यजमानपण केलें. वसुधा रमाबाय जावन शिरवयकारागेर आयली. सिताबायन मनांतच म्हळें, 'आतां म्हज्या संवसारान कूस परतिली. पळोवया व्हडें खंय पावता तें?



## 16

सात-आठ वर्सां जायत आयिल्लीं, दत्तू खणीर काम करतालो. तो एका जाग्यार स्थिरावला हातूंत सिताबाय खोशी आसली.

दत्तुच्या लग्नाक सात वर्सां सोपिल्लीं. तागेर दोन भुरगीं जाल्लीं. पयलो चलो. ताका आज्याचें नांव दवरिल्लें. पूण रामचंद्र म्हणून उलो मारपाक नाका म्हणून राजू म्हणटालीं. चलयेक दुर्गा नांव दवरिल्लें. दोगांय नातरांची अर्थअपुरबाय करतना सिताबायक आपले त्रास ल्होव जाल्लेवरी दिसतालें. कश्ट ती आतांय करताली. घरभरच न्हय तर वयल्या वाड्यावेल्याय घरांतय ती आदाराक वताली. केन्ना केन्ना खाणांय करून दिताली. गोजड्यो कपयाळीं केल्यार आतां तिका घरांतलीं लेगीत सुताक म्हणून निमित्त करून पयशे दितालीं.

हे कश्ट ती उमेदीन कराताली. पयलीं भायले चवखेर बायलो बसप सोड भुरग्यांक घेवन उब्यो लेगीत राव नासल्यो. तुळशी मुखार दिवो लावंक, सणा-परबेक वाडूंक तितल्यो बायलो भायर वताल्यो.

आतां जाण्टो आशिल्लो एकटो विठूभाऊ. ताणेच बायले कडच्यान रकाद धाडलो, भुरग्यांक घेवन फाटल्या आंगणांत बसचे परस चवखेर येवन बसात म्हणून. गणपती पुजपाचे चवखेर दादल्यांक मेज, कदेलां आसलीं. हे वटेनचे चवखेर आतां बायलो भुरग्यांक घेवन, शिवणसूत

करूंक, तांदूळ, कड्डुण वेचूंक बसताल्यो. पूण तोंडांतल्यान आवाज काडूं जायना आसलो. तांच्यो खबरी रंगताल्यो त्यो रांदचे कुडींत आनी रातच्यो जेवण जातकर वासरेंत बसून.

तांच्या खबरांक अमुकच विशय जाय म्हणून नासलो. पयलीं काकीबाय सगळ्यांक विनोद सांगून हांसयताली, आनी आतां सिताबाय. विनोदी गजाली सांगतना कोणाकोणाचे दिस्ता दीस्त आवाज काडटाली. दुःखाचें वजें कितलेंय जड जावं कपलाक मिरयो घालून रडगाणें गायत बसपाक तिका कशेंच आवडनासलें. ती पोवना रकयल्लेवरी खळखळीत हांसताली. ताईबायन मागीर तिका असवडीं म्हणप,'सिताबाय, तूं इतलें सगळें सोंसता म्हणून तुज्या हांशांक अशी धार आयल्या काय कितें?'

सिताबायचे सुनेक वाचपाची आवड आसली. लग्न जावन आयली तेन्ना पोटल्यो बांदून आयिल्लो पेपरलेगीत ती सामान काडटकीर सोडोवन घडी करून दवरताली. जेन्ना वेळ मेळटा तेन्ना ती वाचताली. ताचेवेल्यो नवीदादी बी ती नंडांक सांगताली.

एक दीस ती अशी पोटल्यांक बांदिल्ल्या कागदार आयिल्ली काणी वाचताली. सिताबयन दिस्त पळयलें. तिणें सुनेक विचारलें, 'हें कितें करता गे?'

सून पयलीं भियेलीं. तिणें -'त.. त.. प.. पप' करून आपूण काणी वाचतां म्हणून सांगलें.

ते बरोबर सिताबायन खोश्येन विचारलें, -'आगे बाये, तुका वाचपाची आवड आसा काय कितें.?

-'हय आई,' अपराधी कशी जावन सुनेन सांगलें.'

-'हें कितें वाचता तूं? हो पेपर तुका खंय मेळ्ळो?'

-'सामान बांदून हाडिल्लो कागद तो.' तकली सकल घालुनच तिणें जाप दिली.

-'आगे पापणी, तुका वाचपाची इतली आवड. आमकां सांगलें ना

कित्याक. आमगेर पुस्तकां भल्ल्यांत. तुका जाय जाय तसलीं घेवन वाच. बरी काणी आसल्यार आमकांय वाचून दाखय. आमच्यो चलयो वाचून दाखयताल्यो आमकां कादंबऱ्यो बी.'

सिताबाय सुनेक पुस्तकां दिवन वाचून घेताली. देवा धर्माचीं पुस्तकां वांगडा कथा कादंबऱ्योय वाचून घेताली. रातचीं तीं वासरेंत बसतकर ही वाचनाची कार्यावळ रंगताली. ताचेर मागीर तीं भासाभासय करताली. कादंबऱ्यांचेर उलोवपाक सिताबाय सदांच मुखार आसताली. एकदां आयकलें काय तिका रोखडेच अर्थ होलमलतालो. मागीर जिका कोणाक अर्थ कळुंक ना तिका सिताबाय समजावन सांगताली. मराठी उतरांचो कसलोय अर्थ कळ्ळोना जाल्यार काकीबाय विठूभाऊ कडल्यान समजून घेवन सगळ्यांक सांगताली.

श्रावण म्हयन्यांत तांगेर ग्रंथांचीं पारायणां करतालीं. तो ग्रंथ वाचतां वाचतां तातुंतल्या कठीण उतरांचो अर्थय वाचपी सांगतालो. त्या वेळार बायलोय भितल्ल्यान तीं पारायणां आयकतालीं. तातुंतल्यो काणयो चड करून कृष्णलिला सिताबाय मागीर सांजवेळची भुरग्यांक सांगतालीं. आतां सिताबाय घरभर सगळ्यां भुरग्यांची आजी जाल्ली. आतां तिचींय दोन नातरां काणयो आयकूंक बसतालीं.

तिच्या कुळारा शिवड्यां गाणेली येवन गावन काणयो आख्यांना म्हणून दाखयताले. एकपाठी सिताबायक तीं रोखडीं पाठ करतालीं आनी मागीर सगळ्यांक म्हणून दाखयताली. लग्न जावन ती वडगांव आयिल्ली. तेन्ना घरभर जाण्टीं आसलीं. सुनांचो आवाज कुडी भायर पाऊं जायना आसलो. तरी सिताबाय दनपरां नंडां बरोबर खेळटना ही आख्यानां, काणयो गाऊन दाखयताली. तिणें आपली ही कला जिती दवरिल्ली. आतां ती मेकळ्या आवाजान घरांतल्या भुरग्यांक ह्यो काणयो गावन दाखयताली. संस्कार काणयो सांगताली. म्हणून ही आजी घरभर सगळ्या भुरग्यांच्या मोगाची जाल्ली.



तुळशी लग्न जालें काय लग्न, मुजीचो हंगाम सुरू जातालो. दर वर्सा शिरवयकारागेर म्हणात वा वयल्या वाड्यावयल्या हेर घरांनी कोणा ना कोणाचीं कार्यां आसतालींच. हाचे वेध. पावसांतल्यानच सुरू जातालें. पावस सोंपल्या बरोबर मागीर तयारेक सुरवात जाताली. जून मेरेन हीं कार्यां सोपंनासली. तांगेरय ना जाल्यार नात्यागोत्यांत कोणालींय कार्यांत आसतालीं.

हे मदीं एप्रील मे आयलो काय पुरूमेताचो बोवाळ सुरू जातालो. भुरग्यांच्यो परिक्षा सोंपले बरोबर घरा भायर रावपी भुरगे, धुवो कुळारपणाक आपल्या भुरगेबाळांक घेवन येतालीं.

शिरवयकारालेंच न्हय तर वडगांवा चडशीं व्हडलीं घरां मनशांनी भरून रकतालीं. बंद आशिल्ल्यो कुडी शेणान सारोवन घेवन नटून थटून बसताल्यो.

शिरवयकारागेरय हे दीस खूब उमेदीचे तितलेंच कश्टांचे आसताले. खाणा जेवणाचे तर तांगेर आक्तच जाताले. सकाळच्यो भाकऱ्यो मदीं पेज, पेजे वांगडा खतखतीं, कसलींय तोंडाकां, चड करून तिसऱ्यो, खुबे घालून नाच जाल्यार सुकीं सुंगटां घालून केल्लें. उपरांत जेवणाचो आक्त, सांजेचें खाण, परत रातचें जेवण. काम, काम, काम बायलांक फकत काम करचें पडटलें. चेडवां -चोपडां, वावराड्यो फाल्त नासताल्यो. तरी बायनलमनशेक रांदचेकुडींतल्यान सुशेग मेळ नासलो.

आतां मात भायले बदल रांदचेकुडीतय बादिल्ले. कल्याण, भीमा, रूक्मीण, आबोलें हीं सगळीं पयलीं रांदपा कुडींत ठरावीकच कामां करतालीं. पूण आतां सवळ्या-भश्ट्यांचो बोवाळ कमी जाल्लो. तीं रांदपा, करपांतय हात बोट घालतालीं.

मार्च सोंपता तशी शिरवयकारालीं, शणैली, मळकर्णेकाराली बांय आट्टाली. उदक बरेंच खोल वतालें. कुंकळयेंकारालीं बांय मात सदांच भरिल्ली आसताली. वयल्या वाड्यावयले सगळे लोक कुंकळयेकाराले बांयचेर न्हावक धुवूंक येताले.

त्या दिसांनी उदकाची चड गरज आसताली आनी त्याच वेळार बांयो आटपाक लागताल्यो. म्हणून ह्या दोन तीन म्हयन्या पासत तांगेर मुंडकारी तांच्यो बायलो रावंक येताल्यो, आनी पावसाक सुरवात जातकीर वताल्यो.

येदें व्हड पालास कशें घर, भितर सात -आठ माळयो, कितल्योश्योच कुडी आसुनय ह्या दिसांनी घर भरून वतालें. तांच्या मुखेल दाराभायर व्हड आंगण आसलें. शिगम्या दिसानी तें बरे पेटून शेणान सारोवन घेतालीं आनी माटोव घालतालीं. त्या माटवांत मेळ नाचतालो, तांचे खेळ जातालें. मागीर तो माटोव तसोच दवरताले. थोड्या थोड्या दिसांनी शेणान सारोवन घेतालीं. त्या माटवांत कामाक आयिल्ले मानांय न्हिदताले. लग्नकारणा वेळार लोकांक थंय बसूंकय मेळटालें.

हालीं प्रत्येकाचो वेगळचार जाल्ल्याक मात पयलीं भशेन सोयऱ्या-धायऱ्यांचें येवप वचप जायनाशिल्लें. तरीय ह्या दिसांनी थोड्या प्रमाणांत तरी गजबज आसतालो.

आंब्या-पणसांच्यो तांगेर राशी पडटाल्यो. ताका लागून साठां, हालवे, घरे तळप, पुरूमेताच्या सामाना बरोबर तांकां होय एक वावर आसतालो.

त्या गांवांत उदका वरी नुस्त्याचो सामकोच उणाव आसतालो. पूण न्हंये लागसाराचो गांव आशिल्ल्यान शेतांभाटांत तळीं खूब आसतालीं, साव्या नुस्त्यांची उपाट भरिल्लीं. तळें मारपाचो व्हड वावर ह्या दिसांनी चलतालो. आनी साव्या नुस्त्याची खातड जाताली प्रत्येकागेर.

दोन तीन व्हडल्यो पिशव्यो भरून नुस्तें पयलीं भाटकारागेर धाडटाले. तातूंत थिगूर, वाळ्यो, धाड्यो, घोळश्यो, पिट्टोळ अशें साबार तरेचें नुस्तें आसतालें. तें उजरावप म्हळ्यार एक आत्तच कसो. घरांतल्यो वावराड्यो, आदोळ्यांक धार काडून गोबोर ताटलेर घेवन नुस्तें उजरावंक बसताल्यो. तें बुळबुळीत नुस्तें गोबोर हाताक लायलें बगर उजरावंकच मेळनासलें.

सिताबाय लेगीत एक आदोळी घेवन तांचे बरोबर नुस्तें उजरावंक बसताली. सिताबाय नुस्तें उजरावंक हुशार. व्हड व्हड चणकां, गोबरो, तामसो अशीं नुस्तीं सुरी आनी आदोळी घेवन केदे बेगीन उजरायताली. साव्या नुस्त्यांक हात लावंक बाकीच्यो खंयच्योय सुनो तयार जाय नासल्यो. पूण सिताबाय उमेदीन सावें नुस्तें उजरायतालीं.

मागीर तें नुस्तें शिजोवन शिजोवन दोन - तीन दीस खावप जातालें. शिजोवन सोयऱ्यांगेर लेगीत धाडटालीं. चडकरून हें सुकें कुयण्यांत करतालीं. म्हणटकीर शिजोवन शिजोवन निमणे दिसा करपल्लें नुस्तें चडच घोस्ताचें लागतालें.

हरशीं दत्तू शेनवारा दीस घरा येतालो. पूण मे म्हयन्यांत मात तो म्हयनोभर सुटी घेवन घरा रावतालो. ह्या दिसांनी ताचे दिपावणेक नेट येतालो. खणीर आसतना तो रातचो जाळ्यो विणटालो. तो थोड्यो जाळयो विकतालो आनी एक आपल्याक दवरतालो. मानायांक सांगून ते जाळये भोंवतणी कोण्याबडी घालून घेतालो. ती काटाळी घेवन तो दिपावणेक वतालो.

आंबे काडपाच्यों कोबलींय दत्तू बरीं विणटालो. ह्या दिसांनी त्या कोबल्यांक मागणी आसली. पयशे ताका शास्त्रा पुरतेच म्हळ्यार फकत सुमाक, सुताक म्हणून इल्लेशें दिताले तितलें. ताका घोस्त म्हणून तो जाळयो , कोबलीं विणटालो.



शाणुचो पूत रामनाथ दोतोर जावन गांवांत आयलो. ताणें केप्यां कोन्सुलतार घाली. मळकर्णेकारालो सुधीर फार्मासीचें शिकप घेवन तेन्नाच आयिल्लो. तो पयलीं साकून रामनाथाचो इश्ट. ताणें ताच्याच शेजरा फार्मासी घाली. लोकांक दोतोर आनी वखदां एकेच कडेन मेळचीं हो तांचो हेतू.

गांवच्या लोकांक सामकी खोस जाली. तांकां दोतोर वखद-विर्सद हाडूंक एकतर सावड्या ना जाल्यार मडगावां वचचें पडटालें. गांवचो

एक व्हड प्रस्न दोगय इश्टांनी सोडययल्लो.

रामनाथ दोतोर जावचे पयलीं साकून ताका जायत्यो सोयरिको येताल्यो. शिकप पुराय जाले बगर कसोच लग्न जावचो ना म्हणून ताणेंय पयलींच सांगिल्लें. आतां ताणें कोन्सुलतार घाले बरोबर चलयेकारांच्यो फावटी परत सुरू जाल्यो. केपेंच्या सदाशीव भेंड्यान आपल्या जुवळ्या चलयांच्यो सोयरीको रामनाथ आनी सुधीराक हाडल्यो. दोगय चलयो दिसूंक शिरवंत, पूण मात्श्यो काळश्यो.

सुधीर बरोच काळो. ताका सावळें विणा रोखडेच पसंत पडलें. पूण रामनाथाक गोरीच चली जाय आसली. ताका सावळें विद्या मानवलें ना. पूण घरांत ताच्या आवय-बापायक आनी हेर सगळ्यांक चली पसंत आसली. ताचो हट पळोवन ताईबायन ताका म्हळें, 'आरे गोरो रंग कितें चाटूंक जाय. विद्या कायबरें शिरवंत चली. बेश्ट्योच खोडी काडीत बसूं नाका. शिकपाक लागून तुवें पयलींच लग्नाक वेळ केला.'

ताचे भयणीनीय ताका समजायलो. आनी रामनाथ लग्नाक तयार जालो.

सदाशिव भेंड्यान एकाच माटवांत दोनय चलयांक उजयलीं. एकाच वाड्यार दोगय भयणी लग्न जावन आयल्यो.

सिताबाय धुवेच्या आनी पुतांच्या भुरग्यांमदीं घुस्पून गेल्ली. सुमतीगेर पांच भुरगीं जाल्लीं, तीन चले आनी दोन चलयो. सुमतीचो एकच बांयटेर सिताबायन काडिल्लो. पूण बाळंत जातकर चार पांच म्हयन्यानी सुमती कुळारा येतालें, आनी पांच स म्हयने रावन वतालें.

सिताबायक आतां पुष्पाच्या लग्नाचे वेध लागिल्लें. पोरूंच तिणें सुमतीच्या लग्नाचें रीण पावयल्लें. अंदू पिकेर तिणें पुष्पाक चार काकणां केल्लीं.

आतां ती पुष्पाचे सोयरिके पासत हाचे ताचेकडेन तोंड फाफडूंक लागलीं.

त्या दिसांनी गोंय सुटके चळवळीक बरोच नेट आयिल्लो.

सोमनाथाची बायल गौरी ह्या वावरांत बरीच मुखार आसली. 6 एप्रील 1956 दिसा म्हापशां नॅशनल काँग्रेस - गोंय हे संघटनेच्या सत्याग्रहींनी आधिवेशन घेवपाचें थारायल्लें. त्या अधिवेशनाक महादेव शास्त्री जोशी येवपा आसले. तांची घरकान्न सुधाताई जोशी पिरवळची. तीय घोवा वांगडा सुटके चळवळींत वांटो घेतालीं.

अचकीत महादेव शास्त्री जोशी बरे ना जालें. तांच्यानी अधिवेशनाक येवंक जावचे ना म्हणून सुधाताई जोशी गोंयां येवंक भायर सल्ली.

त्या सभेच्या प्रचाराक गौरी नेटान वावुरताली. मडगावां तिणें बायलांची संघटना केल्ली. तांका घेवन ती म्हापशां वचपा आसली. तिचें धाकलें चली बरेंच ल्हान आसलें म्हणून ताका घेवन ती पयल्या दिसाच म्हापशां आपल्या कुळारा गेली. मडगांवच्या आपल्या संघटनेतल्या एके मुखेलीक सगळ्या बायलांक घेवन दुसरे दिसा सकाळफुडेंच म्हापशां आपयल्लीं.

स एप्रील दिसा म्हापशां सकाळच्यान सोल्दार येवन राविल्ले. ह्या सत्याग्रहाची खबर तांकां मेळिल्लीं. सुधाताई जोशीन भाशणाक सुरवात करतनाच शिपायांनी धर पकड सुरू केली. सुधाताई वांगडा जायत्या बायलांक त्या दिसा अटक जाली. तेन्ना गौरीकय अटक जाली. तिका एका वर्साची ख्यास्त जाली.

ही गजाल वडगावां कळ्ळ्या बरोबर शाणून थयथयाट केलो.

ताणें सोमतोच म्हापशां वचून गौरीच्या बापायचेर तापय काडली.- 'चली बंदखणीत वचसर तूं वोगी कसो रावलो? केदी लजेची गजाल ही आमकां.?

दादान थंडपणान सांगलें, -'शाणूबाब म्हजे पासत ही अभिमानाची गजाल. हांवय सभेक आशिल्लों. पूण म्हाका धरून बंदखणीत घालो ना हाचेंच म्हाका वायट दिसता.'

-'वा, वा, धन्य, धन्य धुवेक तुमचीच फूस तर. म्हणून म्हाका

जय हिन्दीस्तांची चली सून म्हणून नाका आसली. पूण म्हजें कोण आयकता? आतां धाकलें चलयेकय घेवन ती बंदखर्णींत गेल्या मूं? त्या पोराक कितेंच कळचे पयलींच बंदखण भोगूंक लायली.'

-'ना शाणूबाब दोगांय भुरगीं आमगेर आसात.'

हाचेर शाणू तोंडा येता तें बडबडलो. पूण दादान परत जाप दिली ना.



शाणूक भंय आशिल्लो तेंच जालें. ताका बसपगारी जावपाक देड वर्स आशिल्लें. सून सुटके, झुजांत वांटो घेता हें निमित्त करून ताका शिर्वीसे वयलो काडलो. ताका निवृत्ती वेतन लेगीत मेळचें ना म्हणून सांगलें.

शाणूक सामके जाळ पडलें. -'म्हजे रेफार्म खालें चुतडान.' अशें म्हणून तो सुनेक जाय-फाय उलयलो. ताईबायक पयलींच सुनेची चिंता जाल्ली. तातूंत घोवाचें उलोवप, तिका कशेंच सहन जायनासलें. तिणें घोवाक थातारपाचो जायतो यत्न केलो. पूण शाणू हरशींच बायलेचें कांयच आयकनासलो, आतां तर ताची शिर्वीसय गेल्ली. ताका निवृत्ती वेतन मेळचें ना हाचो राग तो सगळ्यांचेरच काडटालो. पुताकय ताणें सामको उजरावन काडलो.

सोमनाथाक बायलेचो मातय अन्याय दिसूं नासलो. तो प्रत्यक्ष सुटके झुजांत वांटो घेय नासलो. पूण बायलेक उर्बा दितालो. तिका भितल्ल्यान आदारय करतालो.

सोमनाथान बापायक समजावपाचो जायतो यत्नकेलो. तेन्ना शाणू चडच चवताळ्ळो. -'आब्बा, बायलेचो पाखो घेता पाखो, बापायचो अपमान तुका दिसना, बरें आसा. तूंय वच बायले भशेन, सत्याग्रह, माती, गोबोर कर आनी बंदखणीत वचून पड. इतले पयशे मोडून हेच खातीर शिक्षण दिलें तुका हावें, बरो पाळो दिलो तुवें. वच, तुका जाय

थंय वच. तूंय म्हाका तोंड दाखोवचो ना. तुका आनी तुजे फामिलेक ह्या घराचीं दारां बंद.'

ताईबाय बाबडी रड रड रडली. पूत, सून, नातरां जरीं मडगवां रावतालीं तरी म्हयन्या म्हयन्याक वडगांवां येवन वतालीं. सून बंदखणीत, नातरां म्हापशां म्हणून तिका पयलींच वायट दिशिल्लें. तातूंत घोवान सोमनाथाक घरांत येवपाची बंदी घाल्या ती पळोवन ती चडच दुखी जाली.

तिका सिताबायन घरांत सगळ्यांनी फुसलायली, - 'आगे, ताचो राग आतां खतखतता. मात्सो न्हिवुनी. येतलो जाग्यार. आपल्या भुरग्याक म्हणून कोण सदांखातीर घरांत घेय नासतना रावतात? मात्से दीस वचुनी. सगळें जाग्यार पडटलें. धीर धर पापणी.'

पूण ताईबायक काळजांतल्यान दुःख जाल्लें. तिणें सोमनाथाक मेळपाचो ध्यास घेतलो. तिका जोर येवंक लागलो. रामनाथान कितलीं वखतां दिलीं, तिचो जोर कसोच देंवना जालो. ती फकत सोमू ऽ सोमू करत आसली. तिचो जोर दिसांचेर पडत म्हणून रामनाथान बापायक सोमनाथाक आपोवंक धाड म्हणून विनयलो. पूण शाणू हट्टी. तो कसोच सोमनाथाक आपोवंक तयार नासलो. शेवट विठूभाऊ मदीं पडलो. आजून मेरेन शाणू मात्सें कितेंय आयकतालो जाल्यार तें विठूभाऊलें. ताणें शाणूक सांगलें.

-'शाणू, तुजो राग सोमनाथाचेर आनी ताचे फामिलीचेर मरे, तूं सोमनाथाचेर राग धर, उलयनाका ताचेकडेन. पूण ताका घरांत येवंक आडांव नाका. ताका येवन आवयक मेळुनी. तिचो जोर निवळटलो. तूं त्या वेळार माळयेर वचून बस. नसतीं आडमुठेपणा करूं नाका.

सोमनाथ आठ दीस येवन आवय म्हऱ्यात रावलो. ताईबाय निवळटकच तो मडगवां गेलो. बापूय पुतान एकामेकाचेर बरोच राग धरिल्लो. सोमनाथ घरभर सगळ्यांकडेन उलयतालो. पूण बापायमुखार मातय रावलो ना. शाणू लेगीत ताचे झळकेक राव नासलो. जेवतना

लेगीत सोमनाथ पंक्तींत निमणेकडेन बसतालो.

हो सगळो बोवाळ जाल्लो तेन्ना दत्तू साकोर्ड्या खणीर आसलो. भावजेक बंदखणीची ख्यास्त जाली म्हणून ताका व्हडलें वायट दिसलें ना. खणीवेल्या इश्टांक भावजेच्यो गजाली सांगतना तो अभिमानान सांगतालो, - 'पळे आज आमची वयनी बंदखणीत गेल्या, प्रत्येक घरांतलीं एक दोन मनशां अशीं चळवळींत वांटेकार जाऊं जाय, बंदखणीत वचूं जाय तेन्नाच आमचें गोंय स्वतंत्र जातलें. हांव दुर्देवी. म्हाका आई प्रत्येकवेळा सोपताची याद करून दिता आनी आडायता.'

शेनवार दीस दत्तू वडगावां आयिल्ल्यावेळार ताका बापोल्यान केल्लो थयथायाट कळ्ळो आनी ताका काकाचो सामको राग आयलो. तो आवयकडेन बरोच फडफडलो. ताचो आवाज भायर वचूं नये म्हणून सिताबाय ताका फुसलायत रावली. मनातल्यान सिताबायक दत्तुचोय राग आयिल्लो.

दत्तू साकोर्ड्या वोगी बसू नासलो. मोलेंच्या शिमेवेल्यान गोयांत येवपी सत्याग्रहांक बारीक - सारीक आदार तो करतालो. पूण तातूंत ताका मातय समाधान नासलें.

सोमनाथा बायलेची खबर आयकून घरांत सगळींच भिल्लीं. बंदखणीत घालतकर शिपाय कशे मारतात, कशे कशे त्रास दितात हाचे विशीं तिखट-मीठ लायिल्ल्यो खबरी घरा घरांत तश्यो गावांत जाग्या जाग्यार चलताल्यो त्यो आयकून शिरवयकारागेर भितल्ल्या घरांत बायलांमदीं खुसखूस वाडिल्ली. 'आमच्या गौरीक कितें करतलीं काय?' होच एक भंय प्रत्येकाच्या मनांत आसलो.

दत्तूक आशिल्ली सुटके झुजाची ओड सिताबायक खबर आसली. तो बारीक-सारीक कामा करता हेंय ती जाणा आसली. गौरीची खबर कळ्ळे बरोबर तिणें दत्तूक पयलीं आपलो आनी ताच्या भुरग्यांचो सोपूत घालो. सोपूत हें तिचें पयलें शस्त्र. दत्तू आपूण तिच्या उतरा भायर ना अशें तिका दाखयतालो आनी खऱ्यानीच चळवळींतलीं व्हडलीं कामा

तो आवयच्या भंयानच करनासलो म्हळ्यार जाता. विठूकाकाकय तो दार काडटालो. बापायफाटल्यान ताणेच ताका वेळाप्रसंगाक आदार केला हें तो विसरनासलो. विठूकाका ताका म्हणी, '-पळे दत्तू, तुका हें स्वतंत्रतायेचें झूज खुबच आवडटा म्हणून हांव जाणा. पूण एक याद धर, तुजी आवय कशी कशी त्रास काडटा तूं जाणा. तुका लागुनय तिणें थोडे त्रास काडुंना. तूं हे चळवळीचे भानगडींत पडून तिका आनी दुःख दिवनाका.'

म्हणून दत्तू कोणाच्या दोळ्यार येवचींना आशीं गुपीत कामांच करतालो.

इतलो तेप दत्तू पयलेच खेपे एका जाग्यार नोकरेक उरिल्लो. पूण आतां शेनवारदीस आयिल्ले वेळार आवयकडेन उबगतालो. सात-आठ वर्सां तो एका जाग्यार टिकलो कसो हाचो घरांतल्या लोकांकय अजाप जातालें. सिताबायचे असवडीं सगळीं म्हणटालीं, -'दत्तूक थंय आवडीचें कितेंय काम मेळ्ळां जातलें. त्या शिवाय तो इतलीं वर्सां त्या रानांत रावचो नासलो. ताका हांगा दीसभर हेडूं जाय आसलें. एका जाग्यार तो केन्नाच थीर रावपी न्ही.'

खरेंच, थंय दत्तूक हुस्क्यामेकळ्यो विडयो वोडूंक मेळटाल्यो. ताचो मामा आतां दुसरे खणीर आसलो. ताचोय धबाडगो ताका नासलो. तें जरी रान आसलें तरी सगळेकडेन भोंवन रानमेवो सोदून काडटलो. रानांतल्या लोकांकडेन ताची इश्टागत जाल्ली. लागिंच आशिल्ले न्हंयेंत तो तांचेवांगडा दिपावणेक लेगीत वतालो.

पूण आतां ताका सगळ्याचो वाज आयिल्लो. मनांत येतनाच ताणें शिर्वीस सोडली.

दत्तू शिर्विस सोडून आयलो आनी सिताबायक परत हुसहुशे लागले. 'हो परत घरा रावन करतलो कितें? ' हे चिंतेन ती आकूळ-पिकूळ जाली. तातूंत पुष्पाची सोयरीक जुळून आयिल्ली.

शिरोडेच्या हेद्यागेर पुष्पाचें नक्षत्र धाडिल्लें. नक्षत्र सामकें बरें

जुळटालें. मुखावेलीं उलोवणी करपाक येवपाचो तांणी रकाद धाडिल्लो. न्हवरो फोंड्या कॉलेजियू आंतोनियो जुझे द आल्मेदांत शिकयतालो. न्हवरो बरो शिकला आनी शिकयता हें कळनाफुडें पुष्पाक सामकी खोस जाली. तें मनांतल्यान ही सोयरीक जुळ्ळ्यार पुरो म्हणून देवतेक व्होरायतालें.

पुष्पाक शिकपाची सामकी आवड आसली. काकान मुखार शिकपाक दिवुना हाचें ताका आजुनय वायट दिसतालें. घोव तरी आपल्याक शिकिल्लो मेळचो, अशें तें मनातल्यान मागतालें. पुष्पाची इत्सा पूर्ण जाली. धुवेची सोयरीक जाली म्हणून सिताबायक खोस जालीच पूण खर्चाच्या प्रस्नान तिची न्हीद खळयली.

दत्तुच्या लग्नावेळार तिका चड रीण घेवचें पडूं नासलें. सुनेक मोहनमाळ तिणें पयलींच केल्ली. मणी आनी लाख नाशिल्लें भांगर म्हणून माथ्यांत माळपाचें फूल तितलें तिणें लग्नावेळार केल्लें.

आतां मात पुष्पाक पाटली, तोडो, हार, न्हवऱ्याक मुदी, सरपळी सगळें करूं जाय आसलें. तरी तिणें हालींच पुष्पाक काकणां केल्लीं. तितलोच तिका मात्सो सुशेग जाल्लो. पूण रिणाचो हावको मातय कमी जाऊं नासलो. तो सिताबायक भेडसायतालो.

हे खेपे घरांतले लोक तिच्या आदाराक मुखार सरले. हरी, विठूभाऊचे पूत हाणी तिका हात उसणे पयशे दिले. रमाबायन आपले तोडे पुष्पाक घाल म्हणून दिले. इतल्यान पुष्पाचें लग्न हुस्क्या मेकळें जालें. पयशे घरांतल्यांनीच दिल्ल्यान सिताबायक व्याजाचो हुस्को नासलो. तशेंच म्हयन्या म्हयन्याक अमूक पयशे दिवूंकच जाय होय प्रस्न नासलो. तिणें सगळ्यांक सांगिल्लें, आपूण खंडा वेळार जाता ते प्रमाणे पयशे पावयतली म्हणून. सगळ्यांचें रीण पावयतकर सुनेचे तोडे करून घालतली म्हणून सुनेकय तिणें उतर दिल्लें.

रिणाचें वजें माथ्यार घेवन सिताबायन पुष्पाचें लग्न करून दिलें. दोगय चलयो बऱ्या घरांनी पडल्यात हाची खोस तिका एकेवटेन

जाल्ली, जाल्यार दत्तुचें कितेंच धड ना हाचो खेद तिचें मन पोखरतालें.

मन थाऱ्यार नासता तेन्ना सिताबाय मागिलदरांतले पडवेर बसताली. आजय ती गोजडी शिंवपाचो खोंटलो घेवन फाटले पडवेर खांब्याक तेकून बसली. सूय हातांत बेठीच धरून ती फाटल्या माडांक पळयत बशिल्ली, पूण तिचें लक्ष भलतेच कडेन आसलें.... 'देवते, कितें म्हज्या नशिबाचे हे भोग?... सुशेगाद, हुस्क्या मेकळी जीण म्हाका केन्ना जगुंकच दिवचीना तूं?.... घरांत जाण्टेलीं आशिल्लीं, भुरगीं ल्हान आशिल्लीं तेन्ना कामाचो रगाडो उसपुचो पडटालो, पूण कसलीच जबाबदारी आमचेर नासली.... संवसाराचो भार जाण्टेले सांबाळटाले... रानपा करपाची जबाबदारी लेगीत व्हडली आई, आई हांचेर आशिल्ली... आमी फकत तीं सांगतात तें काम करून फकाणा मस्कऱ्यो करूंक मेकळीं आसतालीं... काय बरे गेले ते आमचे दीस... आनी आतां,.. म्हजो संवसार तर कांट्यां-खुट्यानीच भरला... जितले कांटे वेंचतां तितले आनी, आनी येत आसात... देवते, मेकळो उत्स्वास म्हाका घेवंकच दिवचीना तूं.?...

परत दत्तून शिर्विस सोडली... आतां करतलो कितें तो?... परत धंद्याच्या फाटल्यान लागून पयशांचो गोबार करना जाल्यार पुरो... हे खेपे ताणें कितलोय बोवाळ घालूं, हांव ताका पुष्पाच्या लग्नाचें रीण पावल्याबगर एक्क पयसो दिवच्चिना म्हणून स्पशटच सांगतलीं... कितलोय झगडूं तो... हांव अशी घट रावलेबगर तो जाग्यार येवचोना... आतां परत कोणाक पाया पडूं ताका शिर्विशेक लाय म्हणून?...'

सिताबाय आपल्याच विचारांत शेणून पडवेर बशिल्ली. तिचें झाडा-पेडां, माड रेंदेर कित्याचेरच लक्ष नाशिल्लें. सदां हे पडवेर बसतक वाऱ्यार धोलपी माडर चडपी रेंदेर ती नातरांक दाखयताली. तांच्या कातारांनी आपलीं उतरां घालून ती कवनां घडोवन नातरांक म्हणून दाखयताली.

आजय आजी पडवेर बसल्या ती पळोवन राजू धांवून आयलो.-

'आज्ये, काताल, आज्ये काताल, लेंदेल आयलो, काताल, काताल...' आपूण म्हऱ्यांत येवनय आज्येचें लक्ष ना तें पळोवन तिचो हात खुदलायलो. ते बरोबर तिच्या हातांतली सूय कच्च करून तिच्या हाताक तोपली.

तेन्ना सिताबाय विचारांच्या घुस्प्यांतल्यान भायर सल्ली. तिणें उदासपणान म्हळें, - 'बाबू, भायर तेळसांज जाली. आतां कांतार खयचें? रेंदेर गेले सूर घेवन. हळू हळू कळोख जातलो आतां, म्हज्या जिवितावरी, ना रेंदेराचें कांतार, ना कसले सूर, फकत निर्शेणी दिवपी तिनकातर... केन्ना, केन्ना जातली काय म्हज्या जिवितांत फांतोड...फांतोडेच्या अमृतवेळाची आस लागल्या म्हाका... पळोवंक मेळत काय म्हाका उजवाड फांकयत वचपी फांतोड...

आजी आपलेकडेन उलोवचे बदला कितें कितें समजनाशिल्लेंच उलयता तें पळोवन राजू बेजारलो. तो 'आई, आजी उलेना' म्हणत रडत भितर गेलो.

सिताबयन उदास मनान सूय गोजडेक तोपून गोजडी तशीच पांटल्यांत दवरली आनी पांटलो घेवन भितर गेली.



दत्तू शिर्वीस सोडून येवन दोन म्हयने जायत आयिल्ले. तो हांगा थंय इश्टांवांगडा असोच भोंवतालो. सिताबायक दुबाव आशिल्लो, तो बेठोच वेळ पासार करपाक भोंवना, तो सुटके चळवळींत गुपीतपणा काम करता. आपणे कितलोय सोपूत घालूंक ना जाल्यार कोणाचाय भंय घालूं तो चळवळीचीं कामां कसोच सोडचोना, हाची तिका आतां खात्री जाल्ली. गौरी वरी हाकाय धरून बंदखणीत घालना जाल्यार पुरो म्हणून ती मनांतल्या मनांत देवतेक होरायत आसली.

सिताबाय ताका आडून-पाडून सांगताली, - 'आरे, असो बेकार हेडूं नाका, शिर्विस सोद, कोणाकडेनय तोंड फाफुडले बगर कामां जायनात.'

ताणें धेंगसुचें, - 'शिर्विसो कितें वाटेर पडल्यात गे अश्योच मेळपाक, हावें सांगलां कोणा-कोणाक मेळटा तेन्ना पळोवया.'

-'बरें बाबा बरें, हावेंय खूब जाणाकडेन तोंड फाफुडलां, मेळटकीर एका चित्तान कर मात हां, आशी धर-सोड पणा आनी आनी करूं नाका, तुजो वाडटो प्रपंच. पयशांची गरज तुका. त्या जयहिंदाच्या नादाक लागून , तांकां लागून तुज्या भावाचो संवसार कितें जाला तो पळे.'

-'पुरो, पुरो, तुजो सगळो शेर्मांव म्हाका तोंड पाठ आसा.' दत्तू आवयचेर फडफडलो. हालींसरा तो अशेंच करतालो. आवय कितेंय उलयली काय तिचेर फडफडटालो. पूण सिताबाय वोगी बसनासली. संद मेळटा तेन्ना ती ताका उपदेश करतालीच. मागीर दत्तू थंयचो उठून भायर वतालो.

सुधिराचे फार्माशिंतलो कंपावंडर शिर्विस सोडून गेलो. सुधिराक ताची सामकी गरज आसली. रामनाथान दत्तूक त्या जाग्यार काम करपाक आपयलो. दत्तूक शिर्वीस करपाची मातय आवड नासली, ताणें रामनाथाक जायतीं निमतां सांगपाचो यत्न केलो. पूण रामनाथान ताचें कांयच आयकून घेतलेना. ताका आपलेबरोबर सायकलीर बसोवन फार्माशिंत व्हरूं लागलो. मदीं मदीं रामनाथाक व्हिजीताक वच्चें पडटालें. त्या वेळार दत्तूक फार्माशींत पावंक वेळ जातालो. सुधिरान ताचेर उपाय काडलो. एक पोन्नी सायकल घेवन दत्तूक दिली.

सुधिरान दत्तूक पोसावां करूंक, वखदां दिवंक शिकयलें. आतां दत्तू किटकीट करनास्तना शिर्विसेक वचूं लागलो, आनी फार्माशिंतल्या कामाक रोखडोच तयार जालो.

सिताबायक रोवपा खोवपाचो घोस्त आसलो. फाटल्या पोरसांत फुलझाडां बरोबर केळी, पोपाय, तारवटी मिरसांग, कापूस आनी हेर जायतीं झाडां आसलीं. तांची उस्तवारी मानाय वावराड्यो करताल्यो, पावसा दिसांनी सिताबाय तांचेकडल्यान दुदी, तवशीं, वीरवीर,

घोसाळीं, काटेकणंगां, झाडकणगां, चिरखे रोवन घेताली. तांकां दाखोवपाच्या निमतान सिताबाय लेगीत पोरसांत वावुरताली.

सिताबायक पयलीं साकून पोरसांत कुळागरांत वावुरपाचो घोस्त आसलो. पूण ती लग्न जावन आयिल्ली तेन्ना घरचीं सगळींच कामां मानाय, वावराड्यो करताल्यो. घरच्या सुनानी ठरावीकच कामां करपचीं आसतालीं. तेन्ना तर मातयेंतल्या कामाक सुनानी मातय हात घालप ना असो नेमच कसो आसलो. सिताबायक ताचें खूब वायट दिसतालें. पोरसांतली फुलां बी कल्याण, ताच्यो भयणी काडटाल्यो आनी फांतयो झेले गुथून सुनांक माळूंक दिताल्यो. सिताबाय व्हनी म्हऱ्यांत बसून बऱ्यो फांतयो घालूंक शिकिल्ली. जायो तर ती गच्च बऱ्यो कितले बेगीन गुंथताली. पूण लग्न जावन येतकर तिका हीं सगळीं कामां करूंक मेळना हाचें वायट दिसतालें.

घरांतलीं जाण्टी हळूहळू कमी जायत गेलीं. ते बरोबर पयलींच्यो चालीरिती बऱ्योचश्यो कमी जाल्यो. भायलें सुधारणेचें वारें तांच्याय घरांत खेळटालें. सिताबायन घरांतलीं जायती कामां हातांत घेतना पोरसाचेंय काम हातांत घेतिल्लें आनी भाजी फळां रोवन घरांत तर सगळ्यांक खावयतालीचं, पूण सोयऱ्यांगेरय धाडटाली. वैकुंठबाबाचें पोरसाचें काम बंद जावन बऱ्या तेपान सिताबायन मागिलदारांत पोरसूं फुलयल्लें.

सकाळच्यो भाकऱ्यो जाल्यो काय एकएकटीं न्हावपाक वतालीं. तेन्ना सिताबाय कुलेरावरी चोंच आशिल्ली थापी घेवन पोरसांत वताली. न्हाणयेच्या उदकाक तिणें वाट करून दिवन, तो पाट तिणें पोरसांत फिरयल्लो. थापी घेवन दिसपट्टें तातूंत कितें चिखोल, पानां पडटात तीं काडचीं पडटालीं. म्हणटकीर उदक सळसळीत व्हांवन सगळ्या आळ्यानी फिरतालें.

तिच्या पोरसांत एक देवकापशीण किल्लून आयिल्ली. तिका गच्च कापूस जातालो. घरांतल्यो वावराड्यो तिचो कापूस काडून ताच्यो

गुठयो काडून सुकोवन सांगशेंत दवरताल्यो. मागीर वेळ मेळटा तेन्ना बायलो ताच्यो वाती वळून दवरताल्यो. सिताबायच्यो वाती घट्ट आनी लांब बऱ्यो जाताल्यो. दिवलेंत घाल्यार थंड पेट्टाल्यो. म्हणून चडसो वातीचो वावर सिताबायच करताली. देव-देवस्पणावेळार आरतींत घालपाच्यो वाती सिताबायन केल्ल्योच सगळ्यांक जाय आस्ताल्यो. ती भाताच्या कुंड्यांत कोळसो दवरून ताचो गोबर करून घेताली. तो न्हिवतकर बरो फाफडून निवळ गोबोर काडून घेताली. तो इल्लो बोटाक लावन ती घट्ट बऱ्यो वाती वळटाली.

हळूहळू तांच्या वाड्यावेलीं सगळींच जाणा आपलो कापूस निवळ करून सिताबायक हाडून दितालीं आनी तिचेकडल्यान वाती वळून घेतालीं. शिवण सुतावांगडा आतां सिताबाय वाती घोस्तान वळटाली. गोजड्यो, कपयाळीं शिंवतकच तिका जशीं सुताक म्हणून पयशे दितालीं तशे वाती करून घेवन थोडे पयशे दितालीं. कशेय तरेन जायना सिताबायक चार पयशे मेळटाले. ते ती पेटलांत सांबाळून दवरताली.



## 17

गोंय स्वतंत्र जाल्लें. सगळेकडेन नवें वारें व्हांवतालें. गोयां भायर गेल्ले जायते जाण गोयांत परतल्ले. तांकां हांगाच शिर्वीसो मेळिल्ल्यो. मळकर्णेकारालो व्हडलो पूत माधव आपले बायलेक घेवन वडगावां आयलो. ताची बायल देसायांची म्हणून मांय मांवान सुर्वेक घरांत घेऊं नासली.

तिगेर जुवळे भुरगे जातकर आजो-आज्येक नातवांक खेळोवचेली आस लागली आनी तांणी तांकां घरा आपयलीं. देवाकडेन मात तिका मेतेर करून घेऊं नासली. तेन्नाच्यान एक दोन म्हयने तीं येवन वडगांवा घरांत रावतालीं. गावांत चड करून वयल्या वाड्यार थोडो दीस खवदळ जालो. 'बामणानी अश्यो जाती वगडायल्यो जाल्यार मागीर कितें उल्लां, सगळो समाज पेड्ड्येर जातलो असल्यानी? असो गांवचो सूर आसलो.

शिरवयकारागेरय पयलीं बोवाळ जालो. पूण विठूभाऊन सगळ्यांक वोगीं बसयलीं. माधव गावांत रावंक येतकर पयलीं पयलीं ताचे बायलेक वाड्यार कोण हळदकुकमाकबी आपय नासले. विठूभाऊन काकीबायक सांगून तिका आपल्यागेर हळदकुकमाक आपोवंक लायलीं. मागीर हळू हळू तिका सगळींच हळदकुकमाक आपोवंक

लागलीं.

उपरांत जयवंता बायलेकय कोणे वेगळी दवरली ना. 'सगळ्यो सुधारणा आमच्याच घरांतल्यान.' अशें म्हणून जायलें तितलें फडफडलें.

गोंय स्वतंत्र जातकर गांवा गांवानी सरकारी मराठी शाळा सुरू जाल्ल्यो. पोर्तुगेज शाळांनी इंग्लीश शिकयतालीं. वडगांवांत शिरवयकाराली शाळा आशिल्लीच. तीच सरकारी केली. इतलेदीस ते शाळेंत वयल्या वाड्यावेलींच भुरगीं शिकतालीं. देसाया वाड्यावयलीय थोडीं भुरगीं ते शाळेंत वतालीं. आतां ती शाळा सरकारी जाल्ल्यान तातूंत गांवच्या सगळ्या भुरग्यांनी शिकूं जाय असो सरकाराचो कायदो आसलो.

ती शाळा पयलीं विठूभाऊन सुरू केल्ली. तिचेर अजूनमेरेन विठूभाऊचोच शेक चलतालो. तशें पळोवंक गेल्यार सगळ्यांचो खर विरोध सोंसूनय गांवांत शिक्षण पयलीं विठूभाऊन हाडिल्लें. गांवचे सगळे भुरगे शिकचे ही ताची इत्सा आसली. पूण गांव जातीभेदाच्या घयरांवा पोंदा कसो जियेता हें ताणें पळयल्लें. 'गांवाक हळू हळू सुधारूंक जाय, आनी तें शिक्षणच करतलें.' हाचीय ताका खात्री आसली.

आतां सरकाराचो फतवो आयकून विठूभाऊ सामको खोशी जालो. 'म्हज्या जाण्टेपणान काय जायना पुराय गांव साक्षर करप हें म्हजें सपन आतां साकार जातलें.' तो आपल्या इश्टांक सांगतालो.

आतां प्रस्न आशिल्लो गांवकारानी भुरग्यांक शाळेंत धाडपाचो. तेंय काम विठूभाऊन आपल्या आंगार घेतलें. ताच्यान चडशें भोऊंक जाय नासलें. तरी धाकटुच्या खांदार हात दवरून तो गांवभर भोवलो. भुरग्यांक शाळेंत धाडात म्हणून गांवकारांक तयार केले.

दोनचार दिसा उपरांत विठूभाऊचे चार-पांच मुंडकारी ताका मेळूंक आयले. तांणी म्हळें, - 'भाक्रो, आमचेर एक फावोर कोर. आमगे

भुरगे हिनया-तिनया बेठे हेडोन वेळ पासार कोत्ताय, तेणी इस्क्ला येयल्यार जाता?'

विठूभाऊक मनापसून खोस जाली. पूण गांवकारांचो सभाव ताका खबर आसलो. विठूभाऊन म्हळें, - 'आरे तुमी भुरग्यांक शिकोवंक सोदतात हें आयकून म्हका सामकी खोस जाल्या. पूण तुमी गांवाक वळखतात. हांव तांची बसका आपयतां. तांकां सरके समजायतां, मागीर कितें तें तुमकां सांगतां.

गावडे, किरिस्तांव आपल्या भुरग्यांक शाळेंत धाडूंक सोदतात ही बातमी गावांत पावली ते बरोबर गांवांत घे ऽ बोवाळ जालो.... हांचे भुरगे आमच्या भुरग्यांबरोबर बसतले, आफूड-भश्ट धरनास्तना... ना, ना आमकां चलचें ना हें... विठूभाऊ फाल्यां तांगेर वचून जेवया म्हणटलो. तो धर्म भश्टूंक तयार आसा... म्हणून आमीय भश्टप... ना, ना, अशें जावचें ना. सरकार म्हणटा खंय अशें... शी, आमचें सरकार आयलां म्हणटालीं आनी... हें कसलें आमचें सरकार... जाती-धर्म सोड म्हणपी... ना, ना, आमीच आमच्या भुरग्यांक ते शाळेंत धाडप ना...

अशे तरेन लोक तोंडा येता तें उलयतालें. विठूभाऊच्याय कानार येतालें. म्हणूनच विठूभाऊन बसका आपयली.

हालींसराक विठूभाऊ बरोबर सेगीत धाकटो रावतालो. तुकारामान ताका तशें सांगूनच दवरिल्लें. विठूभाऊच्यान एकटो चलूंक जायनासलें. कांय गरजेचीं कामा आसल्यार ताका वचचेंच पडटालें. अशा वेळार गरज पडल्यार धाकटू ताका बैल गाडयेंत बसोवन लेगीत व्हरतालो. विठूभाऊक आपले सगळे व्यवहार धाकट्याच्या आदारानच करचे पडटालें.

बसकेक धाकट्यान ताका व्हरून बसयलो.

थंय गांवकार विठूभाऊकच रावताले. सगळ्यांनी ताका धारेर धल्लो. पूण ह्या वयारय विठूभाऊन आपल्या शांत सभावा प्रमाण प्रत्येकाक

तांच्या प्रस्नाच्यो पटपासारक्यो जापो दिल्यो... 'सरकार जाती -धर्म पळयना, सगळ्यांक सारको न्याय दिता आनी तळागाळांतलो समाज' साक्षर करूंक सोदता. भायर शारांनी सगळीं एकठांय शिकप घेतात. सरकाराच्या ह्या धोरणाक आमच्यानी विरोध करूंक जायना.' सदचेवरी विठूभाऊची सांगणी सगळ्यांकच पटली ना. तरी विठूभाऊ करता तें गांवच्या बऱ्या खातीर हाचेर सगळ्यांचो विश्वास आसलो.

तरीपूण बरीच भासाभास तांणी केली आनी निमणें...'तांच्या भुरग्यांनी आमच्या भुरग्यांबरोबर बांकार बसप ना, साका कुडको घेवन सकल वेगळें बसचें पडटलें,' गांवकाऱ्यांनी सांगलें. विठूभाऊक तें आवडलें ना. पूण तुर्ताक तांणी तांकां शाळेंत येवंक मान्यताय दिल्या हाचेर तो वोगी रावलो. मुखार हळू हळू तांका बदलुंया असो विचार विठूभाऊन केलो आनी म्हळें, -'बरें बाबा, सध्या तरी तुमी म्हणटात तशेंच करूंया. हांव समजावन सांगतां तांकां.'

गांवची चडशीं भुरगीं शाळेंत वचूं लागलीं आनी विठूभाऊच्या खोश्येक शीममेर उल्लीना.



दत्तून सुमार चार वर्सां फार्माशींत नोकरी केली. आतां ताणें तीय नोकरी सोडली. एका जाग्यार खंयच थीर रावपाक ताका आवडच नासलें. कसलेंय सादें कारण धरून तो शिर्वीस सोटटालो.

मागीर सिताबाय उबगून म्हणी 'हो दत्तू म्हाका केन्नाच सुखान जगूंक दिवचोना. म्हजी वाल अशी वयर चडटा शी दिसली काय दत्तू ती खुडून सकल उडयता.'

कुंकळयेकारालो विलास आनी दत्तू हालीं बरे इश्ट जाल्लें. विलास थोडें शिकिल्लो. दत्तुवरी शिर्वीसो धर-सोड करतालो. तांणी दोगांयनीय मुंबय वचपाचें थारायलें. 'मुंबय शिर्वीशेक मरण ना म्हणटात, वसंत दादान म्हजेपासत सारको यत्नच केलो ना म्हणून म्हाका शिर्वीस मेळ्ळीना. आमी खर यत्न केल्यार आमकां शिर्वीस मेळटलीच

मेळटली.' दत्तून म्हळें.

-'हय, हय. आमी हार मानप ना हां, खंयी तरी शिर्वीस सोदून करयाच.' विलासान ताका हयकार दिलो.

आतां विठूभाऊची मान्यताय घेऊं जाय आसली. विठूभाऊ वयान जाण्टो जाल्लो खरो, पूण ताका काळजाचो आत्ताक येत साकून साम को थकिल्लो. तो घरच्या घरांतच भोंवतालो. ताचें भायर सरप चडशें बंदच जाल्लें. रामनाथ ताका वेळच्या वेळार वखदां दितालो. पूण विठूभाऊक आतां वखदांचो वाज आयिल्लो. ताणें म्हणचें,

-'दोतोरबाब तुजें वखद बिखत पुरो आतां. इतलीं वर्सां हांव घटमूट जीण जियेलों, चडशी थंडी -भार्कुण लेगीत म्हजे लागी केन्ना आयलिना आनी आतां जाण्टेपणान हो कोण आताक म्हणून आयला आनी म्हज्या फाटल्यान वखदांचो हावको सोडला. आतां म्हाका थंडपणान मरूनी तुजीं वखदां नाकात म्हाका.'

पूण रामनाथ ल्हान भुरग्याक फुसलायल्लेवरी ताका फुसलावन वखदां दितालोच.

विठूभाऊचे हे परिस्थितींतय तोंड बरें आसलें. तकलीय बरी चलताली. कोणय म्हऱ्यांत येवन कितेंय प्रस्न विचारल्यार दिस्तादीस्त सल्ले दितालो. तांच्या मुंडकाऱ्यांचे कसलेय प्रस्न आसल्यार ते भाटकाराकडेन घेवन येताले. भाटकार जो निर्णय दिता तो तांकां सगळ्यांक मान्य आसतालो. आतांय विठूभाऊ चवखेर वल्तेरांत बसतालो. आनी मुंडकाऱ्यांच्यो अडचणी सोडयतालो. गांवचे थोडे लोक लेगीत ताचेकडेन अडचणी घेवन येताले.

दत्तू आनी विलास दोगय जाण विठूभाऊ म्हऱ्यांत येवन तांणी आपलो मुंबय वचपाचो बेत ताका सांगलो. आनी म्हळें -'काका आतां मुंबय वचपाक पासापोर्तबी काय नाका. जाय तेन्ना मुंबय वचून येवंक मेळटा.'

विठूभाऊन सांगलें, -'वच दत्तू, दोन दीस भोंवन येतात. पूण

शिर्वीशेच्यो गजाली सांगनाका. हांगां एक्कय शिर्वीस तुवें धड केली ना, आनी थंय कितें करतलो कर्म? चलात भोंवन येयात तुमी.'

विठूभाऊचें उतर मेळटकर ताणें आवयक विचारलें. सिताबाय तोंडार ताका वोग्गी रावली. पूण मनांत तिणें म्हळें.

-'जाणां हांव दत्तू, तूं शिर्वीसेक बी कांय वचना.. शिर्वीशेचे चार पयशे तुवें जमयल्यात. ते कडोवंक तूं वता. वच जाय तें कर.. आतां तूं वयान वाडला..दोन भुरग्यांचो बापूय जाला... पूण अक्कल मात कुस्कुटाचीय येऊना तुका...'

दत्तू विलासाक वांगडा घेवन मुंबय गेलो. विलासाचें आतें मुंबय रावतालें. तांगेर चार दीस, वसंतागेर दोन दीस, जयवंतागेर थोडे दीस अशें ते थोडे थोडे दीस वळखिच्यांगेर रावले. दीसभर शिर्वीस सोदपा निमतान ते मुंबय भोंवताले, आनी रातचे न्हिदूंक जेवंक सोयऱ्यागेर येताले.

दोगांकय शिर्वीस करपाची नाशिल्लीच. तांणी धंदो करपाचोच बेत केल्लो. तांणी जायते कडेन भोंवून निमणे खेळणी विकपाचो धंदो करपाचें थारायलें. दोन ट्रंक भरून तांणी खेळणी घेतलीं आनी ते वडगावां परतले. वाटेर तांणी खंय खंय जात्रा काले आसतात थंय वचून कशीं खेळणीं विकप हाचो बेत केलो.

सिताबायन हळूच जावेक म्हळें, '-पळयलें मगे, पयशांचो गोबोर केलो ताणे. आतां ताका सुशेग मेळटलो.'

गांवचे जात्रेक तांणी पयलो माण घालो. थोडें भोव गिरायक जालें. चार-पांच जागांनी ते फिरले . तांचो म्हाल सोंपलो. दोगय उमेदीन फुल्ले. आनी म्हाल हाडूंक ते मुंबय वचपाचो बेत करूं लागलें.

तेन्नाच विठूभाऊचें चड जालें. ताचें उलोवणें लेगीत बंद जाल्लें. तेंच निमित्त धरून सिताबायन दत्तूक आडायलो.

खेळणी विकून आयिल्ले दोगांयच्याय वांट्याचे पयशे घेवन विलास एकटोच म्हाल हाडपाक मुंबय गेलो.

आठ-धा दीस सुमार विठूभाऊ हातरुणार उल्लो. सोयऱ्या धायऱ्यांचें यो-वच चालूच आसलें. विठूभाऊच्या बोवाळांतच सोयऱ्यांचीय उठ-बस पुराय घराक करची पडटाली.

आनी त्या दिसा रातचो न्हिदिल्लो विठूभाऊ सकाळीं उठलोच ना.

शिरवयकाराच्या घराचो एक व्हड खांबो कोसळ्ळो. ल्हान पिरायेर साकून विठूभाऊचेर नकळटना घराची जबाबदारी पडिल्ली. विष्णूदादानच भावाची हुशारकाय पळोवन ताचेर घाल्लीं. विठूभाऊ ल्हान आसलो तरी पार्वतीव्हनीचे सगळे गूण ताच्या आंगांत आसलें हे विष्णूदाद वळखल्लो. वेळप्रसंगाक अचूक निर्णय तो घेतालो, म्हणूनच कसलीय गजाल विष्णूदाद विठूभाऊचेर सोंपोवन हुस्क्यामेकळो जातालो.

असो सगळ्या घराचो आधारवड कसो विठूभाऊ गेलो आनी घराचेर सावट कशें आयलें.



विठूभाऊ फकत शिरवयकाराल्या घराचोच खांबो नाशिल्लो. सगळया गांवाचोच तो आधारवड आसलो. गांवकारांनी केद्याय वेळार ताका उलो माल्ल्यार तो आसा तसो धांवून वतालो.

घरांतच न्हय तर गांवभर सुदारणेचें पयलें वारें हाडलें तें विठूभाऊन. ते पासत सुर्वेक ताणें सगळ्यां कडल्यान जायती बरीं वायट उतरां घेतलीं. पूण फाटीं सरलो ना.

म्हयनो भर सुमार सगळो गांव विठूभाऊच्या दुःखांत बुडिल्लो. हरशीं भाटकारागेर कोणय मेल्यार मुंडकाऱ्यांच्यो बायलो बारा दीस मेरेन येवन रडूंक बसताल्यो. कोणय पाचारूंक आयले काय भाटकाराचें गूण गायत तांणी रडप. विठूभाऊ वेळार तीं म्हयनोभर सुमार रडूंक बशिल्लीं. तांचीं सोयरी-धायरी, इश्ट - मीत्र म्हयनोभर मेरेन येत आसलें.

दत्तूक विठूभाऊ म्हळ्यार बापायवरीच दिसतालो. आपले कसलेय

प्रस्न तो ताका विचारून जाग्यार घालतालो. बापूय गेलो तेन्ना दत्तू तसो ल्हान. आनी ताका बापायविशीं खास वोडय नाशिल्ली. रायूदादान भुरग्यांक केन्ना लागीं करूं नासलीं. म्हणून जायत घडये, ताच्या भुरग्यांक बापायची ओडच नासली. तांची अर्थअपुरबाय केल्ली ती विठूभाऊन. वेळार दत्तूक तापयलायबी म्हणून विठूभाऊच्या मरणान दत्तू हाल्लो.

ह्या बोवाळांत विलास पयशे घेवन मुंबय गेला हें दत्तू विसरून गेलो.

बऱ्याच दिसांनी ताका विलासाची याद जाली. दत्तू ताच्या घरा गेलो. ताका थंय कळळें, विलास मुंबय गेल्यार देडेक म्हयनो जावन गेल्लो. थंय पावलेबरोबर ताणें एक पत्र घाल्लें. ताचे उपरांत ताची कांयच खबर कळूं नासली. ताच्या हुस्क्यान कुंकळयेंकारागेर सगळीं आकूळ-पिकूळ जाल्लीं ताची आवय रड-रडत देव-देवस्पणां करताली. प्रसाद-पाकळी, घाडी-भगत, अशें सगळें तीं करताली. पूण अजून ताचो पत्तो लागूं नासलो.

ताच्या बापायन मुंबय आशिल्ले आपले भयणीकडेन हेर सोयऱ्यांकडेन चवकशी चालू दवरिल्ली. सुर्वेक तो आत्यागेर राविल्लो. पूण मागीर तो खंय गेल्लो कोणाकच खबर नासली. तांणी ताचो सोद लागल्यार रोखडेंच कळोवपाचें उतर दिल्लें.

दत्तू हताश जावन घरा आयलो. - 'आई, पयलेच खेप धंद्यांत आमकां बरो फायदो जाल्लो. तोय विलासान ना केलो.' आवयक सांगून दत्तू घसघसून रडलो.

सिताबायक पुताचे चुरचुरे दिसले. तिणें पुताक फुसलायलो आनी म्हळें,-'आमकां धंदो न्हय रे पुता. देवता तुका परत-परत दाखोवन दिता. आतां तरी विचार कर.'

मनांत मात तिणें म्हळें, ... 'पापया तुका कसोच धंदो न्हय... म्हजें नशीब खोटें म्हणून तूं प्रत्येक वेळार आपटी खावन परत धंद्याफाटल्यान धांवता पापया. आनी तुका हांव खंयच्या उतरांनी समजायतलें...

एकूण मेळून देवतेन म्हज्या नशिबांत ही रडच दवरल्या... सगळी. दुःख पिवनय हांव हांसतां म्हणून रडत रावपाची ही ख्यास्त दिता काय देवता?...'

थोडे दीस दत्तू कुडींत न्हिदून रावलो. कोणाकडेन उलयलो ना. भुरग्यांक लेगीत म्हऱ्यांत काडलीं ना. बापायक पळोवन राजू आनी दुर्गा भियेलीं.

सिताबायन जावेकडेन म्हळें, -'जाणा मगे, दत्तुचीं हीं नाटकां. हांव कितेंय म्हणटलें म्हणून तो पयल्यान पयलीं असो न्हिदून रावला. हे खेपे हांव कांयच उलोवचें ना. पळोवया तरी कितें करत तो.'

आवय कांयच उलयना तें पळोवन हळू हळू दत्तू जाळयो विणूंक लागलो.



सिताबायचीं दोगांय नातरां राजू आनी गौरी शाळेंत वचूंक लागलीं. रमान तांचे आवयन तांकां बरे बोटवे विणून दिले.

रमा कामां धंद्याक हुशार आसली. शिवणसूत विणप भरप सगळें घोस्तान करताली. पूण व्यवहाराकडेन मात सिताबाय भशेन चतूर नासली. काय सिताबाय मुखार उलोंव जायना म्हणून ती वोग्गी रावताली. तेंय कळनासलें. सिताबायचे हुशारकायेक लागुनय ती अबरगत कशी दिसताली जावये. पूण घरांत हेरानी म्हणचें, - 'सिताबायचीं भुरगींय तिचेभशेन जालीं ना, आनी सूनय तशी मेळ्ळीना. आंगठ्यावयल्यान रावण वळखुपी सिताबाय, सुनेक अख्खो रावण दाखयल्यार लेगीत ती वळखुचीना.'

दत्तू आनी सुनेचो सभाव कळिल्ल्यान जावये, वा तिका शुन्यांतल्यान संवसार करचो पडिल्ल्यान जावये सिताबायन भायले भितल्ले व्यवहार आपल्याच हातांत दवरिल्ले.

घराब्याचे कसलेय प्रस्न आसल्यार आतां सगळीं सिताबायक विचारतालीं. विठूभाऊन लेगीत आपल्या निमण्या दिसांनी सिताबायक

विचारून व्यवहार करपाचें धरिल्लें.

घरांत सगळ्यांत जाण्टी आतां काकीबाय आशिल्ली. पूण तिणें आपूण जावन केन्नाच व्यवहारांत लक्ष घालूं नासलें. ताका लागून नकळटनाच सगळी जापसालकी सिताबायचेर आयिल्ली. आनी सिताबाय बरे तरेन ती निभायतालीं.

घरांत चार बिराडां आसलीं. कितेंय हाडल्यार चार वांटे करचे पडटाले. हे वांटे सिताबाय दिस्तादीस्त करताली. आंबो पणस सोडच्च नुस्त्याचे लेगीत वांटे करूंक ती हुशार आसली. चार बिराडां भितर एक बिराड आसलें जायल्याचें. हिराबाय वचत साकून तें एकटें जाल्लें. विठूभाऊन ताका आपल्यागेरच जेवणाक दवरिल्लें. बाकीचींय ताका केन्ना केन्ना आपल्यगेर जेवपाक आपयताली. माथ्यार पदर घेतिल्ल्यान ताणें रातचें जेवण जेऊं जायना आसलें. खाणा जेवणाचींय पथ्यां आसलीं. पूण विठूभाऊन ताका सोपूत घालून खाणा-जेवणाचीं पथ्यां सोडूंक लायिल्लीं.

मुंबयच्यान ताचे भाव येताले तेन्ना तांचे रांदचे कुडींत रान्नींत उजो पेट्टालो.

शिरवयकारालो ग्रामदेव चंद्रेश्वर. वर्सांतल्या कांय सणाक तांकां पर्वतार वचचेंच पडटालें. तातूंत श्रावणातल्या एका सोमाराक अभिशेक करपाक, दसऱ्याकडेन आनी जात्रेक तांकां पर्वतार वचचेंच पडटालें. देवदेवस्पणाचीं कामा करूंक दत्तूक आवडटालें. घरा भायलीं सगळीं देवस्पणा चडसो दत्तूच करतालो. शिर्विस करतना लेगीत तो सुटी काडून देवस्पणा करूंक येतालो.

आतां तर बेकार आशिल्ल्यान घर-भाटाच्या वावरा वांगडा देव-देवस्पणा ताचेरच आयिल्लीं. पर्वताचेर जात्रेक वचपाचा मात सगळ्यांकच घोस्त आसलो. तांगेर येवपी सोयरीं, धुवो-भाचरां, नातरां पर्वतावेली जात्रा चुकय नासलीं. चैत्रपुनवेकडेन सगळ्या पर्वताकच चंवर येतालो. काजू, आंबे, काण्णा, चुन्ना, चारां, हांसाळीं, तरेक वार

फुलां कितें आनी कितें म्हणून ना, तातूंत रानझाडांकय चंवर येतालो, फुलांचो भार येतालो आनी आख्यो पर्वत सैमीक सोबीतकयेन आनी चंवरांच्या परमळान घमघमतालो. ह्या दिसांनी पर्वतार वचप ही एक व्हड पर्वणी आसतली.

दोनतीन दीस रावपाकच म्हणून सगळीं थंय वतालीं. हांतरूणां, पांगरुणां, कपडे हांच्यो पोटल्यो घेवन तांचे वांगडा रामू, नानू, धाकटो वताले. बायलांक वांगड जाय म्हणून कल्याण, लक्ष्मी, भीमा कोणय वतालीं.

वाटेर खंय खंय झरे आसात, कितें आसा दत्तूक सगळें खबर आसलें. भुरग्यांक घेवन तो सगळेकडेन वतालो. ज्यो कोण बायलो, चलयो वताल्यो त्यो मात मानांय, वावराड्यांबरोबर वचून थळांत भटागेर रावतालीं.

दसऱ्याकडेनय पर्वतार वचपाचो दत्तूक घोस्त आसतालो. जाण्टेले मुळसांत भाराची आनी पालखेची भेट घेवंक कौल घेवंक रावताले. दत्तू मात आडसाट्या चल्यांक घेवन सकाळींच वयर पर्वतार वतालो. भार काडटात तो सुवाळो तांकां पळोवपाचो आसतालो. मागीर ते भार, तरंगा आनी पालखे वांगडा मुळसांत येताले. आनी मागीर थंयच्यान जाण्टेल्यांवांगडा घरा परतताले.

सैमान नटिल्ल्या त्या पर्वताचीं प्रत्येक हंगामांत वेगवेगळीं रुपां आसतालीं. त्या पंचक्रोशींतल्या सगळ्यांकच न्हय तर तांच्या सोयऱ्या धायऱ्यांक लेगीत खासा पर्वतार वचून ताचीं रूपां नियाळपाचीं उमेद आसताली.



दत्तुचीं भुरगीं वाडटालीं तसो खर्चाचो आंकडोय वाडटालो. भाटाबेंसाच्या पयशांत तो खर्च भाग नासलो. हरशीं सिताबायगेर दूद घेयच नासलीं. केन्नाय कोणेय च्याचो पालो बी हाडलो जाल्यार गांवकान्नी कडल्यान पावभर दूद घेतालीं. पूण दत्तुच्या भुरग्यांक आवयचें दूद वर्सभर लेगीत मेळनासलें. म्हणून सिताबायक दूद घेवचें

पडटालें. तशें नासण्यांसत्व, पेजेनिवळबी ती दिताली. पूण दूद जायच पडटालें. भुरगीं खाणा जेवणार ये सर ती दूद घेताली. तातूंत उदक घालून नातरांक दिताली.

कसलोय व्हडलो खर्च, कपडे-बिपडे पिकेर एकच फावट घेवपाची तांची चाल. पूण भुरग्यांक आतां ते पाव नासले. शाळेंत लक्ष्मीपुजन, सरस्वती पूजन अश्यो कार्यावळी आसताल्यो. पंदरा आगष्ट, एकोणीस डिसेंबर मनयतालीं. त्या वेळार घालूंक भुरग्यांक नवे कपडे जाय पडटाले. सितबायचेर दिसानदीस खर्चाचो पेज पडत आसलो.

दत्तूक शिर्वीशेविशीं कांयच सांगचीना म्हणून सिताबायन केल्लो निश्चेव चड वेळ टिकलो ना. ताका बेकार भोंवतना पळोवन तिचें काळीज कळवळूंक लागलें. ती परत दत्तुच्या फाटल्यान शिर्वीस कर म्हणून लागली. दत्तू शिर्वीस सोदपाच्या निमतान आतरे-पयऱ्यान मडगवां वचून येतालो. केन्ना-केन्नाय सोमनाथागेर जेवंक रावतालो.

एकदीस सोमनाथान ताका विचारलें, - 'दत्तू, कुरतरकराचें रोपा दुकान आसा तें जाणा मरे तूं? तांकां खंय कॅश घेवंक खात्रेचो मनीस जाय म्हणी तो. तूं रावशी तागेर?'

-'जाता, पूण... वडगांवच्यान येवप-वचप म्हळ्यार...?'

-'तातूंत कितें? आतां केपेंच्यान मडगवां कोर्रेरी येता-वेतात. कितले जाण तांचेर येवन-वचून शिर्वीस करतात. तशें तुज्यान करूं येता. वडगांवच्यान केप्यां येवंकय तुका अडचण ना. तुजेकडेन सायकल आसा. गरज पडलीच जाल्यार म्हगेर राव, काशीनाथ आसा. '

-'आईक विचारून फाल्यां सांगतां.'

-'व्हडली आई ना म्हणची ना. तूं फाल्यांच्यान तागेर कामाक यो. साडे आठ मेरेन आमगेर पाव. हांव तुका तांच्या दुकानाचेर व्हरतां.'

दुसऱ्या दिसाच्यान दत्तू कुरतरकाराच्या रोपा दुकानाचेर कामाक वचूं लागलो. दनपारचो तो चडसो सोमनाथागेर जेवंक वतालो. गौरीनच ताका फोर्सान आपल्यागेर येवंक लायिल्लो. केन्ना केन्नाय काशीनाथ

ताका आपल्यागेर जेवंक आपयतालो.

घरांत कोणाकय कितेंय जाय जाल्यार तीं आतां दत्तूकडल्यान हाडून घेतालीं. ताईबायक, काकीबायक आपल्या पुतांक कितेंय धाडूं जाय जाल्यार तीं दत्तूकडल्यान धाडटालीं. एकूण मेळून दत्तुच्या शिर्विशेचो सगळ्यांकच फायदो जाल्लो.

सम्हयने सुमार दत्तून बरी शिर्वीस केली. मागीर ताची कुरकूर सुरू जाली... 'लोकांगेर सदांच जेवप बरें दिसता?... सदांच यो-वच करुंकय म्हाका त्रास जाता...' अशा साद्या-साद्या गजालींचेर तो कुरकूर करतालो.

त्या वर्सा राजू चवथेक आसलो. ताका पांचवेक खंय घालप ही विवंचना सिताबायक लागिल्ली. तिणें मनातच म्हळें, ... 'भुरगीं वाडटात तसो दिसान दीस खर्च वाडटलोच... म्हारगाय तर कमी जावपाचें नांवच काडना... पयलीं भशेन भाटा-बेंसार जावपाचें ना आतां... दत्तुचे शिर्विशेची आतां आमकां सामकी गरज आसा... आतांय ताका धरसोड करपाक लाऊं जायना... ताच्या जेवणाचो प्रस्नय खरो.. राजू फाटोफाट दुर्गाच्याय शिकपाचो प्रस्न आसा... काकीबायकडेन उलयतां...'

काकीबाय जाण्टेपणान थकिल्ली. तातूंत विठूभाऊ वचत साकून तिणें आपली कूड सोडूं नासली. सिताबाय ताईबायक घेवन तिचे म्हऱ्यांत गेली. आपल्या मनातली सगळी गजाल तांकां सांगून सिताबायन म्हळें, - 'म्हणून काकीबाय हांव मडगवां बिराड करतां म्हणटां... थंय म्हाका खूब त्रास जातले जाणा हांव, पूण ते बगर गत्यंतर ना.'

सिताबायची मडगवां बिराड करपाची गजाल आयकून ताईबय लागली रडूंक. -'सिताबाय, आमकां सोडून मडगवां रावंक वतली. आनी आमी हांगा कशें रावप तर? लग्न जावन ह्या घरांत येत साकून आमी एकठांय आसात सिताबाय, मदीं कितले प्रसंग आयले, पूण

आमी दोगांय एकमतार रावलीं. आतां तुजे बगर ना, नाका सिताबाय तूं वचूं नाका.'

काकीबायन ताईबायक आडायली. - 'ताईबाय अशी रडूं नाका. पापणी आयच्या काळार शिक्षण गरजेचें. दत्तुच्या शिक्षणाक लागून तिणें थोडे त्रास काडले ना, वच मडगवां, कर बिराड, त्रास काडपाची तुका संवयच आसा. नातरांक तरी शिकय. दत्तूकय मात्सी जबबदारी कळुनी. एक जाग्यार थीर उल्ल्यार जाग्यार येत घडये तो. ना जाल्यार शिर्वीसो धर सोड करप, पयशांचो गोबार करप हातुंतच घूस्पून उरतलो तो. वच तूं सितबाय मडगवां.'

-'पूण सिताबाय, तुवें कित्याक मडगवां रावूं जाय? दत्तूक बिराड करून दी आनी यो हांगा.' ताईबायन म्हळें. तिच्यान सिताबाय बगर रावपाची कल्पना लेगीत करूं नज आसली.

-'आगे, तिका हांगा एकटी कित्याक म्हणून राव म्हणटा तूं? नातरां बरोबर रावुनी तिका.' काकीबायन म्हळें.

-'हय काकीबाय, आनी खरें सांगूं, म्हजे सुनेक तुमी वळखतात. आयिल्ल्या प्रसंगाक तोंड दिवपा इतली ती चतूर न्हय, जेवण-खाण कितलेंय करून वाडत ती, कसलोय कश्टांचो वावर लेगीत करत, पूण संवसाराची जबाबदारी घेवन भुरग्यांक वयर काडूंक तिका जमचें ना. तातूंत आमचो दत्तू, ताका तुमी वळखतात. असो मांडून हाडिल्लो म्हज्या संवसाराचो माण दोगांय घोव बायलां खिळखिळावन उडयतलीं. म्हज्या नातरांची धांदळ जातली.

- 'खरें तुजें सिताबाय, म्हणून तुका हांव बरेभशेन मडगवां वच म्हणटां. हेंय खरें, की तुजे बगर आमच्यानी हांगा रावंक जावचें ना. हांच्या फाटल्यान ह्या येद्या व्हडल्या घराची जबाबदारी तुवें घेतिल्ली. पूण आसूं, जातलें कशेंय हांगां. तुज्या संवसारान निकतीच कूस परतिल्या. चल तूं, तोच पयलीं जाग्यार घाल.'



सिताबायन मडगांव बिराड करपाचें थारावचे पयलीं काकीबायक, तईबायक जशें विचारलें, तशें नंडांक आनी हरीकय विचारलें. सगळ्यांनी तिका बिराड कर म्हणून पाठबळ दिलें. विठाय तर सामकें खोशी जालें. ताणें आनी सोमनाथान तिका बिराड सोदून दिवन तिचो संवसार थाटून दिलो.

दोन ल्हानश्योच कुडी, एक रांदचेकूड, भायलेवटेन मान्नें आनी संडास, मुखार एक पडवी. जालें.

-'इतल्या ल्हान घरांत कशें रावप?' सिताबायचेर लेगीत आकांत आयलो. पूण तिणें भायर कांयच दाखयलें ना. ती कणखर पणान उबी रावली. तिणें गरजेपुरतें सामान हाडिल्लें.

-'पयलीं हातूंत भागोवया. मागीर पळोवया दुसरें बिराड. भुरग्यांचें इश्कोल एकदांचें सुरू जावनी.'

सोमनाथान राजूक आनी दुर्गाक लागींचेच शाळेंत घालीं. राजू पांचवेक आनी दुर्गा दुसरेक आसलें.

वडगांवचे इल्लेशे दोन कुडींचे शाळेंतल्यान तीं मडगांवचे व्हडले शाळेंत आयिल्लीं. व्हड-व्हड वर्ग, कचकचीत भुरगीं, व्हडल्या बांकार बसप हें सगळें पळोवन दोगांय कांचवेलीं. राजू लेगीत पयले आठ दीस रडतच शाळेंत वतालो. फकत शाळेचोच भंय न्हय तर अनवळखी भुरगीं, अनवळखी शिक्षक हांचोय तांकां कांच जाल्लो. चडकरून राजूक प्रत्येक तासाक एक शिक्षक येता तें पळोवन चड भंय दिशिल्लो.

दुर्गा आपूण ते शाळेंत कशेंच वच्चें ना म्हणून हटून बसलें. शाळेच्या कांचान तका जोर येऊं लागलो.

पूण सिताबायन धीर सोडलो ना. ती ताका शाळेच्यो गजाली सांगून, काणयो सांगून फुसलावंक लागली. तितलेसर राजूय जाग्यार आयिल्लो. ताका शाळेची संवकळ जाल्ली. तोय शाळेंतलीं अजापां, मजा सांगून भयणीक फुसलांवक लागलो.

थोड्या दिसांनी दुर्गा निवळ्ळें. ताका अभ्यासाची आवड आशिल्ली

म्हणून खूब बेगीन तें निवळ्ळें आनी शाळेंत वचूंक लागलें. आतां मात ताका शाळा आवडूंक लागली. शाळेंतल्यान आयलें काय शाळेंतल्यो गजाली आज्येक सांगूक सुरवात जाताली. ...'आज्ये, आज मगे..' अशें म्हणून ताच्या खबरांक सुरवात जाताली. बाईन कितें म्हळें, भुरग्यांनी किते केलें हीं सगळीं अजापांच अजापां ताचेपासत आसतालीं, तींच तें आज्येक सांगतालें.

राजूकय ही शाळा खूब आवडिल्ली. पूण एक गजाल ताका आवडूं नासली ती म्हल्यार शाळे भोंवतणी झाडां मळ कांयच नासलें. वडगावां कशे ते मदले सुटयेंत वडाच्या पाळांक गोळोव मारून झेलताले. बोरीची तन्नी पिकी बोरां, पेरां, आदमां, वंवळीचे धडे, कोणाचीं बिम लां कितें आनी कितें म्हणून ना तांकां चाबडावंक कितेय तरी मेळटालें. ते भायर शाळेच्या लागींच इश्वरा देवूळ म्हळ्यार पाकें नाशिल्लें, वण्टी नाशिल्लें देवूळ आसलें. थंय बरें सुळसुळीत लींग आनी फुटको-तुटको कसो नंदी आनी राखणदार आसलो.

तें लींग उगड्यार आशिल्ल्यान ताका कोणय हात लावंक शकताले. शाळेंतलीं भुरगीं मदले सुटयेंत इश्वरा देवळाकडेनच खेळटाली. थंयी बऱ्यो पेरी आसल्यो, जांबळीण आसली. चड करून परिक्षे दिसांनी सगळीं भुरगीं रानवटी फुलां हातांत घेवन लिंगाक प्रदक्षणा घालून तीं फुलां लिंगाचेर घालतालीं आनी परिक्षेक पास कर म्हणून मागून घेताली.

पूण हे शाळेचे भोंवतणी घरांच घरां आसलीं. इल्लेंशें आंगण आसलें थंयी व्हडले भुरगे खेळूंक वतकर राजुच्या वर्गांतल्या भुरग्यांक खेळूंक जागोच नासतालो. त्या वेळार मागीर राजू वडगांवच्या शाळेच्यो गजाली आपल्या इश्टांक सांगतालो.

लायट म्हणटात ती तांणी केन्नाच पळोवंक नासली. शाळेच्या वर्गांत पावस पडटकीर लायट पेटयताले. तो बल्ब पळोवन दुर्गा सामकें भियेलें. 'वयर उजो कसो पेटलो?' म्हणून ताणें किळच्यो माल्ल्यो.

सगळी भुरगीं हासूं लागली. बाईन ताका वोगी बसयलें आनी ताका अपुरबायेन तो बल्ब कित्याक लायला कसो पेट्टा तें सगळें सांगले. राजूय बल्ब पेट्टकर भिलो. पूण ताणें हळूच बांकावेल्या सांगात्याक विचारून घेतलें.

केन्ना घरा वतलें आनी आज्येक ही नवीदाद सांगतलें अशें दुर्गाक जाल्लें. वाटेर भावाकडेन तें ह्याच अजापाचेर उलयतालें. दारांत पावतनाच ताणें आज्येक नविदाद सांगली. सिताबायक ती नवीदाद नाशिल्ली. तिणें म्हळें, - 'आगो, हांव जायते दीस हांगा हॉस्पीतलांत आशिल्लें तेन्ना हावें अशे उजवाड दिवपी गुळे, केळी गब्या भशेन धवो उजवाड दिवपां कांडयो पळयल्ल्यो. कसो बाये उजवाड तातूंत भरून दवरतात कोण जाणा. पीट्ट करून एक मोल ओडपाचें उजवाड जाता. तें मोल वयर काडलें काय उजवाड वता.

-'आगे बाये, जादू शी? रमान अजापान म्हळें.'

-'हय आई, म्हाका जाल्यार सगळी जादूचशी दिसली.' राजून म्हळें.

दत्तू घरा येतकीर भुरग्यानी ती नवीदाद बापायकय सांगली. ताणें म्हळें, - 'हांगा, जायत्या घरानी अश्यो लायटी आसात. रस्त्यारय पेटयतात. हांव तुमकां एक दीस व्हरून दाखयतां.'

सिताबायन म्हळें, - 'आगे, रमा, आमी आतां शारांत रावंक आयल्यांत, कितें कितें नविदादी दिसतात त्यो पळोवपाच्यो, आयकुपाच्यो.

मडगांव रावंक येवन तांकां चड त्रास जालो तो घराचो. इतलीं वर्सां ती व्हडल्या घरांत रावन आयिल्ली. तांची रांदचीकुडच ह्या सगळ्या घरायेदी आसली. तांचें मान्नें बरोबर दोग-तीग जाणा न्हांवक शकतात इतलें व्हड आसलें.

सुरवातीक तांचो सामको घुस्मटमार जालो.

-'हांगा हालूंक, धोलूंक लेगीत मेळना, रांदप कशें?' रमान म्हणचें.

सिताबायच्याय मनांत हे सगळे प्रस्न येताले. पूण तिचें एक तत्व आसलें... 'खंयच्याय प्रसंगार आ ऽ म्हणून रडत बसप ना,' म्हणून ती तोंडान आवाज काडनास्तना वोग्गी रावताली. तातूंत ती जाणा आसली, ती मात्सी जरी उबगली जाल्यार सून आनी व्हडान बोवाळ घालतली आसली. मागीर तिणें सुनेच्या निमतान आपल्याय मनाक समजावचें,

-'आगे, वारें येता तशें सूप धरूंक कळ्ळ्यार तो मनीस खंयचेय परिस्थितींत आनी खंयी गेल्यार जिखता. सद्या आमी आयल्या ते परिस्थितीक तोंड दिवया. मुखार आमकांय व्हडलें घर मेळत घडये. मनशान सदांच मनांत आशा दवरची कळ्ळें मगे?'

मेळटा तातूंत समाधान मानपाच्या सिताबायच्या सभावाक लागून तिणें हांगाचे परिस्थितीकडेन जुळोवन घेतलें. पूण रमाबायचो सभाव कित्यांतय समाधान मानपाचो न्हय. पयलीं पयलीं ती सिताबायचे असवडीं फडफडटाली. घोव एकोडो मेळ्ळ्यार ताचेर फडफडटाली. हांगा मोट्यान उलोवंकय मेळ नासलें. फुतफुतल्यार लेगीत भायर आयकूंक येता इतलो तो जागो ल्हान आसलो. रमा मागीर आयदनाचेर राग काडटाली.



## 18

मडगांव येतसाकून सिताबायक कल्याणाची चांटये पावलाक याद येताली. कल्याण तिची निखटी ववराडीच नासली वेळाप्रसंगार आवयचे मायेन ताणें सिताबायक सांबाळिल्ली. गरजेक जिवाची इश्टिण जाल्या. तिका लग्न करून हाडिल्ल्या दिसाच व्हडले आईन कल्याणाच्या हातांत इल्लेशा सिताबायक सोंपयल्ली. धा वर्सांची सिताबाय ल्हान घराब्यांतल्यान आयिल्ली. शिरवयकाराच्या व्हड घराब्याचे रिती-रिवाज आनी सगळें सगळें कल्याणानच तिका शिकयल्लें.

कल्याणाची आवय पार्वती व्हनीच्या पयलींपसून शिरवयकारागेर वावुरताली. तांच्या घराब्याचे सगळे इतिहास तिका खबर आसलो. वेळाप्रसंगार तो तिणें आपल्या धुवांक सांगिल्लो. तोच कल्याणान सिताबायक सांगून तांच्या घराब्याची वळख घडयल्ली.

इतल्या तेपाचो कल्याणाचो सहवास अचकीत कसो सुटिल्लो. फाटल्या फुडल्यान भोंवपी कल्याण नाशिल्ल्यान, चड करून रांदचे कुडींत सिताबाय सामकी घुस्पताली. पावला-पावलाक ती कल्याणाक उलो मारताली. मागीर रमा हांसून मुखार येवन तें काम करताली.

सिताबाय मागीर आपल्याच मनाक फुसलायताली, '... प्रत्येक गजालीचेर काळ हेंच बरें वखत...वेळ वता तसो म्हाकाय

कल्याणाबगर वावुरपाची संवय जातली... न्हय, म्हाका ती करुंकच जाय... हांव हांगा आयलां ते अपुरबायेच्या नातरांक शिक्षण दिवंक... दत्तू म्हज्या हतांतल्यान सुटलो... म्हाका नापास करून उडयलें ताणे... पूण नातरांक हांव अशीं सोडचें ना.... तांकां शिकोवन व्हड मनीस करतलीच... म्हणून तर आमी इतले त्रास काडून ह्या इल्लेशा कुर्कुटांत रावंक आयल्यांत... आतां येता ते अडचणीक तोंड दिवंक उबें रावकच जाय... येऊं कितलींय वादळां, देवतेन आरोग्यच दिल्यार पुरो... दुदापरस दुदावेली साय बरी करून सांबाळूं जाय म्हणटात... खरेंच हांव म्हजे सायेक कशीच विस्कटूंक दिवचें ना... जिवापाड सांबाळटलें... हें घर जाऊं बिळ कशें नातरां म्हजीं एकदां मार्गाक लागलीं काय हांव खोशी...'

अशा तरेच्या विचारांनी सुरवातीक सिताबाय राती जगयताली. मागीर-मागीर ती बरीच घट जाली. ती सदां म्हणी, - 'दुसऱ्या कोणाकय बुध्द दितली, उपदेश करतली जाल्यार, तो पयलीं आपणे आचरणात हाडूं जाय, मागीर दुसऱ्याक शाणेपणां सांगचीं...' आपल्या ह्याच विचारांचो आदार घेवन तिणें आपल्याक घट केली.

सगळ्या अडचणींक तोंड दिवपाचें तिणें थारायल्लें खरें, पूण पावसान तिचो निश्चेव हालयलो. तीं रावतालीं तें घर भाटांत मदींच आसलें. भोंवतणी माड, तरेकवार रुक, झोपां आनी हें सगळें थोडें म्हळ्यार लागीं शेतोड आसली. शेतां उदकान भरून तें उदक भाटांत लेगीत पावताले. घरच्या तीन वाटानी हुंवार आयिल्लेवरी उदक भरतालें. ताची ओल हांच्या घरांत येताली. पावस तांकां दिसाचोय त्रास दितालो आनी रातचोय त्रास दितालो.

वडगावां आंगणातल्या पावसाची मजा तीं घेतालीं. पूण हांगा चारय वटच्यान पावस, वारें, वाऱ्याचो घूं ऽ घूं असो आवाज माडाच्या शेंड्यांत घुस्पून येतालो आनी जाण्टयांक लेगीत भिवयतालो. इतल्या लागींच्यान पावस वाऱ्याचो खेळ पळयतना नातरां बरोबर आजी लेगीत

भियेली.

सिताबाय नातरांक गोजडेंत गुठलावन बसयताली आनी तांचो भंय वचपाक तांकां काणयो गजाली सांगताली. त्या दिसा तिणें शिरवयकाराल्या घरांतल्या आपल्या पयल्या पावसाची गजाल नातरांक सांगली.

-'जाणा मगो, म्हज्या कुळारच्या घराक राजआगंण बी कांय ना तुमी पळयलां तें.'

-'हय आज्ये, पूण मुखार बरें आंगण आसा, थंय खेळूंक मेळटा.' दुर्गान म्हळें.

-'तर त्या घराच्या पडवेर बसून पावळ्यानी रकपी पावस आमी पळयतालीं. वडगावां आमचें राजआंगणाचें घर. चारय कोनशांक चार येदे व्हड घोगे पडटात ते पळोवन म्हजी भंयान गुळी जाली. हावें कल्याणाक घट्ट वेंग माल्ली आनी म्हळें, 'आगो पावया मळब फुटलें काय कितें?' केदो मोठो पावस पडटा हो, आतां बुट्टी येतली मगो, आमी वयर माळयेर वचून रावया, चल, चल बेगीन.'

-'आ, आज्ये, तूं खऱ्यानीच भियेली. शी ऽ शी ऽ शी. आमकां केन्नाच भंय दिसुना मगे त्या घोग्यांचो.' राजून हांसून म्हळें.

-'आज्ये, तूं सामकीच भिवकुरी मगे. आमी पळे कितलीं घट.' दुर्गान आज्येक चाळयली.

-'आगो, तुमी ल्हानपणांतल्यान आमच्या वेंगांत बसून तो आंगणांतलो घोगो पळयला. तुमी कशीं भितलीं. हांव पयलींच म्हजे बाक, व्हनीक सोडून आयिल्लें. ह्या घरांतलीं सगळीं म्हाका नवीं आसलीं. आनी असो घोग्यानी रकपी पावस पयलेच खेप पळयतालें म्हणून म्हजी भंयान गुळी जाली.'

-'मागीर तुवें कितें केलें?' व्हडाव्हडान हांसत राजून आनी दुर्गान विचारलें.

- 'आज्येनय म्हाका फुसलायलें. रातची खबर ती. कल्याणान

म्हाका हळूच चवखेर व्हरून आंगण दाखयलें. आंगणातलें उदक तुमातल्यान व्हांवन भायर वतालें. तरीय पयल्या वर्सा म्हाका त्या घरांत पावसाचो भंयच दिसतालो. मागीर म्हाका आशाड म्हयन्यांत शिवड्या धाडलें. थंय बाक, व्हनीक ही खबर सांगतकर तींय तुम चेभशेन म्हाका खूब हांसलीं.



तरेकवार अडचणी, त्रास हातुंतल्यान सिताबाय आपल्या संवसाराचें व्हडें पावला-कणकणी विचार करून हळू-हळू मुखार व्हरताली. हांगा तिका एकच सुशेग आसलो दत्तू बरेभशेन शिर्वीसेक वचून येतालो.

सिताबाय आडून-पाडून हाचेर-ताचेर घालून शिर्वीस कितली गरजेची, खर्च कशे वडत आसात तें सांगत रावताली.

राजू आनी दुर्गा शाळेक संवकळिल्लीं. तांकां आतां ही शाळा सामकी आवडिल्ली. शाळेंतल्या कार्यावळीनी, सर्तीनी तीं वांटो घेतालीं. दुर्गाक इनामां मेळटालींच. घरा येतकर आजीय ताका इनाम दिताली.

तांचे शाळेंत वाचनालय आशिल्लें. घरा व्हरूंक ल्हान ल्हान काणयां पुस्तकां दितालीं. तीं हाडून राजू आज्येक वाचून दाखयतालो. तेळसांजचे हातपांय धुवून परवड म्हणटकच सिताबाय तांकां काणयो सांगताली. राजून वाचून दाखयल्ल्या पुस्तकांत पुराणाचेर आदारीत काणी आसल्यार ताचे मुखावेली खबर सिताबाय तांकां सांगताली. पावसा दिसांनी रातीकडेन तांगेर पुराणां वाचतालीं. तीं सगळीं पुराणा सिताबायक पाठ जाल्लीं. तातल्यो काणयो ती नातरांक सांगताली.

गावन काणयो म्हणून दाखयल्यो काय दुर्गा त्यो रोखड्योच पाठ करतालें, आनी शाळेंत कसल्याय कार्यावळी पयलीं शिक्षकांनी सांगल्यार म्हणून दाखयतालें. दुर्गाचो ताळोय बरो आशिल्लो. सगळे शिक्षक ताची अपुरबाय करताले.

दुर्गाचो अभ्यास रमा घेताली. राजुचो अभ्यासमात तिका

कळनासलो. तांच्या घरामुखार दोन आडव्यो चाळी आसल्यो. तातूंत राजुच्या वर्गांतले भुरगे रावताले. राजू कळनाशिल्लो अभ्यास तांगेर वचून पुराय करतालो.

दोगांय नातरां अभ्यास करतात तें पळोवन सिताबाय मनांतल्यान खोशी जाताली, तिणें मनांतच म्हणचें... 'जांव दत्तून शिकचें म्हणून हावें जीव पिसडून घेतलो... दत्तून म्हाका केन्नाच तकली वयर काडून जगूंक दिलें ना... जांव हीं दोगांय शिकपाक हुशार आनी शाळेंतय कितें कितें करून नांव जोडटात... आनी कितें जाय म्हाका?... हांकां दोगांकय बरे तरेन वाडोवपाची शक्तदिल्यार पुरो देवतेन...'

सिताबाय दत्तू आनी नातरां पासत मडगांवां रावंक आयिल्ली खरी, पूण तिचें सगळें चित्त वडगांवाच आसलें. तिका चांटये पावलाक ताईबायची, काकीबायची याद येताली. काकीबाय नात्यान तांची मांय, पूण ती दोगांय सुनांकडेन इश्टागतीच्या नात्यान वागताली. म्हणून तीं तिगांय आपलीं सुख, दुखां एकामेकाकडेन वांट्टालीं.

दर आयताराक दत्तू वडगांव वतालो. आयतार दीस मुंडकारी कितेंय प्रस्न आसल्यार घेवन भाटकाराक मेळूंक येताले. सुरीक दिल्ल्या माडांच्या पयशांचो वा हेर कसलो कसलो हिशेब - ठिशेब करपा आसतालो. शिर्वीशेक लागून भयर आशिल्ले सगळे दादले आयतार दीस घरा मेळटात म्हणून विठूभाऊन ही माण्णी केल्ली. आयतारदीस वडगावां वचून येतकच थंयच्यो गजाली दत्तू येवन आवयक सांगतालो.

त्या आयताराक दत्तू ताईबायगेर जेवंक रावनास्तना रोखडोच मडगांव आयलो. काकीबाय चड बरी ना म्हणपाची गजाल ताणें आवयक सांगली. आयकून सिताबाय सामकी आकूळ-पिकूळ जाली. गोकुळाश्टमीच्या निमतान तीं सगळीं वडगावां वचपाचींच आसलीं. गोकुळाश्टमी उपरांत तीं वज्याचें खाण करूंक सुरवात करतालीं. सिताबायन वडगांव रावन खाणां करपाचें थारायल्लें. रमाक आनी भुरग्यांक ती दत्तू बरोबर मडगवां धाडपा आसली.

पूण काकीबायची गजाल आयतकर सिताबायक ऊठ-ऊठ जालें. गोकुळाश्टमीक अजून आठ दीस आसले. तिणें रमाक घरांत कितें कितें कर भुरग्यांक कशीं कशीं सांबाळ सगळे समजावन सांगून ती दत्तूबरोबर वडगावां आयली.

काकीबायची सामकी दशा जाल्ली. ती पेजे निवळार जगताली. उलोवपाची लेगीत तिका तांक नासली. ताईबाय म्हऱ्यांत येवन सिताबाय खूब रडली. काकीबायन नज आस्तनाय मडगांवच्यो गजाली विचारल्यो. सिताबायन नातरांची तोखणाय सांगतकर तुटक तुटक उतरांनी तिणें म्हळें, 'तुजीं...ना... नातरांच..तु..जें..नांव..कर..तलीं.. तु.. का यश ... मेळट..लें..'



काकीबायची परिस्थिती पळोवन वज्याचें खाण करपाची उमेद कोणाकच नासली. पूण काकीबायनच तांकां वर्जी धाडपाचो आग्रो केलो. आपल्या विजयागेरय वजें धाडात म्हणून अर्द उलोवन अर्दकुरवांनी तिणें सांगलें.

चवथीकडेन काकीबायक घडस लागले. वर्सावळीचो गणपतीतर हाडुंकच जाय आसलो. जेवण, निवेद्य सगळें खुमे खूम करुंकच जाय म्हणून तीं करतालीं. पूण तातूंत जीव नासलो. चवथीचो बोवाळ काकीबायचेर चड आसतालो. पयलीं देवा निवेद्याचीं सगळीं कामा ती आपूणच करताली. विठूभाऊ वतकर तिका निवेद्याक हात लावंक मेळना जालो. तेन्ना ती म्हऱ्यांत बसून दाखोवन सगळें करून घेताली. तये दिसा पातोळ्यो, चवथी दिसा पुरणाचीं पांच खाजीं ती नकसूद हातान पयलीं करताली. तिचो हाताळो सुनानी घेतिल्लो, तें पळोवन ती खोशी जाताली.

चवथी दिसा मानांय पणसा खांदयो हाडून उडयताले. ताच्यो खोलयो कल्याण आनी ताच्यो भयणी काडून धुवन पुसून खोटल्यांत दवरतालीं. तांचे हिटांदोणे, सुयो तोपपाचो काकीबायचो बोवाळ आसतालो. ते

दोणे सारके एका अकाराचे जाऊं जाय आसले. थोडे मोठ्ठे, थोडे बारीक जाले जाल्यार साननधाकण्यांत उकडूंक घालूंक त्रास जातात. म्हणून कोण दोणे तोपतात तांचेर बारीक लक्ष दवरताली. पंचमी दिसा हिटांदोणे आनी सान्नाक लावंक चण्याचें बटाट घालून तोंडाक आनी नाल्लाचो दाट रोस करून घेवपाचो तिचो बोवाळ आसतालो.

देवदेवस्पणातय येद्दी चूक केल्ली तिका आवड नासली. कसल्योय भाज्यो मेळ्ळ्यो ना, आसा तें घालून करूंया म्हळ्यार ती तयार जाय नासली. पांच पाल्या भाजी जांव आळवा गांठी, कंदमुळां सगळें ती मानांयाक धाडून खंयच्यान तरी फैदासून हाडपाक लायताली.

अंदू मात तांणी सगळें शास्त्रापुरतेंच केल्लें. मनात काकीबायचो हुस्को आस्तना खाणा-जेवणां करपाची कोणाक गोडी आशिल्ली?

वर्सावळीप्रमाण मुंडकाऱ्यांक पानां दिवप काय कितें हो प्रस्न आयलो. वर्साक चवथ-पंचमी दीस सगळे मुंडकारी तांगेर जेवणाचीं पानां व्हरूंक येतालीं. एक व्हडलो कपडो हाडून ताचेर वाडिल्लें पान दवरून ताका घट्ट गांठ बांदून तीं व्हरतालीं. पातळ गोड्शें व्हरुंक तीं ल्हान मायटूल, बुडकुलो हाडटालीं. तांकां पानां दिवपाचो काकीबायक घोस्त आसलो. इतलीं वर्सां तीच तें काम करताली. 'अंदू तिकाच लागून पानां घालप ना?'

सिताबायक बरें पटलें ना. तिणें म्हळें, - 'मुडकाऱ्यांक पानां दिवप ही काकीबायची खोश्येची गजाल आसली. थंय कितेंच हय-गय केल्ली तिका आवड नासली. अंदू ती बरी ना म्हणून आमी पानां चुकोंव नये. वायट दिसतलें तिका. तिचो आशिर्वाद आसा आमकां. ती आमकां चवथं करूंक दितली. घालुंया आमी पानां.'

सिताबायन पानां घालूं जाय म्हणून रानप्याक त्या प्रमाणें जेवण करपाक लायलें खरें पूण तिका मनांतल्यान हुसहुशे लागिल्ले.

चवथ बरे भशेन जाली. सस्ठी दिसा काकीबाय गेली. एके पिळगेची निमणी पणटी काकीबाय आशिल्ली. ती पालवली आनी एक

पिळगी सोंपली. विठूभाऊ घरांत, गांवांत सगळ्यां पासत वावुरतालो. काकीबाय लेगीत घरच्यांपासतय न्हय तर वयल्यावाड्यार सगळ्यांच्या अडी अडचणीक पाविल्ली. मुंडकाऱ्यांच्यो बायलो लेगीत केदेय वेळच्यो मागिल दारांतल्यान येवन आपलीं कामां तिचे कडल्यान करून घेतालीं.

एक म्हयनोभर सुमार तांकां वायट नक्षत्र लागलें. सिताबायन म्हळें, - 'म्हाका हाडिल्ल्याक थोडो लोक गेलोना ह्या घरांत, पूण वायट नक्षत्र केन्नाच लागूं नासलें.'

बारावो जालेबरोबर ते दिसाच सांजचें तांकां घर धापूं जाय आसलें. कोणे कोणे खंय वचप हाचेर तांची भासाभास जाली. रामनाथाक सुधीरान आपल्यागेर दोन कुडी रावंक दिल्यो. दोगय इश्ट तशेंच एकामेकाचे साडू आशिल्लें. सोमनाथान ताईबायक आनी बापायक आपल्यागेर मडगवां व्हरपाचें थारायलें. पूण शाणूचो सुनेवेलो राग अजून वचूं नासलो. ताणें रामनाथाबरोबर रावपाचें थारायलें. ताईबाय मात सिताबाय मेळटली म्हणून मडगवां वचूंक तयार जाली. विठूभाऊच्या तुकारामाक सदा शेटीन आपल्या घरा रावंक आपयलो. ताचे येदें व्हडलें घर आसलें. पूण घरांत ती घोव बांयलां आनी माथ्यावयल्या पदराची ताची भयण तांगेर रावताली. बाकीचें घर तशें धांपूनच आसलें. म्हणून ताणें तुकारामाक रावंक आपयलो. ताणें जायल्याकय आपले बरोबर व्हेलें.

इकराव्या दिसा शुध्दचार जातकर तांणी सामान बांदून दवरलें. दुसरे दिसा बारावो जातकर सांज जावचे पयलीं घर धापूं जाय आसलें. शिरवयकारालें घर अशें पयले खेपेच धांपून दवरपाचो वेळ आयिल्लो. इतलीं वर्सां रातच्या न्हिदपावेळर रामू दार धांपून आडामो घालतालो. धाकटू आनी तो मागीर सदर चवखेर न्हिदताले. फांतोडेर उठून तो जडगुळो आडामो काडून दार उगडटाले. दीसभर दनपार तिनपार म्हणनास्तना दार सदांच उगडें आसतालें.

पयलेच खेपे सांज जावचे पयलीं. घराचें म्हाल दार धांपलें. कोणाच्या तरी ट्रंकाचें कुलप घेवन घराक घालें आनी जड मनान तीं थारिल्लें कडेन गेलीं.

सिताबाय सामकी सतर-वितर कशी जाल्ली. तिच्या लग्ना वेळार घरांत सगळ्यो मांयो, आजीमांय आसली. कल्याणान तिका शिटकावन दवरिल्लीं, 'कितेंय जाय, म्हाका सांग, तुवें जाण्ट्यांकडेन उलोलप ना, कळ्ळें मु?'

ही शिकवण सिताबाय सामकी पाळटाली. पूण काकीबाय हाका आडवाद आसली. ती भुरग्यांमदीं भुरगी आनी जाण्ट्यांमदीं जाण्टी जावन वागताली. ताईबायक, सिताबायक तर ती इश्टीण कशी वागयताली. ताका लागून तांचें हितगूज चलतालें तें काकीबाय कडेन, 'आतां आमी बऱ्या-वायटाक कोणाचो सल्लो घेवप? म्हणत दोगय जावो रडटाल्यो. बा गेल्ली तेन्ना लेगीत सिताबायक इतलें रडूंक येऊ नासलें, तितली ती काकीबायक रडली.



मडगांव येतकर ताईबाय सोमनाथागेर आशिल्ल्यान सिताबायन आनी ती एकमेकांगेर येता वेताल्यो. धां-पंदरा मिनटांच्या वाटेर सोम नाथ रावतालो. ताच्या मात्शें मुखार विठाय रावतालें. चडशीं सिताबाय आनी विठाय सोमनाथागेर येतालीं. मागीर तांच्यो गजाली रंगताल्यो.

म्हयन्या खातीर आयिल्ली ताईबाय दोनेक म्हयने सोमनाथागेर रावली. शाणू मात वडगावां रामनाथागेरच राविल्लो. आतां सुनेपरस ताका पुताचो चड राग आसलो.

खंडाकडेन म्हयनोभर वडगांवां रावंक यो म्हणून जावेक सांगून ताईबाय वडगांवां गेली.

खंड जालो, मदल्यो सण-परबो जाल्यो. सिताबायचे मडगांवा-वडगांवा चालूच आसलें. आतां ती कारेंरीर बसून एकटी यो-वच करूंक शिकिल्ली. एप्रीलांत भुरग्यांच्यो परिक्षा जाले बरोबर दोगांय

नातरांक घेवन ती वडगावां रावूंक आयली. रमा मात घोवाक रानून वाडूंक मडगावांच रावली.

घरा येवन तिणें वर्सावळींचीं सगळीं कामां जाग्यार घालीं आनी जुनांत शाळा सुरू जावचे पयलीं मडगावां आयली.

आतां सिताबायक मडगांवची संवय जाल्लीं. आतां पावसाचोय तांकां भंय दिसलो ना. सिताबायच्या मनात खरो सुशेग मेळिल्लो. तरी ती फाविल्ल्या वेळांत गोजड्यो, कपयाळीं, वाती करताली.

तांच्या घरा मुखावयल्या चाळींतलीं भुरगीं भाटांत मदीं खेळटाली चाळिंतल्यो बायलो सांजवेळच्यो भाटांत मेरेर साकाकुडको घालून बसून गजली करताल्यो. तांची संवकळ जातकर सिताबाय लेगीत थंय वचून बसूं लागली.

रमा मात सांजवेळची शिवण-सूत ना जाल्यार विणकाम घेवन आपल्याच घराचे पडवेर बसताली.

हालींसरा रमाच्या जिबेची रूच गेल्ली. ती सुकिल्लीय बी. सिताबायच्या तें लक्षांत आयलें तिणें म्हळें,

-'रमा, आगे हालीं जेवण सामकें जेवना तूं. कितें जालां तुजें?'

-'जिबेक रूचच ना शी.'

-'केन्ना न्हाल्ली तूं?'

-'फाटल्या म्हयन्याक पंचमी दुसऱ्या दिसाच भायर जाल्लें हांव.'

-'आं, म्हणटकीर अजून म्हयनो जावचो आसा. आंगार सारकें जाल्लें मगे?'

-'ना, दोन दिसांनीच थांबिल्लें. जालें तेंय सारकें जाऊं नासलें.'

-'एक, एक वेळा खोडटा तशें. ह्या म्हयन्याक जातलें सारकें, म्हाका सांग हां.. लज बी धरून बसूं नाका. भागल्या तूं, आनी जिबेकय रूच ना म्हणटा न्ही, पळोवया.'

सिताबाय सुनेक शिटकावणी दिवनच रावली ना. तिणें तिचेर बारीक लक्ष दवरलें. म्हयन्या कडेन तिच्या पोटांत खुब दूखू लागलें.

पूण आंगार एकच दीस जालें. तेंय मात्सेशें सिताबायक हुस्को जालो...
'ही गजाल कोणाक विचारची? वैजीण वडगावां. हांगां मडगांवा खंय मेळत काय?..

तांचे मुखावेले चाळींत, पै म्हणून एक फामील रावताली. तांगेर सिताबायच्याच वयाची एक बायल आसली. तिका सगळीं पै काकी म्हणटालीं. सिताबायची ती इश्टीण जाल्ली. ती पेपर बी वाचताली. पुस्तकां वाचताली. सांजवेळची भायर बसतकर ती तरेकवार गजाली सांगताली. हेर बायलो आपले कसलेय प्रस्न आसल्यार तिका विचारताल्यो, ताचेर मागीर ती उपाय सांगताली. ह्या वेळार सिताबायक, तिची याद जाली. ते बरोबर ती पै काकीगेर गेली.



पै काकीन तिका दोतोर नायकागेर व्हरून सुनेय दाखोवंक सांगली. दोतोर नायकाचें हॉस्पीटलय आशिल्लें. 'बरें, व्हरतां? अशें म्हणून सिताबाय घरा आयली. पूण तिचो निर्णय जायना जालो.... एकदम दोतोराक कितें म्हणून दाखवप.... आमी अशें केन्नाच केलें ना... रामनाथाक विचारतली जाल्यार आयताराक अजून चार दीस आसात. कितें करया?... ती मनांतल्या मनांत येवजीत रावली. तिणें दत्तूक रमाची गजाल सांगून तिका दोतोरागेर व्हरून दाखोवया म्हळें.

दत्तू फडफडलो -'आई, हे दोतोर -बितोर म्हाका खबर ना हां. तुमी बायलां पळोवन घेयात कितें तें. म्हाक बेश्टीच सुटी-बिटी घेवंक मेळचीना म्हणून सांगला.

सिताबायची चिंता वाडली.. 'हो दत्तूय म्हणून एक... तो दोतोरागेर येना म्हणटा, जाल्यार हावे करप कितें..? आमी बायलां केन्नाच अशी एकटीं दुकटीं खंयच वचूं ना.... कशी व्हरूं रमाक दोतोरागेर, तिका पळयल्यार ती सामकी ज्यामशी दिस्ता, फाल्यां सकाळींच दत्तूक धाडून विठायेक आपोवन हाडून विचारतां...'

केन्नाय सांजचें उदक जाय पडल्यार रमा बांयचेर वचून हाडटाली.

बांय दुसरे चाळीकडेनच आशिल्ली. आजय दोन कळसुल्यो घेवन ती उदक हाडूंक गेली. एक कळसुली हांडीर आनी एक हातांत घेवन तिणें चार पावलां घाल्यांत मात रमाच्या कमरांतल्यान कळ आयली. दोन मिनटा ती थंयच उबी रावली. मागीर हळू हळू घरा आयली.

'इतले खेपे हांव उदक हाडटां, इतलो त्रास म्हाका केन्नाच जाऊं ना.. आज कितें जालें काय?' मनांत चितत रमा आड पडली.

सिताबाय घरा यो जाल्यार तेळसांजची रमा आड पडल्या. तिणें तिच्या म्हऱ्यांत येवन विचारलें, -'रमा, कितें जालें गे?'

-'कांय ना आई, कळसुली हाडली तेन्ना कमरांत कस्स जालें. मात्सें लोळ्ळ्यार बरें दिसतलें म्हणून आड पडलां.'

इतलें म्हणून ती सट् करून उठली. परत तिच्या कमरांतल्यान कळ शी आयली. मांयचे मुखार तिणें तकली सकयल घालून कळ सोंसलीं. आनी ती रांदचे कुडींत गेली. रातचें कितेंय करपा आसल्यार रमा करताली. पूण आज तिची तरा बरी ना हें सिताबायक कळ्ळें. तिणें रमाक म्हळें,

-'आज रांदचे कुडींत हांव वतां. तूं भुरग्यां म्हऱ्यांत बस.'

भुरग्यांच्या अभ्यासांतय चिते लक्ष लागना जालें. ती परत भितर वचून आड पडली. सिताबायन रातचें दत्तूक आनी नातरांक वाडलीं. आपल्याक रमाक वाडून घेतलें आनी रमाक जेवंक आपयली.

रमाक जेवपाची इत्साच नाशिल्ली.तरी मांयक नाका म्हणचें पडटलें म्हणून ती येवन पानार बसली. पूण तिका जेवण परतूंक लागलें. सिताबायचें तिचेर लक्ष आशिल्लें.

-'रमा, तुका जेवण वचना मगे, आसूं साण तें.

पोटांत बी दुखता काय कितें तुज्या?'

-'हय आई, फाटी-पोटांतल्यान सरे मारिल्ले वरी जाता.'

-'वायेन जायत. तुका हांव जिरे-कोथमीरेचें उदक दितां, तें पी आनी आड पड. बरें दिसतलें तुका.'

-'आई, वोकूंक आयिल्ले वरी दिसता. पित्तान बी न्हू मूं?

-'आसत गे, कांय सांगू नज. कुलेरभर आल्यारोस दितां तर तुका. चल मात्सी आड पड, तितलेसर हांव ही उश्टावळ काडटां.'

रांदचे कुडींतलीं सगळीं कामां सोपोवन सुनेक आल्यारोस दिवन सिताबाय नातरां म्हन्यांत आड पडली. तिका रमाचो हुस्को जाल्लो. तातूंत केन्नाच तरी तिचो दोळो लागलो.

फांतोडेर सुमार रमाक ओकूंक आयिल्लेवरी दिसलें. ती उठून भायर वचूंक वताली. पूण कमरांतल्यान पोटांतल्यान तिका कळो येवपाक लागल्यो. ती थंयच वळवळूं लागली. सिताबायक जाग आयली. पळे जाल्यार रमा दारांतच बसून वळवळटा आनी सगळे कडेन रगत पडलां. सिताबायचो आवरो उडलो. तिणें बेगी बेगीन दत्तूक उठयलो आनी पै काकीक आपोवंक धाडली.

पै काकीन रमाक पळयले बरोबर सांगलें,

-'आगे तुजी सून गुरवार आशिल्लीशी दिसता. तिचो आबोर्त गेला जाऊं जाय.तिका आत्ताक दोतोरागेर व्हरूं जाय. दत्तू म्हज्या वासू बरोबर वचून टॅक्सी घेवन यो. सिताबाय तिका अशीच कशी व्हरतलीं. चल पातळाचे व्हडशे कुडके आनी हून उदक हाड. तिका निवळ करून दाटशी घडी दिवन व्हरया. आनी एक पोन्नी गोजडी घे, टॅक्सींत घालपाक.पै काकी हातान काम करतां करतां सिताबायक सुचना दिताली. आपले धुवेक हाडून तिणें भुरग्यां म्हन्यांत बसयलीं. इतलें म्हणसर ती दोगांय जागीं जाल्लीं आनी आवयक कितें तरी जालां म्हणून बूळू बुळू करून रडटालीं.

रमा साडेचार म्हयन्याची गुरवार आशिल्ली. पूण ती म्हयन्या म्हयन्याक भायर जाताली. ताका लागून तिचो गुरवारचार कळ्ळो ना. तिणें उदक हाडपा धरून घरांतलीं जायतीं जड कामां केल्लीं. तिचो गर्भ भितल्ले भितर इबाडिल्लो. ताचो परिणाम तिच्या गर्भाशयार जाल्लो. दोतोरान सांगिल्लें, तिका आनी गुरवचार येवचो ना म्हणून.

सिताबायक खूब वायट दिसले. .. 'म्हगेर एकच चलो म्हणून हांव खंती जातालें... आतां दत्तूगेरय आनी भुरगीं जावचीं ना खंय. ताचोय घराबो घसघशीत वाडचो ना तर... चले भुरगे म्हणटात ते दोन-तीन तरी आसुंकच जाय.. संवसाराची वाल चारूय आंगानी घसघशीत वाडूं जाय... आसूं... देवतेन हीं दोन फुलां दिल्यांत तांकाच बरे तरेन सांबाळूया..'

सिताबायन आपल्याच मनाची समजूत घाली.



सिताबायचो संवसार मुये पावलांनी मुखार वतालो. समाजांत नेटान बदल जातालो. त्या बदलाचें प्रतिबींब सिताबायच्या संवसारांत पडटालें. दत्तू कितेंय भाजी, नुस्तें, सामान हाडूंक सांगल्यार फडफडटालो. 'म्हाका वेळ ना हां' म्हणून धेंगसतालो.

दोतोरागेर कशें वचप हें चितून रावपी सिताबाय नातवाक घेवन बाजारांत वचून जाय जाय तें, सवाय म्हारग पारखून घेवन येताली.

रेशनकार्डार तांदूळ, साखर, गंव दिवपाक सुरवात केल्ली. तीं भाटकार जाल्ल्यान तांदूळ तांकां मेळ नासले, गंव आनी साखर हाडपाक ती राजूक घेवन वताली.

आतां तांगेर दत्तू पासत सकाळीं उठून दुदाचो चा जाय आसतालो. रमाक कितेंय दिस्ता दीस्त करुंकच येय नासले. तिचो चा एका कपा बदला दोन कप जातालेच. मागीर तिणें अर्द कप मांयक दिवचो, अर्दो आपणे घेवचो. आतां तांकांय चाची संवय जाल्ली. वडगांवचे परस तांची हांगाचे जिणेची तरा खूब बदलिल्ली. ताजें नुस्तें, भाजी तांगेर आसतालीच.

दत्तुचे जोडीचेर घराचो खर्च भाग नासलो. पूण भाता, नाल्लाचे पयशे मेळटाले. सिताबायन पुष्पाच्या लग्नावेळार घेतिल्ले घरांतल्यांचे पयशे इल्ले इल्ले पावयताली. रमाचे तोडे परत करून घालपाची तिका आतां ताकीत आशिल्ली.

रमान आपूण जावन नंडेक तोडे दिल्ले खरे. पूण जेन्ना कोणाच्याय लग्नाक वचपाचो वेळ येतकर मात, मांयक आयकूंक येता अशी फडफडटाली. वडगावां आसतना रमा तोंडांतल्यान व्हडान आवाज केन्नाच भायर काड नासली. तिचो आबोर्त वचत साकून तिका अशक्तकाय आयिल्ली. आनी आतां मेळटा त्या कामाक ती फडफडटाली. मांय आयकताली तिका वायट दिसतलें हाचें ती धणंग धर नासली.

भुरग्यांक भायर सरयतना, अभ्यास घेतनाय ती तापतापताली. आनी येद्या येद्या कारणाक लागून मारय घालताली. सिताबायन पयलीं - पयलीं पासिंयस काडलें मागीर एक दीस नातरां ना त्या वेळार सुनेचेर तापय काडली. तेन्नाच्यान रमा मात्सी शांत जायत गेली. सिताबाय तिका घटायेपासत नासण्याचें सत्व करूनय पिवंक दिवंक लागली. ताचोय परिणाम आसत, रमा मात्शी शांत जाली, भुरग्यांचो मार कमी जालो. फडफडप हो मात तिचो सभाव आसलो. तो कसो बदलत? ती इल्ले इल्ले कामाक लागून बोवाळ करतालीच.

सिताबाय पयलींच नातरांचें सगळें करताली. तांकां आजी म्हळ्यार जीव आसली. आतां आवयचो सभाव पळोवन राजू आनी दुर्गाक आवय नाका जाल्ली आनी आजी चडच मोगाची जाल्ली. दुर्गाक अभ्यासा पुरतें आवय म्हऱ्यांत वचचेंच पडटालें. मागीर ताणें आज्येक म्हणचें, -'आज्ये, तूं ल्हान आसतना शाळेंत कित्याक गेली ना गे?'

'आगो बायू, आमच्या वेळार शाळा-बिळा खंय आशिल्ल्यो? चल्यांक घरांतच हिशेब-बिशेब करपापुरतें शिकयतालीं. बायलो कोणच शिकनासल्यो.

-'आवंय, शीऽ तुमी किते करतालीं तर?'

- घरांत खेळटालीं, गजाली करतालीं, आवयांक आदार करतालीं. आमगेर आनी शिवड्यां कुळागर. सकाळी उठून उदकाचो पाट सोडप, बुटी घेवन सकल पडिल्ल्यो सुपाऱ्यो पुंजावप अशी जायतीं कामां आसतालीं आमकां.'

-'राव गे, काका आतें बी शिकलें मगे, कशें तर?'

- 'आगो, तांका घरांत मास्तर दवरून शिकयतालीं. तुजो आजो शिकयतालो. पूण तशें म्हजे वेळार नाशिल्लें.'

- 'आज्ये तुवेंय मगे तशेंच शिकपाचें हां, मागीर कायबरी तूं म्हाका अभ्यास शिकयतली आसली. ते मारकुटे म्हन्यांत म्हाका शिकपाक बसचें पडचें नासलें.'

- 'बाय, आं ऽऽ तुज्यो सगळ्यो अपुरबायो आयकून घेन हांव पूण आवयक कित्याय कितें म्हणिल्लें आयकून घेवचेंना हां?

मायेच्या पालवांत गुठलावन, शिस्तीचो बडगो दाखयत सिताबाय नातरांक वाडयताली.



सिताबाय निकतीच मेकळी स्वास घेवंक लागिल्ली. तेन्नाच कुळकायद्याचो दांडो सिताबायचे फटीर सण्ण करून बसलो. सरकारान कूळ कायदो केल्लो. कसता ताची जमीन जातली आसली. भाटकारांक भात मेळचें नासलें. त्या भाताच्या आदारानच तर सिताबायन इतलो तेप तड मारिल्ली. 'तें भातच ना जालें जाल्यार जगप कशें?' सितबाय मुखार व्हडलो प्रस्न उबो जाल्लो. सिताबाय मुळांतल्यान हुमटली. तिची सगळी भिस्त आशिल्ली ती भाटा बेंसाचेर. तें भातच तिचें गेल्लें. ती उद्वीग्न जाली. रातरात तिका न्हीद लागना जाली. मागीर ती आपले भितर येवजीत रावताली.

'... कांट्याखुट्यंतल्यान जाता-नज करून जीव वाटायत चलतां-चलतां फातराळ जरी जमीन मेळ्ळी तरी दिसचें, जांव कांट्याची वाट तरी सोंपली... ह्या फातर गुण्यांतल्यान हांव सहज मुखार सरीन... आनी तेन्नाच मदींच एकाद्रो तोंकाळ फातर असो काय ना तोपचो, म्हजी पुराय जीणच रक्तबंबाळ जावन वताली... अशे एकच न्हय कितल्याच फावट जालां... नाका ती जीण देवा अशे प्रसंग म्हजेर येताले आनी तरीय निर्लज्ज कशी हांव प्रत्येक वेळार उठून उबी रावल्या... पूण

देवता म्हणून अशी कित्याक करता हांव नकळ... खोल उदकांतल्यान मात्सी तकली वयर काडून उत्स्वास घेता थंय आसा, परत म्हाका खोल-खोल बुडयता... तरीय इल्लीशी पाना खोली लेगीत मेळ्ळी जाल्यार हांव नेटान वयर सरपाचो यत्न करतां... हावें अशें जीणभर झरत रावपाचें काय... दत्तू पासत त्रास काड काड काडले... आतां निकतोच तो थिरावला, काय ताका आपली जबाबदारी कळपा इतली बुध्द आयल्या, ती, थंय आसनार बशिल्ली देवताच जाणा... पूण म्हजें दैव म्हाका खंयच्यानच सुशेग दिवचें ना म्हणटा.

हो पाडपडिल्लो कूळकायदो आमच्या मुळारच उठला... आमचें सरकार आयलें, आमचें सरकार आयलें म्हणून दत्तू आनी नाचतालो... कितें केलें पळे आमच्या सरकारान... हो पाडो कायदो करून आमच्या सारक्या बारीक भाटकाराक मातयेभरवण करपा येवजिलां... जे भाटकार भाटा-बेंसाचेरच आदारून नात, जे बरे जोडकार आसात तांकां ह्या कायद्याचें पडून वचुना खरें... पूण आमच्या सारक्यानी, दत्तूवरी चिम टीभर जोडणाऱ्यानी, हे म्हारगाये मुखार कशी तड मारप?... वाडट्या वयाचीं नातरां म्हजीं, तांकां म्हणून खर्च थोडो आसा... आमचीं भुरगीं कशीं वाडलीं... वर्साक दोनव्हिस्तीद शिंवले जालें... भितल्लीं वस्त्रां लेगीत पोन्न्या कपड्याचीं शिंवून दिलीं आनी ताणीय कुरकूर करनास्तना तीं घालीं... घरांत आसा त्या खाणा-जेवणचेर बाबडीं वाडलीं... आतां भुरग्यांच्या शिक्षणाक म्हणुनाका, खाणा-जेवणाक म्हणूं नाका थोडो पयसो लागना... आतां हावें करप कितें? भात येवचें ना म्हणटकीर म्हजी व्हडली म्हेडच मोडिल्ले भशेन... हें रेशन म्हणून कितें भीक सुरू केल्या ती पावतली आमकां कितें करूं हांव, कशी तड मारूं?...'

सिताबाय नव्या संकश्टा पोंदा सामकी चिड्डून गेल्ली. तिचो आवरोच उडिल्लो. आजून पुष्पाच्या लग्नाचें थोडें रीण उरिल्लें, पुष्पाक घाल्लो रमाचो तोडो तिका परत करून घालतां म्हणून सुनेक तिणें उतर

दिल्लें.

पयल्या वर्सा हो कायदो आसतनांय थोड्या मुंडकाऱ्यांनी 'आम गे भाक्रा उपाशीं दोवरून आमी जेयल्यार आमकां जिरतोलें, ..ना.. ना, सेरकारान केसलोय कायदो कोरूं आमी भाक्रागे भात भाक्राक दितोलेंच'... अशें म्हणून दोन वर्सां सुमार थोड्या मुंडकाऱ्यानी तांका भात हाडून दिलेंच. तितलोच सिताबायक आदार जालो.पूण मागीर हेर मुंडकाऱ्यांनी तांकां भाटकाराक भात दिवंक आडायले. सरकाराक केस करतले म्हणून लेगीत भंय घालो. तांचें एक शेत फकत फोवां खातीरच दवरिल्लें. तो मुंडकारी भाताचे घरा कांडून फोव करून वर्सा भाटकारागेर दितालो. ताणें मात आपलो हट सोडलो ना. 'तुम गे कायदो कितेंय म्हणू, हांव भक्राक दिवाळे फोव दितोलोंच' अशें म्हणून कुडव-कुडव फोव हाडून दिवाळेच्या चार दीस पयलीं प्रत्येक भाटकाराक दितालोच.



## 19

सिताबाय सामकी सतर वितर जाल्ली. 'आतां कितें करूं खंयच्यान पयसो उबो करूं' ह्या प्रस्नान तिका सैर-भैर केल्ली. पाड्या-पाड्याक नाल्लाचे थोडे पयशे येताले, सुरीचेय थोडे पयशे येताले. पूण सामकेच थोडे. सिताबाय म्हणी 'हे पयशे चेटणेक पुरो.'

सिताबायन वावराडी सोडली. घरांत नुस्तें-पास्तें सामकें कमी केलें. दूद कमी केलें. रेशनाची साकर पावता तितलेसर तीं खातालीं मागीर गोडा कुडको जिबेर दवरून फुटी चा काफी पियेतालीं. राजू आनी दुर्गा म्हणटालीं- 'आज्ये च्या कोडू लागता.' सिताबाय तांच्या मनगटाक गोडा कुडको चिकटायताली. ताका जीब लावन चा पिवपाक लायताली. भुरगीं वांकडें तोंड करून चा पितालीं. दुर्गा मात्सें कित्याकय हट्ट करतालें. पूण आज्येन फुसलायतकीर वोग्गी रावतालें.

भुरग्यांची ही समजीकाय पळोवन सिताबायक सामकें वायट दिसतालें. तांचें दुदय बंद केल्लें.नास्ण्याचें पातळ सत्व ती तांका करून दिताली.

सितबायची शिवणेक दोनय चळींतल्यो बायलो तोखेताल्यो. देसायणीली चली बांळटेराक येवपा आसली. देसायणीन ताचेपासत आंगलीं-तोपरीं, माणे सगळो सगळो बाळंतविडो सिताबायक करपाक

सांगलो. रमान आगंली तोपरीं शिंवन दिलीं. देसायणीन आपूण जावन फोर्सान सिताबायक पयशे दिले. ती पयशे घेता हें कळटकर दोनय चाळींतलीं बिराडां सिताबायकडल्यान गोजड्यो कपयाळीं शिंवन घेवंक लागलीं.

सिताबायन हळू हळू जेवणाची जबाबदारी रमाचेर घाली आनी आपूण शिवण-सुताच्या फाटल्यान लागली. वातीय वळून विकूं लागली. तिणें हांगायबी पोरसूं केल्लें. पोरसांत केळी, पोपाय अशा झाडां बरोबर देवकापशीण, तारवटी मिरसांगो, आमाडो, बिमलीण रोयिल्ली. पावसांत दुदी, घोसाळीं, तवशीं, वाल, भेंडे असलेंय रोयताली. सिताबायचो हाताळो बरो. तिणें कितेंय रोयल्यार तरतरून फुलतालें. शेजान्नी येवन तिचेकडल्यान भाजी-पालो विकतें व्हरतालीं. पयलीं-पयलीं सिताबायक भाजी-पालो विकपाक बरें दिसनासलें. पूण पै काकीन तिका समजायली.

सुर्वेक लोक तिगेर येवन वस्तू मागून व्हरताले. तिणें पयलीं फकत तारवटी मिरसांगोच विकपाच्यो थारायलें. मागीर लोक पोपायो मागूं लागले. मागीर लोकांची मागणी पळोवन सगळें विकूं लागली.

अशे तरेन सिताबायन आपल्या कश्टांनी आयिल्ल्या संकश्टांक तोंड दिवपाचें थारायलें.

हे परिस्थितींत तिचीं नातरां समजिकायेचीं जाल्ल्यान तिका जिवाक सुशेग मेळटालो. पूण रमा मात विचीत्र वागताली. घरचे सगळे कश्ट ती करताली आनी तोंडान फडफडत रावताली. तिका दोन दीस कुळारा वतली जाल्यार तिणेच कुळार ना करून दवरिल्लें. हरशींय जाल्यार तिका कुळारची तशी वोड नाशिल्लीच. तातूंत तिच्या भावांक दोट्टी गोंठ धरूंना सगळे भांगर घालून बायलो आयिल्ल्यो. बापायन आपल्याक लग्नावेळर गोठ करून घालोना हाचो राग रमान धरिल्लो. आनी कुळाराच वच नासली.

कसल्याय कारणाक भावांनी आपयल्यार लेगीत वच नासली.

आनी आतां आपल्याक दीसभर कामच-काम करचें पडटा. दुसरो जागो ना म्हणून फडफडटाली. तिका पयलीं पसून हें, हें, जेवण करून सगळ्यांक वांटून दिवंक आवडटालें. वडगांवां आसतना तिका चडशें रांदचे कुडींत वचचें पड नासलें. केन्ना वताली तेन्ना खुबशें जेवण करताली आनी मांय कितेंय म्हणत म्हणून हळूच कल्याणाक व्हरूंक लायताली.

कल्याणान तिका जायते फावटीं समजावचें, - 'रमाबाय, अशें बेश्टेंच चड-चड करून सोंपय नाका. सिताबाय पळे कशी लावन पुसोन संवसार करता, तुयें असो घसघस करून वगडायल्यार कशें जातलें?'

पूण रमाचो हातच उदारो आसलो. हरशीं ती सगळ्या कामाक हुशार. पूण तिका जेवणाचो अदमास कळ नासलो. दिस्ता दीस्त अशें तिचेकडेन कितेंच जाय नासलें.

तांच्या घरा लागसार दोन खोंपी आसल्यो. तातूंत काचीं-बुचीं भुरगीं, दादले, बायलो अशीं दोन तीन कुटुंबा एकठांय रावतालीं. तांच्यो बायलो हांगेर-तांगेर कामा करून संवसार चलयताल्यो. तातुंतली एकटी पयलीं सिताबायगेरय काम करताली. आतां वावराडी तांणी बंद केल्ली. गरजेक जाय जाल्यार तांकां आपयतालीं.

रमा उरिल्लें सुरिल्लें सिताबयक लिपोवन तांकां आपोवन दिताली. एक दीस सिताबायन रमा तांकां जेवण दिता तें पळयलें. तिणें सुनेक बरीच तापयली,-'हांव हांगा हाडाची काडां करून संवसार चलयतां आनी तूं अशें सगळें वाऱ्यार घालता?'

सिताबाय आनीकय जायतें उलयली. रमान हळूच म्हळें, - 'चड उरता तें भायर उडोवचे परस कोणाच्याय तोंडांत पडचें म्हणून तांकां दितां.'

सुनेचें उलोवप आयकून सिताबायक सामको राग आयलो. तिणें तापून म्हळें, - 'चड जाताच कशें तुजे कडेन. जाय तितलें करपाक

कित्याक जमना तुका? इतलो तेप रांदता तूं. हांव शिवण सुताचेर लक्ष दिवूं काय तुज्य फाटल्यान नाचूं? म्हज्या नातरांच्या फुडाराक पयसो जाय म्हणून हांव हांगा रगत आटयतां, आनी तूं सगळें काबार करूंक उठल्या.'

सिताबाय खूब वेळ उलयली. त्या वेळार रमा वोग्गी रावली. पूण रातचो आयदनाचेर राग काडूं लागली. परिस्थितीकडेन ताठ मानेन झुजपी सिताबाय सुनेच्या कर्तुपान बेजार जाताली. तिणें मनांच म्हणचें, - 'ही घरची वांळटी म्हाका पोखरून दवरतली. भायले परिस्थितीकडेन झुजप बरें पूण ह्यो घरच्यो गांठी सांबाळून सोडोवच्यो पडटल्यो.'



एक एक दीस सुनेचें कर्तुप पळोवन सिताबाय सामकी अस्वस्थ जाताली. - 'कितलेंय तापल्यार रमा कशीच सुदारना, उमथ्या कळशार उदक रकोवन कितें फायदो... म्हजो आवाज मात लोकांक आयकूंक येतलो... तांकां अर्थच कळचोन. ही म्हातारी दिसरात वोगीच तापता म्हणटले लोक...

ओंठांतल्या ओंठांत बडबडत सिताबायन सूय गोजडेक तोपली. वक्ल पोतयेंत घालें, पोती पांटल्यांत आपटिली. जोतें पायांक घालें आनी तडक उठून भायर आयली.

ती रावताली थंय भोवतणीं भाट आनी थंयच्यान लागींच शेत आसलें. थंय एक तळेंय आसलें. ताचें उदक शेतांत वतालें. शेताच्या पलतडीन व्हड व्हाळ आसलो. ताचेंय उदक मदीं मदीं शेतांत येतालें. शेताची लुवणी जातकर थोड्या दिसांनी वाड्यावेले लोक शेताचो ल्हान ल्हान कुडको वांटून घेताले आनी तातूंत मिरसांगो, कांदे भाज्यो रोयताले. ह्या मळ्यां भायरय शेतांत ओलसाण आसताली. थंय तरेकवार सुकणीं येवन बसतालीं. हो देखाव मनभुलोवणो आसलो.

त्या वाड्यावेलीं, चाळींतली भुरगीं परिक्षे दिसांनी थंयच्या भाटांत अभ्यासाक बसतालीं आनी सुटये दिसांनी खेळूंक येताली. जाण्टेलोक

सांजेवेळार थंय सुशेगादशे वाऱ्याक बसूंक येतालें. सिताबाय लेगीत मन अस्वस्थ जातकर शेता धडेर येवन बसताली. थंयच्या त्या फुलिल्ल्या मळ्याकडेन वळयतना तिचो सदांच शिणभाग वतालो. कितलेय त्रास आसल्यार तिच्या जिवाक सुशेग मेळटालो.

आजय ती वायंगिणीच्या लेव जांबळ्या फुलांक तोखेतना थोड्या वेळापयर्ली सुनेन केल्ली आजनेर विसरली. ती मनापासून कांद्या पातीच्या तोंकावेल्या गोणात, वायंगिणीच्या फुलांत घुस्पली. मिरसांगेच्या लेव हळदुव्या फुलांची तर तिका सामकी लकतुबाय. त्या फुलांमदल्यान चिमटीभर मिरसांग तें फूल पोंतार घेवन व्हड जाता, हें सगळें पळयतना ती आपल्याकच विसरली.

तिचें हें सदांचेंच, हो मळो रोवपाक लोक सुरवात करतात तेन्ना साकून ती तांकां येवन येवन पळयताली. मळ्यांतलें सगळें उत्पन्न काडून उरिल्लीं सुकीं ताडां पळयतना ती समकी उदास जाताली. मागीर ती मनांत म्हणटाली... ''हें सैम आपले करणेंतल्यान आमकां पिशा मनशांक केदें सत्य सांगता पळे, आमी समजून घेवंक कमी पडटात.. कितेंच सदांखातीर नासता... सुखा फाटल्यान दुःख आनी दुःखा फाटल्यान सूख येत आसता... आमी मात समजतात दुःख केन्नाच सोंपचें ना, अमृतवेळ केन्ना येवचीच ना... पूण किट्ट काळ्या काळखांतय अमृतवेळ येवपाची सुलूस लागता. तिची फांतोड पावली खूब थोड्या लोकांक कळटा. तेच सुख-दुखांत आपलो तोल सांबाळटात... हें जाका कळना तेच सुखांत भुल्लुसून वतात. आनी दुःखावेळार कोसळून पडटात... हांव धीर सोडचीना. म्हजीय अमृतवेळ येतली. .. फांतोड फुलतली.. बाळसुर्या म्हज्याय जिवितांत उदेतलो... म्हाका सुलूस लागल्या, हो अमृतवेळ म्हज्या जिवीतांत म्हजीं नातरां हाडटलीं, म्हणून तर म्हजी दुदावेली साय म्हाका सांबाळूं जाय... कितलींय वादळां म्हाका पचोवचीं पडल्यार पडूं, हांव म्हज्या राजू आनी दुर्गाचेर ताचो परिणाम जावंक दिवची ना.

कुळकायद्यान सिताबायचो फाटीचो कणोच मोडिल्लो. ती अजुनय सावरूं नासली. तातूंत एक एक नवो प्रस्न तिचे मुखार उबो रावतालो. भाटा बेंसाच्या आदाराचेर सिताबायन तग धरिल्ली. दत्तुचे शिर्वीसेचेर तिचो विश्वसच नासलो, ती म्हणी - 'दत्तुची जोड म्हळ्यार खोजो घोव कुकमाक आदार, म्हणिल्ले भशेन. तो केन्ना शिर्वीस सोडून घरा बसत कांयच सांगू नज.'

तांचे घरचे तांदूळ आसतना तीं केन्ना गंव म्हणून हाड नासलीं, चुकून शिवराकाक बी जाय पडल्यार गंवापीठ वापरतलीं. तांगेर चडश्यो तांदळां भाकऱ्यो, पोळे आसताले. आतां रेशनाचे तांदूळ दोन वेळच्या जेवणाक पावयतासर नाका शेवट जातालो. ताच्यो भाकऱ्यो आनी पोळे कशीं करतलीं? रेशनाच्या कसल्याय वासाचे गंव हाडून दळून तीं रोटयो करतालीं.

दुर्गान रडून आज्येक म्हणचें, - 'आज्ये, रोटयांक वास येता. सदांच रोटयो कित्याक करता. म्हज्या ताळ्याकडेन कितें तरी जाता.'

राजूकय त्यो रोटयो वचनासल्यो. पूण शेत गेल्ल्यान पयलींवरी तांदूळ मेळनात हें ताका कळिल्लें, ताका लागून तो उदका वांगडा रोटयेचो घांस गिळटालो. पूण आज्येक कांयच विचारनासलो. सिताबाय केन्ना केन्नाय चटणी करताली, केन्नाय आमल्यो, बिमलां गालून गोडाचें गोड लोणचें करताली. त्या दिसा दुर्गा, राजू रोटी घोस्तान खातले.

हेरकडेन कितलीय धांदळ जांव, सिताबाय तांच्या शिक्षणाकडेन कांयच कमी पडूं नये हाची जतनाय घेताली. शाळेचो गणवेस एक वर्स शिंवल्यार दुसऱ्या वर्सा ताची शिवण उसोवन उरफाटे वटेन रमाक तो परत शिंवपाक लायताली. पूण राजूचें कलसांव-बुशकोट भायर शिंवन घेवचो पडटालो. तो उसोवन परत शिंवक मेळनासलो. राजू तो तसोच धवो जाल्लो गणवेस निवळ उमळून तायट घडी करून पाटा पोंदा दवरतालो आनी घालतालो. शाळेंत कितेंय आसल्यार मात आपल्या

इश्टागेर वचून इस्त्री करून हाडटालो.

अभ्यासाचीं पुस्तकां तीं दोगांय पयलींच वयल्या वर्गांतल्या भुरग्यांकडेन मागून दवरतालीं. आपलींय पोन्नी पुस्तकां खपोवन ते पयशे आपणे ज्या भुरग्यांचीं पुस्तकां घेतल्यांत ताका दितालीं. हो सगळो व्यवहार तीं भायले भायर शाळेंत करतालीं. वयले कितेंय थोडे पयशे उल्ल्यार आज्येकडल्यान घेवन दितालीं. पयल्या वर्साच्या चोपडेचीं उरिल्लीं पानां आजी तांक शिवून चोपडी करून दिताली. मागीर तांकां थोड्यो नव्यो चोपड्यो घेवच्यो पडटाल्यो. तेय पयशे आजीच दिताली. दत्तूक भुरग्यांच्या शिक्षणाची तशी लक्तुबाय नाशिल्ली. केन्नाय मनात आयल्यार, पेन्सील, पेन हाडून दितालो.

प्रगती पुस्तकाचेर सयी करपापुरतो ताचो भुरग्यांच्या शिक्षणाकडेन संबंध येतालो.

पयलीं पयलीं सिताबाय भुरग्यांक सुटी पडटाकाय पळयताली, आनी रोखडीच भुरग्यांक घेवन वडगांवा वताली. आतां मात सुटयेच्या दिसांनी चाळींतली बरींचशीं घरां सिताबायकडल्यान पापड, वोडयो, लोणचें, सांडगे करून घेतालीं. पिठां कालोवन व्यवस्थीत सुकोवन तांचे सुवादीन कर मेरेनचो वावर सिताबायचो आसतालो. करूंक म ागीर शेजारी - पाजारी येतालीं. पंदरा विशेदीस हो वावर चलतालो. पै काकी कोणा-कोणाचें काम सिताबायन केलां तांचेकडल्यान पयशे घेवन सिताबायक दिताली. सिताबायन केन्नाच कोणाकडेन पयशे मागले ना, आनी जे दिल्यात तातूंत वांटपण करनास्तना घेवन पेटलांत दवरताली.

ह्या सगळ्या वावराक लागून सिताबाय आतां वडगावां सणा-परबां पुरती आनी पाड्या वेळार वताली.

राजू धावेक पावलो. दुर्गान आनी ताणें पयलो नंबर केन्नाच सोडलो ना. ताका लागून तांकां शिश्यवृत्ती मेळटाली. तितलोच सिताबायक आदार जातालो.

राजू गणितांत सामको हुशार आसलो. चाळिंतले दोन-चार भुरगे ताचेकडेन गणितां शिकूंक येताले. राजू बेग्गीन आपलो अभ्यास करून अपुरबायेन तांकां गणितां समजावन दितालो. त्या वर्सा गणितांत तांकां बरे मार्क पडले. मागीर तांच्या घरच्यानी राजूक तांकां सदांच वरभर गणितां शिकोवंक सांगलीं. आनी म्हयन्याकडेन ताका पयशे दिले. राजू पयशे घेवंक कसोच तयार नासलो. पूण ताणीच म्हळें, - 'राजू तुका मुखार शिकपाक पयशांची खूब गरज आसा, घे हे पयशे. एक करून दवर.'

आज्येन ताका पयशे घेवंक लायले. राजूचे पयशे तिणें वेगळेच दवरले. ताच्याच शिक्षणाक ते वापरपाचे तिणें थारायले.

मॅट्रीकेच्या वर्साय राजू आपलो अभ्यास सांबाळून एक वरभर तांकां गणित शिकयतालो. तांचेबरोबर दुर्गाय गणितां शिकूक बसतालें.

दुर्गा अभ्यासा प्रमाण नाच, नाटकांय करतालें. ताका कपडे हाडप जमना हें शिक्षकांक खबर आसलें. म्हणून तीं ताका शाळेच्यावतीन कपडे शिंवन दितालीं. दुर्गा जे-जे सर्तींत वांटो घेतालें थंय ताका इनाम मेळटालेंच. म्हणून दुसऱ्या शाळांकडेन सर्त आसताली तेन्ना शिक्षक दुर्गाकच धाडटाले. आनी तें जिखून येतालें.

इतल्या त्रासांतय सिताबाय नातरांचें जैत पळोवन खोशी जाताली. आपल्या कश्टंचें सार्थक जालें शें तिका दिसतालें. तिचीं घरचीं तिका म्हणटालीं, -'सिताबाय, निमणे नातरांच तुका जैत मेळोवन दितलीं.'

सिताबायन मागीर म्हणचें, - 'देवतेचे व्हड उपकार म्हजेर, जें सूख म्हाका भुरग्यांनी दिलें ना, तें नातरां दितात.'



पयलीं वडगावां चडशीं एप्रील मे म्हयन्यात धुवो दोन दोन म्हयने रावंक येताल्यो. बांळटेराक आयल्यार पांच-स मह्यन्याच्या भुरग्याक घेवनच घरा वतल्यो. सिताबायची व्हडली धूव सुमतीय दोन-तीन म्हयने कुळारपणाक येवन रावतालें. सिताबायक ताचो आदार काय

जायनासलो, वयल्यान हें करून वाड, तें करून दी अशे किचकीच मात करतालें. घोवा घरा ताका खूब त्रास कडचे पड्टाले. तो राग तें हांगा येवन आवयचेर काडटालें.

ताचीं भुरगींय कटकटीचीं आशिल्लीं. सुमती आयलें काय दोन दीस सिताबायक खोस जाताली तितली. मागीर ताचे किचकीच आयकून तिका ताचें येवप नाका जातालें. आपल्याक घोवागेर कितले त्रास जातात, खंयचें लग्नात देणे सारकें दिलें ना अशे विशय काडून तें आवयकडेन वाद घेतालें. सिताबाय जाता तितलें पांसियस काडटाली. मागीर केन्ना तरी तिचोय तोल वतालो. ती खरें म्हणून सांगूक वताली आनी सुमतीच्या जळट्यार तेल पडटालें. तें आनी नेटान झगडटालें. मागीर सिताबाय थंयची उठूनच वताली.

दत्तुचें लग्न जायत साकून ताचो फडफड चडच वाडिल्लो. भावजेकडेनय तें वाद घालूंक सोदतालें. सिताबायन पयलींच रमाक धुवेचो सभाव सांगिल्ल्यान ती सुमतीच्या लागीं रावच नासली.

दत्तूच्या आनी ताच्या भुरग्यांमदींय झगडीं जावंक लागतकर ताचो बडबड चडच जातालो. घरांतलीं हेर मनशां लेगीत 'सुमती, पुरो आतां,' म्हणून ताका आडावपचो यत्न करतालीं. पूण तें तांचेरय फडफडटालें.

मडगवां येतकर पयले वर्सा तें सदचेवरी आयलें. तांचें इल्लेशें घर पळोवन सामकें बेजार जालें. ताका कुळारा येतकर दिसभर लोळपाची संवय. हांगा बिराडार ताका दिसभर लोळून रावंक मेळनासलें. ते भायर ताचीं सगळीं कामां ताका कल्याणाकडल्यान करून घेवपाची संवय आसली. हांगा तशी वावराडीय नासली. ताचे आनी भुरग्यांचे कपडेबी ताकाच उमळचे पडूं लागले.

त्या वर्सा सुमतीचो फडफड बरोच वाडलो. तें म्हयनोभरच कुळार रावलें. तेन्नाच्यान ताणें आवयगेर येवपाचेंच बंद केलें. धूव येना म्हणून वायट दिसपा सोडून सिताबायक सूऽ जालें.

सिताबायची धाकटी धूव पुष्पा ल्हानपणातल्यान समजीकायेचें

आसलें. तें कुळारपणाक म्हणून चडशें येयच नासलें. आयलेंय जाल्यार चड दीस रावनसलें. ताचो घोवय समजिकायेचोच आसलो. मांयचे कश्ट पळोवन ताका तिचे चुरचुरे दिसताले. तो पुष्पाक म्हणी, '-तू आवय कडच्यान कांयच हाडूं नका हां. आमकां हांगा कांयच कमी ना. आईन कितेंय म्हळ्यार तिका हांव सांगतां.'

इतलें म्हणून तो राव नासलो. कसलेंय निमित्त धरून दत्तुच्या भुरग्यांक कितेंय ना कितें दितालो.

सिताबायच्या दोनय धुवांच्यो अश्यो दोन तरा जाल्यार दत्तुची तिसरीच तरा. तिणें मनांत म्हणचें, -'देवते, म्हाका पुराय सुख मेळूं नये म्हणून तुवें अशीं भुरगीं दिलीं? म्हजे दोनय दोळे एकाबरोबर हांसू नये अशी तुजी इत्सा?, आसूं, पुष्पा म्हजें हुशार, शाणे-सुरतें म्हणून एका दोळ्यान तरी हांसूक दिले होच व्हड उपकार, दुसरो दोळो रडूं थंय.'

अशें म्हणत दीस काडपी सिताबाय सरभोंवतणी गरिबेन वेश्टिल्लें आसतानाय, नातरां पासत मनातल्यान खोशी आसली.



राजू मॅट्रीक पास जालो. शाळेंत तो पयलो आयलो आनी गणितांत बोर्डांत पयलो आयलो. सिताबायचे खोश्येक शीम नेर उल्ली ना. ताका परबीं दिवंक सोयरीं, शिक्षक येऊं लागलीं. दत्तू केन्नाच कसल्याच कामाक सुटी घेय नासलो. आज मात पुताचे खोश्येंत वांटेकार जावंक ताणें अर्द्या आदेसाची सुटी घेतली.

आयिल्ल्यांक इल्लीं चा दितली जाल्यार घरांतली साकर सोंपिल्ली. रमान हळूच येवन मांयक सांगलें. पयलेच खेप सिताबाय पै काकीगेर साकर उश्णी मागूंक गेली. पै काकीन विचारलें, - 'आगे, सोयऱ्यांक चा दिवंक साकर जाय तुका, दूद नाका? आनी खावंक कितें दितली?' सिताबायन हें चितुंकच नासलें. तिणें तकली सकल घाली.

पै काकीन साकरे बरोबर दुदय दिलें आनी रव्या लाडूय दिले. सिताबायक मनांतल्यान चोर-चोर जालें. तिणें भिडेस्त आवाजान

म्हळें, - ‘हांव मागीर लाडू करून दितां हां. -‘आगे बाये, आज्ये, नातू तुजो जायत गा, आमचो कोणच न्हय? तोंड येदेंशे करूं नाका. व्हर तें सगळे. म्हर्जी परबीं म्हणून सांग राजूक.’

सगळ्यांचो प्रस्न आसलो, राजू फुडें कितें करतलो? राजू हांसून वोग्गी रावतालो. कोण्णाक ताणें हाचेर जाप दिली ना. सगळे लोक वतकीर पुष्पानय ताका होच प्रस्न विचारलो. ते रातीकडेन ह्याच प्रस्नाची जाप घेवंक पुष्पा तांगेर राविल्लें. ताच्या घोवानच ताका राजुचें सगळें जाग्यार घालून यो म्हणून धाडिल्लें.

आत्यानय फुडें कितें? म्हणून विचारतकर आतां मात राजू उलयलो. ताणें म्हळें, -‘आत्या आजी सांगता तें करतलों.’

ते बरोबर आजी आनी पुष्पाय हांसलें. सिताबायन म्हळें, - ‘बाबू, फुडें कसलें शिकप आसा? कितें बरें तें म्हाका खबर आसा? आतां तूं आमच्या घरांतलो पयलो-वयलो मॅट्रीक जाल्लो भुरगो. म्हज्या असल्या अनाड्याक कितें कळटा. तूं सांगता थंय तुका घालप इतलेंच म्हजें काम.’ आवयचें उलोवणे आयकून दत्तू तापलो. - ‘कांय गरज ना आनी मुखार शिकपाची. इतलें शिकप घेतलां तें पुरो. आतां शिर्वीसेचें पळय.’

-‘दादा, कितें उलयता रे तूं? राजू इतलो हुशार आसा. शिकुनी ताका मुखार.’

-‘शिकूनी मुखार, कसो? म्हज्यान आनी मुखार शिकोवपाक जायना ताका.’

-‘म्हणजे, इतलो तेप, तुवें राजुच्या शिकपाचेर खर्च केला? तो तें सरकारी कितें मेळटा ताचेर शिकला न्हय? चोपड्यो, पुस्तकां कितें जाय तें हांव दितालें. आतां तोच लोकांच्या भुरग्यांक शिकोवन आपलो खर्च भागयता. म्हज्या कडल्यान लेगीत पयशे घेना. गुणाचो म्हजो बाबू. बरो आयला सांगपी, आपल्याच्यान मुखार शिकोवपाक जायना

म्हणून.' सिताबाय रागान उलयली.

-'खरेंच दादा, आजवेर तो शिश्य वृत्तीचेर शिकला. मुखारय मेळटली ताका. म्हाका मुखार शिकूंक मेळ्ळेंना हाचें म्हाका अजुनय वायट दिसता. ताका आडांव नाका तूं. ताका तरी शिकुनी.

-'पुष्पा तुजीं शाणेपणा मार्त्सी थांबय आनी शिकून कितें करतलें आसलें तूं? तुमकां बायलांक रांदप वाडप आयल्यार माथ्या वयल्यान पुरो. आनी आनी शिकतलें आसले खंय'

- 'पूण दादा...'

-'पुष्पा, हांव कितें सांगता तें पयलीं आयक, हावें एक दोग जाणाक ताचे नोकरे पासत म्हळां. तांकां दुकानाचेर हीशेब बी बरोवंक खात्रेचो कोणय जाय खंय. हाचें गणित बरें आसा म्हणून सांगलां हावें तांका. कोण चड पगार दिता थंय चिकटायतलों हांव ताका. म्हजे तकलेवेलो पेज गेलो मागीर. इतलो तेप हांवें शिर्वीस केल्या. आतां आनी चड तेप जावची ना म्हजेकडेन शिर्वीस.'

सिताबायक पुताचो सामको राग आयलो. तिणें म्हळें,

-'दत्तू, सारको आसा मरे तूं? तुज्या शिक्षणाखातीर हावें थोडे त्रास काडले ना. पूण तुवें म्हाका यश दिलें ना. आतां तुजो पूत शिकतां म्हणटां जाल्यार तूं ताका शिर्वीसेक लावंक सोदता? आज वेर तुवें शिर्वीस लेगीत धड केली ना. धर-सोड, धर-सोड करीत आयला. ही एक शिर्वीस तुवें अजून मेरेन राखून दवरल्या. आतां तीय पुता नाड्यार सोडून पांयार पाय घालून बसूंक सोदता? ना, शिर्वीस सोडूंक मेळचीना तुका. म्हजो नातू शिर्वीस करचो ना, कुलेजांत वतलो तो.'

सिताबायन केन्नाच न्ही ती पुताचेर तापय काडली.

-'आगे आई, तुका तापूंक बरें कळटा. पूण कॉलेजांत वचप म्हळ्यार चणे खावप न्हय. खर्च आसता बरोच थंय.'

-'तेंच हांव वोदोळच्यान सांगुक सोदतां, हाणी म्हळां, ताच्या शिश्यवृत्तीचें आपूण पळयतां म्हणून. ताका पुस्तकां, चोपड्यो कितें

लागता तें आमी दितलीं.'

इतलो वेळ वोग्गी रावन तांचीं उलोवणी आयकुपी दत्तून म्हळें, - 'आत्या, हांव ट्युशना घेतां. म्हज्या पयशांनी म्हज्यान थोडो तरी खर्च भागोवंक जातलो. आत्या, खऱ्यानीच म्हाका कॉलेजांत वचपाक जाय. म्हाका बी.कॉम करपा आसा. भावजीक सांग हां,'

-'भिवनाका तूं राजू. तुजो भावजी तुका कॉलेजांत घाल्या शिवाय वोगी रावपार ना.'

दत्तू फडफडत भायर वचून विडी ओडपाक लागलो. हालींसराक तो घराभायर वचून विडी ओड्टालो. सिताबायन जायते वेळा ताका पळयल्लो. आनी मनात म्हणिल्लें, 'जांव विडीच ओडटा मू, आसूं. आनी कसलोय छंद ना म्हणटकर जालें.



# 20

राजुचें कॉलेज सुरू जालें. पुष्पाच्या घोवान ताका कॉमर्स कॉलेजांत प्रवेस घेवन दिलो.

भावजीन सगळो आदार करतां म्हणिल्लें खरें, पूण राजून थारायल्लें, सामकीच अडचण आयलेबगर भावजीकडेन हात पसरप ना. राजू आज्येभशेनच स्वाभिमानी आशिल्लो. ताणें वाड्येवेल्या भुरग्यांक ट्युशन दिवंक सुरवात केली. ताचेकडेन धायेक भुरगे गणित शिकूंक येऊं लागले.

तांचे मुखावेले चाळींत गांवकार काका रावतालो तो बँकेत काम करतालो. ताणें वाड्यावेल्या जायते जाणांची खातीं आपले बँकेंत उगडिल्लीं. राजूकडेन ताचो पूत ट्युशनाक येतालो. ताणें राजुचेंय खातें उगडलें, आनी ट्युशनाचे पयशे ताका बँकेत भरुंक लायले. विशेक रुपये तो हातांत दवरतालो आनी बाकीचे बँकेंत घालतालो. आज्येनच ताका ही माण्णी करून दिल्ली. हातांत दवरिल्ले वीस रुपया तो आज्येकडेनच दवरतालो. सामकीच गरज आसल्यार तो आज्येकडेन मागून पयशे व्हरतालो. बेठो एक्क पयसो तो वगडायनासलो. हेर भुरग्यांभशेन कॅन्टीनात वचून खावप-पिवप अशें ताणें केन्नाच केलें ना. कॉलेज सुटलें काय ट्युशनाचें निमित्त करून घरा येतालो.

सिताबायक बँकेंत पयशे दवरपाची पध्दत सामकी आवडली. 'हातांत पयसो आसल्यार, केन्ना कसो मोडटा म्हणून कळना, ही बांक बरी. गरज आसल्यारच पयशे काडप, ना जाल्यार सांबाळून दवरता. आमचे पयशे वाडयताय खंय ती.' ही नवीदाद तिणें वडगांव वतकीर सगळ्यांक सांगली. आतां ती आपलेय उरिल्ले थोडे पयशे राजूकडेन दिवन बँकेंत घालूंक लायताली. आनी म्हणटाली, 'बाबू हे पयशे तुज्या शिकपाक राखून दवर हां. म्हज्यान आतांच नज जालां, मुखार-मुखार आनी शिवण सूत जायत शी दिसना. तुमच्या शिक्षणापासत जातासर कश्ट करपाचे थारायल्यात हावें. पळोवया कितलो तेप जाता तें म्हज्यान. तूं हे पयशे सांबाळून दवर.'

हालींसरा सिताबायक आपलोच हुस्को जाल्लो. ती खऱ्यानीच थकिल्ली. वय तशें चड जाऊं नासलें. पूण तिणें जिणभर कश्ट आनी मानसीक त्रास भोगिल्ले. कश्टांपरसय मनाच्या त्रासानी ती चड थकिल्ली.

हालींसरा तिचो जिणेपट तिच्या दोळ्यामुखार घुंवतालो. लग्नाकडले दीस पळयतना खोश्येचो उमाळो तिच्या मनामनांतल्यान फुट्टालो, आनी मागीरचे दीस पळयतना मात ती त्या कडू यादीनी परत न्हिन्नळटाली.

आतां तिची न्हिदय कमी जाल्ली. त्या रातीकडेन तिका अशीच जाग आयली. तिचो जिणेपट तिच्या दोळ्यामुखार घुवूंक लागलो... 'कितें दीस आशिल्ले ते भांगरा सारके..हांवय भुरगेंच आशिल्लें म्हणा तेन्ना... संवसारांतले हे वता-सावळेचे खेळ म्हाका खबरच नाशिल्ले... भरपूर खावप, जेवप, वांट्याक आशिल्लें कितेंय थोडेंशे काम करप, तेंय कल्याणाच्या आदारान, जालें मागीर... वेळच वेळ उरतालो मागीर... तेन्ना खेळप, फकाणां मस्कऱ्यो करप... कल्याणाच्यो अजापाच्यो गजाली आयकप... आमच्या घराचो सगळो इतिहास ताणेच तर सांगलो... रातचें न्हिदतना व्हडले आईच्यो गजाली, पुराणांतल्यो काणयो, कितें कितें ती आमकां सांगत रावताली... छे.. काय बरे

दीस आशिल्ले ते... आनी मागीर सुरू जाले हे उतळताप...हांगा कोण सैम येऊं ना.. आयिल्लो मनीस वताच, तशें सुखा फाटल्यान दुख्ख येताच म्हणटात... पूण.. म्हाका मात सुख तशें नांवापुरतेंच मेळळें... दुख्खाचीं वेटोळीं जीं सुरू जालीं तीं अजून मेरेन सोंपलीं नात..... आतां दिसता, हीं नातरां म्हाका सुखाचे दीस दाखयतलीं... पूण ते पळोवंक हांव उरतलें मू?... दिसना... आतांच सामकें थकलां... म्हाका आनी आतां काण्णाक कोम कशे फुट्टले, म्हजी कूड आतां थकपाचीच न्हय... हावेंय चितूं जाय... पूण परिस्थिती म्हाका सुशेग घेवंक दिना... राजू फाटल्यान आतां दुर्गा कुलेजींत वचपा जालें... पुष्पान राजूच्या शिक्षणाचो भार घेतला तें म्हणून आनी कितें करतलें... म्हाका म्हजीं कामां वाडोवंक जाय... पूण .. कशीं वाडोंव... कपयाळीं शिंवल्यार हात मुयेतात.. फाट भरता... पयलीं भशेन खाणा करतना तेला म्हऱ्यांत चड वेळ बसूं नज... तकली गिरगिरता... असल्यानी जातलें कशें?... राजू परस दुर्गा हुशार... बाय म्हजें दोतोर जावंक सोदता... करतली ताका देवता दोतोर खात्री आसा म्हाका... हांव दोतोराक दाखयना म्हणून सांगता, 'आज्ये हांव दोतोर जातकर तुका फोर्सान वखद दितलें, कशी घेना तें पळयतलें मागीर... चिमटीभर आशिल्लें बाय तेन्नाच्यान म्हज्या आंगार ऊब गेल्यार पुरो, 'आद्दे, जोल आयलां, वोकू दिवूं, हांव दोतोर जालां लामनाथ काका भशेन'... म्हणून येतालें पोर... आतां खऱ्यानी दोतोल जातलें म्हणटा... दोतोरकी शिकपाक खूब खर्च येता खंय... ते भायर पणजे दवरचें पडटलें ... हरीचे पांय धरचे पडटले... वेळाप्रसंगाक पावला तो म्हाका... आतां पळोंवया...

अशे तरेन चिततां - चिततां ती अस्वस्थ जाताली. मागीर तिका कितलो - कितलो वेळ न्हिदच लाग नासली. दुर्गाचें मॅट्रीकेचें वर्स जाल्ल्यान तिचीं चितना चड वाडिल्लीं.

दुर्गा मॅट्रीकेक पावत साकून दत्तू एकच बडबडटालो,... 'आतां हाका आनी कॉलेजांत-बिलेजांत खंयच धाडपाचें ना हां, ताका खंयी

शिकोवपाची नोकरी पळे म्हणपाची. बायलांक बाईची नोकरीच बरी... म्हज्यान आनी शिर्वीस करपाक जायना...'

सिताबाय ताका जाप दियनासली. मनांत मात म्हणी, -'हो पिंगळो कितेंय उलयतलो... जसो कितें आपुणच तांकां शिकयता कसो.. तांचेर संवसाराचो भार घालून आपूण शिर्वीस सोडूंक सोदता... हांव बायेक कशीच बाई जावंक दिवचीना.. ताका जाय तेंच शिकयतलें. म्हाका कितलोय त्रास पडूं मागीर...'



सिताबाय आतां दुर्गापासत तळमळटाली. ती दीस रात म्हणनास्तना गोजड्यो शिंवताली. आतां तिच्यान कपयाळीं शिंवूंक जायनासलीं. नव्यो कपयो जाल्ल्यान शिंवतना घट लागताल्यो आनी हात चड मुयेतालो. गोजडी मोव, ती तिच्यान शिंवंक जाताली.

ती आतां बरी पासार जाय नासली. दोन-दोन दिसांनी तिच्या हाता पायांचीं बोटां दुखतालीं. कोंपर दुखतालो, भुजां वळून येतालीं. ती आयडेक्स चोळून वोग्गी रावताली. मदीं मदीं तिका जोरय येतालो. दोतोरागेर मात ती वच नासली. गांवठी वखदां घेवन रावताली.

आतां तांचें बेंसाभाटाचें उत्पन्न सामकें कमी जाल्लें. दत्तूक विडयांबरोबर सोर्ती काडपाचेंच व्यसन लागिल्लें. विडयेक थोडे पयशे पडटाले. पूण सोर्तीक तो चड पयशे वगडायतालो. पयलीं सिताबायक हें खबर नासलें. हालींसरा तो घर खर्चाक पयशे कमी कित्याक दिता हें तिणें दोन-तीन वेळा दत्तूक विचारलें. आवयच्या तोंडाक पळयनास्तना दत्तू सांगलें, - 'म्हाका भायर कितलो खर्च आसता. तुमकां घरा बशिल्ल्यांक सांगूक कितें जालां.?

इतलें बडबडून दत्तू भायर सरून गेलो. सिताबायन सुनेक म्हळें, - 'आगे, हाचें कितें चाळवलें, पयशे मागल्यार. हालीं इल्ल्या इल्ल्या कामाक फडफडटासो?

-'हय आई, ओलीं उमळटना म्हज्या हाताचीं कांकणां सगळीं

वाडवतात. म्हणून हावें पयर कांकणां घेवंक आठ आणे मागल्यार म्हजेर व्हडल्यान धेंगसो घालो. आनी कितें कितें बडबडत गेले ते.

-'आगे बाये, तुवें म्हजेकडेन मागचे न्हय?'

-'म्हाका वाड्यार कोणाकोणागेर सवयशिणीक वचचें पडटा न्हय, तेन्ना थोड्यांगेर विड्याचेर चार आणे दितात, नायकागेर सवाय रूपया दितात. ते हांव सगळे वेगळेच जमयतात. तातुंतले पयशे काडून घालीं हावें कांकणां.'

दत्तुच्या सभावाचेर उलयतना मांय-सून सदांच एके राशीर येतालीं. दुर्गा तांकां हंसताले, - 'आई हरशीं तुका आज्येन कितेंय सांगल्यार तूं फडफडटा मगे, आनी बाबाच्यो गजाली उलयतना तुमी बरीं एक जातात.'

आनी एक दीस दत्तुचे पयशे खंय वतात ताचो सोद सिताबायक लागलो.

त्या दिसा कितें जालें, रमान दत्तुच्यो पेंटी उमळपाक घाल्यो. दनपारचो जेवंक आयिल्ल्या वेळार दत्तू हांगा-थंय कितें तरी सोदता. हरशीं घरा आयले बरोबर ताका पान वाडून दवरूं जाय आसलें. ना जाल्यार ताचें पित्त चाळवतालें, तो व्हडान तापतालो. पूण आज तो जेवंक बसचे बदला उस्ता-उस्ती करतालो. रमान ताका दोन वेळा 'पान वाडलां हां' म्हणून सांगलें. निमणे सिताबायन म्हळें, - 'आरे दत्तू, सदां रात्रीवेलो तोप काडून वाडूंक थार करी नासलो तूं, आज जेवण न्हिवता मरे.'

-'मात्सी वोगी राव पळोवया. म्हजी हांगा महत्वाची गजाल शेणल्या. हांगाची काळी पेंट खंय गेली?' ताणें तिडकून बायलेक विचारलें.'

-'हावें उमळपाक जाय म्हणून शाब्बांत फुगत घाल्या.'

-'कितें? पाडपडुनाका तुजें. म्हजी जर सोर्त पिनली जाल्यार वोगी रावचो ना हांव तुका. सामकें मोस तूं. उमळूंक घालचे पयलीं पेंटीचीं

बोल्सां तपासपाक जायना?'

रमा धांवून मान्यांत गेली. काळी पेंट काडून बोल्सां पळयलीं. एका बोल्सांत वोली जाल्ली सोर्त तिका मेळ्ळी. - 'हो कागदा कुडको तुमी सोदताले?' तिणें भायर येवन विचारलें.

-'हय, हय, होच तो. शी, सामकें मोस तूं कितें जाली पळे ही सोर्त.'

दत्तून ती बेगीबेगीन वाल्यार दवरली. वाल्याचें दुसरें पोंत तिचेर दवरलें आनी तो सोर्त सुकोवंक लागलो.

-'आरे, अशें कसलें कागद तें भांगर लागिल्लेवरी करता मरे तूं?' सिताबायन उबगून विचारलें.

-'भांगरच लागलां त्या कागदाक. सोर्त ती?'

-'सोर्त? म्हळ्यार रे?' सिताबायन अजापान विचारलें. रमानय नवोच शब्द आयकल्लो. ताणेय घोवाकडेन पळयलें.

-'आगे, सोर्त म्हळ्यार ह्या कागदा कुडक्यार आंकडो आसा.

तोच नंबर आबेर्तुलावेळार आयल्यार म्हाका पयशे मेळटले.

-'तूं कितें उलयता कांयच कळना.' सिताबायचो गोंदळ जाल्लो.

- 'समजना जाल्यार बरें जालें, तुका कितें सगळ्योच गजाली कळूं जाय म्हणून ना.' दत्तून गुर्जत म्हळें.

-'कित्याक सगळ्योच गजाली म्हाका कळूं जायना?' सारकें सांगल्यार कळटा म्हाका. आनी एक सांग तो कितें तो आंकडो खंय येऊं जाय थंय आयलो ना जाल्यार?'

-'जाल्यार म्हजे पयशे फुकट गेले. तो आंकडो सदांच येताच सो ना, कळ्ळें? काय आनी कितें विचारपा जाय?'

-'आगे बाये, म्हणजे तूं पयशांची अशी वाट लायता तर. घरांत खर्चाक पयशे दिवंक तूं रडयता ते हे खातीर तर.'

-'हय, कळ्ळें? आनी ही सोर्त लागली जाल्यार भरपूर पयशे मेळटले. इतले दीस वगडायल्यात ते पयशे भरून येतले.'

-'हळद लाय व्हरून तुज्या त्या पयशांक. अशेच करून तुजे भशेन

जायते जाण पोरां तोंडांतले पयशे व्हरून सोर्तीक घालतात आसतले. प्रत्येकाच्यो हायो आसतल्यो त्या पयशांचेर. आमकां नाकात असले पयशे. आनी एक सांग रे कितले फावटीं लागल्या तुका सोर्त?'

-'जायते वेळा धा रूपया, पांच रुपया मेळ्ळ्यात म्हाका. ताची हांवे परत सोर्त काडली.'

-'दत्तू तुका सांगतां, आमच्या कश्टांचेच पयशे आमकां बरे भशेन खावंक मेळ्ळ्यार पुरो. पोरां तोंडांतले पयशे व्हरून ते सोर्तीक काय फोर्तीक घालूं नाका.'

सिताबायक जाप करनास्तना दत्तू जेवन उठलो.



सिताबायचे तकलेक एक नवो हुस्को लागलो. ... ''विडयो ओडटालो त्यो पळोवन वोगी राविल्लें हांव... आतां ही सोर्त म्हणून कोण लागल्या. दिय्यार रुपया. दोन रुपया अशे वगडावचे परस ते पयशे बांकेंत घाल्ले जाल्यार बायेच्या शिक्षणाक मेळचे नासले ते... ना, शिक्षण नाका ताका, आपूण शिकूं ना... भुरग्यांक तरी शिकयतलो म्हणून चितना... धंद्या फाटल्यान लागून तेन्ना लाखाचे बारा हजार केले.. आतां असो पयसो वगडायता. कितें म्हणप ह्या चल्याक?'... तेन्ना तरनाटे पणाचें भूत तकलेर बशिल्लें, आतां जून जाला.. एकूण मेळून हिशेब टो, टो, फो, खंयचे कडेन कांय ना... आतां हांव दिशीं-दिशीं थकत गेलां... तेन्ना तुतनायक आशिल्लो आंगांत, हाची पिशेपणा पचोवन व्हेलीं... आतां म्हज्यान जायना... राजू मार्गाक लागलो, ताचें कुलेजाचें निमाणे एक वर्स उल्लां खंय.. पोर म्हजो समजिकायेचो, सकाळचो कुलेजांत वता आनी सांजवेळची अर्द्या आदेसाक शिकोवपाची शिर्वीस करता. चार पयशे जोडूंक लागला बाबू म्हजो... पूण कसलींच फोल्गां म्हणून तो करना, ताच्या हेर इश्टांवरी, ना सिनेमाक वचना, ना हॉटेलांत वचून खायना... हांगा थंय हेडूंकय वचना.. जें सुख पुतान म्हाका दिलें ना तें नातू दिता...

मेळिल्लो पगार तो बांकेत दवरता, दुर्गाक शिकयतलो म्हणटा, आतां ह्यो बांको म्हणून आयल्यात त्यो कितल्यो बऱ्यो जाणा... पयसो हातांत आसल्यार उरचोच नासलो, दत्तू घेवन पाडा घालतलोच आसलो ताचो पयसो ... पूत पयशे आपलेकडेन दिना म्हणून बरोच बेजार आसा ताचेर, आसूं... हावेंच सांगलां ताका, तुज्या बापायच्या हाताक एक पयसो लावनाका म्हणून... दत्तूक पयशे मोडूंक कळटात, सांबाळूंक कळनात... म्हजेरय हालींसरा बरोच बेजार आसा दत्तू, धड उलय लेगीत ना... नाका उलोवंक... सदांच हार्ची आपसुलादपणां खपोवन घेतलीं हावें आनी संवसाराची वाट लायली... आतां हांव म्हज्या नातरांची वाट लावंक दिवचीना हाका... रमाय पुताचेर कड्डुता, तो पयशे घरांत मोडना म्हणून... 'भुरग्यांचें शिक्षण जायसर घरांत कितलीय धांदळ जांव' अशें हांव म्हणटां म्हणून म्हजेरय कड्डुता रमा... आतां तिका च्याचें व्यसनच कशें लागलां... कोणाकय केल्यार इल्लो तरी आपूण पितलीच... च्या चो पालो, साखर आनी दुद ह्यो तीन वस्तू तिका खुबच लागतात...च्याचो पालो साखर शेजाऱ्यांकडल्यान मागून हाडूंक लेगीत तिका आतां लज दिसना... कितल्या वेळा सम जायली हावें, असा तें खावचें, नाजाल्यार उपाशीं रावचें... पूण ही खंय आयकता म्हजें... वयल्यान व्हडलें तोंड घेवन उलयता.. आतां हावेंच आड नदर करपाचें थारायलां... आतां तीय गोजड्योबी शिवंक लागल्या...

एके वटेन बरें जालें, म्हजो हात पयलींभशेन चलना... म्हजो धंदो हिणे हातांत घेतल्यार बरेंच जालें... पयशे जोडपाक कळप ही आम च्या संवसाराक खूब म्हळ्यार खुबच गरजेची गजाल...''

विचाराच्या घुस्प्यांत घुस्पली काय सिताबाय खंयचे खंय व्हांवन वताली. हालीं सरा बरी पासार जायना म्हणून ती न्हिदून रावली काय अशी ती विचारांत घुस्पताली.

तिका परत-परत जोर येतालो. पूण ती दोतोरागेर वच नासली.

ही खबर पुष्पाक कळटकर, तें एक दीस तांगेर रावंकच आयलें. ताणें सिताबायक फोर्सान दोतोरागेर व्हेली. तिका हाडांचो कसलो रोग जाल्लो. तिका जोर येतकर खंयच्याय बोटाचें एक पेर सुजतालें, मागीर तें वांकडें जातालें.

पुष्पाचे सांगणेर तिणें थोडे दीस वखत घेतलें. मागीर तिणें पुष्पाक सांगलें, - 'बाय गो, कितलो तेप म्हजेपासत पयसो मोडटलें. आतां हांव जालां जाण्टें. हीं वखदां कितें म्हाका सैम दवरतलीं समजलां तूं, एक दीस मरतलेंच हांव. मरतना किचेंय निमित्त जाय म्हणून हो हाडांचो रोग जाला.

-'ना आई, तुवें लग्न जावन आमच्या घरांत येत साकून थोडीं हाडां झरोवना, म्हणून तीं अशीं रागार जाल्यांत आनी तुका आतां विसव घे म्हणटात.'

-'खंयच्यान घेवं पुता विसव?' तुजीं दोगांय भुरगीं शिकून हाता तोंडाक लागलीं, राजू लागलो पोटाक, आतां उल्लें म्हजें दुर्गा, ताका दोतोर जावंक जाय. आतां ताच्याच हातचें वखत घेतलें हांव, मागीर पळे कितलें खुटखुटीत जातलें तें.'

-'आई, ताका दोतोर जावंक वेळ आसा. तितलेसर तुका बरी उरूं जाय म्हणून हीं वखदां घे, कळ्ळें.

पुष्पा तिका बरे तरेन समजावन गेलें.



सिताबायक हाडांचे दुवेंस लागिल्ल्यान तिची शिवण, वाती वळप उल्लें. हरशींय जाल्यार राजूक अर्द्या आदेसचे काम मेळटकीर ताणें आज्येक सगळी कामां बंद करूंक सांगिल्लें. पूण तिणें आपलें काम थांबोंव नासलें. आतां मात दुखण्यान तिका बळयां कामां थांबोवचीं पडलीं. पूण तिचें तोंड बरें आसलें, ती कोणागेर पापड, वडयो करूं जाय जाल्यार सामान दाखोवंक वताली.

भाटांत एक पासय माल्ले बगर तिका सुख लागनासलें. ती सकाळचें

वत चडचे पयलीं, सांजेची भाटांत वतालीच. कोण मेळटा ताचे कडेन तोंड भर उलोवन येताली.

आतां मात तिची धोपरां चडच दुखूंक लागिल्लीं, पावलांय उसळटालीं. तिच्यान चड वेळ भाटांतय भोवूं जाय नासलें. ती सकाळचो आदेस चडशी न्हिदून रावताली.

दुर्गाचें इंटराचें वर्स आसलें. ताचेर अभ्यासाचो पेज आसलो. आनी एकेवटेन आजी बरी ना हाचे त्रास जातालें. अभ्यास करतनाय तें वेळ काडून आज्येक वेळच्या वेळार वखद विर्सद दितालें. सिताबाय मागीर तोखणायेन म्हणटाली, 'बाय म्हजेपासत आतांच दोतोर जालें..'

सिताबाय बरी पासार जायना हें कळत साकून तिचीं सोयरी तिचे खरबेक येतालीं. सिताबाय प्रत्येकाकडेन आपल्या जिवाचें उलय नासली. ती फकत नातरांच्यो व्हडविको सांगताली, 'आगे, आमी तुजे खबरेक आयल्यांत, तूं कशी आसा तें पयलीं सांग,' अशें कोणेय म्हणटकीर ती पयलीं व्हडान हांसताली आनी म्हणटाली,- 'म्हज्या म्हाताऱ्याचें आनी कितें? आज हें दुखता, फाल्यां तें दुखता जावपाचेंच, ताच्यो आनी कसल्यो आपुरबायो. अपूरबाय करपाची ती म्हजा नातरांची.'

हरीय तिका मेळपाक आयिल्लो. हरीन तिका वेळा प्रसंगांक खूब वेळा आदार केल्लो. तो तिका आदार करता म्हणून शाणू पयलीं पयलीं हरीचेरय रागार जाल्लो. शाणून जरी अजुनय सिताबाय वेलो राग सोडूं नासलो तरी ताचीं भुरगीं सिताबायक खूब बरें करतालीं. सोमनाथ तर उल्या सादाक तिका पावतालो. तें खबर आशिल्ल्यान शाणूचोय राग आतां नांवा पुरतोच उरिल्लो म्हळ्यार जाता. दत्तू कसल्याय काम ाक काका म्हऱ्यांत धांवतालो, आनी शाणूय ताचे कडेन बरे भशेन उलयतालो.

हरी सिताबायचे खबरेक आयिल्लो तेन्ना ताणें जावन सिताबायक म्हळें, -'व्हनी, तुज्या दुर्गाक मॅडिकलाक प्रवेश मेळटलोच, तूं चिंता

करूं नाका. ताका मागीर हांव शिकपाक आमगेर दवरतलों. तोय तुका हुस्को जाता म्हणून जाणा हांव, म्हणून हावें आनी तारान पयलींच थारायलां तें.'

खऱ्यानीच सिताबायक सूऽ जालें. ती दोतोरकेच्या शिक्षणाविशीं हाचे ताचे कडेन चवकशी करत आसताली. तिणें आयकल्लें, दोतोरकेचें शिकप घेतना थंयच रावचे पडटा. चल्यांक, चलयांक रावपाक घरांय आसतात. पूण ताकाय पयशे भरचे पडटात. ते आनी आमकां कशे जमतलें? हाचीच तिका चिंता जाल्ली. हरीन आपूण जावन तिचो हुस्को पयस केल्लो. आतां ती दुर्गाच्या निकालाची वाट पळयताली.

सात-आठ दिसां भितर इंटराचो निकाल लागलो. दुर्गा गोंयांत पयलें आयिल्लें. ते भायर दोन विशयांत ताका भांगरा पदक मेळिल्लें.

दुर्गान पयलीं येवन आज्येक वेंग माल्ली.

-'आज्ये, आज्ये आतां हांव दोतोर जातलेंच. म्हाका स्कॉलरशीप मेळटली. आतां तूं भिवनाका.'

सिताबायक मळबाक हात तेकिल्ल्याची खोस जाली. खोश्येन तिच्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां व्हांवक लागलीं.

आज तांगेर कितलींच जाणा दुर्गाक परबीं दिवंक येतालीं. सोयऱ्या वांगडा ताचे शिक्षक, वार्ताहार सगळे आयिल्ले. सगळ्यांक दुर्गा एकच सांगताले, -'म्हज्या यशाची मानकरी आजी. हें यश म्हजें न्हय तिचें.' मागीर सगळीं सिताबायकच परबीं दितालीं.

पुष्पा सकाळच्यानच तांगेर आयिल्लें. आयिल्ल्या गेल्यांक चा, खावंक, दितना रमाबाय आनी राजू वांगडा तेंय उमेदीन वावुरतालें.

सिताबायच्या घरच्यांनी तिका म्हळें, 'सिताबाय, निमणे नातीन तुका जैत मेळोवन दिलें. जिखली तूं आज.'

-'हय, आसा म्हजी देवता, तिचेर विश्वास दवरून इतली कांट्याखुंट्यांची वाट चल्लें. तुमीय सांगात दिलो म्हजें तप पुराय करूंक.'

-'हय, आज दुर्गा न्हय तूं पयली आयली.'

सिताबाय मुमुरख्यानीच हांसली.



दुसऱ्या दिसा सगळ्या पेपरांनी दुर्गा बरोबर सिताबायचोय फोटो झळकतालो. पेपर वाचून सोयऱ्या धायऱ्यांची तांगेर रीग लागली. उमेदीन सिताबाय परत परत पेपरावेलो आपलो आनी नातीचो फोटो पळयताली.

रामनाथान पेपर वाचले बरोबर वडगांवां सगळ्यांक ही बातमी सांगली. ताईबायच्यान चलूंक फिरूंक चडशें जाय नासलें. तरी तिणें सिताबायक मेळपाची इत्सा रामनाथाक सांगली. रामनाथान आपले गाडयेंत ताईबायक वांगडा जायल्याकय घेतले आनी तीं सिताबायगेर आयली.

तिणें सिताबायचे दोनय हात घट धल्ले आनी म्हळें,-'सिताबाय, तुज्या जिवीताची अमृतवेळ आयली, फांतोड फुल्ली तुजी.'

दोगांय जावांच्या दोळ्यांतल्यान खोशयेची दुकां गळूं लागलीं.



## आजवेर मेळिल्ले पुरस्कार

1. एन्.सी.इ.आर.टी.चो बालसाहित्य पुरस्कार - 1998 ‘कोलेदादाची पालकी’ ह्या पुस्तकाक
2. कोंकणी कला साहित्य केंद्र - कुडचडें, हांचो बालसाहित्य पुरस्कार - 2003
3. कोंकणी भाशा मंडळाचो कथा पुरस्कार ‘मळबझेंप’ ह्या कथासंग्रहाक - 2007
4. ‘माँ शारदा’ काव्य पुरस्कार ए. आय. पी. सी. खुर्जा हे संस्थेचो - 2010
5. गोवा कोंकणी अकादेमीचो कथा पुरस्कार ‘मृगजळ’ ह्या कथासंग्रहाक - 2010
6. ‘बिम्ब’ बालसाहित्य पुरस्कार - 2011
7. गोवा कोंकणी अकादेमीचो बालसाहित्य पुरस्कार ‘एक आसली आजी’ ह्या पुस्तकाक - 2012
8. साहित्य अकादेमीचो बालसाहित्य पुरस्कार ‘रानाच्या मनांत’ ह्या पुस्तकाक - 2012
9. उत्कृश्ट शिक्षिका पुरस्कार कोंकणी भाशा मंडळ - 2015